# वज्रलिखणी

·शणै गोंयबाब : जिवीत आनी बरप

संपादक

**शांताराम शं. वर्दे वालावलीकार**




कोंकणी भाशा मंडळ

गोंय

पयलें अुजवाडावप

२३ जून १९७७

**मोल**

डिलक्स : २५ रुपये

सादी बांदणी : १५ रुपये

मुखचित्र

चित्रकार **बांदोडकर**

अुजवाडावपी

श्री. अेव्हाग्रियु ज्यॉर्ज, सेक्रेटरी, कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय,

४९–बी, अिराज्मु कार्व्हाल्यु मार्ग, मडगांव, गोंय.

छापपी

श्री. **का. गं. सोनार,**

लोकसंग्रह मुद्रणालय,

१७८६, सदाशिव, पुणे–३०.

# मांडावळ

# अुपकार

हें पुस्तक वाचप्यांच्या हातांत दितना आमकां खूब खोस जाता. शणै गोंय-बाबांचें जिवीत आनी तांची तेजीश्ट लिखणी हांची सारकी बरी वळख घडोवपाक असल्या पुस्तकाची खूब गरज आसली; ती गरज भागोवपाचो यत्न ह्या पुस्तका फाटल्यान आसा.

शणै गोंयबाबांलीं पुस्तकां गोमंतक छापखान्याचे धनी श्री. काशिनाथ श्रीधर नायक हांणी उजवाडा हाडल्यांत. त्याच पुस्तकांतले वांटे संपादक श्री. वालावलीकार हांणी ह्या पुस्तकांत घेतल्यात. तशें करतना मूळ उजवाडावणेच्या रुपांत फकत अेकच बदल छापणावळीचे अडचणीक लागून करचो पडला. तो म्हळचार आडव्या-अुब्या आडयांच्यो कुरवो काडून वडोवपाचो. आनी कुरवो नाशिल्ल्यान वाचूंक अडचण येवची न्हय हे खातीर त्या त्या अुतरांत फावो तो किरकोळ बदल करपाचो. शणै गोंयबाबांल्या बरपांत व्याकरणाचे आनी शुद्धलेखनाचे नेम कशे बदलत गेल्यात हें बारीक अभ्यास करतल्याक शिकूंक मेळचें हो मूळ अुजवाडावणेचें रूप तशेंच दवरपा-फाटलो हावेस.

हें पुस्तक उजवाडा येवपाचें स्रय संपादक श्री. शांताराम शं. वर्दे वालावली-कार हांणी घेतिल्ल्या कश्टांक. छापणावळीच्या आनी पुस्तकाक सोबीतकाय हाडपाच्या वावरांत श्री. सुमन्त केळेकार आनी श्री. अ. ना. म्हांबरो हांचो खूब पालव मेळ्ळा. चित्रकार बांदोडकर, लोकसंग्रह मुद्रणालय आनी आनंद मुद्रणालय हांचे चालक हांणी तर बेस बरे रितीन आनी आपलेपणान सगलो वावर केला. ह्या सगल्यांचे उपकार मंडळाचेर सदांच उरतले.

**उदय भेंब्रो**
अध्यक्ष,
कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

# प्रस्ताव

शणै गोंयबाब म्हळ्यार वामन रघुनाथराव वर्दे वालावलीकार हांची वळख करून दिवपाचे दीस आतां अुरूंक नात अशें जरी आसलें तरीकय तांचे बरपावळीची वळख सगळ्यांकूच आसा अशें ना. त्या भायर तांचीं पुस्तकां आतां सपसप करून विकतीं मेळनाशिल्ल्यान चड करून नवे पिळगेक तांचे बरपावळीची वळख मेळपाची अडचण जाता. ही अडचण कांय प्रमाणांत अुणी करपाखातीर तांचे बरपावळींतल्यान वेंचून काडिल्ल्या साअित्याचें अेक पुस्तक अुजवाडावचें अशी येवजण कोंकणी भाशा मंडळाचे आदले अध्यक्ष भौ. चंद्रकांत केणी हांणी मांडली आनी तांतूंतल्यान हें पुस्तक जल्मा आयलें.

शणै गोंयबाबांली सगळी बरपावळ अेकादो आडवाद सोडल्यार गोमंतक छापखान्यान अुजवाडा हाडल्या. ती हांगा परतून अेकदां अुजवाडावपा खातीर मान्यताय दिली म्हणून गोमंतक छापखान्याचे धनी भौ. काशिनाथ श्रीधर नायक हांचे हांव कोंकणी भाशा मंडळाचे वतीन अुपकार मानतां.

शणै गोंयबाबांचो अेक आदीं अुजवाडा येवंक नाशिल्लो फोटू तांच्या घरांतूच मेळ्ळो. तो ह्या पुस्तकांत अुजवाडायला. त्या भायर दसऱ्या-दिसा तांणी केल्ल्या अेका अुलोवपाचो अेक वांटो "शणै गोंयबाब" ह्या बरपांत आयला. तो तांच्या घरांत मेळिल्ल्या हातबरपावेल्यान घेतला.

बावीस पुस्तकांतल्यान वेंचून काडून ह्या पुस्तकांतल्यान शणै गोंयबाब अुबो करपाचें काम म्हजे तांकीप्रमाण हांवें केलां. (पुण शणै गोंयबाब सारको समजुपाक तो मूळांतूच सगळो वाचचो पडटलो.) इतल्याच पानांभितर तो हाजेयपरस बरो अुबो करूं येतालो अशें कोणेंय जाणकारान म्हळें जाल्यार म्हाका वायट दिसचें ना. पुण हें पुस्तक वाचून "शणै गोंयबाब मुळांतूच सगळो वाचचो पडलो" अशी वाचप्याक इत्सा जावची आनी ताणें शणै गोंयबाब पुरायेन वाचचो अशें हांव मागतां.

बरें मागून,

**संपादक**

"म्हज्या आनी तुमच्या मनाची फटवण करूंक हांवें तुमकां नाका-जाल्ल्यो फटासी सांगूंक नात. म्हजी दर एकली म्हणणी तुमी तुमचे बुद्दिचे साणीर घांसून पळयात आनी कसाक लागल्यार घेयात."

—शणै गोंयबाब



**शणै गोंयबाब**

(वामन रघुनाथशणै वर्दे वालावलीकार)

२३ जून १८७७—९ अेप्रिल १९४६

तिसरे कोंकणी परिशदेच्या वेळार मुंबयंत काडिल्ल्या ह्या फोटयांत शणै गोंयबाब ·येवकार–अध्यक्ष म्हणून बशिल्ले दिसतात. तांच्या उजव्या हाताक आसात परिशदेचे अध्यक्ष प्रो. आर्मांद मिनेझिस



शणै गोंयबाबांल्या कुटंबाचो फोटो. हातूंत शणै गोंयबाब आपणाली घरकान्न, दोन धुवो आनी पूत हांच्या वांगडा दिसतात.

# शणै गोंयबाब : जीण आनी बरप

"हांव बरप शिकून जाणंटो जातकूच शेतकामत करतलों. हांव शेतां, भाटां, पोरसां आनी कुळागरां लायतलों. हांव भात पिकैतलों. हांव फुलां फुलैतलों. हांव तरेकतरा सारीं घालतलों आनी पडिग जमनी पिकाळ करतलों. म्हजीं शेतां पांचवी-चार. हांव अेका पिका बदला पांच पिकां काट्टलों. एके खांडयेबदला धा खांडयांचें माप घेतलों. म्हजो नाल्ल कळसो कसो. म्हजो आंबो अमृता-शिसो. हांव खाण-जेवण फुकेसवाय करतलों. दुबळ्या-धाकट्यांक धादोसकाय हाट्टलों. म्हज्या कोंकणांत उपासांनीं कोण वळवळचो ना."

असो पांचवोचार हावेस हड्डुयांत जागोवपी हो "भुरग्यांलो इष्ट."

"हांव उद्योग करतलों. हांव मांड-पसरें घालतलों. म्हजीं वेपाराचीं तारवां संवसाराच्या सगळ्या बंदरांनी भोंवतलीं. म्हज्या कोंकणांतलो म्हाल सगल्या पेठांनी पावतलो. हांव जायतो दुडू जोट्टलों. हांव व्हडलो गिरेस्त जातलों. आनी सगळ्यांक गिरेस्त करतलों." अुद्योगी मळाचेर सगल्यांक गिरेस्त करपाची ताका वान्सा.

"हांव वैज जातलों. हांव तरेकतरा ओखतां आनी रसायणां सोदून काट्टलों. हांव संवसारांतली पिडा मारून उडैतलों. हांव लोकांचीं बुरशेपणां, अळशीक आनी घाण ना करून तांकां झळझळीत रांवक शिकैतलों. हांव तांकां वज्राच्या आंगाचे करतलों. मागीर कोणाक खोरजेची पुळी जांवची ना. कोणाचें आंग तापचें ना. कसलीच धाम येंवची ना. कोण बेगीन मरचो ना." तंत्रीक आनी शास्त्रीक मळाचेर अुदरगत जोडून सगळ्यांक सुखी करपाची ताका हुटहुटी.

"लोक एकामेकांक उणे लेखतात. एकामेकांची तीड काट्टात. झगडीं झुजां मातैतात. मारतात, धपट्टात, फटैतात, नागैतात, तें म्हाका मानना. लोकांचें नष्टे-पण वचून ताणीं मायेभोगान चलचेखातीर हांव कसलोय उपाय सोदून काट्टलों. आनी संवसाराक सस्तताय हाट्टलों." समाजीक भेदभावांचें ताका दूख. एकचाराची ओड.

"हांव झगट्टलों आनी झुजतलों. हांव तरवार वावुट्टलों. हांव तुबकां आनी नाळी पेटैतलों. हांव ठो-धुडुम करतलों. हांव विमानांनी अुट्टलों. हांव दारू गुळयांचो

पावस घालतलों. हांव दुस्मानाच्या हड्ड्यार बसतलों. ताका चेंचतलों. गुड्डायतलों आनी माड्डायतलों. तो गरीब दुबळ्यांक आपल्या बळग्याचो नसतोच हावको दाखैता, तांकां भेष्टायता, तळमळायता आनी वळवळायता. त्या मस्त्याची मस्ती हांव जिरैतलों. गरीबदुबळ्यांचो जो दुस्मान तो म्हजो दुस्मान. तो संवसाराचो दुस्मान. ताका ना करून हांव संवसाराक हुस्क्या-मेकळो करतलों." गरीब दुबळ्याची ताका काकूट. अन्यायाचो तो दुस्मान.

"म्हाका कितें कितें करचेंशें दिसता. म्हाका सुकण्याभाशेन उडचेंशें दिसता. तें माथ्यावैलें उंच मळब आनी तांतूंत मोतयांवरी ओतिल्लीं तीं नक्षत्रां पळौन, म्हजो जीव मिडमिट्टा. म्हाका तीं बचके मारून पुंजावचींशीं दिसतात. हांव जाणटो जातकूच ल्हवपीक पांखाटे लायतलों आनी घोणीभाशेन उट्टलों. हांव उंच उंच वेतलों. हांव सूर्यावळी, गिरावळी आनी नक्षत्रावळी रांगशितलों." असलो मळबापरसूय व्हडलो जिवो तट्टीत हावेस भुरग्यांच्या मनांत फुलोवपी अेक भव्य दिव्य मनीस अुण्याेपुण्या शंबर वर्सांफाटीं दिवचलच्या, भितल्ले पेठेंतल्या एका घरांत जल्मा आयलो. ह्या ल्हान भुरग्याचें नांव ताज्या आवयबापायन वामन म्हुण दवल्लें. आनी फुडाराक हे वामनमूर्तीन आपल्या कर्तुपान सगल्या कोंकणी भौसाच्या काळजांत आपलें नांव अज्रंवर करून दवल्लें.

ह्या मनशान आपले मायभाशेचेर, आपले भुंयेचेर, आपले भुंयेंतल्या मनशांचेर, थंयच्या तणाचेर आनी मातयेच्या कणाचेर लेगीत मनापासून मोग केलो. 'गोड म्हजें गोंय, सुंदर म्हजें गोंय' म्हुण तो गोंयांक माथ्यार घेवन नाचलो. कोंकणीचो पुरुशार्थ जागोवपा खातीर ताणें गेल्या अडेच हजार वर्सांचो इतिहास धवळ्ळो आनी तांतलीं अेकापरस अेक मोलादीक रत्नां काडून ताणें कोंकणी लोकांमुखार ओतलीं. तो अितिहास संशोधक, भाशापंडित, खांपो साअित्यिक आनी तत्वगिन्यानी म्हणून लोकांमुखार आयलो. कोंकणी भाशेची सासाय चारूय दिकांनी पातळावपाखातीर ताणें तब्बल चार तपां कश्ट काडले. आपल्याच लोकांचीं उणींदुणीं सोंसलीं आनी कोंकणीक व्हडवीकाय मेळोवन दिवपाची म्हान क्रांती ताणें जल्माक घाली. देखुनूच कोणें ताका सत्पुरुश म्हळो, कोणें म्हापुरुश म्हळो,कोणें कोंकणी चळवळीचे भीश्माचार्य अशें ताजें वर्णन केलें. कोणें कोंकणी समाजांत प्राण फुंकपी धन्वंतरी म्हणून ताजी व्हडवीकाय गायली. कोणें ताका कोंकणी साअित्याचो कुळपुरुस मानलो. तर कोणें पुरुशसुक्त गावन 'आमच्या पुरसा आमकां पाव आमचें बरें जांव म्हण' अशें नमळायेन बागोवन ताज्या आत्म्याकडल्यान आशिर्वाद मागले.

शणै गोंयबाबांचो जल्म २३ जून १८७७ ह्या दिसा दिवचले जालो. दिवचले शाळा नाशिल्ल्यान तांचें प्रायमरी शिकप अशेंच रखडत रखडत जालें. आनी दुसरेकडे

अेका सोयऱ्यागेर रावन तांणी 'सेगुंदग्राव' ही पुर्तुगेज परीक्षा दिली. आनी तातूंत तांणीं बार्देस तालुक्यांत पयलो नंबर मेळयलो. फुडें शिकपाची खंय वेवस्था जावपा-सारकी नासली. ताका लागून तांकां एकदोन वर्सां घराच रावचें पडलें. पुण त्यावेळांत तांणी अिंग्लेज आनी संस्कृत भाशांचो घराच अभ्यास केलो. उपरांत चिंतामणराव वालावलीकार ह्या तांच्या बापोलयान तांकां मुंबय व्हरून फुडलें शिक्षण दिलें. गिरगांवांतल्या मराठा हायस्कूलांत तांचें शिकप जालें. आनी १८९८ वर्सा ते मॅट्रीक जाले. मागीर तांणी गोंयां येवन आसगवां नोकरी धल्ली. फुडाराक ते कराचीक वचून थंय मुनिसिपालिटींत नोकरी करूं लागले. त्या उपरांत तांणी दोन तीन नोकऱ्यो केल्यो. तांतल्या Messers Meister Lucius Bruenig हे जर्मन कंपनींत ते कंपनीच्या सगळयांत वयल्या पदामेरेन चडले. आनी अेक दीस आपल्या मना आड एक गजाल घडली म्हणून राजिनामो दिवन तांणी ती नोकरीयबी सोडून दिली. आनी पूर्ण वेळ कोंकणीच्या वावराक लागले.

ह्या सबंद काळांतली तांची अुजू चलणूक आनी स्वाभिमान ह्या दोन गजालींनी तांचे लागसार आयिल्लो जणेकलो मनीस दिपकावन गेलो. देशाचो, भाशेचो, स्वत्वाचो अभिमान हो तांच्यांतलो सगल्यांत व्हडलो गुण. ताजे मुखार तांणी कसलीच आनी कोणाचीच पर्वा केली ना. तांच्या ह्या मानी सभावाचे एकदोन प्रसंग सांगीसारके आसात.

हांगाच्या अेका विदेशी कॉन्सुलेटांत कामाक आसताना तांकां एका वर्सा पगारवाड दिली ना. तांचेबराबरच्या सगल्यांक पगार वाडयलो. पुण शणै गोंय-बाबाचो पगार वाडयलो ना. हें पळोवन बरोबरच्यांकूय मातशें वायट दिसलें. तांच्यांतल्या एकल्यान शणै गोंयबाबाक म्हळें लेगीत, "तूं हरशीं म्हजेच बराबर काम करता आसताना तुका पगार वाडोवंक ना म्हुण म्हाका वायट दिसता."

शणै गोंयबाबान म्हळें, "तूं कित्याक वायट दिसून घेता? म्हाका मेळटा तो पगार पुरो."

त्याच दिसा सांजचें कॉन्सूलान शणै गोंयबाबाक आपोवन व्हेलो आनी सांगलें, "सगल्यांक अिन्क्रीमेंट मेळ्ळा. तुका दिवंक ना."

'नासूं. हांवें खंय मागला?'

'तुका कित्याक दिवंक ना जाणा तूं?"

'नकळं'.

'हांव आफीसांत भितर सरतां तेन्ना सगळे जाण अुठून अुबे रावतात, तूं मात अुबो रावना. देखून तुका अिन्क्रीमेंट दिवंक ना.'

हें आयकून शणै गोंयबाब तांबडो गुंज जालो. ताका अुतर फुटना जालें.

थोड्या वेळान सायबान सांगलें, 'पुण तुजें काम बरें आसा. म्हण तुका ह्रांव डबल अिन्क्रीमेंट दितां.'

पुण शणै गोंयबाबाचे तीख बुद्दीक बरें खबर आसलें कि आपणें सायबाक सलाम ठोकचो हे खातीर हो डबल अिन्क्रीमेंट आसा म्हुण. शणै गोंयबाबान आफीस सुटच्या-वेळार अेक कागद व्हेलें आनी आपल्या वयल्या अधिकाऱ्याकडे दिलें. तो राजिनामो आसलो. आपलें काम आपुण बरेतरेन करतां. खुशामत करप आपलें काम न्हय. अशे तरेची फोडणीशी तांतूंत केल्ली.

दुसऱ्या दिसा सायब नेटान आयलो. त्याजो अदमास हो कि, आज वालावलीकार अुठून अुबो रावतलो. ताणें वालावलीकार बसता त्या जाग्याकडेन बडायेन पळेलें आनी ताका अजाप जालें. केन्ना न्हय तो आज तो जागो रिकामो आसलो.

ताणें चवकशी करतकच ताका वालावलीकाराचो राजिनामो मेळ्ळो. ताणें बेगोबेग शिपायकाकडल्यान वालावलीकाराच्या घरा आपोवणो धाडलो. शणै गोंयबाब गेलो ना. मागीर सायबान आपली बग्गी (घोड्याची गाडी) दिवन एका अधिकाऱ्याक तागेर धाडलो. पुण ना तें ना. शणै गोंयबाबान थंय परतो पांय दवल्लो ना.

तशेच तरेची गजाल घडली दुसरे अेके कंपनींत. मेसर्स मेस्टर लुसीस ब्रुनीग कंपनींत आपले हुशारकायेन आनी कश्टांनी ते वयल्या पदाक पावले. तेच कंपनीचें नांव फुडाराक कलर ड्रग कं. लि. अशें जालें आनी ते कंपनीच्या सेक्रेटरीपदाचीं सुत्रां तांच्या हातांत आयलीं. मुखार पयल्या म्हाझुजाक लागून कंपनीच्या जाळवणदारांक मायदेसाक वचचें पडलें. तेन्ना तांणी देशी लोकांतल्या खात्रीच्या मनशांकडे आपल्या एका एका फांटचाची जापसालदारकी सोंपयली. झूज सोंपतकच जेन्ना ते परते आयले तेन्ना तांणी आपले जंयजंय फांटे आसले त्या सगल्या फांटयांची तपासणी केली. हिंदुस्थान, बर्मा, सिलोन, जपान हांगाच्या सगळ्या फांटयांची तपासणी जातकच तांणी जपानासून जर्मनीक आपल्या मुखेल ऑफीसाक कागद बरोवन कळयलें कि, आमी हीं सगळीं ऑफिसां तपासून पळेलीं पुण मुंबय फांटयांतल्या वालावलीकारा अितलो अुजू मनीस आमकां दुसरो खंयच गावलोना. ह्या खातीर तांची अित्सा आसा-सर मुंबय फांटयाचे सगळे वेव्हार तांचेचकडेन दवरचे आनी ते केन्नाच काडून घेवंचे न्हयत.' ताजे अुप्रांत तांणी धाडिल्ले जर्मन अधिकारी वालावलीकारांच्या हातासकल आशिल्ले. आनी तांचो पगारूय अुणो आसलो. हें जर्मन अधिकाऱ्यांक सोंसना जावन तांणी वालावलीकाराचो पगार आपले परस अुणो करचो म्हुण खटपटी चलयल्यो. आनी त्या खटापटींक येस येवन आर्थीक चणचणीच्या नांवार काटकसर करपाचो

हेत दाखोवन कंपनीन वालावलीकारांचो पगार कमी करपाची येवजण मांडली तेन्ना तशें जाल्यार त्याच प्रमाणान जर्मन अधिकाऱ्यांचो पगारूय देवंक जाय असो आग्रो धरून शणै गोंयबाबान (त्या वेळार म्हयन्याक सुमार दोन हजार रुपयांचे) नोकरेर खोंट माल्ली. ही गजाल १९२६ तली. हांगाय परत तांचें मन वळोवपाचे येत्न कंपनीकडल्यान जाले. पुण तांणी कानामनार घेतलें ना. आनी ते पूर्ण वेळ कोंकणीच्या वावराक लागले.

ह्या दोन घडणुकांतल्यान शणै गोंयबाबाच्या मानी सभावाची नाट आमकां मेळटा. कोंकणीचें व्रत शणै गोंयबाबान घेतलें तेंयबी ह्याच मानी सभावाक लागून. "आमी कोंकणे आमगेलें पुर्विल्लें भूत साप विसल्ल्यात" हें पळोवन ते निर्शेले. 'आपुण ल्हान, आपुण मोटवो, आपली सुवात धिकेंभर अशें म्हणून रडच्याच्यो व्होंवयो गात बशिल्ल्या' कोंकणी पुताधुवांचें आत्महीणपण घालयतलो आनी तांच्यांत 'आपुण येवजूं तें करूं अशी मनाची भावना' जागयतलो जाल्यार तांचे आवयभाशेक वयर काडलेबगर दुसरो अुपाय ना. आपले खाशेले बुद्दीन येवजुपाचें सोडिल्ल्यान ते आपले कर्तुत्वदशेचो विश्वास व्हगडावन बसल्यात हें तांणी पारखिलें. "मराठीक, कानडीक आनी हेर भासांक आवैभासो लेखून आमी आमगेल्या खाशेल्या हकामोलाच्या घरांत परके जाले. आमी आमगेल्या कोंकणांत आयतेकार मानाय जाले. आमी घरचे धनी अुल्ले नात. आमी परक्यांच्या मेंदून येवजुचें आनी तांगेल्या पोश्यान अुदक पियेंवचें अशी आमगेली बंद्यांली आवतिकाय जाली" अशें दिसून येतकच तांणी कोंकणीक वयर काडपाखातीर पेंगट बांदलें.

शणै गोंयबाबाक कोंकणी भास वयर आयिल्ली जाय आसली ती निखटी भाशे-खातीर भास म्हुण न्हय. ते भाशेवरवीं समाजाच्या सगळ्या पांवडयांची अुदर्गत जावची हो तांचो मुखेल हेत आसलो. 'कोंकणी भास आमी अशे तरेन फुलोंवया कि सकैल्या पांवडयासाकून वैल्या पांवडयामेरेन अुलोवपांत तशी बरोवपांत ती सगल्यांक सारकी समजूंक जाय. वैली भास आनी सकैली भास, पंडिती भास आनी गावडी भास अशे तिचे वांटे जांवक जायनात. आमी गावडयांक पंडित करूंया आनी सगळेच पंडित जांवया. आनी सगळे जाण कोंकणी भाशेचें पूर्ण स्वराज्य भोगूंया!' ही तांची येवजण आशिल्ली.

'आमी फक्कत आतांचो काळ—आतांची घटकाच—पळेतांत. आज आमी सगळे तरेन खांकनवाळ जाल्यांत. देखून आमगेले भाग्यवंत पुर्वजूय तशेच आसले अशें आमकां दिसता. आमी वर्तमानकाळावेल्यान भूतकाळ पारखतात. आज राजकारण, धर्मकारण आनी भामकारण हातूंत आमी सुतकी जाल्यांत. आमी पेल्यान रावन, कोणाक आफडनासनना, हेर लोक किनें करतात तें मोन्यांनी पळेतांत.

आनी तांगेल्या बंदेपणांत वावुरतांत. हे भाशेन आमगेले कर्तुत्वी पुर्वजय आमचे-सारकेच सुतकी आनी बंदे आसले अशें तांगेलें चीत्र आमचे सामकार अुबें रावता. आमकां अुंच हावेसाची देख मेळना, आमगेलो जीव कसल्याच सात्वीक अुमाळच्यांनी फुरफुरना. निखटचा बंदेपणांतच दीस काडूंक आमी जल्मा आयल्यांत आनी सासणांचीं सासणां आमकां अशेंच तरेन वांचूंक जाय, अशी साप अुणाक आनी हीण भावना आमच्या मनाची जाल्या.' हें पळोवन तांणी कोंकणी मनशाक आड्डून सांगलें, "आमगेले भाशेचें कुळार वेदांच्या कुळवंत, गिरेस्त, नांवादीक आनी लोकीकवंत घराण्यांतलें आसा म्हणपाचें घणघणीत दिसता. त्याखातीर आमकां कोंकण्यांक आमगेले भाशेचो मोटो अभिमान दिसूंक फावो. आमी कोंकणे बाबत कुळां न्हयत. आमकां परक्यां भासांच्या लोकीकार वांचपाची गरज ना. ह्यो भासो आमगेल्यो आवैभासो न्हयत. देखून आमगेले भाग्यवंत आवैचे मांडयेर बसुंया आनी माथें वैर अुबारून सगळचा संवसाराकडेन पळोंवया."

आनी हो बेंठो संदेश दिवन ते ओगी बसलेनात. कोंकणीची तांक दाखोवन दिवपाखातीर तांतूंत तरेकतरा विशयांवेलेंच न्हय तर विंगड विंगड मोडींचें साअित्य बरोवपाक तांणी सुरवात केली. जायत्या भासांचो अभ्यास करून आनी कोंकणीचे नेम सोदून काडून तांणी कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ रचली. कोंकणीचें नादशास्त्र थारायलें. गोमंतोपनिषदाचे दोन खंड बरोवन कोंकणींत कठीण विशयलेगीत कशे सादे सोपे भाशेंत सांगूं येतात हें दाखोवन दिलें आनी श्रीमद्‌भगवद्‌गीतेचें भाशांतर तर तांणी अितले सहजतायेन कोंकणींत अुतरायलें कि गीतेच्या हेर खंयच्याय भारतीय भासांतल्या अणकारापरसूय तें सरस आसा अशें म्हणटात. शणै गोंयबाबानी बरयल्लीं २१ पुस्तकां अुजवाडा आयल्यांत. त्याभायर शेक्सपियराच्या खेळांच्या केल्ल्या अणकारांच्यो अकरा पटयो रोमी लिपींत अुजवाडा आयल्यात. आनी कितलें तरी बरप अजून अुजवाडा येवपाचें आसा.

शणै गोंयबाबाक नांवां दवरपी जायते जाण आसले. तांच्यो बकच्छायो आनी चिकत्सायो जायत्यो जाल्यो. तांकां लोकांनी पिशांत लेगीत काडले. पुण शणै गोंयबाब हांकां कोणाक बाडगलो ना. मराठीचो पाखो घेवन तांच्याच देसभावांनी तांकां जायतो विरोध केलो. पुण विरोधकांक तांणी शिटकायलें, 'मराठी ही खरे-पणानशीं म्हजी आनी म्हज्या अपुर्बायेच्या गोंयकार भावांची आवै आशिल्ली जाल्यार तिची माया करूंक म्हाका कोणें शिकौची वा आग्रो करची गरज निखालुस नासली. आवैची भक्ती करपांत संवसारांतलो कोणूच पुत म्हाका फाटल्यान धुकलीत अशें म्हाका दिसना. जे भुंयेवैल्यो फातुल्ल्यो, रेंव आनी झाडकांचो सुको पालोलेगीत अपरूप वस्तीवरी हांव लेखतां ते भुंयेची आवयभास खरेपणानशीं मराठी आशिल्ली जाल्यार तिका हांव धिस्पटावन उडैन अशें केन्नाच जातलें आसलें ? हांव तिका म्हज्या काळजाच्या

देवाऱ्यांत देवतेभाशेन पुजेक लायतलों आसलों. परंत म्हजें मन म्हाका सांगता कि, 'मराठी ही म्हजी आवै न्हय, कोंकणी हीच म्हजी खासा आवै. देखुन निखटच्या काळजा-चोच न्हय तर म्हज्या सगळ्या देहाचो देवारो घडौन आज उणीपुणीं तीन तपां हांवें तो तिचे सेवेक ओंपला.'

शणै गोंयबाबाक सारके समजतले जाल्यार आमकां तांच्या काळार वचचें पडटलें, परंपरावाद्यांच्या विरोधाकडेन अेकल्या अेकसुऱ्यान झुजपाचें काम ल्हानसमानाचें न्हय. पुण तांकां ताणें सरळ आव्हान दिलें, "आमी कोंकणे झुजूंक तयार आसात. आमी पुर्विल्ल्या वेदांतल्या झुजमाऱ्या आनी विद्वान ऋषिल्या वंशांतले. आमी पाणिनी, पतंजली, कालिदास, परशुरामस्वामी, भट्टोजी दिक्षित, न्यायमूर्ति काशिनाथशणै तेलींग, डॉ. भाऊ दाजी, रावबहादूर शंकर शणै पंडित आनी मोंसिजोर सेबास्तीयांव शणै दाल्गाद हांगेल्या वंशांतले. आमी शिलाहारांल्या, राष्ट्रकुटांल्या, शंकपार्य आंग्र्याल्या, राण्याल्या आनी सावंताल्या वंशांतले. आमी जिवबादादा, लखबादादा, आनी दिपा राणो हांगेल्या वंशांतले. आमी कोणाक भियेनात आनी कळी-काळाचीय पर्वा करिनात. आमगेली लिखणी तशीच तरवार घसघशीत-खसखशीत बरी चलता. येयात कोण येतात ते आमचेकडेन झुजूंक !"

अजूनलेगीत 'ते प्रतिगामी विचारांचे होते' असो तांचेर सवाय शाप मारपी लोक आमच्यांत आसात. गावड्यांक पंडित करूंक भायर सरिल्ल्या आनी खंयच्योच जाती अुणाक लेखुंया नाका म्हुण पराथतल्या, 'गरीब दुबळ्यांचो जो दुस्मान तो म्हजो दुस्मान' अशें लेखतल्या, राजकारणांत, भासकारणांत स्वतंत्रताय जोडपाची वान्सा धरून बंदेपण पुरो जालें, जीव सामको वाजवाजलो म्हुण कुभासावन काबुल-मेरेनच्या अखण्या आनी संसल्या स्वराज्याची खेम घेंवक भायर सरिल्ल्या तेजवंत पुरसाक प्रतिगामी म्हणपी लोकांची अप्रबुद्ध करची तितली थोडी.

तांच्या विचारांची बुन्याद थीर आसली. फुडार पारखुपाची तांक तांचे बुद्धीक आसली. गोंयांत स्वतंत्रताये अुपरांत गोंय महाराष्ट्रांत विरघळावपाचे जे येत्न जाले आनी ओपिनियन पोलाचें म्हाभारत घडलें ताजो दिश्टावो तांकां आदींच जाल्लो. तांणी शिटकावणी दिल्ली,. . . . "हिंदुस्तानाक स्वराज्य मेळटकूच हांगेलो हावेस अितलोच दिसता कि मराठणाक गोंय दसोवन, मराठ्यांचें आनी मराठी भाशेचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेवचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणांचीं सासणां बंदेपणांत काडचीं ! दमणगंगेसाकून मलबारामेरेन सगळो कोंकण देस हातांत घेवन, हिंदुस्तानाचे मुखेल सत्तेतळा ताचो कारभार कोंकणी भाशेंत खासाखवान चलोवचो आनी आपणाल्या घरा-दारांत आपणें धनीपणान नंदचें, हें हांगेल्या सप्नांतूय येना ! हांकां बंदेपणाचीच रूच ! राजकारणांत, भासकारणांत आनी धर्मकारणांत हे फांपरमुठके बंदेच रावतले म्हणटात ! हांकां स्वतंत्र कोण करीत ?"

गोंय हें संवसाराक देखदिणें अशें जावंचें हें तांचें सपन आसलें. हांगाचे जातीं कातीं भितल्ले भेद हे ह्या वावरांतलें व्हडलें आडमेळें हेंय ते वळखून आसले. देखून दसऱ्याच्या निमतान १९२६ त गोवा हिंदु असोसियेशनांत केल्ल्या एका अुलोवपांतल्यान ते पराथतात, 'आमच्या हिंदूंत चार मुखेल जाती आसून तांतूंत पोटजाती जायत्यो आसात आनी तांचीं कामां पुर्विल्ल्या काळापासून वेगळीं वेगळीं थारावन दवल्ल्यांत ........ ..... परंत, यत्न केल्यार सभावगुणूय बदलूं येता हें आमी विसरूंक फावना. खारव्याक गोरवां आमडूं येतीत आनी शिद्याक तारवांय चलौं येतीत. तुमी जाणतूच, गोंयां आमी आमट चिंच आंबुल्लीच्या खुंटाक मानकुराद, फेर्नादीन, आपोस, मालदेस, आनी हेर गोड गोड आंब्यांच्या खांद्यांचीं गार्फां करून खुंटाचो मुदलचो सभावगुण बदलतात. तर मागीर मनशांकूच आपले सभावगुण बदलूंक कितें जालां? म्हाका दिसता, यत्न केल्यार, बामणाच्यान आपलें बामणपण राखून क्षत्रिय, वाणी आनी सुदीर जांव येता; क्षत्रियाच्यान आपलें क्षत्रियपण राखून, बामण; वाणी आनी सुदीर जांव येता, वाणयाच्यान आपलें वाणीपण राखून बामण, क्षत्रिय आनी सुदीर जांव येता आनी सुदराच्यान आपलें सुदीरपण राखून बामण, क्षत्रिय आनी वाणी जांव येता. अशें आसा जाल्यार बामणान निखटचा बामणपणाची, क्षत्रियान क्षत्रियपणाची, वाणयान निखटचा वाणीपणाची आनी सुदरान निखटचा सुदीरपणाची बडाय मारून मराठणांतली नष्टी देख घेवन अेकामेकांकडेन झगडचे भाशेक आमी गोंयच्या चारुय जातींनी आनी पोटजातींनी, एकाच वेळार बामण, क्षत्रिय, वाणी आनी सुदीर जांवक कित्याक वावुरचें न्हय? वेदांची आनी उपनिषदांची फोडणिशी करपाचें जितलें हक आपणाक आसा तितलेंच तरवार वावुडपाचें, तागडी धरपाचें, गोरवां राखपाचें, शेतकामत करपाचें आनी सगळया जातींची चाखरी करपाचें हक आपणाक आसा अशें जणअेकलो गोंयकार आपल्या मनाची खाती करून ते भाशेन वावरूंक लागत जाल्यार आमी आनी आमची भूंय कळाव लागनासताना व्हडविकेक पांव आनी सगळया संवसारांत देख घेंवक फावोशे जांव.'

"आज दसऱ्याचे परबेक आमी जी चाल चलैतांत ती आमकां कितें शिकैता? आमी हे परबेच्यो सगल्यो खुमो, चुकयनासतना बारकायेन करतात खरे. परंत भितल्ली शिकवण कितें ती ध्यानांत घेतात व्हय? आमचे परबेक सगळे गोंयकार हिंदु, जातपात ध्यानांत हाडिनासतना शेतकामत, सरस्पत आनी शक्ती ह्या तिनूय देवींची भक्तीन पुजा करतात. हाचेवैल्यान सिद्ध जाता कि ह्या तीन देवींचे भक्तींक जातपात निखालुस आड येना. तांची भक्ती कसलेय जातीच्या मनशान केल्यार कामायता. हे भाशेन दसऱ्याचो एक दीस जर ती भक्ती करूंक कोणाकूच आडमेळें ना तर वर्साच्या उल्लेल्या तीनशीं एकुणसाठ दिसांनी तरी तें कित्याक आसचें? सभाविक ना म्हणपाचें अुक्तें दिसता. दसरो आमकां शिकैता तें हेंच. तांचे शिकौणे-

भाशेन, आमचे भितल्लो जणअेकलो बामण, क्षत्रिय, वाणी आनी सुदीर त्या तिनूय देवींक सदांकाळ पुजूंक फावोशे आसात. देखून ही शिकौणी ध्यानांत घेवन, निखटे जन्मदिणे जातीच्या आभिमानाक गाराभाशेन दसून बसनासताना, आयच्या म्हुर्तान, आमचे आनी आमचे भुंयेचे व्हडविकेखातीर आमचे भितल्लो जणएकलो गोंयकार तांकत तितलो चारूय जातींचो जांवक वावरूंया आनी चारूय जातींचो अभिमान धरूंया. आमी कसलीच जात उणाक लेखूंया नाका. आमी आमच्या माथ्यार सरस्पत धल्ली जाल्यार एका हातांत तरवार, तुबक ना जाल्यार तोंडको घेवन दुसऱ्या हातांत नांगर आनी तागडी घेंवया. आनी एकामेकांचे सेवेक एकासारके लागूंया. अशेतरेन आमी चल्ल्यों जाल्यार दसऱ्याच्या दसऱ्याक शमीचो, कळयाचो आनी कांचनाचो बांवको पालो एकामेकांक वांटून आपापल्या मनांक फटौचेबदला, सतमाच्या भांगरांचीं खणखणीत बरीं पोवनां आनी मुयेदां एकामेकांक वांटची तांक आमकां येतली. हें आमी ध्यानांत धरुंया."

शणै गोंयबाबान अितिहासाचो सोद घेवन जें लिखाण केलें त्या लिखाणांत तांणी पानापानार आपल्या मत्ताक बळगें दिवपी आदारावळ दिल्या. अमुक अेक मत्त थारायताना आपणाक खंयचे गजालीचो अुपेग जालो वो खंयचे असामीन ही गजाल सांगली हाजी अिल्ल्यान अिल्ली खबर तांणी कळीत केल्या. तरीकय शणै गोंयबाब आपलो पूर्वग्रह करून घेतात आनी बरयतात अशे टीकेक तांकां तोंड दिवचें पडलें. भौ. रा. ना. नायक हांणी तांचे विशींचो अशे तरेचो अेक अुगडास 'त्रिवेणीं'त बरयला. १९२७ त शणै गोंयबाबांची गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक ही व्याख्यानमाळ चलताली. आनी तिका गर्दीय बरी जाताली. आयकुप्यांमदीं मुंबयच्या सेंट झेवियर कॉलेजचे नांवाजते अितिहास सोदपी फादर हेरास येताले आसूंये. व्याख्यानांचें पुस्तक छापून केन्ना तयार जाता हाजी चवकशी फा. हेरास गोमंतक छापखान्याकडे परतून परतून करताले. ह्या पुस्तकाच्या अुजवाडावपा समारंभाचे येजमान्य श्री. वसंत नारायण नाईक हे विद्वान ग्रहस्थ आसले. तांणी शणै गोंयबाबाच्या वावराची तुस्त करून अशें म्हळें कि सगळें बरें तितलेंय आपल्या गोंयांत भल्लां अशें तांकां दिसता नाजाल्यार जो बुद्धधर्म गोंयांत केन्ना पावलोच ना ताजे अंवशेष आजूय थंय मेळटात आनी मेळटले अशीं मत्तां ते मांडचे नासले.

श्री. वालावलीकार ह्या दबाज्याक हाजीर आसल्यारूय आपल्या सभावाक आनी चालीक धरून ओगी बसले जातले. पुण ही घडणूक घडून जातकच कांय काळान मुंबयच्या टायम्स ऑफ इंडियाचेर फादर हेरास ह्या इतिहास सोदप्याक गोंयच्या चांदर काय अशाच खंयच्याशा जाग्यावेल्या खणपांत बुद्धमूर्ति मेळिल्ल्याचें अुजवाडा आयलें. 'वसणूके'चें छापी पुस्तक मेळटकच फादर हेरास गोंयां गेल्ले आनी वसणुकेंतले बरपावळीच्या आदारान तांणी थंय संशोधन आनी खणप केल्लें. ही

खबर जेन्ना श्री. वसंतराव नाईक हांणी वाचली तेन्ना ते खासा श्री. वालावलीकारांक मेळपाक गोमंतक छापखान्यांत आयले आनी मनाचें व्हडपण आशिल्ल्या ह्या विद्वान मनशान वालावलीकारांची मखलाशी मागली. आनी तांच्या संशोधनाची तुस्त केली.

शणै गोंयबाबाची लिखणी वज्राचे धारेची आसली तरी हरशिले जिणेंत ते फुलावरी मोव आसले. भुरग्या-जाणटयांकडेन ते सदांच नमळायेन वागले. आपल्या मत्तांचो तांणी आग्रो धल्लो आनी तीं आदारासैत मांडलीं तरी हटवाद बाळगिलो ना. आपुण तुमकां फटाशी सांगिना; आपुण सांगतां तें तुमी तुमचे बुद्धीचे साणीर घांसून कसाक लागल्यार घेयात ही तांची भावना आशिल्ली. कोंकणीक तिजी सभाविक देवनागरी लिपी आसची हें मांडटना लेगीत तांची लोकशायेवेली निश्ठा अुक्ती जाता. ते म्हणटात. " . . . . . . देखून अेन्नादर आमी देवनागरी लिपी लागीं करूंया ना-जाल्यार आमी फाटीं अुरतले. हांवें हें म्हगेलें मत्त तुमच्या फुडयांत माडलां हातूंत म्हगेलो हटवाद ना. तुमकां धा जाणांक जें मानता तेंच तुमी करात. पुण कोंकणी भास अेकरूपी करून ती व्हडविकेक हाडात.

मराठी भाषेचे व्याकरणकार व व्याकरण-प्रबन्धकार (संग्राहक : मोरेश्वर सखाराम मोने : प्रकाशन १९२७) ह्या नांवाचें अेक मराठी पुस्तक अुजवाडा आयलां. ह्या पुस्तकांत 'महानुभावीय व्याकरणकार, महाराष्ट्रीय प्रमुख व्याकरणकार व व्याकरण-चर्चिक, शालोपयोगी व्याकरणकार, व्याकरण-प्रबन्धकार, छंदःशास्त्रकार, मराठी भाषेचे युरोपियन प्रबन्धकार' अशे व्याकरणकारांचे वांटे करून तांतूंत ७६ व्याकरणकारांची फोटो सैत वळख दिल्या. शणै गोंयबाबांचो फोटो तांतूंत मेळना. संपादप्यांनी तांची वळख बरोवन फुडें म्हळां, "यांच्या पत्रांतील भाषेवरून ते अत्यन्त नम्र व आपलें चरित्र आणि फोटो प्रसिद्ध करण्यास नाखूष दिसतात. मोठ्या मिनत-वारीने त्यानीं दिलेल्या टिपणाचा उपयोग करून वरील मजकूर लिहिला आहे."

कोंकणीचो वावर तांणी अेका विश्वासान केलो. ते बेठेच सपनांत रंगले नात. आपणाक 'समानधर्मा' 'कोंकणीच्या अशोका'च्या रुपान अेकाद्रोच मेळ्ळो तरी कोंकणीची भांगराची घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडटली हाजो गडगंज विश्वास ते काळजांत बाळगून वावुरले. तांच्या सोंपत्या काळार गोंयच्या अेका तन्न्या कोंकणी-भक्तान तांचें मत जाणून घेवपाखातीर तांकां प्रस्न केलो, " तुमी अुबी पिराय कोंकणी-खातीर खर्च केली. हो सगळो वावर फुकट गेलो अशें तुमकां दिसना ? "

तांणी त्या तरनाटयाक बसोवन घेतलो आनी सांगलें, "म्हाका तशें दिसना. आतां तुमी पळेयात. काल पयर म्हजेकडेन कांय भुरगे आपणाक पी अेच डीक धडे

दी म्हुण सांगूंक आयिल्ले. हांव काय मॅट्रीकेवयर शिकूंक ना. म्हण्टकच हे भुरगे कोंकणीक लागून म्हजेकडेन आयले अशें जालें ना ? "

भोंवतणी कोंकणीसंबंधांतल्या अुजवाडाची आस्त नासतनाय निर्शेणेची अिल्लीय नांवनिशाणी तांकां पुसूनलेगीत आफुडलीना हाजें कारण फुडार पारखुपाची तांक ह्या म्हापुरसांत आसली.

"आतां आमगेले वाणी, चाड्डे आनी बामण, हिंदू तशेंच क्रिस्तांव, हांणी गावडे आनी हेर सुदीर लेखिल्ल्या भावांक आपणाल्या अुंच पांवडयार चडोवन, सगळयांनी मेळून, कोंकण, कोंकणे आनी कोंकणी भास ह्या भौच सोबीत तिर्कुटाची भांगराची घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडावची. ह्या कामाक होच सुगुर्व्याचो वेळ. बऱ्यांतल्या बऱ्या म्हुर्ताची घडका भरत आयली. कुभा (काबूल) न्हंयेसाकून ब्रह्मदेसामेरेन आनी कैलासासाकून कुमारीमेरेन सासणाच्या अखण्या आनी संसल्या हिंदुस्तानाचें अुफेण स्वराज्य आमची खेम घेवंक अुडक्यो मारीत आमचे सरी धांवत येता. ताका वेंग मारात, ताका आंवळून धरात आनी सासणाचे भाग्यवंत जायात ! बंदेपण पुरो जालें ! अुबगण आयली ! जीव सामको वाजवाजलो !" अशें म्हुण ते स्वराज्याक येवकार दिवंक सिद्ध रावले. पुण काळाक तें मानवलें ना. वयलीं अुतरां बरोवन चार पांच म्हयने जाता सर आनी स्वराज्याची फांतोट फुलूंक आनीकय वर्स देडवर्स आसा म्हळयार ९ अेप्रिल १९४६ दिसा हो जैतवंत आत्मो सासणाचो हो संवसार सोडून गेलो. पुण भौ. रवींद्र केळेकार म्हणटात तशें कोंकणी भौसाचे मानेर बसून तो कोंकणीचो वावर करून घेत आसा. कोंकणी फुडें फुडें पावल मारीत आसा.

## बरपावळीची वळेरी

### देवनागरी लिपयेंत बरयल्लीं

| पुस्तक | अुजवाडावणेचें वर्स |
|---|---|
| १. गोंयकाराचो मुंबय़कार | १९१० |
| २. गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक | १९२८ |
| ३. गोमंतोपनिषत् (पयलें खंड) | १९२८ |
| ४. कोंकणी भाशेचें जैत | १९३० |
| ५. गोमंतोपनिषत् (दुसरें खंड) | १९३३ |
| ६. भुरग्यांलो इष्ट | १९३५ |

| | | |
|---|---|---|
| ७. | मोगाचें लग्न | १९१३, १९३८ |
| ८. | कोंकणी पयलें पुस्तक | १९३९ |
| ९. | पुण्यात्मो राम कामती | १९३९ |
| १०. | कोंकणी नादशास्त्र | १९४० |
| ११. | भुरग्यांलें व्याकरण | १९४१ |
| १२. | आबे फारीय | १९४१ |
| १३. | येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप | १९४५ |
| १४. | कोंकणी मुळावें पुस्तक | १९४७ |
| १५. | पोवनांचें तपलें | १९४८ |
| १६. | कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ | १९४९ |
| १७. | झिलबा राणो | १९५० |
| १८. | आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें? | १९५५ |
| १९. | कोंकणी विद्यार्थ्यांक | १९५८ |
| २०. | भगवंतालें गीत | १९५९ |
| २१. | वलिपत्तनाचो सोद | १९६२ |
| २२. | जादूचो जुंवो | १९६८ |

## रोपी लिपयेंत बरयल्लीं

शेक्सपियराच्या खेळांची माळ.

१. राजपूत हॅमलेट आनी बापायचें भूत Hamlet

२. गोरे बायलेचो काळो घोव

३. मुदयांखातीर घोवा–बायलांचें झगडें

४. धुवांची परीक्षा

५. जुंवळ्या भावांचो घुस्पा-गदळ

६. आगुल्याचें निवळण

७. राणयेचें जिवें बावलें

८. घातमारो इश्ट
९. बायलेची परीक्षा
१०. मोगाचे पिडेचें ओखद
११. भुसमारे आलेभाव-कोलेभाव

## बरपावळीची अुडटी वळख

### गोंयकाराचो मुंबयकार

मुंबय वचून थंयचे देखीक भरीक पडिल्ल्या गोंयकाराची आवतीकाय कशी जाता ताजो फार्स म्हळचार हें पुस्तक. हो फार्स काव्य रुपान आसा.

### गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक

१९२७ वर्सा मुंबयच्या सारस्वत ब्राह्मण समाजांत गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक ह्या विशयाचेर शणै गोंयबाब हांणी कांय अुलोवपां केलीं. सुमार दोन तपां इतिहास धवळून तांणी गोंयच्या गेल्या अडेच हजार वर्सांच्या अितिहासाचो सोद घेतलो. गोंयाभायर वचून आपले कर्तुत्वदशेची घुडी अुंच अुबारपी गोंयकारांचो अितिहास मुखार दवरून गोंयच्या पुतांक आपुण कोण आनी आपली व्हडवीक केदी म्हणपाची वळख करून दिवपाचो हेत ह्या सगळ्या अुलोवपां फाटल्यान आसलो. हीं सगळीं अुलोवपां दोन खंडांनी अुजवाडा हाडपाचो बेत आशिल्लो. तांतलीं चार अुलोवपां ह्या पयल्या खंडांत आयलीं. दुसरें खंड अुजवाडा येवंक पावलेंना. हो वावर करता आसतांना शणै गोंयबाब गोंयचीं इतिहासीक थळां मुजरत आपल्या दोळ्यांनी पळोवपाखातीर गोंयभर भोंवले. भोंवले म्हणचेपरस तांच्याच अुतरांनी सांगचें जाल्यार 'जळपले'.

ह्या पुस्तकांत आयिल्ल्या पयल्या अुलोवपांत तांणी गोंयचो विस्तार, आंवांठ, योग्यताय आनी म्हत्व सांगून गोंयाभायर वचणो पयलो गोंयकार पूर्ण हाजी खबर दिल्या. आनी गोंयांत आशिल्ल्यो बौद्ध धर्माच्यो कुर्वो, वेगळेवेगळेकडेन आशिल्ल्यो होंवऱ्यो आनी गोंयचे चाड्डु आनी राष्ट्रकट सम्राट हांची माहिती दिल्या.

दुसऱ्या अुलोवपांत चाड्डुचां फाटल्यान गोंयाभायर गेल्ले बामण, अनंतदेव शिलाहाराकडेन गोंयच्या वाणयांचें आशिल्लें वजन, भतग्रामांतलो मायिदेव पंडित हाणे जोडिल्लीं जैतां, मुसलमानांच्या अच्छेवान वेद शिकपाक आयिल्लें आडमेळें हांची खबर आयल्या.

तिसऱ्या अुलोवपांत, गोंयां कदंबांची सत्ता, महमदशहा सुलतानाचें धर्मकोल्ल

आनी कसाबपण, मुसलमानांकडसून गोंय सोडोवच्या कामार माधव मंत्र्याची नेमणूक, माधव मंत्र्याचें कार्य आनी १५१० त आल्बुकेर्क गोंय घेता हे विशय आयल्यात.

चौथ्या अुलोवपांत गोंयां पुर्तुगेजांची पिडापीड आनी बाटवणी, गोंयकारांचें अुत्तर आनी दक्षिण कर्णाटकांत, मलबारांत आनी कोचींत वचप, कोचीच्या गोंयकारांची वर्णना, कोची संस्थानांत गोंयकारांचीं देवळां, त्रावणकोर संस्थानांत गोंयकार, हे विशय आनी इंग्रजी सत्ता चलचे आदीं गोंयचे दक्षिणेक पाविल्ल्या गोंयकारांतल्या नामनेच्या कांय गोंयकारांची वळख आयल्या.

## गोमंतोपनिषत् (पयलें खंड) ✓

हातूंत म्हजी बा खंय गेली ? वास शणै़ली पोपाय, बाबुमामालो पणस, पितुबाबालो तांब्यापटो आनी खर्णवीर अशो पांच काणयो आयल्यात. पुण काणयो म्हळचो तरी त्यो कोल्याकवडुल्याच्यो वा न्हवऱ्या व्हंकलांच्या मोगाच्यो न्हयत. अुपनिषत् म्हळचार गुमानीत विद्या. हे विद्येची फोडणिशी करून घेवचे खातीर शणै गोंयबाबांनी वेदांतावैलीं कांय पुस्तकां वाचलीं, बिब्ल वाचलो, ताल्मुद वाचलो, कुराण वाचलें. पुण तांच्या मनाची समजाविशी जाली ना. तांणी आपल्या खासा वेव्हारांतले आनी भोंवतणच्या संवसारांतले बरेवायट अणभव बरोवन दवरून विसकून विसकून तांची चिकित्साय केली. आनी पुस्तकांनी वाचिल्ल्या गिनान्याकडेन तांचो मेळ जमता जाल्यार पळेलो. खंयखंय हो मेळ जमलो. खंयखंय तो जमना जालो. गोमंतोपनिषत् हें ह्याच वावराचें फळ. हो वावर ह्या काणयांच्या रुपान तांणी सोपेभाशेन वाचप्यांमुखार दवल्ला.

## कोंकणी भाशेचें जैत ✓

कोंकणी संबंधान गोंयच्या 'हिंदु' आनी 'भारत' ह्या सातोळयांनी आनी मुंबयच्या 'नवयुग' आनी 'विविधज्ञानविस्तार' ह्या म्हैनाळयांनी बरयल्ली बरपावळ अेकठांय करून ह्या पुस्तकांतल्यान अुजवाडायल्या. मराठीच्या पाख्यान कोंकणी आड हाडिल्लो दर अेकलो मुद्दो मुळासैत हुमटून उडोवपाखातीर हे बरपावळीचो जल्म जाला. कोंकणी आड वाद घेतल्यांची 'म्हणणी फावोशी जाप दिवन आनी गडगंज आदार दाखौन लटकी म्हणपाची सिद्ध केल्या आसतानाय ते आपणालेंच फुटकें धोलकें बडयतात.' देखून 'तांचेकडेन भौनभौन तोंड वाजोवन खडपसूक जांवचेभाशेक, तांचेआड कोंकणीन आजवेर जें जैत जोडलां तें तांगेल्या म्हऱ्यांत सासणाचें घसघशीत बरें' मांडपाखातीर हें पुस्तक बरयलां. हातूंत गोंयची आवयभास, भाशेचीं लक्षणां, कोंकणिचो शुद्धकार आनी किर्कोळ मुद्द्यांची निस्तरावणी हे चार लेख आनी परिशिष्टाच्या रुपान 'मराठी भाषेचा आद्य व्याकरणकार', 'हिंदुस्तानांत मुद्रणकलेचा प्रवेश' आनी 'कोंकणी व मराठी' हे तीन मराठी लेख आनी क्रि. स. १६७८ त छापिल्लो पयलो कोंकणी लेख हांचो आस्पाव जाता.

## गोमन्तोपनिषत् (दुसरें खंड)

पैलें खंड अुजवाडा आयल्याअुपरांत णव म्हयन्यांभितर हें दुसरें खंड अुजवाडा आयलें. हातूंत पयल्या खंडांतलेभाशेन वेगळचोवेगळचो काणयो येवंक नात. पुण संवसारबुट्टेची सगळी खबर ह्या पुस्तकांतल्यान मांडल्या.

देवान संवसार घडून सुमार देड हजार वर्सां जाल्या अुपरांत देवाक दिसून आयलें कि मनशां आपणाक विसरून अेकसारकीं पातकांत बुट्टात. आनी अुबगून ताणें मनशां आनी तांचे भरशीं सावदां, सवणीं आनी जिवाणां धर्तरेवेल्यान ना करून अुडोवचें थारायलें. तेन्ना देवान पावस धाडून धर्तरेर बुट्टी हाडली. ताची वर्णना हातूंत आयल्या. हे बुट्टेंत मेल्ल्या जिवांचे आत्मे हुयेल मारीत मळबांत गेले. तांतल्या बारा आत्म्यांचीं देवदूताकडेन जाल्लीं अुलोवपां ह्या पुस्तकांत आयल्यांत. ह्या अुलोवपांच्या रुपान अुपनिषद म्हळचार गुमानीत विद्येची विस्कटावणी विस्तारान आयल्या. हे आत्मे समाजाच्या सगल्या थरांतसून आयिल्ले अशे आसात. आनी मनशांबराबर हुंदराचो आत्मोय बी आसा. हे बारा आत्मे म्हळचार वेपाऱ्याचो कारभारी, पाळण्यांतलें भुरगें, पाळण्यांतल्या भुरग्याचो बापुय, हुंदीरमामा, दिसावडेकार मानायाचो काष्टी-कुसको पोर ( पुण फुडाराक राजालो जांवय ) ब्रह्मगिन्यानी, बळीश्ट धर्मकोल्ली राजा, मडवळ, म्हालो, शेट, जोतिशी, आनी बामण.

## भुरग्यांलो इष्ट

हातूंत भुरग्यांखातीर ल्हान ल्हान सव्वीस पाठ आसात. तांतूंत सुपुल्ले निबंध, काणयो बी सोपे आनी काव्यमय भाशेन बरयल्यात.

## मोगाचें लग्न

नामनेचो फ्रांसेज खेळ-बरोवपी मोलिएर हाच्या 'Le Medicin Malgre' Lui' ह्या खेळाच्या आदारान 'मोगाचें लग्न' हो खेळ बरयला. मूळ खेळाची धाटणी तशीच दवरून ताजेर गोंयचो भेस इतलो फीट्ट बसयला कि मूळ परकी भाशें-तल्यान तो आयला हें सांगलेबगर कळना.

हो खेळ पयले खेपे १९१३ त अुजवाडा आयलो. ताजे अुपरांत दुसरे खेपे १९३८ त परतून अुजवाडा आयलो. हे दुसरे खेपेक तेन्नाचे पणजेच्या इस्कोल नोर्मालाचे प्रोफेसोर भौमानेस्त बाब रामचंद्र शंकर नायक हांणी 'व्होवळीक' ही प्रस्तावना ह्या पुस्तकाक बरयल्या.

## कोंकणी पयलें पुस्तक

हें मुळावें पुस्तक १९४० त अुजवाडा आयलें. तरी तें शणै गोंयबाबान, ताचे सुमार ३७ वर्सांआदीं बरयल्लें आनी आपल्या पैल्यावैल्या भुरग्याक शिकोवपाक ताजो

अुपेग केल्लो. ह्या पुस्तकांत मुळाव्या अक्षरांची वळख करून दिवन नाखयीं व्यंजनां, जोडगिरां हींय शिकयल्यांत आनी अेक काणी आनी दोन गीतां हांचोय आस्पाव ह्या पुस्तकांत केला.

## पुण्यात्मो राम कामती

ही अेक दुखेस्त अितिहासीक जीण. शणै गोंयबाबांच्याच अुतरांनी सांगचें जाल्यार, 'सवाय दोनशीं वर्सां फाटलीं पिंजकीं दप्तरां सांसपून होलमल्ली ही थोडीशीच जीण ध्यानांत घेतकूच, आपणाल्या फुडयांत अेक हुशार, बुदवंत, चोख वेव्हाराचो, गडगंज हावेसाचो तरेकतरा राटावळिचो, उंच, कर्तुत्वदशेचो, सरकाराच्या आनी लोकांच्या चड विस्वासाचो, भारी भुशणाचो, मानमान्यस्तनेचो, भाग्यवंत, शिरवंत, देवधर्मिष्ट आनी पुण्यशीळ पुरुश घसघशीत उबो रावता.'

अेका काळचो मुंबयचो मुखेल वेपारी आनी राजकर्णी मनीस राम कामती हाजी ही जीण. ताज्या वेळचे इंग्रज गोवेर्नादोर ताजी बुद्द घेताले. इंग्रजांचो ताजेर पुराय विस्वास आशिल्लो. सरकार दरबारांत ताका पयले तिकलेचो मान आसलो. इंग्रजी न्यायसभेंत तो वैल्या पांवडयाचो हिंदी जुवीज आसलो. देव-धर्मिष्ट आनी सात्वीक चलणुकेचो मनीस म्हुण ताजी नामना आसली. ताका देवळां बांदचो नाद आसलो. ताणें मुंबयंत सामळियालालाचें देवूळ बांदलें. तशेंच वाळकेश्वराक म्हादेवाचें गडगंज देवूळ बांदलें. तो बुदवंत आनी हुशार सराफ म्हणून ताच्या तरणेपणांत मुंबैच्या कौन्सिलान ताका वेंचून काडिल्लो. जंजिऱ्याच्या सिद्दयाचे घुरयेवेळार ताणें बरी कर्तुत्वदशा दाखयिल्ली. आनी १७१८ त सगळचा देसी सैन्याचेर मुखेली म्हणून ताची नेमणूक जाल्ली. अशा ह्या शूर मनशाची जीण ह्या पुस्तकांत आयल्या आनी अुतार जिणेंत ताका दुस्मान कशे आनी कित्याक जाले, तांणी ताचेआड किचाटां कशे तरेन रचलीं, ताचो न्याय कसो जालो, तो बंदखणींत वळवळून कसो मेलो, ताच्या कुटुंबाच्यो वाली कश्यो लागल्यो ही सगळी गजाल आदारावळीसैत दिल्या.

## कोंकणी नादशास्त्र

कोंकणी अुलयतना अुतरांचो जो नाद जाता ताचे नेम सोदून काडून तांची फोडणीशी ह्या ल्हानशा पुस्तकांत केल्या.

विंगड विंगड नाद कोंकणींत खंयच्या खंयच्या वेळार जाता ताजे नेम आनी ह्या नेमांक केन्नाकेन्ना आडवाद आसतात ताजीय वळख हातूंत करून दिल्या. हें करताना अशेंतरेचे नाद हेर हिंदुस्थानी भासांनी कशे जातात वो जायनात हें तुळा करून दाखयलां.

## भुरग्यांलें व्याकरण

हातूंत प्रस्न आनी जाप हांच्या रुपान कोंकणीच्या व्याकरणाची पुराय वळख करून दिल्या. हें भुरग्यांलें व्याकरण आशिल्ल्यान दर अेका पाठाअुपरांत शिकपाचें घोळौप दिलां आनी घरपाठ करपाखातीर कांय प्रस्नूय दिल्यात.

भास, अुतर, वर्ण, अक्षर, स्वरांचे अुच्चार आनी नामांचे सगळे प्रकार ह्या पुस्तकांतल्यान सोपे भाशेन समजायल्यात.

## आबे फारीय

हें सुपुल्लें पुस्तक म्हळ्यार आबे फारीय ह्या गोंयच्या अेका व्हड पुताची जीण. आबे फारीय गोंयचो व्हडलो पूत. ताणें भूलविद्येचो म्हालगडो शास्त्रीक सोदपी म्हुण संवसार भर नामना मेळयली. ताजी इतिहासीक जीण ह्या पुस्तकांतल्यान वाचप्यां-मुखार दवल्ल्या. गोंयची अेक विद्वान प्रोफेसोर भौमानेस्त बाय प्रोपेर्सीय कुर्रेय आफोंस दे फिगेरेद हांणी ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरयल्या.

## येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप

कोंकणी परिशदेची तिसरी बसका १९४२ वर्सा मुंबय जाली. प्रो. आर्मांद मिनेझीस हे ते बसकेचे अध्यक्ष आसले आनी शणै गोंयबाब येवकार-अध्यक्ष आसले. येवकार अध्यक्ष ह्या नात्यान तांणी तेदेवेळार केल्लें अुलोवप येवकार अध्यक्षांलें अुलोवप ह्या नांवान अुजवाडा आयलां. ह्या अुलोवपांत कोंकणी ही मराठीपसून वेगळी आनी स्वतंत्र आसून ती मराठीची पोटभास न्हय म्हणपाचें गडगंज पुरावे दिवन सिद्द करूं येता हो विस्वास अुक्तावन दाखयला आनी कोंकणीची तोंडी सरस्पत, पुस्तकी सरस्पत हांची वळख करून दिल्या. कोंकणीचें संस्कृत भाशेकडचें नातें दाखोवन कोंकणाची संस्कृताय चड पुर्विल्ली आनी अुंच पांवड्याची कशी हाजीय जाणविकाय करून दिल्या. आनी मागीर कोंकणीच्या सगल्या प्रस्नांची (कोंकणीची लिपी, कोंकणी वाक्यांची बांदावळ, प्रमाण कोंकणी, कोंकणी पुस्तकां रचप, भाशेंत जडजडाव, कोंकणी अुतरावळ, कोंकणी कोठी) चर्चा केल्या.

त्याचबराबर हे परिशदेंत केल्ल्या अुपकार मानपाच्या अुलोवपाचोय आस्पाव ह्या पुस्तकांत केला.

त्याभायर कोंकणी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं हांची वळेरी आनी लोटलेचे राष्ट्रकूट हांचेवेलो अेक ल्हानसो लेख परिशिश्टाच्या रुपान ह्या पुस्तकांत दिला.

१९४५ त भरिल्ल्या गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचे तिसरे बसकेच्या येजमानपदावेल्यान आचार्य काकासायब कालेलकर हांणी केल्ल्या अुलोवपांत कोंकणा-

चेर परिणाम जावपासारके जे मुद्दे आयिल्ले तांची चर्चा करून शणै गोंय्बाबांनी आपले जिणेच्या निमण्या काळार जाता नज करून अेक निबंद बरोवन काडलो आनी ताका 'अैन वेळार' हें नांव दिलें. हो शणै गोंयबाबांचे लिखणेंतलो निमाणो निबंध. ताजोय आस्पाव ह्या पुस्तकांत केला.

### पोवनांचें तपलें

नामनेचो फ्रांसेज खेळ बरोवपी मोलिएर हांच्या L'avare ह्या खेळाच्या आदारान 'पोवनांचें तपलें' हो खेळ बरयला. तो १९२६ त बरोवन जालो. आनी गोमन्तक हिंदु विद्यार्थी मंडळान ताजो पयलोवैलो प्रयोग १९३३ त मुंबयच्या विल्सन कॉलेजांत करून दाखयलो. मूळ खेळाची अखेर आमचे रीत-रविसेक जमना जावन हें रुपांतर अर्दकुटें अुरिल्लें. आनी शणै गोंयबाबाच्या आगांतूक मर्णान तें पूर्ण जावपाची आस्ता तुटिल्ली. अशा वेळार अुजवाडावपी गोमंतक छापखान्याच्या धनयांनी कांय आडवाद सोडून आनी तांतूंतलीं निमाणीं दोन येवपां भारावन तें १९४८ त तशाक तशें छापून काडलें.

### झिलबा राणो ✓

हो हांसैणो खेळ १९३३ त बरोवन जालो आनी रोखडोच पंदरा दिसांभितर मुंबयच्या गोंयकार हिंदु सभेन आपल्या संमेलना वेळार ताचो पयलोवैलो प्रयोग करून दाखयलो. पुण तो पुस्तकाच्या रुपान १९३६ त अुजवाडा आयलो.

अरेबियन नाअिटसांतले अबू हसनाचे काणयेच्या आदारान तो बरयला. राजा भेस बदलून राज्यांत भोंवतना अेका मनशागेर पावता. ताजेकडे खबरी करताना राज्यांतल्यो खुबशो गजाली ताका कळटात आनी राजा ह्या मनशाक न्हिदेची गुर्मी दिवन राजमंदिरांत व्हरता. आनी अेका दिसाखातीर राज्यार बसयता आनी ताका लागून घडलेल्यो फुडल्यो गजाली विणून हो खेळ बरयला.

### आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें? ✓

हें पुस्तक छापून अुजवाडा आयलें १९५५ त. पुण तें बरयल्लें ताचेय आदीं ४५ वर्सां, म्हळचार १९१० त. हातूंत हिंदुस्तानांत फिर्गी आयले तेन्ना गोंय शाराची दशा कशी आसली, आल्बुकेर्कान तें कशें जिखलें, राखलें आनी थंयचो कारभार कसो ठांय बसणेक लायलो म्हणपाची अिल्ल्यान अिल्ली खबर आयल्या.

ह्या पुस्तकाक भौ. नारायण आत्माराम देसाय हांणी प्रस्तावना बरयल्या.

### कोंकणी विद्यार्थ्यांक

शणै गोंयबाबांनी १९२० सावन १९३७ मेरेनच्या काळांत मुंबयच्या गोंयकार हिंदू सभेंत आनी गोमन्तक हिंदू विद्यार्थी मंडळांत केल्ल्या अुलोवपांतलीं चार अुलोवपां

अेकठावन ह्या पुस्तकांत अुजवाडा हाडल्यांत. हीं चारूय अुलोवपां अेकाच विशयाचेर म्हळयार विद्यार्थ्यांक अुगडासून केल्लीं. ताका लागून तीं 'कोंकणी विद्यार्थ्यांक' ह्या नांवान अुजवाडायल्यांत. ह्या पुस्तकांत विद्यार्थी काशिनाथबाब सुखठणकारांक, आमची भूंय विद्येंत फाटीं आसा, गोमंतक हिंदू विद्यार्थी मंडळाक, विद्यार्थीण विजयाबाय तळावळीकारांक अशीं चार अुलोवपां आयल्यांत. हेर सोळा अुलोवपांच्या विशयांची वळेरी ह्या पुस्तकांत आयल्या.

## श्रीभगवंतालें गीत

हें श्रीमद्भगवद्गीता ह्या संस्कृत ग्रंथाचें कोंकणी भाशांतर भौ. काशिनाथ श्रीधर नायक हांणी संपादून अुजवाडायलां आनी ताका भौमान्य राजकवी मंजेश्वर गोविंदबाब पै हांणी प्रस्तावना बरयल्या.

हें भाशांतर १९५९ त अुजवाडा आयलां. पुण तें १९३५ त केल्लें. आनी तें तीन खेपो निवळायिल्लें. आनी चौथे खेपेक निवळावंक घेतिल्लें. खासा संपादकाच्या अुतरांनी सांगचें जाल्यार, " गिता म्हळचार हजारांनी वर्सांनी आनी हजारांनी ऋषिंनी जल्मवेर बसून केल्ले चिंतणेचें सार आसा . . . . . .आमगेल्या पुर्वज ऋषिंनी, आपणाले अणभव आनी विचार, वेद-अुपनिषदां-बी ग्रंथांनी बरोवन दवल्ल्यात. 'श्रीमद्-भग्वद्गीता' म्हळचार त्या विचारांचो रोस न्हय,—आपरोस. देखून तो पोसो भरून निखटो ताळयांत रकोवन अुपकारना. तो थोडो-थोडो तळटार घेवन, जिबेन चाटून, ताची ल्हवू-ल्हवू रूच घेवंक जाय. पणून मूळ गितेनूच हें काम जायना; तें अुतराक अुतर दवरून करूं नज जाल्ल्यान भाशांतरान कशें जायत? देखून तांतूंतली दरअेकली म्हणणी फोडून-विस्कून, ओपारी-देखी दिवन अुकती करची पट्टा. ते भाशेन तांणी ती करपाचें थारायलें. हे खातीर तांणी वेगळचा-वेगळचा काळांत आनी थळांत अुजवाडा आयिल्ल्यो गिता पुंजावन त्यो वाचून काडल्यो आनी तांतूंतल्या वेगळचा-वेगळचा पाठांचो बारकायेन अभ्यास केलो. गितेंत आयल्ल्या अदीक-अर्थी अुतरांचो कोश घडून, वेगळचा-वेगळचा विद्वानांनी केल्ले तांचे तरेकतरा अर्थ अुठावन काडले. गितेचेर, पुर्विल्ल्या-अर्विल्ल्या आनी भायल्या-भितल्ल्या विद्-वानांनी बरैल्ल्यो फोडणिश्यो वाचून, तांगेल्या सम आनी आड मत्तांची वळेरी बरोवन काडली. वेदीक धर्माचे मुखेल ग्रंथ आनी ताच्या धर्मीक खांदयांच्या वेगळचा वेगळचा मुखेल आचार्यांनी आप-आपणाल्या मत्ताभाशेन केल्ले तांचे वेगळे-वेगळे अर्थ आनी फोडणिश्यो वाचून काडल्यो. येसू क्रिस्ताची जीण आनी क्रिस्तांव धर्माचें बिब्ल, म्हम्मुदाची जीण आनी अिस्लाम धर्माचें कुराण, तशेच तालमूद-बी हेर धर्मांचे मुखेल ग्रंथ, तांचीं भाशांतरां आनी फोडणिश्यो वाचल्यो. त्या धर्मांचे आनी वेदीक धर्माचे शिकोवणेंतलीं सारकेपणां आनी तीं नासल्यार तांचीं कारणां सोदून-येवजून काडलीं.

हे भाशेन, आगळें-अुणें अडेशीं-तिनशीं पानांचें आयतें अेकठावन जातकूच तांणी आपणाल्या गिते-भाशांतराक कसलेच भावनेची बादा जावची न्हय हे खातीर, आपणालें मन आणि मेंदू हांचो सोद घेतलो आनी तांचेर आपल्या-पेल्या कसल्याय मत्तांचीं पुटां चडिल्लीं आसल्यार बारकायेन सांसपून पळोवन तीं काडून अुडैलीं. हे भाशेन, आपणाली नदर शुद्ध, सत्त्वीक आनी अुजू करून आनी योगभरीत जावन तांणीं हें भाशांतर चौथे खेपेक निवळांवंक घेतलें."

ही निवळावणीय फुडें अर्दकुटीच अुल्ली. आनी जशें होलमलें ते अवस्थेंत तें छापून आयलें.

## वलिपत्तनाचो सोद

शिलाहार राजांच्या क्रि. स. ९८८ च्या अेका तांब्यापटच्यांत धम्मियर राजान 'वलिपत्तन थळ समुद्राचे वेळेमेरेन वाडैलें आनी सोबीत केलें,' अशें म्हळां. त्याभायर १००८ आनी १०१० च्या तांब्यापटच्यांनीय वलिपत्तनाचें नांव आयलां. हें वलिपत्तन म्हळचार खंयचें थळ हाजेसंबंदांत विद्वानांचें अेकमत ना. पुण वलिपत्तन म्हळचार जांबावलेच्या पंचम्हालांतलो बाळ्ळी गांव हो सोद शणै गोंयबाबांनी हेर विद्वानांचीं मत्तां खोडून काडून लायला. वलिपत्तनाचो बाळ्ळी शाराकडचो मेळ तांणी १९१८ च्या सुमाराक घाल्लो. फुडें १९२७ च्या मायांत तांणी अेका अुलोवपांत तो लोकांसामकार मांडलो. पुण हें पुस्तक मात ते भायर पडल्या क्षुपरांत १९६२ त अुजवाडा आयलें.

ताका भौ. रवींद्र राजाराम केळेकार हांणी प्रस्तावना बरयल्या.

## जादूचो जुंवो

हें अेके अेवरोपी काणयेचें भाशांतर मूळ १९२० त बरयल्लें. तें १९६८ त संजीवनी छापघर, मडगांव हांणी अुजवाडायलें. भुरग्यांखातीर बरयल्लें हें अेक सुपुल्लें पुस्तक.

**शांताराम वर्दे वालावलीकार**

## म्हजें गोंय

गोड म्हजें गोंय ! सुंदर म्हजें गोंय !
पुर्विल्ले नामनेचें, चड मोटद्या भाग्याचें,
उंच माथें कोंकणाचें, हें म्हजें गोंय !
निजाचे अपुर्बायेचें, इंद्रनीळ मळबाचें,
भांगराच्या ओताचें, रुप्याच्या चांदन्याचें,
हें म्हजें गोंय !
पथीक उदका-वाऱ्याचें, चकचयाळ पिकावळीचें,
सोबीत फुलां-फळांचें, शिट्रूक सावदां-सवण्यांचें,
हें म्हजें गोंय !
उजळ संस्कृतायेचें, खरेल्या कुळवंतांचें,
उदार मनाच्या लोकांचें, पाटांगड्या विद्वानांचें
बळिष्ट झुजप्यांचें, बुदवंत राजकर्ण्यांचें
वावराड्या कामवटांचें, कर्तुत्वी मनशांचें
हें म्हजें गोंय !
धर्तरेवेलो सर्ग, हें म्हजें गोंय !
सासणाचें सुख-दिणें, हें म्हजें गोंय !

भुरग्यांलो इष्ट, १९३५

## अमृताचो पावस

नवें गोंय पोरण्या गोंयांतसुनूच वैर सल्लां. जें सातां कोंकणांत म्हालगडें म्हणून सगळो संवसारभर गाजलें, जैं गोकुळांतल्या गोरवांराखण्याक श्रीविष्णुच्या अवताराचीं वस्त्रां आनी शस्त्रां मेळून देवपण आयलें, जैं दक्षिणेचें राज्य जोट्टल्या बळिष्ट राष्ट्रकूट सम्राटांलें पाळणें धोल्लें, जैं मराठणाच्या गळ्यांत सौभाग्याची गळसरी बांदतल्या पराक्रमी जिवबादादान उजवाडाचें पैलें किर्ण पळेलें तेंच हें पुण्यवंत,

कुळवंत आनी भाग्यवंत गोंय. ताका पुर्विल्ले व्हडविकेचो अभिमान जायतो. परंत तितल्यान तें धादोशी ना. ताच्या आंगांतलो कस मोटो. तसो हावेसूय मोटो. आपुण उपाट सुखी जावन सगळो संवसार उपाट सुखी करचो ही ताची मोटी वान्सा. त्याखातीर तें कसलेंय साहस करीत. तें धर्तरेच्या खांची गोंयडचांनीं भोंवत. सातां समुद्रांचे खरीक हात घालीत. किर्णांची निसण करून एके गिरावळीवैल्यान दुसरे गिरावळीर चडत. एके दूदगंगेंतसून दुसरे दुदगंगेंत उडकी मारीत. एका केणांतसून दुसऱ्या केणांत रिगत. एका ब्रह्मांण्डांतसून दुसऱ्या ब्रह्माण्डांत वचत आनी संवसाराचो बोंबाडो बारकायेन सोडून पळेत. असलो ताचो हावेस. तरण्या-धाकटचा उमेदिच्या गडयांची ताका मोटी ओड. ताचोच ताका चड अुबारो. चाळीसी फाटीं पडून संवसाराक उबगल्ल्या, धके-चपाटे खावन निर्णल्ल्या, सुक्या वेदान्ताची बडबड लागिल्ल्या, पिरी-पिरी करून पिडॅतल्या आनी हजारां दुभावांनीं भरिल्ल्या लोकांचो ताका वीट येता. तसल्या लोकांकडेन तें दाव्या दोळयानूय पळेना. जीव म्हळचार गोडाचो बांदो कसो जे लेखिनात, जे मर्णाक भियेनात, जे संकष्टाची पर्वा करिनात, वेळाकाळार वागा-वांसवेलाचे दाडेंत हात घालूंक जे गणमणनात, जे भुकेतानेन जीव सांडिनात, जे रानां-रांयांत भोंवक कांवचेनात, शियाचो कुडकुडो, ओताचो कडकडो आनी पावसाचो घडघडो आयलो जाल्यारूय, आपणाले लागणुकेकडसून जे केंसभर फाटीं सरनात, जे फुडें घाल्लो पांय फाटी काडिनात, जे कोणाकूच बाडगनात, जे केन्नाच निर्णनात, जे कित्यानूच निर्शेनात, जे कशेच तरेन हात-पांय गळसणायनात, जे परक्यांल्या बडवाचारान निखालुस दिपकवनांत, जे परक्यांल्या समुद्रांत न्हयां-व्हाळां-भाशेन बुडून नाशे जांवक सोदिनात, जे परक्यांल्या फाटल्यान बंद्यांवरी भोवनात, जे परक्यांल्या पोशान उदक पियेनात, जे परक्यांल्या मेंदून येवजिनात, जे परक्यांल्या तंत्रान चलनात, जे परक्यांलें उणें उतर सोंसून घेनात, जे नष्टचा-दुष्टांक भयांकृत काळाभाशेन दिसतात, जे आपलेपणाच्या अभिमानान लकलकतात, जे व्हडविकेच्या उंच हावेसान फुरफुरतात, जे खाशेले कर्तुत्वदेशेन वैर सरूंक सोदतात, जे सह्य पर्वता-सारके मनाचे थीर, जे गोमन्त समुद्रासारके बुद्दिचे खोल, असल्या जुवान गडयांची ताका तोखणाय दिसता. असल्याच गडयांक हातांत धरून आपल्या आनी संवसाराच्या बऱ्याक वावुरचेली ताका मोटी उमेद आसा. ही तागेली इत्सा तडीक वचून सगळो संवसार सुखान नंदूं अशें हांव मागतां.

नवें गोंय, जूल १९३४

———

# गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक

## पंलें उलौप*

डॉ. सर रामकृष्णशर्णै भाण्डारकार हांच्या मत्तान, क्रिस्ता आदलो सुमार सातवो शेंकडो लागल्या उप्रांत, आर्यलोक दक्षिण हिंदुस्तानांत आयले.‡ ह्याच वेळार गोंयां आर्यांची वसणूक जांवक आरंभ जालो जांवये. गोंयां आर्यलोक थीर जावन आनी गोंयकार हें नांव जोडून थैंसून पर्थून ते भोंवतणच्या हिंदुस्तानाचे आनी त्या भायल्या संवसाराचे भोंवडेक केन्नाच्यान लागले, कित्याक लागले आनी वचत थैं व्हडविकेक कशे पावले म्हणपाचो इतिहास **गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक** ह्या निबंधांत सांगपाचो आसा. मुसलमानांचो ल्हान आंकडो सोडून दिल्यार, तुर्ताक गोंयचे लोक हिंदु आनी क्रिस्तांव ह्या दोन धर्मांभितर चडकरून सारक्या प्रमाणान वांटल्यात. थैं आज उणेपुणे अडेच लक्ष हिंदु आसून अडेच लक्ष क्रिस्तांव आसात. हिंदूंभाशेन क्रिस्तांवूय गोंयाभायर वचूंक लागल्यात. हिंदूंचे भोंवडेचो आवांठ फक्कत हिंदुस्तानाएदोच मोटवो आसून क्रिस्तांवांचे भोंवडेचो आवांठ धर्तरेएदो मोटो आसा. आनी कोणेंय एकाद्रयान, थोडयाच काळांत मंगळाचेर वच्चेली वाट सोडून काडल्यार, आमचे क्रिस्तांव भाव थैं सगळयां आदीं पावतले म्हळयार अतिताय जांवची ना; आनी त्या खातीर म्हाका तांचो मोटो अभिमान दिसता. हिंदूंचे भोंवडेच्या इतिहासाभाशेन क्रिस्तांवांचे भोंवडेचो इतिहासूय मोटो रसाळ आनी मनाक ओड-लायणो आसा. परंत तो थोडया उतरांनीं सांगून जाय सारको नाशिल्ल्या कारणान तुर्ताक **हिंदूंचेच वसणुके संबंधाचो विचार करुंया.** हिंदु म्हळे म्हण्टकूच तांतूंत गोंयांभायर वचून व्हडविकेक पाविल्ल्या सगळया जातींची मेळ्ळया तितली खबर येतली म्हणपाचें वेगळें सांगचें लागना.

गोंयकारांचे भायले वसणुकेचो इतिहास सांगचे आदीं **गोंयचो विस्तार आनी आवांठ** केदो आनी **ताचो योग्यताय आनी** म्हत्व केदें तें आमी पळौंक जाय. तुर्ताक पुर्तुगेजांचे सत्तेतळा कोंकणांतली जितली भुंय आडावल्या तितलेंच गोंय म्हणपाचो समज जाला. हें गोंय उत्तरेक तेरेखोलासाकून दक्षिणेक माजाळी मुडगिरीमेरेन ६० मैल लांब आसून पूर्वेक दुदसागरासाकून पश्चिमेक हिंदी म्हालसमुद्रामेरेन ३०

---

* हें उलौप ता. २२ माय १९२७ दिसा आयतारा जालें.

‡ Early Hist. Dek., Bombay Gaz., Vol. I, Part 2, P. 141.

मैल रुंद आसा आनी ताचें सगळें भुंय-माप १०६० चौखणे मैल आसा.* परंत पुर्तुगेज इतिहासकारांच्या मत्ताभाशेन क्रि. स. १५१० त, आफोंस आल्बुकेर्कान गोंय घेतलें तेन्ना, ताचो विस्तार आनी आवांठ आतांच्या गोंयाकूय मोटो आसलो अशें दिसता. १५५५ वर्सा, आब्रिलाचे ३० वेर, तीसवाडच्या धाकटे गोंयच्या किल्ल्यांत, व्हिसरै पेद्र मास्कारेञ्जस आनी विजापूरचो अदिलशाही राजपुत अबदुल्ला हांचे भितर जें लिखित जालें, तांतूंत पंद्राव्या शेंकडचाचे अखेरेक, मुसलमानांच्या शेकातळा गोंयचो विस्तार केदो आसलो म्हणपाचो मजकूर आयला. तांतूंत म्हळां कि ते मुस्तींत, दक्षिणेक चिताकुल्याचे म्हणचे आतांचे सदाशिवगडालागशिले काळी न्हंयेसाकून उत्तरेक आचरेंचे न्हंयेमेरेन आनी पूर्वेक घांटासाकून पश्चिमेक समुद्रामेरेन सगळें कोंकण गोंयच्या धनिपणातळा आसलें. त्याभायर दाभोळ आनी ताच्या आवांठांतलो मुलुख होय हे शिवें-मेरेंत आस्पावतालो.§ हाचेवैल्यान दापोली, खेड, चिपळूण, संगमेश्वर, रत्नागिरी, राजापूर, देवगड, मालवण, वेंगुर्ले हे णवूय तालुके, कुडाळ धरून सावंतवाडी संस्थान, तुर्ताचो पुर्तुगेज मुलुख आनी ताचे दक्षिणेकडची आतांच्या उत्तर कर्णाटकाची, समुद्राचे तडीवैली थोडीशी शीर एदो मुलुख गोंयांत आस्पावतालो ह्मणपाचें सिद्ध जाता. इतिहास चिके धवळून पळेल्यार, पंद्राव्या शेंकडचाआदीं सुमार सात-आठशीं वर्सां गोंयचो विस्तार उणोपुणो एदोच आसलोसो दिसता. त्यावेळार दमणगंगेसाकून गंगावली न्हंयेमेरेनच्या कोंकणाचे दोन वांटे जावन चेवलाचे दक्षिणेक कुंडलिका न्हंय ही तांकां वेगळायणी सीम आसली. कुंडलिकेच्या उत्तरेकडच्या कोंकणाक ठाणें, नागांव, सुपारें, चेवूल मेळून समुद्राचे वेळेवैल्या **१४०० गांवांचें कोंकण,** अशें क्रि. स. १०९४ च्या तांब्या-पटयांत ह्मळां.† तशेंच कुंडलिकेच्या दक्षिणेकडच्या

* An Historical and Archaeological Sketch of the City of Goa, by J. N. da Fonseca, Bombay 1878, p. 1.

§ 'As quaes terras de Goa comecao do rio Hetancora (Cintacora चिताकुलें) da tanadaria de Sanviser (शिवेश्वर), que e o extremo das terras de Canaras (कर्णाटक) de Garcopa e vao fenecer no rio de Tambona (?) tanadaria de Salcy (साळसी), e que se chama Achera (आचरें), e desde as aguas vertentes do Gate (घांट) ate o mar com todo o Conquao (कोंकण) de Porbuly (पारपोली) ficando e entrando tambem nesta demarcacao Dabul (दाभोळ) com suas terras.' Archivo Port. Or., Nova-Goa 1865, Fasciculo 5, Parte I, Doc. 153, pg. 268.

† श्रीस्थानक तथा नागपुर सुर्प्पारक चेमुल्यादिषु वेलाकुलेषु चतुर्दशशत कुंकणाभ्यंतरेषु. Ind. Ant., vol. 9, p. 35. चतुर्दशग्रामशतोपलक्षित कोंकणान्त:पति: क्रि. स. ९९७ चो तांब्यापटो. Epig. Ind., vol. 3, p. 274. पुरीप्रमुख चतुर्दशग्रामशतीसमन्वित समस्त कोंकण भुवं समनुशास्ति. क्रि. स. ११२७ चो तांब्यापटो. JBBRAS. vol 21, p. 509.

कोंकणाक शिवचित्त कदंबाच्या वेळच्या क्रि. स. ११६० च्या कानडी पाशाणा-बरपांत **९०० गांवांचें कोंकण** म्हळां ‡ ह्या कोंकणांत आठव्या शेंकड्याचे मजगतीपासून सोळावो शेंकडो लागमेरेन, शिलाहार, कदंब, देवेगिरीचे यादव, दिल्लीचे सुलतान, बाहमनी सुलतान, विजयनगराचे राय, पर्थून बाहमनी सुलतान आनी मागीर विजापूरचे अदिलशहा हांचो शेक चलतालो. ह्या सगळ्यांचे राजवटींत **दक्षिण कोंकणाचें राजपाटण** चडकरून आतांच्या गोंयच्या आवांठांत कांयकाळ बाळ्ळी, कांयकाळ चंद्रपुरा ह्मणचे साष्टींतल्या चांदरा, मागीर तीसवाडी व्हडल्या गोंयां आनी त्या उप्रांत धाकटचा गोंयां आसलें. विजयनगराच्या दुसऱ्या हरिहररायाच्या क्रि. स. १३९१ वर्साच्या एका तांब्या-पटचांत गोंयाक **गोंय नांवाचें कोंकणाचें राजपाटण,** अशें ह्मळां. * विजयनगराचे कोंकणांतले प्रतिहस्त ह्मणचे गोवेर्नादोर गोंयांतूच रावताले आनी अदिलशाहीकडसून पुर्तुगेजांनीं गोंय घेंवक नाशिल्लें जाल्यार, युसूफ अदिलशहाच्या मनांत विजापूर सोडून गोंयूच राजपाटण करचेलें आसलें, अशें तेवेळचे पुर्तुगेज इतिहासकार सांगतात. † हाचेवैल्यान पुर्विल्ल्या काळांत **दक्षिण कोंकणाचें माथें आनी ताचो विचार करचो मेंदू** ह्मण्टात तो **तेरेखोलासाकून काणकोणामेरेनचे सुवातेंत** आसलो ह्मणपाचें उक्तेपणान सिद्ध जाता. क्रिस्ता आदल्या काळापासून उत्तर कोंकणांत जशें शूर्पारक ह्मणचे सुपारें हें थळ नांवा-लोकिकान घणघणून सगळचा उत्तर कोंकणाक **शूर्पारक देश** हें नांव पडिल्लें § तशेंच दक्षिण कोंकणांत **गोमन्त** ह्मणचे गोंय घणघणून तेंच नांव त्या कोंकणाक पडिल्लें. महाभारतांत भीष्मपर्वाच्या ९ व्या अध्यायांत हिंदुस्तानांतल्या जनपदांचे वळेरींत **गोमन्ताचें** नांव आयलां.¶ वराहमिहिर जोतिशान सव्या शेंकड्यांत बरैल्ले बृहत्संहितेंतूय **गोमन्त** देसाचें नांव आयलां.‡

पुराणांचे नद्रेन पळेल्यार तेरेखोलासाकून मुडगिरीमेरेनची सुवात चड ह्मत्वाची आसली अशें दिसता. वीरयुगांत मथुरेचो नष्टो आनी जुलमी राजा कंस हाका श्रीकृष्णान जिवानशीं मारतकूच, ताचो मांव मगधाचो बळिष्ट राजा जो जरासंध हाणें

---

‡ कोंकणमोंभेत्नूरुमम्. JBBRAS. Vol. 9, p. 297.

* **गोवाभिधां कौंकण राजधानीम्** JBBRAS. Vol. 4, pp. 107, 115.

† The Commentaries of the Great Afonso Dalboquerque by Braz Dalboquerque, London 1877, vol. 2, chapt 20 p. 96.

§ ततः **शूर्पारकं देशं** सागरस्तस्य निर्ममे । सहसा जामदग्न्यस्य सोऽपरान्तमहीतलम् । ६७ । महाभारत, शांतिपर्व, राजधर्मानुशासनपर्व, अ. ४९.

¶ **गोमन्ता** मंदकाः संडा विदर्भा रूपवाहिकाः । ४३ । महाभारत, भीष्मपर्व अ. ९.

‡ अन्येनात्राक्रान्ते म्लेच्छाटविकाश्वजीवि **गोमन्तान्** । गोनर्दनीचशूद्रान् वैदेहांश्चानयः स्पृशति । १३ । बृहत्संहिता, शुक्रचार, अ. ९.

मोटचा सैन्यासैत मथुरेचेर अठरा खेपो घुरी घाली आनी तितलेय खेपो ताका अपेस येवन फाटीं पर्थूंचें लागलें, तरी त्या झुजांनीं मथुरेच्या लोकांची जायती वाट लागली अशें पळौन, आपले खातीर लोकांक आनीक पिडापीड भोगची न्हय ह्मणून श्रीकृष्ण बळरामासैत दक्षिणेंत पळून आयलो. तो सह्य पर्वतार पावतकूच, वेणान्हंये लागशिल्या पद्मावत राज्यांत ह्मणचे आतांच्या कोल्हापूर संस्थानाच्या आवांठांत ताका शूर्पारकासून थैं निक्तोच आइल्लो परशुराम मेळ्ळो. ताणें तांची खबर आयकून घेवन, सुसंगितायेखातीर तांकां सह्याचे वळींतल्या नांवा-लोकिकाच्या **गोमन्त पर्वतार व्हरून पायले.** तो पर्वत किल्ल्याभाशेन आसून थैं जरासंध आपल्या सैन्यासैत आयल्यार ताका थैंच्या खडपानीं झुजूंक तांकचें ना अशें परशुरामान तांकां सांगलें. तो पर्वत तरेकतरा रुखांनीं कुचकुचीत भल्लोलो आसून ताच्या तेमकावैल्यान धबधबो व्हांवतालो आनी थैंसून जायत्या जुंव्यांनीं सोबणो पश्चिमेकडचो समुद्र दिसतालो ह्मणपाची वर्णना महाभारताचें खिलपर्व ह्मणचे पुर्वण जो हरिवंश तांतूंत दिल्या.† ही **वर्णना** हेमाडबारशेंच्या सह्याद्रीच्या शेकानशेक उंच कुवेशी घांटाच्या तेमकाक जिस्त लागू जाता. हें तेमुक समुद्राकडसून सुमार साडेतीन हजार फुटांचे उंचायेर आसा. ह्या तेमकावैल्यान काळी न्हंय खोसयेच्या भुरकुटचान उडक्यो मारून दुदसागराचो सुंदर धबधबो घट्टा आनी नागणी सारकी सुरसुरत वचून, वागुर्मे-उसगांवां लागसार, सतरीचे महादायी वा ह्मादय न्हंयेक वेंगेंत घेवन थैंसून फुडें गोमती वा मांडवी ह्या नांवान धाकटें गोंय, रायबंदर आनी पणजी हांचे कुशीकसून हिन्दी ह्मालसमुद्राक मेळटा. कुवेशीच्या उंच तेमकावैल्यान पश्चिमेकडचो समुद्र आनी तांतूंत पाचेसारकीं वैर उफेल्लीं तीसवाडी, चोड्ण, दिवाडी, जुवें, कुंभारजुवें, आखाडो, वाटसो, वांसी, दोंगरी, आगशे-जुंवो, रायतुरा-जुंवो, लोटले-जुंवो, सांकवाळे-जुंवो, शांते-जुंवो, खोरजुवें, पनेळें, आराबो, राणें, हळर्णा-जुंवो आनी गोंयचीं हेर जायतीं जुवीं दिसूंक अडचण पडना. परशुरामान जे वाटेन श्रीकृष्ण-बळरामांक गोमन्त पर्वतार पायले ते वाटेक ताच्या भौमानाच्या उगडासा खातीर **रामघांट** हें नांव पडलें जांवये. गोमन्त पर्वतार पावनाफुडें, श्रीकृष्णाक विष्णूच्या अवतारांचीं आनी बळरामाक शेषाच्या अवताराचीं वस्त्रां आनीं शस्त्रां सालाबाताक मेळून तांचें गोरवां-राखणेंपण थैंच नाशें जालें. दोगांयच्या माथ्यावैल्यो कांबळीच्यो खोळी उबून वचून तांचे बदला रत्नां लाइल्ले भांगराचे लकलकीत मुकूट् थैंच तांच्या माथ्यार चडले. बळरामाक संवर्तक नांगर आनी सौनंद मुसळ थैंच मेळ्ळें आनी श्रीकृष्णाक सगळो संवसार कलकलायणें सुदर्शनचक्र आनी कौमोदकी गदाय थैंच मेळ्ळी.

---

† ऊर्मिमन्तं समुद्रंच अपारद्वीपभूषणम् । प्रेक्ष्यमाणौ सुखं तत्र नगाग्रे विचरिष्यथ । ६८ । हरिवंश, विष्णुपर्व, रामवाक्य अ. ३९. दरीप्रपातांबुरवैः छन्नंशार्दूलपल्लवः । ८ । प्रतापप्रभवाभिश्च सरिभ्दिरुपशोभितम् । २२ । जलशैवलशृंगाग्रैरुन्मिषंत-मिवश्रिया । २३ । हरिवंश, विष्णुपर्व, गोमन्तारोहण अ. ४०.

श्रीकृष्ण मथुरेकसून पळून दक्षिणेंत गेलो ह्मणपाचें वर्तमान जेन्ना जरासंधाक कळ्ळें तेन्ना तो मोटें सैन्य घेवन ताचे फाटीक लागलो आनी गोमन्त पर्वताच्या मुळसांत येवन थारावलो. त्यावेळार सर्गावैल्यान सकला देंविल्ल्या शस्त्रांनीं श्रीकृष्ण आनी बळराम हे ताचेकडेन झुजून ताणीं ताची सामकी दानाधिस्पट केली आनी ताका गोंयांतसून धांवडायलो. **श्रीकृष्ण-जरासंधाचें हें भयांकृत झुज** कुवेशी घांटाच्या मुळसांत सोनावळी सिरगाळी आनी कुळें ह्या गांवांच्या आवांठांत जालें जांवये. ह्या झुजांत शत्रूचे पेदे, घोडे, हती आनी रथ हांची जायती वाट लागली. सुदर्शन चक्रान पेटैल्ल्या उज्यान सुंवार आनी पेदें हुलपून मेले. जरासंधाचे जायते मांडलीक मरून पडले. रथांची पूड जाली. हतयांचीं मडीं पातळ्ळीं. रगताच्यो तळयो जाल्यो. हे भाशेन जरा-संधाक नाकापुरो करून धांवडायतकूच, श्रीकृष्ण आनी बळराम मथुरेक गेले. गोंयां मेळिल्ल्या अपेसान जरासंधाक श्रीकृष्णाचो इतलो भय दिसूंक लागलो कि पर्थून तो आपुण खासा ताचे वाटेक गेलो ना. श्रीकृष्णाकडेन पौठ घांसूंक सर्गावैल्या इंद्राकूय तांक जांवची ना अशें तो उक्तेपणान ह्मणूंक लागलो. तो ताका ह्याफुडें गोरवां-राखणो ह्मणून कुस्कुटांवचे बदला विष्णूचो अवतार कसो लेखूंक लागलो आनी मथुरेचेर घुरी घालचो नाद ताणें सोडून दिलो.‡ हरिवंशांतले हे कथेवैल्यान तेरेखोला-साकून मुडगिरीमेरेनचे गोंयचे सुवातेचें ह्मत्व केदें ह्मणपाचें उक्तेपणान दिसून येता.†

श्रीकृष्ण-जरासंधाचें झुज ज्या आवांठाक जालें त्या आवांठाक हेमाड वा हेमाड-बारशें ह्मण्टात. संस्कृत **हेमाद्रि ह्मणचे 'भांगराचो पर्वत मेरू'** हाचेवैल्यान हेमाड हें उतर जालां हांतूंत दुभाव ना.§ हें नांव कुवेशी घांटाचेंच आसून गोमन्त ह्या नांवा उप्रांत पडलें जांवये. ह्या घांटाच्या मुळसांतलीं सोनावळी आनी सिरगाळी ही गांवांचीं नांवां अनुक्रमान भांगर आनी लक्ष्मी हांचो अर्थ सुचैतात. हाचेवैल्यान दुदसागरा-कडची गोमन्त पर्वताची सुवात **'भांगराची भुंय'** ह्मणून गाजताली अशें दिसता. **क्रिस्तांव सनाच्या पैल्या-दुसऱ्या शेंकडयांत** ह्या आवांठाक **सुवर्णापरान्तक** वा सुना-परान्तक ह्मणचे 'भांगराचें अपरान्तक' हें नांव आसलेंशें दिसता. ह्या संबंधाची फोडणिशी फुडें येतली. लंखेक पुर्विल्ल्या काळांत सुवर्णद्वीप ह्मणचे 'भांगराचो जुंवो' अशेंय एक नांव आसलें. तशेच तरेचीं हेमाड आनी सुनापरान्तक हीं नांवां

---

‡ हरिवंश, विष्णुपर्व, जरासंधाभिगमन अ. ४१, गोमन्तदाह अ. ४२, करवीर-पुराभिगमन अ. ४३, रुक्मिणीस्वयंवर-सुनीथवाक्य अ. ४८.

† गोमन्तकगिरिं प्राप्तस्तत्रस्थान्मुक्तिहेतवे । **तत्र विष्णुः स्वयं तस्थौ** जरासंध-भयार्दितः । ९ । स्कंदपुराणान्तर्गत सह्याद्रिखण्ड, edited by J. G. da Cunha, Bom. 1877, उत्तरार्ध, मांगीशमाहात्म्य, सप्तकोटीशाख्यान, अ. ३ p. 539.

§ **मेरुः सुमेरुर्हेमाद्री** रत्नसानुः सुरालयः । ५२ । अमरकोश, काण्ड १, स्वर्गवर्ग

दिसतात. गोंयचो निमाणो शिलाहार राजा रट्टराज हाणें शक ९३० च्या ह्मणचे क्रि. स. १००८ च्या तांब्यापटचांत आपल्या घराण्याक 'सिंहलच्या राजांभितर उंच' अशें ह्मळां.* परंत गोंयचे शिलाहार राजा थैं सिंहलासून ह्मणचे लंखेसून आयले ह्मणपाचो पुरावो मेळूंक ना. उत्तर कोंकणांत ठाण्यां आनी घांटार कऱ्हाडा जे शिलाहार राजा आसले ते आपणांक 'तगरपुरवराधीश्वर' ह्मणचे 'तगरपुरकार' ह्मणैताले. गोंयच्या रट्टराजाच्या तांब्या-पटचांत 'तगरपुरवराधीश्वर' हें बिरुद येंवक ना. परंत शिलाहारांच्या तिनूय बेलांचीं हेर बिरुदां एकामेकांक चडकरून जमतात; हाचेवैल्यान, ते एकामेकांचे दायजी-गोत्री आसले अशें ह्मणूं येता. गोंयच्या शिलाहारांचो मूळपुरुस शणफुल्ल हाणें क्रि. स. ७६५ च्या सुमाराक राष्ट्रकूट राजा कृष्णराज वा पैलो कृष्ण हाचे दयेन 'समुद्राचे तडीवैलो सह्याचे अखेरेमेरेनचो देस' जोडलो अशें रट्टराज आपल्या तांब्या-पटचांत ह्मण्टा.* हांतूंत शणफुल्लाच्या राज्याक उत्तरेक खैंचे सुवातेपासून आरंभ जातालो ह्मणपाचें जरी समजना तरी सह्याद्रीचे अखेरेमेरेन ह्मणचे सामान्यतायेन गंगावली न्हंयेमेरेन ताचें राज्य दक्षिण कोंकणांत तेंकिल्लें ह्मणपाचें उक्तें दिसता. केरलोत्पत्ति नांवाचें मलनाड वा मलबारच्या इतिहासाचें एक पुस्तक आसा; तांतूंत गोकर्णासाकून कुमारीमेरेन मलबाराची लांबाय सांगून भितर तुळू, कूप, केरळ आनी मूषक हीं राज्यां आस्पावतात अशें ह्मळां.† हाचेवैल्यान गोकर्णाचे उत्तरसिमेर सह्य पर्वताचो अखेर जाता अशें ह्मणूं येता. रट्टराजाच्या तांब्या-पटचांत जीं थळांचीं नांवां आयल्यांत तांची वळख अजून जरी कोणाक मेळूंक ना आनी तांचो मेळ आतांच्या घोळणुकेंतल्या नांवांक अजून जरी कोणें घालूंक ना तरी हांवें केल्ल्या बारकायेच्या सोदावैल्यान म्हजी खात्री जाल्या कि तीं नांवां बारदेसासाकून मुडगिरीमेरेनच्या कांय थळांच्या नांवांक जिस्त जमतात. तांतूंत वलिपत्तन, वलिपवन वा वलिनगर म्हणचे **बाळ्ळीपत्तन – आतांची बाळ्ळी – हें शिलाहारांचें राजपाटण आसलें** म्हणपाचें समजूं येता. शणफुल्लाचो पुत धम्मियर शिलाहार हाणें बाळ्ळींत आठव्या शेंकड्याचे अखेरेक बांदिल्ल्या कोटाच्यो मोडक्यो कुर्वो थैं देवुळवाड्यालागसार अजून दिष्टी पट्टात, आनी ते सुवातेक **कोटांत** अशें ह्मण्टात. तेच भाशेन, बाळ्ळी-कुकळ्ळेचे सरादीर **कोटा-मळ** ह्मण्टात ती सुवात आसा. चलत्या मायाचे तिसरेर हांव ह्यो सुवातो बारकायेन पळौन आयलों आनी ह्मज्या मनाची खात्री करून घेतली. बाळ्ळी, हेमाड, चंद्रवाडी, अष्टाग्रहार आनी काकोडें ह्या पांचूय म्हालांक **जांबावली** हें समुदायिक नांव आसा. हें नांव संस्कृत

* सिंहलक्ष्माभृतांवरः Epig. IInd, vol. 3, p. 299.

* समुद्रतीर सह्यान्तदेश संसाधनोऽभवत्. Epig. Ind , vol. 3, p. 299.

† Hist. of Kerala by K. P. Padmanabha Menon, Ernakulam 1924, vol. I, P. 41.

**जाम्बवम्** ह्मणचे भांगर ह्या उतरावैल्यान जालां. देखुनूच रट्टराज शिलाहारान बाळ्ळीक सुवर्णद्वीपाचें ह्मणचे सिंहलद्वीपाचें व्हडविकेन भल्लेलें नांव दिवन आपल्या वंशाक **सिंहलाच्या राजांभितर उंच** हीं उतरां लायल्यांत. रट्टराजान माल्लेले बडायेची भगल करचेखातील शिलाहारांचे शत्रु जे हळसीचे कदंब हांच्या एका पाशाणा-बरपांत एक हुमाण्यावरी शिळोक घाला तो मोटो मौजेचो आसा. हें बरप कित्तुरालागसार देगांवें गांवच्या देवळांत आसून सवो कदंब राजा शिवचित्त पेर्माडीदेव हाचे वेळचें क्रि. स. ११७४ वर्साचें आसा. तांतूंत इकराव्या शेंकडयाच्या पैल्या चौथ्यांत गोंयच्या शिलाहारांचें राज्य हातासणो पैलो षष्ठदेव कदंब हाचे संबंधान ह्मळां कि 'ताणें श्रीरामचंद्रावरी समुद्रांत सांकव बांदलो ना; किल्ल्याक रेवाडो घालो ना. वानरांच्या मुखेल्याक त्रास बादले नात. लक्ष्मणाक हेवशीन तेवशीन जळपुंचें लागलें ना. तरी आसताना ताणें **लंखेच्या राजाक जिखलो.**'§ हळसीचे कदंब मार व्हडले सम्राट नासले. तांच्या राज्याचो विस्तार मोटो नासलो. तांचें बळगें मोटें नासलें. ते कल्याणीच्या चालुक्यांचे मांडलीक आसले. अशें आसताना लंखेक वचून ताणीं थैंच्या राजाक भौ सोपेपणान जिखलो हें एक हुमाणेंच दिसता. इतिहासाचे नद्रेन पळेल्यार हें **हुमाणें** सोडौंक कळाव लागना. षष्ठदेवान लंखेच्या ज्या राजाक जिखलो अशें ह्मळां तो पंचह्मालांत वा जांबावले राजपाटण आशिल्लो शिलाहार रट्टराज, हें ध्यानांत घेतल्यार, 'सिंहलच्या राजांभितर उंच' अशी जी बडाय रट्टराजान माल्ल्या तातूंतलें **सिंहलद्वीप ह्मणचे पंचह्माल वा जांबावली** ह्मणपाचें उक्तेपणान दिसता. सार घेंवचेलें इतलेंच कि गोमन्त पर्वताच्या आवांठाक **भांगराची भुंय** ह्मणून जें नांव पुर्विल्ल्या काळांत आसलें ताच्या पुराव्याचो नाद सुवर्णापरात्तक वा सुनापरान्तक, सिंहल, लंखा, हेमाड आनी जांबावली ह्या उतरांनीं घुमघुमता.

सातव्या शेंकडयाच्या सुमाराक, उत्तर आनी दक्षिण कोंकण हांचे भितल्लेभितर **वांटे** जावन, त्याभायर दक्षिणेक ताणें आपले पांय कुमारीच्या तोंकामेरेन पातळायले तेन्ना, दोन कोंकणांचीं सात कोंकणां जावन, **सप्तकोंकण** हें उतर घोळणुकेंत आयलें. त्यावेळार गोमन्ताक **महासप्तम** ह्मणचे **सातां कोंकणांतलें मोटें कोंकण** हें नांव मेळ्ळें. हें नांव पैलेंवैलेंच बादामीचो चालुक्य राजा विजयादित्य हाच्या शक ६२७ च्या (क्रि. स. ७०५ च्या) तांब्या-पटयांत आमकां वाचूंक मेळटा. तांतूंत '**महासप्तमे इरिदिगे विषये**' ह्मणचे 'सातां भितल्ल्या मोटया कोंकणांतल्या रेडी ह्मालांत' अशें ह्मळां.† रट्टपाटी हाचे बदला कानडींत इरट्टपाडी अशेंय उतर मेळटा. तेच रितीन रिडी वा रेडी हाचे बदला इरिदि हें उतर घालून ताका कानडींतलो **गे** हो प्रत्यय जोडून इरिदिगे हें उतर घडलां. कानडींत जायत्या उतरांक **गे** हो प्रत्यय लांवची चाल

§ न सेतुबंधो नच दुर्गरोधो न वानरानीकपतिप्रयासः। नो वा सुमित्रात्मजसंभ्रमो-भूल्लंकापतिस्तस्य तथापि वश्यः। JBBRAS., vol. 9, p. 266.

† Ind. Ant., vol. 9, p. 131.

आसा. उदाहरणाक हलसिगे–हळसी, पंडरिगे–पंडरी, हूर्ण होळिगे–पूर्ण पोळयो ह्या आनी हेर जायत्या उतरांक **गे** हो प्रत्यय लाइल्लो दिसता. तेच रितीन इरिदिगे हें उतर जालां. बादामीच्या चालुक्यांचो गोवेर्नादोर सत्याश्रय ध्रुवराज इंद्रवर्मा हाच्या शक ५३२ च्या (क्रि. स. ६१० च्या) गोंयच्या शेतांत मेळिल्ल्या एका तांब्या-पटचांत इरिदिगे हाका संस्कृत रूप दिवन **रेवतीद्वीप** अशें ह्मळां‡ आनी डॉ. सर रामकृष्ण-शणै भाण्डारकार हाणीं ताचो मेळ रेडी नांवाच्या गांवाकडेन घाला.¶ हो **इरिदिगे वा रेवती ह्मणचे रेडी गांव** गोंयचे उत्तर सिमेर, तेरेखोलावैर, समुद्राचे तडीर एका कोसाच्या आवांठांत आसा. हाचेवैल्यान, सातूय कोंकणांत गोंयाची योग्यताय उंच आसून, ताका सगळ्यांत वैलो आनी पैलो, भांगराचे आळणे, कीर आनी फुलयो मारिल्लो रंगीत पाट बसूंक दिताले अशें दिसता.

वैले सगळे फोडणिशेवैल्यान पुर्विल्ल्या काळापासून गोंयाचें आनी तांतूंतूय **तेरेखोलासाकून मुडगिरीमेरेनचे सुवातेचें ह्मत्व,** पुराणांचे आनी इतिहासाचे नद्रेन मोटें आसलें ह्मणपाचें सिद्ध जाता; आनी हें ह्मत्व अजून उणें जांवक ना ह्मणपाचें येवजून ह्याका आमचे भुंयेचो मोटो अभिमान दिसता. आमची भुंय आकृतायेन आनी आवांठान जरी ल्हान आनी मोटवी दिसली तरी हावेसान मोटी आसा. **विद्या, लक्ष्मी आनी शक्ति ह्या तीन सुंदर भैणींचें तें कुळार आसा.** फाटल्या अडेच हजार वर्सांपासून आतां मेरेनचो इतिहास बारकायेन धवळून पळेतकूच, नवो धर्म पातळायणे धर्मिष्ट पुरुस, बळिष्ट राज्यां आनी साम्राज्यां उबारणे शूर वीर, राजकर्णांतले पाटां-गडे, विद्या-देवतेंचे अपुर्बायेचे भक्त असल्या तेजवंत रत्नांची आमचें गोंय ही एक मोलादिक खण आसा ह्मणपाची कोणायची खात्री जातली. आतांचे हे घटकेकूय, ह्या इल्ल्याशा आवांठांत, लिज्बोवाच्या रेलासांवाचे प्रेजिदेन्त न्यायमूर्ति कायतान गोंसाल्व्हिस, पणजेच्या रेलासांवाचे प्रेजिदेन्त आनी विद्वान ग्रंथकार न्यायमूर्ति आंतोनिय द नोरोञ्ज, पणजेच्या रेलासांवाचे जुवीज न्यायमूर्ति ब्रुत द कोश्त, आफ्रिकेंतल्या लौरेंस मार्काच्या रेलासांवाचे जुवीज आनी नामनेचे ग्रंथकार न्या. ब्रागांस पेरैर, आफ्रिकेंतल्या बिस्सावचे जुवीज द दिरैत न्यायमूर्ति शिवरामबाब देशपांडे, आरोग्य-तायेचे मुखेल आनी एवरोपी तोखणायेचे रंवथ्यां-शास्त्री* दोतोर फ्रोयलान द मेल, मुंबैच्या रेलासांवाचे जुवीज न्यायमूर्ति रांगणेकार, संस्कृत भाशेचे आनी वेदविद्येचे हुशार पंडित भौमानेस्त रामचंद्रशास्त्री नायक-करंडे, पाली भाशेचे लोकिकवंत पंडित प्रो. धर्मानंद कोसंबी, इतिहासमूर्ति प्रो. पांडुरंगशणै पिसुर्लेंकार, न्यायशास्त्री भवानी-भट्ट सुखठणकार, आय. सी. एस्. दत्तारामबाब केरकार, नटाचार्य रघुवीरबाब सावकार

---

‡ JBBRAS., vol. 10, p. 365.

¶ Bombay Gaz., vol. I. part 2, p. 181, note 4.

* रंवथ्यां-शास्त्री = Bacteriologista.

हीं आनी दुसरीं जायतीं रत्नां लकलकतात. ह्या रत्नांखातीर धर्तरेवैल्या कोणाय आनी खैंच्याय राष्ट्राक मोटो अभिमान दिसूंक फावो.

गोंयचो विस्तार, आवांठ आनी तांतूंतली चड ह्मत्वाची आनी व्हडविकेची सुवात सामान्यतायेन हांवें थारायली. आतां गोंयकार आपली भुंय सोडून परक्या सुवातांनीं केन्नाच्यान वचूंक लागले, कित्याक वचूंक लागले आनी ताणीं थैं **बृहग्दो-मंतक ह्मणचे मोटेलें गोंय** कशें निर्मिलें ह्मणपाचें बारकायेन पळौंया. हें पळेता आसताना, चडकरून गोंयच्या आतांच्या आवांठाभायर आशिल्ल्याच हिंदु गोंयकारांचो विचार जातलो ह्मणपाचें सांगचें लागना.

**गोंयकारांचो सभावगुण** ध्यानांत घेतल्यार अशें दिसता कि मोटें व्हडलें अरिष्ट आयल्याबगर, नाजाल्यार उपासमार जाल्याबगर ते केन्नाच आपलें रांदनींचें पल्ल सोडून दुसरेकडेन वचनात. खासा गोंयांतूय, वसौंक नाशिल्ल्यो जमनी अजून जायत्यो आसात; परंत आपलो गांव सोडून नवी भुंय वसौंक वच्चें ह्मळ्यार तांच्या जिवार येता. आज्या-पणज्यांनीं घाल्ले रांदनीच्या पल्लांत बसून, जो पेज-निवळ मेळटा तितल्यान ते धादोशी आसतात. ताचेफुडें, धा-बारा कोसांचे वाटेर, दुदा-ह्मोंवाच्यो झरी जरी व्हांवल्यो तरी त्यो तांचे नद्रेंत भरनात. सामान्यतायेन, गोंयकारांचो सभावगुण जरी अशेतरेचो आसलो तरी आजवेरच्या तांच्या इतिहासाकडेन नदर दिल्यार, तांची **गोंयाभायर वचपाचीं तीन मुखेल कारणां** आपल्या दोळ्यांसामखार उबीं रावतात. तांतूंतलें एक कारण **व्हडविकेचो हावेस,** दुसरें **पोटाची चिंता** आनी तिसरें, **राजकरणी पिडणूक.** हांतूंत पैल्या आनी दुसऱ्या कारणांखातीर जितले गोंयकार भायर गेल्यात ताचेकूय ते तिसऱ्या कारणाखातीर अदिक गेल्यात अशें इतिहास सांगता.

पैल्या कारणाखातीर ह्मणचे व्हडविकेच्या हावेसान गोंयकार भायर वचूंक लागल्यार आज कशींय अडेच हजार वर्सां जातीत. **गोंयाभायर वचणो सगळ्यांत पैलो गोंयकार तो पुण्ण वा पूर्ण.** हो गौतम बुद्धाच्या काळांत ह्मणचे क्रिस्ता आदल्या पांचव्या शेंकड्यांत जल्मल्लो आनी कोंकणांत बौद्ध धर्माची पैली जोत पेटैणो तोच आसलो ह्मणपाचें क्रिस्ताच्या पैल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यांत बरैल्ल्या, लंखेंतल्या सिंहली पुस्तकांवैल्यान समजता. ह्या पुस्तकांचीं नांवां 'अमावतुर' आनी 'सद्धर्म रत्नकारे' अशीं आसात. नेपाळ आनी तिबेट हांगाच्या, चौथ्या शेंकड्यांत बरैल्ल्या-बौद्ध धर्माच्या पुस्तकांतूय पूर्णाची खबर आयल्या; ती चड फुलौन सांगल्या. सिंहली पुस्तकांत ह्मळां कि पूर्ण आनी ताचो भाव हे सुनापरान्तांतले वेपारी आसले. तांचे पांचशें गाडे धासले. केन्नाकेन्ना पूर्ण ते गाडे भरून वेपाराक वेतालो, आनी केन्नाकेन्ना ताचो धाकटो भाव वेतालो. एकफावट पूर्ण अयोध्येचे उत्तरेक उत्तर कोसलांत स्रावस्ते गेल्लो आनी जेतवन विहारालागसार* ताणें आपलें बिराड केल्लें. तेन्ना गांवांतले

* विहार—बौद्ध भिक्खु (संन्यासी) रांवचेलो मठ.

लोक बुद्धाखातीर कांय भेटो घेवन वेतात अशें पळौन, तोय त्या विहारांत गेलो आनी थैं बुद्धाचो उपदेस आयकून ताणें श्रमण ह्मणचे संन्यासी जांवचें येवजिलें. सुनापरान्तांतल्या लोकांकूय बौद्धधर्म शिकौंची ताका इत्सा जाली आनी ताणें ती बुद्धाक कळैली.‡ तेन्ना पूर्ण आनी बुद्ध हांचे भितर जें उलोप जालें तें अमावतुरांत तांत्रिक दिल्लें आसून नेपाळी-तिबेटी पुस्तकांनीं विस्तारान दिलां; तें हांव हांगा दितां. ह्या पुस्तकांनीं सुनापरान्ताबदला श्रोणापरान्त घालां. **सुनापरान्तांतल्या लोकांचो सभावगुण** कसो तो गौतम बुद्ध बरेभाशेन जाणा आसलो. त्या लोकांकडेन दीस काडुंक आंगांत सोंसणूक जाय ती एकाग्री पूर्णाभितर नासतली ह्मणून बुद्धान ताका ह्मळें, 'थैंचे लोक भयांकृत, क्रूर आनी रितिभायरे आसात. तुका ते नष्टचो आनी नाकाजाल्ल्यो गाळी सांगतीत जाल्यार तूं कितें करतलो ? ' पूर्णान जाप केली, 'ते ह्याका मुठके आनी गुंडे मारिनासताना गाळी सांगूनूच वोगे रावले ह्मणून हांव तांकां मायेस्त आनी मोवाळ कशे लेखतलों.' बुद्धान म्हळें, 'ताणी तुका मुठके आनी गुंडे माल्ल्यार तूं कितें करतलो ? ' पूर्णान ह्मळें, 'तोंडके आनी तरवारींबदला हातांनीं आनी गुंडयांनीं मारूनूच ते वोगे रावले ह्मणून हांव तांकां मायेस्त आनी मोवाळ कशे समजतलों.' बुद्धान ह्मळें, 'ताणीं तुका तोंडक्यांनीं आनी तरवारींनीं दुखापत केली जाल्यार तूं कितें करतलों? ' पूर्णान ह्मळें, 'ह्याका सामकोच जिवानशीं मारिनासताना तोंडक्या-तरवारींनीं दुखौनूच ते वोगे रावले ह्मणून हांव तांकां मायेस्त आनी मोवाळ मानतलों.' बुद्धान विचाल्लें, 'ताणी सामकोच तुजो जीव घेतल्यार तूं कितें करतलो? ' पूर्णान ह्मळें, 'मर्णाचे हे भिकाड्डे कुडींतसून ह्याका ताणीं भोव थोडे दुखापतीन मेकळो केलो ह्मणून हांव तांकां मायेस्त आनी मोवाळ ह्मण्टलों.' बुद्धान म्हळें, 'शाबास, पूर्णा, शाबास. इतलें उपाट सोंशिकपण श्रोणापरान्तांत निखटें रांवकूच न्हय तर थैं घरदार करूंकूय फावोशें आसा. तूं वच आनी नष्टेपणांतसून तूं खासा मेकळो जावन दुसऱ्यांकूय मेकळे कर. दुखाच्या समुद्रांतसून तूं पलतड मारून, दुसऱ्यांकूय तशें करूंक पालव दी. तूं निर्वाण* जोडून दुसऱ्यांकूय निर्वाण जोडून दी.§ उप्रांत पूर्ण श्रोणापरान्ताक गेलो आनी पैलेच खेपे तो थैं भिक्षेखातीर भोंवता आसताना, ताचेर सोंशिकपणाचो उपयोग करपाचो प्रसंग आयलो. श्रोणापरान्तांतलो एक व्याध धनुष्य-बाण घेवन हरणां मारूंक भायर सरतालो. इतले ह्मणसर वाटेंत ताका पूर्ण आड आयलो. ताचें माथें सुळसुळीत ताशिल्लें पळौन, व्याधाक तो एक अपशकुनूच जालो आनी तिडकीन

‡ A Manual of Buddhism by R. Spence Hardy, Edinburgh, 1860, अमावतुर, p. 259.

* निर्वाण — संवसाराचे येरादारींतसून सुटप.

§ Par. E. Burnouf's Introduction a' l'Histoire du Buddhisme Indien, Paris 1844, Tome I, pp. 252-254.

ताणें ताचेर बाण मारूंक काडलो. तेन्ना पूर्णान आपलें आंगावैलें काडून आनी उगडो जावन ताका म्हळें, 'तूं म्हाका खुशाल मार. हांव हांगा मर्ण जोडूंकूच आयलां.' पूर्ण निखालुस भियेनासो पळौन व्याधाक नवल दिसलें आनी ताणें ताचो जीव वाटावन तो ताचो पैलो शिष्य जालो. उप्रांत जायत्या लोकांनीं ताचो नवो धर्म घेतलो.§

अमावतुरांत म्हळां कि स्रावस्तेसून पर्थतकूच पूर्ण कांय दीस आपल्या धाकट्या भावासरीं वचून रावलो. उप्रांत तो मुडगिरीक गेलो. परंत ही सुवात समुद्राचे बेळेर आशिल्ल्या कारणान ताका ल्हारांचो त्रास जावन तो मैलिगिरीक गेलो. थैं दीस-रात एकसारक्या रडण्या सुकण्यांचो त्रास जावन तो पर्थून आपल्या धाकट्या भावासरीं मुलु-आरामां वचून रावलो आनी थैं **तो अर्हत जालो**.|| उप्रांत कांय काळान, ताचो धाकटो भाव वांगडच्या तीनशीं वेपाऱ्यांक घेवन तारबार चडून पैशिले भोंवडेक गेलो; परंत वाटेंत भयांकृत मोड जावन तांचें तारूं एका जुंव्याक लागलें. तो सगळो जुंवो मोंलादिक रक्तचंदनाच्या रुखांनीं भल्लोलो. वेपाऱ्यांनीं तांतूंतले जायते रुख हाणून आपल्या तारवाची भरताड केली आनी ते आपल्या गांवाक वचूंक भायर सल्ले. परंत तारूं भायर घालतकूच पर्थून भयांकृत मोड जालें. त्यावेळार तांडेलांनीं आपापल्या देवाक उलो माल्लो आनी पूर्णाच्या भावान पूर्णाचो धांवो केलो. पूर्ण ताका पावलो आनी समुद्र रोखडोच थंड जावन तांचें तारूं सुसंगीत तांच्या मुलखाचे तडीक लागलें. पूर्णाच्या उपकारान भारावन वेपाऱ्यांनीं ताका रक्तचंदनाचे कांय कर्वे दिवक काडले; परंत ताणें तांकां त्या रक्तचंदनाचो बुद्धाखातीर एक विहार बांदूंक सांगलो. ताणीं तो बांदलो.* उप्रांत पूर्णान बुद्धाक सुनापरान्तकाक येंवक आमंत्रण केलें. बुद्ध मान्य जालो. ताची ही दक्षिणेंतली आनी लंखेंतली तिसरी भोंवडी आसली. पूर्णाच्या आमंत्रणाक मान दिवन बुद्ध भांगराचे पालखेंत बसून ५०० भिक्खूंसैत **सुनापरान्तकांतल्या मुलु आरामांत बांदिल्ल्या चंदन-मंडल नांवाच्या विहारांत आयलो**. थैं तो जायते दीस उल्लो आनी ताणें लोकांक धर्माचो उपदेस केलो. उप्रांत पूर्णाचे विनंतीक मान दिवन तो **सुप्पारक शारांत** गेलो; थैं जायते वेपारी आसले. तांकांय ताणें उपदेस केलो. थैंसून नागराजाच्या आमंत्रणावैल्यान नर्मदा न्हंयेचेर वचून ताणें नागांक उपदेस केलो. थैंसून तो सचबध नांवाच्या खडपार वचून थैंसून सामको लंखेक गेलो.¶

नेपाळी-तिबेटी पुस्तकांनीं पूर्ण हो सुप्पारकाच्या एका गिरेस्त वेपाऱ्याचो पुत अशें म्हळां, परंत हें खरें न्हय. पंडित भगवानलाल इंद्रजी हांच्या मत्ताभाशेन,ज्या

---

§ Burnouf's Introduction, p. 254.

|| अर्हत् — बौद्ध साधु, संत. Hardy's Manual, अमावतुर, p. 260.

* Hardy's Manual, अमावतुर, p. 57.

¶ Hardy's Manual, सद्धर्मरत्नकारे p. 209-210.

सिंहली पुस्तकांनीं पूर्णाची खबर आयल्या तीं पुस्तकां नेपाळी-तिबेटी पुस्तकांकूय पोरणीं आसात.¶ तांतूंत पूर्णाक सुप्पारकाच्या गिरेस्त वेपाऱ्याचो पुत अशें खैंचेच-कडेन म्हणूंक ना. सुप्पारक वा शूर्पारक म्हणचे आतांचें **सुपारें**. हो गांव मुंबैचे उत्तरेक ३७ मैलांचेर आसून वसैचे उत्तरेक सुमार ५ मैलांचेर आसा. क्रिस्ता आदल्या काळांत हें एक मोटें नामनेचें शार आसून थैं वेपार-उद्योग जायतो चलतालो. बिब्लांत ताका 'ओफिर' अशें म्हळां. सुमार तीन हजार वर्सां फाटीं, इज्राएलचो राजा सालोमांव आनी तिराचो राजा हिराम हांची तारवां सुपाऱ्यां येवन थैंसून भांगर, रत्नां आनी मदेर व्हरतालीं खैं.† हे भाशेन त्या काळांत **सुपारेंचो वेव्हार** इजिप्त आनी पालेस्तीनमेरेन चलतालो. क्रिस्ता आदल्या तिसऱ्या शेंकड्याचे मजगतीं मौर्य सम्राट अशोक हाणें खडपांचेर कोल्लांवक लाइल्ली आठवी धम्मलिपि, हांगा क्रि. स. १८८२ त पंडित भगवानलाल इंद्रजी हांकां मेळ्ळी. ह्या पुराव्यावैल्यान, तुर्ताच्या ठाणें जिल्ह्यांत, सुपारेंच्या आवांठांत, दोन हजार वर्सांफाटीं **बौद्ध धर्म** चलतालो आनी सुपारें हें थैंचें वेपार-उद्योगान गाजिल्लें मुखेल शार आसलें ह्मणपाचें सिद्ध जाता. क्रिस्ता उप्रांतच्या सात-आठशीं वर्सांतूय त्या आवांठांत बौद्ध धर्माचो **महायान*** पंथ तरतरतालो आनी पश्चिम हिंदुस्तानांतल्या हेर खैंच्याय थळाकूय त्या आवांठांत बौद्ध धर्माची जोत अदिक घणघणीत पेट्टाली. सुपारेंचे हे नामनेवैल्यान, तशेंच अर्हत् जांवचे आदीं पूर्ण थैं वेपार-उद्योग करतालो आनी अर्हत् जातकूच ताणें थैं बौद्ध धर्म पातळायलो ह्या कारणान, नेपाळ आनी तिबेटांतल्या बरप्यांक तो सुपारेंकार आसून थैंच्या एका वेपाऱ्याचो पुत अशें दिसलें जांवये; परंत तांचे आदल्या सिंहली बरप्यांनीं ही चूक करूंक ना. तांच्या अमावतुर आनी सद्धर्मरत्नकारे ह्या पुस्तकां-

---

¶ Bomb. Gaz., vol. 14, p. 394, note I.

† Holy Bible, Old Testament, II. Chronicles, 9:10. I. Kings, 10:11

* हीनयान आनी महायान हीं बौद्ध धर्माचीं दोन मत्तां. हीनयान हें निर्वाणाक वच्चेलें ल्हान वाहन. हें क्रिस्ता आदल्या काळचें, मुदलचें आनी पोरणें मत्त. ह्या मत्तांत उजू नीतीन चलप आनी बौद्ध धर्माचे कांय संस्कार चलौप इतल्याचोच आस्पाव जातालो. ह्या मत्ताच्या वेळार बुद्धाच्यो म्हुर्ती पुजपाची चाल नासली. ते वेळचे बौद्ध विहार सादे आसून तांतूंत बुद्धाच्यो वा हेर कसल्योच म्हुर्ती नासताल्यो. महायान हें निर्वाणाक वच्चेलें मोटें वाहन. हें क्रिस्ताच्या पैल्या शेंकड्यापासून वैर सरूंक लागलेंशें दिसता. ह्या वेळापासून बुद्धाकूच देव कसो लेखून बौद्धधर्मांत बावल्यां-पुजा रिगली; बुद्धाच्यो म्हुर्ती घडूंक लागले आनी त्यो विहारांनीं थापून तांची पुजा करूंक लागले. क्रिस्ताच्या तिसऱ्या शेंकड्यांत नागार्जुन नांवाच्या एका बामणाच्या यत्नान तें मत्त चड फुडें सल्लें.

वैल्यान पूर्ण हो सुनापरान्तांतलो आसून सुनापरान्तांपासून सुप्पारक (सुपारें) वेगळें ह्मणपाचें उक्तेपणान दिसून येता.

नेपाळी-तिबेटी बरप्यांनीं पूर्णाक श्रोणापरान्तांतलो आनी सुपारेंच्या वेपाऱ्याचो पुत ह्मळ्ळो पळौन, श्रोणापरान्त आनी सुपारें देस हीं दोनूय थळां एकूच म्हणचे आतांचो ठाणें जिल्हो जांवये, अशें जायत्याजाणांक दिसतलें; परंत ती चूक आसा ह्मणपाचें फुडले फोडणिशेवैल्यान कळून येतलें. नेपाळी-तिबेटी बरप्याचें श्रोणापरान्त हें उतरूच आदीं धड न्हय. खरें उतर सुवर्णापरान्त वा सुनापरान्त. सुवर्णापरान्त हाचें श्रोणापरान्त हें एकाद्रें लुडबें रूप जांवये. सिंहली पुस्तकांतसून पूर्णाची जी खबर वैर दिल्या तांतूंत सुनापरान्तांत मुलु नांवाच्या आरामांत म्हणचे भाटांत पूर्ण आनी ताचो धाकटो भाव रावताले; थैं समुद्रांतल्या मोडांतसून वाटावल्ल्या वेपाऱ्यांनीं रक्तचंदनाच्या मदेराचो चंदनमंडळ हो विहार बांदलो; मुलु भाटांतसून पूर्ण कांय दीस समुद्राचे वेळेवैल्या मुडगिरी दोंगरार आनी त्या उप्रांत मैलिगिरी पर्वतार रावलो आनी पर्थून मुलु भाटांत आयलो म्हणपाचे मुद्दे ध्यानांत धरीसारके आसात. ह्या मुद्द्यांवैल्यान मुलु, मुडगिरी आनी मैलिगिरि हीं तीनूय थळां **लागसार-लागसार** आसलीं हांतूंत दुभाव उरना. हांतूंतलें **मुलु ह्मणचे गोंयचें चंद्रवाडयेंतलें आतांचें मुळें.** मुडगिरि ह्या नांवांत अजून कांय बदल जांवक ना. तें पैलें आसलें तशेंच आसा. तें गोंयचे दक्षिणेक अगदीं सिमेर समुद्राचे तडीर सदाशिवगडाचे उत्तर-पूर्वेक तीन मैलांचेर आसून थैं आतां नागनाथ देवाचें व्हडलें देवूळ आसा. थैं माया म्हैन्यांत तेराची ह्मणचे रथाची जात्रा जाता आनी त्यावेळार गोंयचीं कलांवतां थैं नाचूंक वेतात खैं.* मलिगिरि म्हणचे मलयगिरि वा मलबारचो पर्वत. केरलोत्पत्तीभाशेन मलबाराक आरंभ गोकर्णासाकून जाता मलयगिरीय थैंसूनूच लागता. कांयजाण म्हण्टात कि तो होनावराचे शिरावत न्हंयेकडसून लागता.† परंत हांतूंत चडशें अंतर बादना. गोकर्ण आनी होनावर गोंयचे दक्षिण सरादीकडसून चड पैस नात. हाचेवैल्यान मुलु, मुडगिरि आनी मैलि-गिरि हीं तीन थळां एकामेकांक कितलीं लागसार आसात तें उक्तें दिसता. मुलु वा मुळेंच्या भाटांत वेपाऱ्यांनीं **चंदनमंडल** नांवाचो विहार बांदलो अशें म्हळां. हें चंदन-मंडळ नांव भौच थोडया बदलान मुळेंच्या आवांठांत अजून चलता. मुदलच्या चंदन-मंडळ विहाराचें नांव आतांच्या पंचम्हालांतल्या चंद्रवाडी नांवांत उक्तेपणान दिसता. चंदनमंडळ हें उतर घोळणुकेंत पडून कांय काळान चंदनमंडल जालें आनी संस्कृत बरप्यांनीं ताका **चंद्रमंडळ** अशें रूप दिवन, गोंयच्या कानडी कदंब राजांच्या शेकातळा ह्मणचे सुमार इकराव्या शेंकडयांत ताका **चंद्रवाडी** हें नांव मेळ्ळें जांवये. तेंच अजून

* Bombay Gaz., vol. 15, pt. 2, p. 334.

† Bombay Gaz., vol. 15 pt. I, page 4.

चलता. कानडी बरपांनीं वाडी हें उतर मोटो ह्माल नाजाल्यार जिल्हो असो अर्थ दाखैता. गोंदवाडी, मासवाडी, नळवाडी, नोळंबवाडी, सिंदवाडी, हीं कानडी ह्मालांचीं वा जिल्ह्याचीं नांवां गोंयच्या चंद्रवाडी, पंचवाडी ह्या नांवांभाशेनूच आसात. चंद्रवाडी ह्मालाचें तुर्ताचें भुंय-माप ३७ चौखणे मैल आसून केपें हें थैंचें मुखेल शार आसा. **परंत** क्रिस्ताच्या णवव्या, धाव्या आनी इकराव्या शेंकडयांत आतांच्या साष्टी ह्मालांतलें **चांदर** हें चंद्रवाडयेंतलें मुखेल शार आसून ताका **चंद्रपुर** अशें ह्मण्टाले. चांदर हें तुर्ताक सांवड्डें आनी मडगांव हांचे मजगतचें आगगाडयेचें स्टेशन आसून तुर्ताचे चंद्र-वाडयेचे सिमेरूच आसा. गोंयच्या शिलाहारांच्या शक ९३० च्या (क्रि. स. १००८) तांब्या-पटयांत चंद्रपुर आनी चंद्रमंडळ हीं दोनूय उतरां आयल्यांत. तांतूंत तिसरो शिलाहार राजा **ऐयपराज हो चांदरा लागसार नाल्लांचें उदक न्हालो** म्हणचे ताणें आपल्या शत्रूचेर जैत जोडलें अशें म्हळां.§ तशेंच आठवो शिलाहार राजा भीम हाणें राहून चंद्राक गिळिल्ल्याभाशेन **चंद्रमंडळ गिळ्ळें** ह्मणचे जिखलें अशें ह्मळां.‡ ही सगळी फोडणिशी ध्यानांत घेतकूच मुळें, चंद्रमंडळ, मुडगिरि आनी मैलिगिरि हीं थळां गोंयच्या साष्ट ह्मालासाकून दक्षिणेक गोकर्णामिरेनच्या आवांठांत सुमार पन्नास-साठ मैलांच्या अंतरांत आशिल्लीं दिसतात. तीं नांवां ठाणें जिल्ह्यांत वा ताचे लागसार खैंचेचकडेन कसल्याच रुपान आयकूंक येनात. हाचेवैल्यान, **सुनापरान्त** हो देस आतांचो ठाणें जिल्हो वा पुर्विल्लो शूर्पारक देस हांचेकूय वेगळो आसून **गोमन्त देसाचें तें दुसरें नांव** आसलें ह्मणपाचें सिद्ध जाता.

पूर्णाच्या सुनापरान्तांत ह्मणचे सगळया दक्षिण कोंकणांत सुमार दोन हजार वर्सांफाटीं **हीनयान** पंथाचो बौद्ध धर्म चलतालो ह्मणपाचो घसघशीत पुरावो थैं जायते-कडेन आशिल्ल्या त्या धर्माच्या साद्या विहारांवैल्यान मेळटा. चंद्रमंडळाचे वा चंद्र-वाडयेचे दक्षिण सिमेर **रिवण** नांवाचो एक गांव आसा. हो आतांच्या अष्टाग्रहार ह्मालांतलो मुखेल गांव. ऋषिवन ह्या संस्कृत उतरावैल्यान रिवण हें उतर जालां खैं. **बौद्ध** भिक्खु हे एकाद्रे थैंचे ऋषि जांव येतीत. पुर्विल्ल्या काळापासून अजूनमेरेन हो गांव देवा-धर्मा संबंधान गाजता. थैंच्या पांडवसडो नांवाच्या दोंगरांत बौद्ध धर्माचे दोन सादे विहार पोखरिल्ले दिसतात; तांकां **विवरां** ह्मण्टात. फाटल्या आब्रिलाचे २९ आनी ३० तारखेक हांव तीं विवरां पळौन आयलों. तांतूंतल्या मोटया विवरांत सुमार अडेचशीं लोक बसतीत एदें मोटें तें आसा. ह्या दोनूय विवरांनीं कंगरखीस, म्हुर्ती आनी पुर्विल्लें

---

§ तस्मादैयपराजोभूद्विजिगीषु गुणान्वितः । स्नातश्चंद्रपुरा सन्न नालिकेरांबुना स यः Epig. Ind., vol. 3, p. 299.

‡ भीमोभीमाभविक्रमः । तेजसा राहुवद्ग्रस्त **चंद्रमंडल** उज्ज्वलः Epig. Ind., vol 3, p. 299.

बरप निखालुस ना. धाकटें विवर भौच अशिर आसून धोलीवरी दिसता. † रिवणा-भाशेन गोंयां दुसऱ्या जायत्या थळांनीं ल्हान व्हड होंवऱ्यो आसात. भतग्रामांत लाम-गांवां, सांखळी ह्मालांत हरवळचां, साष्टींत लोटले आनी आंक्यां होंवऱ्यो दिष्टी

---

† ०१९०४ वर्साच्या सुमाराक रिवणाचे सुब्राय परोब देसाय हे वैष्णव बामण ल्हान विवरांत वचूंक वावुल्ले, परंत तांकां ताचो अन्त लागलो ना ह्मणपाचें थैंच्या लोकां-कडसून म्हाका कळ्ळें. सुब्रायबाबांनीं थैंची भुंय खणून पळेतकूच तांकां मातयेच्यो कांय मूद्रा मेळ्ळ्यो खैं. ह्या मुद्रांची पत पळेतलो ह्मळ्यार, आतां त्यो कोणाचकडेन नात. रिवणाचे भौमानेस्त बाब गंगाधर गोपाळशणै कोरगांवकार हाणीं त्या मुद्रांची बारकायेची वर्णना करून तांचेर बरप आसलें परंत तें वाचूंक येनासलें अशें ह्माका सांगलें. गंगाधरबाबांनीं त्यो आपल्या दोळ्यांनीं पळेल्ल्यो म्हण्टकूच, त्यो त्या विवरांत खरेपणान मेळिल्ल्यो हांतूंत ह्माका दुभाव येना. क्रि. स. १८५३ वर्सा, पोरणावळ-सोदपी‡ ई. डब्ल्यू. वेस्ट हांकां मुंबै लागसार कण्हेरीचे १३ आंकड्याचे होंवरेंत जसल्यो मुद्रा मेळिल्ल्यो तसल्योच रिवणाच्या विवरांतल्यो जांव येतीत अशें गंगाधरबाबांनीं केल्ले वर्णनेवैल्यान ह्माका दिसलें. कण्हेरीच्यो मुद्रा सुमाराकशो वांटकुळसार आसून कांय पैशाएद्यो आनी कांय रुपायाएद्यो मोटयो आसल्यो आनी तांचेर 'ये धर्म्मा हेतु-प्रभवा हेतं तेषां तथागतो ह्यवदत् । तेषां च यो निरोध एवंवादी महाश्रमणः' ह्मणचे 'धर्माखातीर जे जल्मा आयले तांचो हेत तथागतान* (बुद्धान) दाखैलो; तशेंच ताणीं कसली मनाय केली तीय ताणें सांगली; अशें मोटो श्रमण गौतम बुद्ध म्हण्टा.' ह्या अर्थाचो बौद्ध धर्माचो मंत्र आसलो.§ हो अर्थ पंडित भगवानलाल इंद्रजी हाणीं केला.¶ तांकां तो मंत्र क्रि. स. १८८२ त, मुंबैचे उत्तरेक सुमार ११ मैलांचेर, साष्टींतले

---

‡ पोरणावळ-सोदपी Archæologista.

* तथागत – तथा + आगत वा तथा + गत = तसो आइल्लो वा तसो गेल्लो. संवसारांतल्या हेर मनशांभाशेन आइल्लो वा गेल्लो ह्मणचे जल्मल्लो वा मेल्लो; गौतम बुद्धान आपल्या सुत्तांनीं ह्मणचे धर्मशास्त्राच्या नेमांनीं आपणाक **तथागत** हें उतर लावन घेतलां.

§ JBBRAS., vol. 6, p. 157, plate 7, figures I-21.

¶ Antiquarian Remains at Sopara and Padana, Bombay 1882, p. 53.

पट्टात. पेडणें ह्यालांत हरमला होंवऱ्यो आसात खैं.* गोंयच्या पुर्विल्ल्या आवांठांत रेडये हस्त दोंगरार खडपांत पोखरिल्ल्यो दोन होंवऱ्यो आसात.‡ ताचेवैर चिपळूण आनी खेड हांगाय कांय होंवऱ्यो आसात. ह्या सगळयांक **पांडवांच्यो होंवऱ्यो** ह्मण्टात. दक्षिण कोंकणांत सावित्री न्हंयेचे दक्षिणेक जितल्यो होंवऱ्यो आसात तितल्योय चडकरून साद्यो आनी ल्हान आसात. तांतूंत कंगरखोस आनी बुद्धाच्यो म्हुर्ती नात. बौद्ध उपासकांचो दान-धर्म आनी त्यासंबंधाचीं पालो बरपांय थैं दिष्टी पडनात. हाचे उफाट्टें, सावित्री न्हंय उपून चिके उत्तरेक सरतकूच, कुलाबो आनी ठाणें जिल्ह्यांत, पाल-महाडासाकून वैर नानाघांटामेरेन नाजूक कंगरखिसेच्या मोटचा होंवऱ्यांची एकसारकी रस्त लागल्या आनी तांतूंत बुद्धाच्यो सुंदर कांतैल्ल्यो म्हुर्ती, बौद्ध उपासकांचो जायतो दान-धर्म आनी त्या संबंधाचीं खडपांत कोत्रायल्लीं पाली बरपां दिष्टी पट्टात. हाचे वैल्यान, उत्तर कोंकणांतल्यो होंवऱ्यो चडकरून महायान पंथाच्यो आसून, दक्षिण कोंकणांतल्यो होंवऱ्यो, कोंकणांत बौद्ध धर्म चड विस्तारूंक नासलो त्या काळच्यो, हीन-यान पंथाच्यो आनी अदमासान क्रिस्ता आदल्या शेंकडयांतल्यो जांव येतीत अशें दिसता.

रिवणाभाशेन, हरवळें, लामगांव आनीं आंकेंच्यो होंवऱ्यो आब्रिल आनी माय म्हैन्यांत हांव पळौन आयलों; तांतूंत हरवळेंच्या होवऱ्यांची बांदावळ चिके मोटी आसा. आब्रिलाचे १९ वेर त्यो होंवऱ्यो हांव बारकायेन पळेता आसताना, एके

* बक्षीबहाद्दर मुजाफरदौल जिवबादादा केरकार बहाद्दर फत्तेजंग यांचें चरित्र, कर्ते नरहर व्यंकाजी राजाध्यक्ष, मुंबै १९०७, पा. ४, टीप.

‡ Bombay Gaz., vol. 10 p. 370.

पदण नांवाचे दोंगुल्लेर तळपार कोत्राइल्लो दिसलो. तांतूंतलीं अक्षरां ब्राह्मी बरपाचीं आसात. तीं क्रिस्ताच्या पांचव्या-सव्या शेंकडयांतलीं जांव येतीत अशें ते ह्मण्टात.§ डॉ. जेम्स वर्जेस हाणीं त्या मंत्राचो अर्थ केला तो असो:—'कारणापासून सगळ्यो करण्यो जातात; हें कारण तथागतान कळैलां. सगळ्यो करण्यो नाशो जातल्यो; हें मोटचा श्रमणान (बुद्धान) कळैलां.'* अक्षरांचें मोडणेवैल्यान, कण्हेरीच्यो मुद्रा क्रिस्ताच्या सुमार धाव्या शेंकडयांतल्यो जांव येतीत अशें ई. डब्ल्यु. वेस्ट हांचें मत्त आसा.† बुद्धाची ह्मर्त उठाइल्ल्योय कांय मुद्रा कण्हेरी मेळिल्ल्यो. परंत तसल्यो रिवणां मेळूंक नात. थैं फक्कत मंत्र उठाइल्ल्योच मुद्रा मेळिल्ल्यो. दाव्या हाताच्या तळथार गणपतीचे ओले मातयेची ल्हानशी लाती धरून तिचेर उजव्या हातान मंत्र कोत्राइल्ली आयट दांबताले; ह्मण्टकूच ते लातयेचेर मंत्र उठावतालो. आर्विल्ल्या काळांत देवांचीं देवळां बांदप ही मोटी पुण्यतायेची करणी कशी लोक समजतात;

§ Antiquarian Remains at Sopara and Padana, p. 48.

* ASWI,, vol. 5, p. 13. † JBBRAS., vol. 6, p 159.

कुडींतल्या खांबाच्या आकृताशेच्या लिंगावरी मानिल्ल्या, काळात्री पाशाणाचेर, क्रिस्ताच्या सुमार पैल्या शेंकड्यांतली **ब्राह्मी बरपाच्या आठ अक्षरांची वळ** ह्माका दिसली. हाचेवैंल्यान त्यो होंवऱ्यो दोन हजार वर्सां इतल्यो पोरण्यो आसात हातूंत दुभाव उरना.* गोंयच्या होंवऱ्यांनीं उत्तर कोंकणांतल्या होंवऱ्यांभाशेन सोबीत

*१९ आब्रिल १९२७ मेरेन, हरवळेंच्या होंवऱ्यांतल्या ब्राह्मी बरपाचेर कोणाचीच नदर वचूंक नासली खैं. हांवें मेणाचेर त्या बरपाचो छाप घेतलो आनी हातानूय तें उटावन काडलें. हांवें तें, मुंबैचे सां फ्रांसिस्क शाविये़र कॉलेजांतले इतिहासाचे प्रोफेसोर जेजुइत पाद्री हेरस आनी प्रिन्स ऑफ वेल्स मुजेवांतले ब्राह्मी बरपाचे हुशार पंडित भौ. गिरिजाशंकर वल्लभजी आचार्य हांकां दाखैलें. तांकां तांतूंतलीं कांय अक्षरां लागलीं. परंत् सगळीं अक्षरां सारकीं बरीं लागूंक नाशिल्ल्या कारणान अर्थ करूंक कठीन पडलो. तरी आसताना, फुडले खेपे गोंयां पावतकूच, त्या बरपाचो नवे पद्धतीन शायेचो छाप घेवन अर्थ लावपाची ह्मजी तजवीज आसा. बरपांतल्या अक्षरांची मोडणी क्रिस्ताच्या सुमार पैल्या शेंकड्यांतली आसा अशें भौ. आचार्य हाणीं ह्माका सांगलें.

तेच भाशेन पुर्विल्ल्या काळांत बौद्ध धर्माच्या पवित्र थळांनीं चैत्यां‡ बांदप हें पुण्य-तायेचें काम कशें बौद्ध लोक समजताले. परंत चैत्यां बांदचें काम फुक्या सवाय न्हय. तें सगळ्यांकूच तांकना. देखून मोठ्या चैत्यांबदला फातराची नाजाल्यार मातयेचीं सुपुल्लीं चैत्यां करून दिंवची चाल पडली. ह्या चैत्यांचेर बुद्धाचे म्हुर्तीचो छाप नाजाल्यार मंत्र आसतकूच ताची योग्यताय आनी मोल तितलें चडलें अशें समजताले. विहारांतले आचार्य वा थेर $ असल्या चैत्यांचो जायतो सांटो आपले कडेन दवरताले आनी यात्रेकार थैं येतकूच तांकां तांची पुर्वण करताले. सारनाथ, सानची आनी मथुरा ह्या थळांनीं मातयेचीं सुमार तीन इंच उंचायेचीं जायतीं चैत्यां मेळ्ळ्यांत बुद्धगयेंत मेळ्ळ्यांत तीं सगळीं फातराचीं आसात. तांतूंतल्या कांयचेर बौद्ध धर्माचो मंत्र आनी कांयचेर बुद्धाची म्हुर्त उठायल्या.§ अफघाणिस्तान, तिर्हुत, ब्रह्मदेस, सिंगापुर

‡ चैत्यांक स्तूप हेंय नांव आसलें. गौतम बुद्ध, बौद्ध धर्माचे आचार्य आनी साधु हांची हाडावळ आनी गोबर हांचेर तांच्या उगडासाखातीर बांदिल्ले घांटीचे आकृतायेचे समाधीक चैत्य म्हण्टाले. चितेपासून हें उतर जालां. बौद्ध लोक चैत्यांची पुजा करताले. हीं चैत्यां फक्कत हाडावळ आनी गोबर हांचेरूच बांदताले अशें न्हय, तर बुद्ध ज्या ज्या थळांनीं पाविल्लो वा ताणें उपदेस केल्लो ह्मणपाची वदंता चलताली त्या त्या थळांनीय तीं बांदपाची चाल आसली.

$ थेर = जाण्टेलो भिक्खु.

§ बुद्धगया by Dr. Rajendralal Mitra, p. 121.

कांतौपे आनी नाजकायेची कंगरखीस निखालुस ना हाचें कारण थैंच्या दोंगरांचो सगळो फातर करपी, दोळे आशिल्लो, मोव आनी कुसकुशीत आसा हें जांवये. असलो फातर कंगरखिसेक उपकारना ह्मणपाचें सांगूंक नाका. उत्तर कोंकणांतले भाशेन गोंयां काळाव्री फातर आशिल्लो जाल्यार थैं सोबीत कांतौणेच्यो होंवऱ्यो एकाद्रयो दिष्टी पट्टल्यो आसल्यो.

स्त्रावस्तीच्या जेतवन विहारांत गौतम बुद्धाचें पूर्णाकडेन जें उलौप जालें, ताचे वैल्यान सुमार अडेच हजार वर्सां आदीं, **सुनापरान्तांतले लोक नष्टे, खुनशी आनी आंगार-पडे** आसले अशें दिसता. परंत बौद्ध धर्माचे अतितायेचे सोंसणुकेचे शिकौणेन बारदेसासाकून कारवारामेरेनचे लोक आज जायते मोवाळ जाल्ले दिसतात. बारदेसाचे उत्तरेक कांयसूव न्हंयेचे पलतडी पेडणें ह्यालासाकून वैर शेकानशेक कुडाळ, मालवण, देवगड, रत्नागिरीमेरेन बुद्धान वर्णिल्लो सुनापरान्तांतल्या लोकांचो सभावगुण अजुनूय जायतो अणभवाक येता ह्मणपाचें कोणाक सांगचें लागना. ‘घालता जाल्यार घाल गे रांडे भीक; हांव पेडणेंचो भिकारी’ अशी जी एक ह्मणणी कोंकणी भाशेंत चलता तिचेवैल्यान त्या सभावगुणाची फोडणिशी भोव बरी जाता.

गोंयां बुद्धाचे धर्मावळींतलें एक उतर जाल्यार सैमा आइल्लें दिसता. तें उतर कसलें ह्मळयार **म्हारू.** बौद्ध धर्मांत जाका **वसवर्ती मार** वा निखटो **मार**

---

आनी जाव्हा हांगाच्या पुर्विल्ल्या कोत्रावपांनींय हो मंत्र मेळ्ळा आनी नेपाळ, तिबेट, लंखा आनी चीन हांगाच्या बौद्ध ग्रंथांनींय तो आयला. गौतम बुद्धाचे दोन पाटां-गडे सारिपुत्त (सारिपुत्र) आनी मोग्गलान (मौग्दलायन) हाणीं तो मंत्र आयकनाफुडें बौद्ध धर्म घेतलो खं.* रिवणां मेळिल्ल्या मुद्रांचो उपयोग वैर वर्णिल्ल्या चैत्यांसारको जातालोसो दिसता. रिवणां मेळिल्ल्यो मुद्रा कसले तरेच्यो जांव येतीत ह्मणपाचें समजूंक जाय जाल्यार मुंबै, कोटांत, ‘प्रिन्स ऑफ वेल्स’ मुजेवांत, पैले माळयेर, बौद्ध धर्माचे पोरणावळी-वांसरेंत ( Bnddhist Section ) मुजरत फावट घालची. थैं एके हारशाचे पेटेंत, गणपतीचे मातयेच्यो, भाजून तांबडयो जाल्ल्यो मुद्रा दवल्ल्यात. त्यो संयुक्त प्रांतांत गोरखपुर जिल्ह्यांतल्या कसिया गांवांत मेळिल्ल्यो ह्मणपाचें बरप थैं आसा. हे वांसरेंत सिंधांतल्या मिरपुरखास, थर आनी पारकर जिल्ह्यांत मेळिल्ल्यो, भाजिल्ले आनी हरवे मातयेच्यो, स्तूप आनी मंत्र उठाइल्यो मुद्रा, घांटीसारक्या स्तुपाचे आकृतायेचे कंगरखीस नाशिल्ले मातयेचे लोळे, तिबेटांत मेळिल्ले ल्हान घांटेचे आकृतायेचे, कंगरखीस आशिल्ले स्तूप, बुद्धगयेंतले सुमार पावूण धिकें उंचायेचे, बुद्धाची म्हुर्त, मंत्र आनी कंगरखीस आशिल्ले काळाव्री फातराचे स्तूप, तशेंच, मिर-पुरखासा मेळिल्ली, भाजिल्ले मातयेची, मूठ आशिल्ली, मुद्रेचेर छाप मारची आयट आनी हेर जिनस, पोरणावळीची रूच आशिल्ल्या मनशान आनी जणएकल्या गोंयकार विद्यार्थ्यान, मंबै पावल्यार, मुजरत बारकायेन पळौंचे आनी ध्यानांत घेंवचे.

---

* ASWI., vol. 5, p. 13.

अशें म्हळां तोच हो म्हारू. ह्या मारान शाक्यमुनि गौतमाक बुद्ध जांवचे आदीं सुमार स वर्सां जायती पिडणूक भोगैल्या. गौतमाक बुद्ध जांवक दिल्यार ताच्या उपदेसान संवसारांतले सगळे लोक निर्वाणाक पावतले आनी आपलें नरकाचें राज्य वसौंक कोणूच पातकी मनीस मेळना जावन तें सामकें पाड पट्टलें ह्मणपाचो भय माराक जावन तो गौतमाक ध्यान करीत बसला थैं आडमेळीं हाडूंक लागलो. ज्या दिसा तो बुद्ध जावपाचो आसलो, त्या दिसा जाल्यार, मारान आपल्या पिडणुकांची बाकी दवल्ली ना. ताणें गौतमाक भेष्टांवक पांचशीं तकल्यांचें आनी हजार बावळयांचें भयांकृत रूप घेतलें आनी मोटचा सैन्यासैत ताचेर घुरी घाली. ताणें गौतमाक आपले सुवातेवैलो धांवडांवक पैलीं आकांतांची वावटळ सोडली आनी मागीर उदक, खडपां, शस्त्रां, विंगळे, मुमर, रेंव, रेबो हांचो पावस घालून निमाणो काळोख धाडलो; तरी आसताना गौतम गणमणलो ना. तेन्ना मारान ताचेर आपलें चक्र सोडलें. तरी गौतम आपले सुवातेवैलो हाललो नां. अखेरेक गौतमासरीं वचून ताणें तिडकीन म्हळें, 'तूं बेगीन हांगासून चलूंक लाग; नाजाल्यार, तुज्या दोंकल्यांक धरून हांव तुका भिरकटायतलों.' तरी, गौतमान ताची पर्वा केली ना. निमाणें मार एक फट उलैलो. ती आयकून गौतमान म्हळें, 'तूं लटकें उलैता ह्मणपाचें ही धर्तरी आपलें तोंड उगडून कित्याक सांगना ?' इतलें ह्मणसर धर्तरेन तोंड उगडलें आनी दोंगरांएदे उज्याचे लोळ वैर सल्ले. ते पळौन माराचें सैन्य पळ्ळें आनी भयान माराची ह्मातारी कांपून तो गौतमाक शरण गेलो. हे भाशेन, माराचेर जैत जोडून गौतम त्याच दिसा बुद्ध जालो.* बुद्धान जरी माराचेर जैत जोडलें तरी **ह्मारू ह्या नांवान तो अजून गोंयां नंदता.** अंत्रुजेसाकून काणकोणामेरेन ताची भक्ती जायती चलता. जो चड भेष्टायता आनी दबकायता ताका खोंटांचो मार दिवन धांवडांवचे बदला ताची सायबाजात्रा करून आनी पांयां पडून ताका थंडांवची चाल हिंदु धर्मांत चलत आइल्ल्या कारणान गोंयां हेर भुतावळीचे कुशीक ह्मारवाकूय जायतो मान मेळटा. अंत्रुजेंत हो ह्मारू ओंवळ, घोटूक, सांतिणो आनी हेर रुखांचेर बशिल्लो आसता; आनी त्या रुखाक ताच्या नांवान तांबडचो घुडयो लाइल्ल्यो आसतात. दुर्बटासाकून कवळयां वेता आसताना वाटेर एक-दोंकडेन असल्यो घुडयो दिष्टी पट्टात. कवळयां देवळाच्या प्राकाराक जे देठे आसात तांतूंतल्या एकाक **ह्मारवाचो सेजो** ह्मण्टात. कवळयां शांतादुर्गेचे जे कुळाबे वेतात ते थैं कसलेंय देवकारें करतकूच **ह्मारवाक सुर-रोंट** घालूंक लावन ताचें बरेंपण जोट्टात. कवळेंसून रामनाथीच्या मार्गान फुडें वेतकूच दाव्या हाताक उंचाटेचेर बोकडबागकार देसायाचें मोटें घर लागता. ह्या घराचे फुडले कुशीक ह्मारवाची एक देवळी आसा. हेभाशेन गोंयां मेळत थैं ह्मारवाची थारावणूक केल्ली दिसता. सांगचेलें इतलेंच कि, होंवऱ्यांच्या तशेंच ह्मारवाच्या रुपान पुर्विल्ल्या काळांतल्या बौद्धधर्माची वळख गोंयां अजून मेळटा आनी सिंहली

* Hardy's Manual, pp. 171-173, 176-179.

बरप्यांच्या आधारावैल्यान चंद्रवाडयेच्या पूर्णान थैं पैलोवैलो बौद्धधर्म रिगैलो म्हणपाचें सिद्ध जाता.

गौतम बुद्ध जेन्ना सुनापरांतकांत आयलो तेन्ना ताचेकडेन मागणी करून पूर्णान ताका सुप्पारक शारांत व्हेलो अशें सद्धर्मरत्नकारे ह्या सिंहली पुस्तकांत ह्मळां;‡ हाचेवैल्यान **पूर्णाक सुप्पारक शाराची जायती ओड** आसली अशें दिसता. सुप्पारकाची ताका इतली ओड आनी माया लागचें कारण, तें शार त्या काळांत पश्चिम हिंदुस्तानाचे देगेर वेपार-उद्योगाचो सगळयांत मोटी पेठ आसून बोद्ध धर्म घेंवचे आदीं, पूर्ण थैं समुद्रान आनी पांयवाटेन वेपार करतालो हें जांवये. सुपारेंच्या वेपाऱ्यांभितर तो ताण आसून तांचेर ताचें वजन मोटें आसलें ह्मणपाचो पुरावो ताणें थैंच्या वेपाऱ्यांक बुद्धाकडसून उपदेस करूंक लायलो हाचेवैल्यान मेळटा. ताणें सुपाऱ्यां जायतो नांव-लोकिक जोडिल्लो आनी त्या शाराच्या हिताक तो वावुरतालो; देखून नेपाळी-तिबेटी बरप्यांनी ताका सुपारेंकार कसो लेखल्यार नवल ना. परंत मुदलचो तो सुना-परान्तांतलो ह्मणचे दक्षिण कोंकणांतलो वा गोंयचो हांतूंत निखालुस दुभाव ना म्हणपाचें हांवें केल्ली फोडणिशी आनी दिल्ले पुरावे हांचेवैल्यान कोणायची खात्री जांवक जाय. पूर्ण गोंयकार, सुपाऱ्यांसारके परके सुवातेर वचून थैं ताणें वेपार-उद्योगांत मोटें नांव जोडलें, तो एक **मुखेल ह्माजन** जालो, आनी आपल्या वजनान ताणें थैंच्या लोकांत **बौद्ध धर्म पातळायलो** ही गोंयकारांक मोटचा अभिमानाची आनी तोखणायेची गजाल ह्मणूंक जाय. बौद्ध धर्मांत पूर्णान मोटो लोकिक जोडिल्लो ह्मणपाचो पुरावो मेळटा. गौतम बुद्धाचे जे अपुर्बायेचे पांच-सात शिष्य आसले तांतूंत पूर्णाकूय लेखताले अशें दिसता. **खासा बुद्धान पूर्णाक एकेकडेन आपलो भाव ह्मळा.** बुद्ध जेतवनांत आसताना एकफावट ताणें आपल्या शिष्यांक आपणाच्या एका पुर्विल्ल्या जल्माची कथा सांगली. ते कथेक भिसजातक ह्मण्टात. ह्या जातकांत महाकांचन बामण, ताचे स भाव आनी एक भैण हांची कथा सांगल्या. कथा सांगून तिची फोडणिशी करता आसताना बुद्ध ह्मण्टा कि 'महाकांचन आनी ताचे स भाव म्हणून जे सांगले ते पुर्विल्ल्या जल्मांत हांव सारिपुत्त, मोग्गलान, कस्सप, अनुरुद्ध, **पुण्ण** आनी आनंद मेळून सात भाव आसल्यों'.†

पूर्णाचि आवैचें नांव मैत्रायणी आसलें; आनी त्या खातीर ताका पूर्ण मैत्रायणी वा मैत्रायणीपुत अशें म्हण्टाले. क्रिस्ता आरंभाच्या आनी आदल्या शेंकडयांनीं आपल्या नांवाक आवैचें नांव वा तिच्या कुळाराचें गोत्र लांवची चाल आसलीशी दिसता. त्या काळांतल्या जायत्या होंवऱ्यां-बरपांनीं राजांचीं आनी हेर लोकांचीं नांवां 'गोतमीपुत

‡ Hardy's Manual, सद्धर्मरत्नकारे p. 209.

† अहंच सारिपुत्तो च मोग्गलानो च कस्सपो । अनुरुद्धो **पुण्णो** आनंदो तदासुम् सत्त भातरो ।।९८।। जातकत्थवण्णना being Tales of the Anterior Birhts of गौतम बुद्ध by V. Fausboll, London, 1887, vol, 4, p. 314.

सिरि यत्र सातकणी', 'वासिठिपुत सिरि पुळुमायी', 'कोसिकी पुतविण्हुदत' अशीं मेळटात. तशेच तरेचें पूर्णमैत्रायणी हें नांव आसा. क्रिस्ता आदल्या तिसऱ्या शेंकडयांत अशोक सम्राटान पूर्णाचे हाडावळीचेर मथुरेंत एक स्तूप बांदिल्लो आनी तो क्रिस्ताच्या सातव्या शेंकडयांत उत्तर हिंदुस्तानांत भोंवडी करता आसताना चिनी भोंवडेकार ह्यएन त्संग हाणें पळेल्लो खैं. हाचे वैल्यान पूर्ण केदे मोटे योग्यतायेचो मनीस जावन गेलो तें उक्तेपणान दिसता.§

चंद्रवाडयेच्या पूर्णाफाटल्यान, व्हडविकेचे इत्सेन गोंय सोडून भायर वचणे ह्मण्टात ते **साष्टीचे चाड्डे.** चाड्डे हे आपुण क्षत्रिय म्हणून सांगतात. तुर्ताक हे गोंयचे पोरणे जिखेंत, साष्ट, बारदेस आनी तीसवाडी ह्या तीन म्हालांतूच दिष्टी पडटात; आनी तेय फक्कत क्रिस्तांवांभितर. **गोंयां हिंदूंभितर चाड्डी जात सांगणो एकलोय मनीस मेळना.** दक्षिण कर्णाटकांत मंजेश्वरा कोंकणी भास उलैणे कांय हिंदु आसात; तें आपुण जातीन चारुडे म्हणून सांगतात खैं. सोळाव्या शेंकडयांत बाटाबाटीच्या वेळार जे चाड्डे गोंयसून कर्णाटकांत आनी मलबारांत गेले तांचीच पिळगी मंजेश्वरचे आतांचे चारुडे जांव येतीत. चाड्डे, चारुडे वा चारडे हें उतर कोंकणी भाशेंतलें आसा. सोळाव्या शेंकडयांत, साष्ट, बारदेस आनी तीसवाडी हे तीन ह्माल पुर्तुगेजांनीं बाटौंचे आदीं, चाड्डे हें उतर आजचेच भाशेन थैं घोळणुकेंत आसलें. फाटल्या चारशीं वर्सांच्या पुर्तुगेज बरेपांत तें बामण ह्या उतरा सकला अगदीं तेंकून पावलाकणकणीं मेळटा. ह्या उतराचें निरुक्त सोदून काडूंक जायतेजाण वावुल्ल्यात; तांतूंत, १९ व्या शेंकडयांतले नामनेचे इतिहास-सोदपी फिलीप नेरी शावियेर हांचे ह्मणणे भाशेन चार ह्मणंचे तण हाचेवैल्यान चारदो वा चाड्डो हें उतर जालां जांवये. चाड्डो ह्मणचे गोरवां-राखणो असो ते अर्थ करतात.‡ परंत ह्या निरुक्तान मनाची समाधानी जायना. साष्ट, बारदेस आनी तीसवाडी, हांगाच्या चाड्डयांक त्या उतराचो जो अभिमान आसा तो ध्यानांत घेतल्यार ताचो अर्थ गोरवां-राखण्याकूय अदिक व्हडविकेचो आसूंक जाय अशें दिसता. म्हज्या समजा भाशेन, मुदलचें **चतूरथ** हें संस्कृत उतर ल्हवुल्हवु चाररठ, चार्ठे अशें बदलून, निमाणें ताचें चारडे वा चाड्डे हें आतांचें घोळणुकेंतलें रूप जालें जांवये. क्रिस्ता आदल्या सुमार तिसऱ्या शेंकडयांत संपादिल्ले महाभारताचे प्रतींत, उद्योगपर्वाच्या रथातिरथसंख्यानपर्वांत १६५ पासून १७२ अध्यायांत, भीष्मान दुर्योधनाक कौरवांच्या आनी पांडवांच्या सैन्यांतले रथी ह्मणचे रथार बसून झुजणे वीर कोण ते सांगल्यात. तांतूंत अर्धरथ, एकगुणोरथ (एकरथ), द्विगुणोरथ (द्विरथ)

---

§ Ant. Remains at Sopara and Padana, p. 56, note.

‡ Bosquejo Historico das Communidades das Aldeas dos Concelhos das Ilhas, Salsete e Bardez por Filippe Nery Xavier, vol. 3, Bastora-Goa, 1908 p. 55.

अष्टगुणोरथ (अष्टरथ), महारथ, अतिरथ अशीं उतरां आयल्यांत.* ह्या उतरां-वैल्यान, रथार बसून झुजचे विद्येंत त्या त्या विराचे निपुणायेचो कस समजून येता. उदाहरणाक, अष्टरथी वीर एकरथी विराचे आठ पेटीन मोटो म्हणचे आठ एकरथी वीर आनी एकलो अष्टरथी वीर सारके. हेच रितीन, चतूरथी वीर एकरथी विराचे चार पेटीन मोटो, ह्मणचे चार एकरथी वीर आनी एकटो चतूरथी वीर सारके. क्रिस्ता आदल्या आनी उप्रांतच्या अगदी लागशिल्या शेंकड्यांनीं कोंकणी आनी उत्तर-कोंकणघांटी क्षत्रियांत, आपल्या आंगांतल्या झुजपी बळग्याचो कस दाखैणीं चतूरथी आनी महारथी हीं कुळनांवां घालपाची चाल पडिल्लीशी दिसता. हांतूंतलें महारथी हें कुळनांव भोव थोडें उत्तर कोंकणांत आनी चडशें उत्तर कोंकणघांटांत घोळटालें आनी चतूरथी हें कुळनांव फक्कत दक्षिण कोंकणांत घोळटालें अशें दिसता. हीं कुळनांवां घोळणुकेंत येंवचें कारण, ते ते कुळयेचे मूळपुरुस रथावैल्या झुजांत नामनेक चडिल्ले जांवये. मूळपुरसा फाटल्यान ताची पिळगीय तींच नामनेचीं नांवां आपणांक लावन घेंवक लागली आनी हे भाशेन तीं कुळनांवां जांवक पावलीं. मुदलच्या महारथी उतराचें कांय काळान महारठी जावन आतां ताचें मऱ्हाठी आनी मराठी जालें; तेच भाशेन **मुदलच्या चतूरथी उतराचें चाररथी जावन उप्रांत चाररठी, चारंठो आनी चाड्डे जालें.**

महारथ वा महारथी म्हणचे धा हजार धोणवांकारांकडेन एकलोच झुजणो वीर. पंडित भगवानलाल इंद्रजी हाणीं १८८१ त महारथि वा महारठि म्हणचे 'मोटो झुजपी' आनी महारठिणि ह्मणचे 'मोटद्या झुजप्याची बायल वा धुव' असो अर्थ केल्लो.§ परंत डॉ. सर रामकृष्णशणै भाण्डारकार हांकां तो मान्य जालो ना. ते म्हण्टात, "महारठि हें उतर संस्कृत महारथीसारकें लेखून ताचो अर्थ 'मोटो झुजपी' अशें करपांत पंडित भगवानलाल उक्तेपणान चुकिल्ले दिसतात. बेडसेंच्या दुसऱ्या आंकड्याचे होंवरे-बरपांत एके बायलेक 'महारठिनी' हें उतर लायलां; थैं त्या उतराचो अर्थ 'मोटी झुजपीण' असो खरेपणानशीं जांव नज; आनी 'मोटद्या झुजप्याची बायल वा धुव' असो ताचो अर्थ करप म्हणचे सिद्ध करचेलो मुद्दो, पुरावो दिनासताना सिद्ध जाल्ल्यावरी मानून घेवपासारकें जाता. महारठि हें उतर एके कुळयेचें नांव

* करणानां वियोगाच्च तेन **मेऽर्धरथो** मतः । (महाभारत, उद्योग. अ. १६८ शि. ७.) **रथ एकगुणो** मह्यं ज्ञेयः परपुरंजयः । अयंच युधिविक्रांतो मन्तव्यो**ऽष्टगुणोरथः** (महा. उद्योग. अ. १७१, शि. २३). सिंधुराजो महाराज मतो मे **द्विगुणोरथः** (महा., उद्यो., अ. १६५, शि. ३०). वृषसेनो रथस्तेग्र्यः कर्णपुत्रो **महारथिः** (महाभारत उद्योग. अ. १६७., शि. २३.) कृतवर्मात्व**तिरथो** भोजः शस्त्रभृतांवरः महा., उद्यो. अ. १६५ शि. २४.

§ ASWI., Bombay 1881, p. 27, note I.

म्हणपाचें उक्तेपणान दिसता आनी तें आतांच्या आमच्या मराठी ह्या उतरासारकेंच आसा. "¶ हाचेवैल्यान महारठि हें एक कुळनांव ह्मणपाचें सर रामकृष्णशणैंक मान्य आसून ताचो अर्थ 'मोटो झुजपी' असो करूंक मात ते तयार नात अशें दिसता. हाचेर डॉ. जे. एफ्. फ्लीट हाणीं जी जाप दिल्या ती ध्यानांत घेसारकी आसा. ते ह्मण्टात कि "एका तपशिलांत डॉ. भाण्डारकार खऱ्यानींच चुकले........पुर्विल्ल्या आनी आतांच्याय काळांत घोवांच्या अधिकाराची पदवी तांच्या बायलांकूय लावपाची चाल आसली आनी आसा. उदाहरणाक, क्रि. स. ११०८ च्या एका कोव्रावपांत दंडनायक हाचें दंडनायकीति हें स्त्रीलिंगी रूप मेळटा.* तशेंच कानडी गौडसानि आनी मराठी पाटलीण, देसाईण हीं रुपां गौडा,पाटील आनी देसाई हांच्या बायलांचीं नांवां आसात. हेच रितीन धर्मीक पदव्यांनींय विहारस्वामिन् हाचें विहारस्वामिनी अशें स्त्रीलिंगी रूप मेळटा. "† हाचेवैल्यान, महारठिनी ह्मणचे मोटचा झुजप्याची बायल ह्मणपाचें सिद्ध करूंक जो पुरावो सर रामकृष्णशणैंक जाय आसलो तो डॉ. फ्लिटानीं भोव बरो दिलो ह्मणूंक पर्वा ना. परंत फ्लिटानीं दिल्ल्या पुराव्याच्या आदल्या काळांतलो ह्मणचे होंवऱ्यां-बरपांतल्या महारथि आनी महारठि ह्या उतरांचे वेळचो गडगंज पुरावो जाय जाल्यार, नासकाचे एके होंवरेंत मेळटा. ते होंवरेच्या बरपांत 'कोसिकस **महासेणापतिस** भवगोपस **भरिजाय महासेणापतिणिय** वासुय लेण' ‡ ह्मणचे कौशिक गोत्री **महासेनापति** भवगोप **हाची बायल महासेनापतीण** वासु हिणें दिल्ली होंवरी' अशीं उतरां कोव्रायल्यांत. हांतूंत वासुबायक महासेनापतीण अशें जें ह्मळां तें ती झुजा-मळार वचून महासेनापतीचें काम करताली ह्मणून न्हय; तर ती भवगोप नांवाच्या सेनापतीची बायल आसली देखून. ह्या पुराव्यावैल्यान पुर्विल्ल्या काळांत घोवांच्या अधिकाराची पदवी तांच्या बायलांकूय लावपाची चाल आसली ह्मणपाचें सिद्ध जाता; आनी महारथि वा महारठि ह्मणचे मोटचा झुजप्याचे बायलेक महारथिनि वा महारठिनि म्हणूं येता म्हणपाचें उक्तेपणान दिसता. आतां होंवऱ्यां-बरपांतलें महारठि आनी संस्कृत महारथी हीं दोनूय उतरां एक न्हयत अशी जी सर रामकृष्णशणैंची म्हणणी तिचे संबंधान चिके येवजून पळौंया. 'महाराष्ट्र' ह्या उतराचें निरुक्त सांगता आसताना, सर रामकृष्णशणै जें कितें म्हण्टात ताचें सार अशें कि, 'क्रिस्ता आदल्या तिसऱ्या शेंकडयाचे मजगतीं अशोक मौर्यान कौव्रांवक लाइल्ले, फातरावैले पांचवे धम्मलिपयेंत रास्टिक म्हणून जें उतर आयलां तें वा रट्रक हें उतर संस्कृत राष्ट्रिक

¶ Early Hist. Dek. Bom. Gaz., vol. I, pt. 2, p. 144, note 2.

* Ind Ant., vol. 10, p. 254.

† Gupta Inscriptions pp. 263, 280. Bombay Gaz., vol. I, pt. 2, p. 385, note 2.

‡ ASWI vol. 4, p. 114.

ह्या उतराक जमता. हे लोक चडकरून महाराष्ट्रांतले आसले; कित्याक, भौच पुर्विल्ल्या काळापासून दक्षिणेंत रट्ट नांवाचे कुळयेन राजकर्णी मुखेलपण चलैलां. राष्ट्रिक, रट्ठि, रट्टि वा रट्ठ हे आपणांक महारट्ठि वा महारट्ट म्हणौन घेताले आनी हे भाशेन ज्या मुलखांत ते रावताले त्या मुलखाक महारट्ठ हें नांव पडलें. महारट्ठ हाचें संस्कृत रूप महाराष्ट्र. पतंजलि आदीं सुमार १०० वर्सां दक्षिणेंत वा महाराष्ट्रांत रट्ट आनी भोज हाणीं चलैल्लीं राज्यां आसलीं.¶ क्रिस्ताच्या दुसऱ्या शेंकड्यांत कोन्नाइल्ल्या भाजें, बेडसें आनी कार्लेंच्या कांय होंवऱ्यां-बरपांनीं दान दितल्या दादल्याक महारठि आनी बायलेक महारठिनी अशें म्हळां; तांचो अर्थ मोटो रठि आनी मोटी रठीण असो जाता. हेच भाशेन नानाघांटावैले मोटे होंवरेंत एका महारठि विराचें नांव आयलां.' § हाचे वैल्यान महारठि हें उतर रथ ह्या उतरावैल्यान जायनासताना राष्ट्रिक, रट्टि, रट्ठि वा रट्ठ ह्या उतरांवैल्यान जालां अशी सर रामकृष्णशर्णैंची म्हणणी दिसता. ताणीं दाखौन दिल्लीं होंवऱ्यां-बरपां हांवें मुजरत वाचून पळेलीं. तांतूंत सगळेचकडेन निखटें महारठि अशें नासून **महारथि** हें रुपूय ह्याका दिष्टी पडलें. हीं दोनूय रुपां सगळीं मेळून आठ खेपो मेळटात. तांतूंतलीं सात उत्तर-कोंकणघांटी आवांठांत भाजें, बेडसें, कार्लें आनी नानाघांटावैल्या होंवऱ्यांनीं आनीं एक उत्तर-कोंकणांत साष्ट जुंव्यार, कण्हेरेचे होंवरेंत दिष्टी पट्टा. भाजेंचे होंवरेंत '**महारथिस** कोसिकीपुतस', * बेडसेंचे होंवरेंत 'महादेविय **महारठिनिय** सामडिनिकाय',* कार्लेंचे होंवरेंत '**महारठिस** गोतिपुत्रस '* आनी 'ओखळकियानं **महारठिस** कोसिकी पुतस मितदेवस पुतेन **महारथिना** वासिठिपुतेन सोमदेवेन,'* नानाघांटावैले होंवरेंत '[बा]लाय **महारठिनो** अंगिय कुलवधनस' आनी '**महारठि** त्रणकयिरो '‡ आनी कण्हेरेचे होंवरेंत '**महारठिणिय** खंदनागसातक-मातुय' ‖ अशीं तीं कोन्नाइल्लीं आसात. हाचेवैल्यान, क्रिस्ताच्या पैल्या-दुसऱ्या शेंकड्यांत **महारथि** आनी **महारठि** हीं दोनूय रुपां घोळणुकेंत आसून **तीं एकाच अर्थाचीं लेखातालें** हांतूंत दुभाव ना. अशें आसताना, पं. भगवानलालांनीं महारठि हें उतर संस्कृत महारथिसारकें लेखलें जाल्यार सर रामकृष्णशर्णैंनीं तांची अपुर्बुद्द कित्याक करची? खासा होंवऱ्यां-बरपांच महारथि आनी महारठि ही दोनूय उतरां एक ह्मणून सांगतात जाल्यार, तिरायतांनीं तीं वेगळीं म्हणून सांगपांत अर्थ कितें? ह्या उतरांचें राष्ट्रिक, रट्ठि, रट्टि वा रट्ठ ह्या उतरांकडेन

¶ Early Hist Dek. Bom. Gaz., vol. I, pt. 2, pp. 142-143.

§ Early Hist. Dek. Bombay Gaz., vol. I. pt. 2, p. 144.

* ASWI., vol. 4, pp. 83, 90 & 107.

‡ ASWI., vol. 5, pp. 60 & 64.

‖ ASWI., vol. 5, p. 86.

नातें लावप चिके ओडिल्लें-ताणिल्लें दिसता. संस्कृत महारथी हाचें सटकरून प्राकृत महारठी जांवक कसलीच अडचण आसाशी दिसना. संस्कृत 'थ' बदला प्राकृतांत 'ठ' जांवची चालूच आसा. उदाहरणाक 'कपित्थ' हाचें 'कविठ' जाता. तेच रितीन महारथी हाचें महारठि जालां. हें सादें-सोपें लागशिलें निरुक्त सोडून रट्ट ह्या उतराकडेन महारठि ह्या उतराचें नातें जोडप चिके आनाळयां-गुनाळयांचें दिसता. त्याभायर, मुदलच्या रट्टांनीं आपणांक 'महारठि' अशें ह्मणौन घेंवक कारण कितें जालें तें पळौंक जाय. सर रामकृष्णशणै ह्मण्टात, "अशोकाचे फातरावैले तेरावे धम्मलिपयेंत तागेल्या धर्मसंबंधी आज्ञांक ज्या ज्या थळांनीं मान मेळटालो त्या त्या थळांची वळेरी दिल्या; तांतूंत रास्टिक ह्या उतराबदला पेतेनिकाक जोडून भोज हें उतर आयलां. भोजकुळी विदर्भ वा वऱ्हाड मुलखांत आनी दक्षिणेंतल्या हेर थळांनीं राज्य चलैताली. कुडेंच्या होंवऱ्या-बरपांत 'महाभोज' वा मोटोभोज हें नांव जायते खेपो आयलां आनी बेडसेंच्या होंवरे-बरपांत तें एकूच खेप आयलां. भोज आपणांक महाभोज ह्मणैताले तेच रितीन राष्ट्रिक, रट्टि, रट्ठि वा रट्ठ हे आपणांक महारट्ठि वा महारट्ठ अशें म्हणौंक लागले'§ ह्या अवतरणावैल्यान रट्ठांनीं आपणांक महारठि ह्मणौंचें कारण तांकां मेळिल्ली **भोजांची देख** अशें दिसता. परंत भोजांक तरी महाभोज ह्मणौन घेंवक कारण कितें जालें हो प्रस्न उबो रावताच. हांवें महाभोज ह्या उतराचो सोद केलो. ताचेवैल्यान, **महाभोज महाभोय** वा **महाभुवि** हें कुळनांव कुडेंच्या होंवऱ्यांनीं सात खेपो,† बेडसेंचे होंवरेंत एक खेप,‡ कण्हेरेचे होंवरेंत

---

§ Early Hist. Dek. Bom. Gaz., vol. I, pt. 2, p. 143.

† Kuda Inscriptions :—

No. I. **महाभोजीय** सडगेरिय विजयाय पुतस **महाभोजस** मंदवस खंदपालितस लेखकस ...... ASWI., vol. 4, p. 84.

No. 6. **महाभोजिय** साडगेरिय विजयाय **महाभोजस** मंदवस खंदपालितस उपजीविनें .... ASWI., vol. 4. p. 85.

No. 15. **महाभोज** बा[लिकाय] मंदविय इ. . . . ASWI., vol. 4 p. 86.

No. 17. **महाभोयस** साडकरस सुदंसणस दुहुतुय. . . . ASWI.,vol. 4, p. 87.

No. 20. **महाभोजे** मंदवे कोछिपुते वेलिदते......ASWI., vol., 4. p. 87.

‡ Bedsa Inscription :—

No. 3. **महाभोय** बालिकाय ......ASWI., vol. 4, p. 90.

दोन खेपो¶ आनी वनवासीच्या मोटचा देवळांतल्या पाशाणाबरपांत एक खेप‡ मेळून इकरा खेपो आइल्लें मेळटा. हे सगळे महाभोज, महाभोय वा महाभुवि सडगेर ह्मणचे नानाघांट,$ मंदव ह्मणचे कुडच्यांलागशिलो मादाड वा मंडाढ गांव, उत्तर-कोंकणघांटावैलें बेडसें, मुंबै लागशिले साष्टींतलो कण्हेरी आनी गोंयालागशिल्या कर्णाटकांतलो वनवासी ह्या गांवांच्या आवांठांत आसले. तांची चडशी वसणूक कुडच्यांसाकून नानाघांटामेरेन उत्तर कोंकणांत आसली अशें दिसता. कुडें, बेडसें, कण्हेरी आनी वनवासी ह्या थळांतलीं बरपां खिणभर कुशीक दवरून संस्कृत सरस्पतीकडेन महाभोज ह्या कुळनांवाची चौकशी केल्यार कांयच दागदुमालो लागना. ऋग्वेदांत सुदासाचे पिळगेक निखटें **भोज** हें कुळनांव आसा.|| पाणिनीच्या गणपाठांत निखटें '**भोज** क्षत्रिये' ह्मळां. महाभारतांत सभापर्वांत, जरासंध राजा क्षत्रियांच्या माथ्यार बसला आनी तांतूंतल्या जायत्या जाणांची वाट लागल्या म्हणपाची खबर श्रीकृष्णान धर्मराजाक सांगल्या. तांतूंत तेवेळच्या मुखेल क्षत्रिय वंशांचीं नांवां आयल्यांत. तांतूंत भोजवंशाचेंय नांव आयलां* त्या काळांत **भोज** वंशांत सगळयांत बळिष्ट राजा म्हण्टात तो श्रीकृष्णाचो मांव भीष्मक हो आसलो. तो सर्गावैल्या इंद्राचो इश्ट, धर्तरेच्या चौथ्या वांट्याचो धनी आनी शत्रूक ख्यास्त

¶ Kanheri Inscriptions :—

No. 29. महारा[ज] बालिकाय **म[हाभोजि]य** बा[लिका]य महारठिणिय खंद-नागसातक-मातुय **महा[भो]जस** [अहिजस]च धेणसेणस भगिणिय नागमुलनि[का]य ......... ASWI., vol. 5, p. 86.

‡ Banavasi Pali Inscription :—

**महाभुविय** महाराज [बालि]काय जिवपुत[भा]जाय ... Ind. Ant., vol. 14, p. 33.

$ कुडेंच्या होंवऱ्यांतलीं सडगेर, साडगेर आनी साडकर तशेंच नासकाच्या होंवऱ्यांतलें सेटगिरि हीं सगळीं उतरां नानाघांटाकूच लागू आसात अशें दिसता. नानाघाटांवैल्या एका कोन्नावपांत त्या थळाक **सतगर** अशें म्हळां. (Ant. Rem. at Sopara Padana, pp. 41-42) सतगर आनी सडगेर वा सेटगिरि हीं रुपां चडशीं वेगळीं नात.

|| इमे **भोजा** अंगिरसो विरूपा दिवस्पुत्रासो असुरस्य वीराः ।७। ऋग्वेद, मं. ३, सू. ५३.

* महाभारत, सभापर्व, अ. १४ :—

ययातेस्त्वेव **भोजानां** विस्तरो गुणतो महान् । भजतेऽद्य महाराज विस्तरं सचतुर्दिशम् ।६। उदीच्याश्च तथा **भोजाः** कुलान्यष्टादश प्रभो । जरासंधभयादेव प्रतीचीं दिशमास्थिताः २५।

**भोगैणो** आसून आपले विद्येच्या बळग्यान ताणें पांड्य आनी क्रथकैशिक राजांक जिखिल्ले. तरी आसताना, श्रीकृष्णान ताका निखटें **भोज** हेंच उतर लायलां.† सभापर्वाभाशेन उद्योग, द्रोण, मौसल आनी स्वर्गारोहण ह्या आनी हेर पर्वांनीं **भोज** हेंच उतर मेळटा.‡ सोर्पांचो राजा धूमवर्ण हाच्या पांच धुवांपासून यदुराजाक जी पिळगी जाली तिच्यो फुडाराक सात कुळयो जाल्यो. तांतूंतले एके कुळयेचें नांव **भोज** अशें हरिवंशांत ह्मळां.§ अशोकाचे फातरावैले तेरावे धम्मलिपयेंत निखटें **भोज** हेंच उतर आयलां.¶ क्रिस्ताच्या चौथ्या शेंकड्याचे अखेरेक रचिल्ल्या रघुवंशांत, अजराजाचें इंदुमतीकडेन जाल्ल्या लग्नासंबंधाचे जे सर्ग आसात तांतूंत कालिदासान विदर्भाच्या राजाक निखटें भोज आनी '**भोज**कुलप्रदीप' ह्मणचे 'भोज कुळांतलो घणघणीत दिवो' हीं उतरां लायल्यांत.‖ सव्या शेंकड्यांत रचिल्ल्या दंडीच्या दशकुमारचरितांत विदर्भाचो राजा पुण्यवर्मा हाका '**भोज**वंशभूषण' इतलेंच उतर लायलां.$ हे भाशेन, कुडें, बेडसें, कण्हेरी आनी वनवासीच्या बरपां आदल्या ग्रंथांनीं आनी बरपांनीं जें **निखटें भोज** हें कुळनांव मेळटा तेंच त्या बरपां उप्रांतच्या काळांत, क्रिस्ताच्या चौथ्या आनी सव्या शेंकड्यांतूय मेळटा. तांतूंत त्या उतराक **महा** हें विशेषण लाइल्लें दिसना; ह्मण्टकूच, उत्तर कोंकणांतल्या आनी उत्तर कर्णाटकांतल्या कांय लोकांनीं 'मोटे भोज' ह्या अर्थान 'महाभोज' हें कुळनांव घेवपाचें कारण कितें? तांकां कोणाची देख मेळ्ळी? तांच्या कुळनांवाचो अर्थ 'मोटो भोज' असो आसलो जाल्यार आनी तें उतर क्रिस्तांव सनाच्या आरंभाक उत्तर-कोंकणांत

---

† महाभारत, सभापर्व, अ. १४ :—
चतुर्थभाङ्महाराज **भोज** इंद्रसखो बली । विद्याबलाद्योव्यजयत्स पांड्यक्रथकैशिकान् ।२१।
भ्राता यस्याकृति:शूरो जामदग्न्यसमोऽभवत् । स भक्तो मागधं राजा **भीष्मकः** परवीरहा २२

‡ उग्रसेनः कृतो राजा **भोज**राजन्यवर्धनः ।३९। (उद्योग., अ. १२८.) मार्तिकावतकं **भोजं** ततः कुंजरकेतनम् । क्षुरप्रेण समुन्मथ्य ननाद विसृजन्शरान् ।८। द्रोणपर्व, अ. ४८. **भोज**राजकलत्रंच हृतशेषं नरोत्तमः ।६९। (मौसल,. अ. ७). सात्यकिप्रमुखान् वीरान् **भोजां**श्चैव महाबलान् ।१८। (स्वर्गारोहणपर्व, अ. ४).

§ हरिवंश, विष्णुपर्व, अ. ३७ शि. ६५.

¶ योन कंबोजेषु नाभके नाभपंतिषु **भोज**-पितिनिक्येषु । The Inscriptions of अशोक, edited by D. R. Bhandarkar, M. A., Calcutta, 1920, p. 53.

‖ रघुवंश, सर्ग ५-३९, ७-२, १३, १७, २६, ३२.

$ दशकुमारचरित, ८ वो उच्छ्वास, विश्रुतचरितम्.

आनी उत्तर कर्णाटकांत घोळणुकेंत आसलें ह्मणपाचें पाशाणा-बरपां आमकां सांगतात्र जाल्यार, सव्या शेंकड्यांतलो दंडी आपले नवलकथेंत विदर्भाच्या राजाची कुळी चिके फुलौन तिका 'महाभोजवंश' ह्मणचेबदला निखटो 'भोजवंश' ह्मणूनूच वोगो कसो रावलो? नवलकथेंत सगळोच तपशील फुलौन सांगिल्लो आसता; आनी दंडी जाल्यार त्या कामांत मोटो खांपो ह्मणपाचें, ताचे धिकें-देडधिकें लांबायेच्या समासांनीं भल्लेले कुचकुचीत अळंकार सांगतात. मागीर, विदर्भाच्या राजाचे कुळयेकूच 'महा' हें उतर जोडूंक ताणें हिमटेपण कित्याक दाखैलें आनी कसलो आदाव केलो? ह्या प्रस्नाची समाधान जायशी जाप इतलीच कि क्रिस्ताच्या सातव्या शेंकड्यामेरेन **'मोटो भोज' ह्या अर्थान 'महाभोज' कुळनांव घोळणुकेंतूच नासलें.** घोळणुकेंतलें नांव फक्कत **भोज** हेंच आसलें. आनी तितलेच खातीर कालिदास आनी दंडी ह्या दोगांय कवींनीं तें जशेंचें तशें आपल्या काव्यांत उपकारायलें. हे फोडणिशेवैल्यान, पाशाणां-बरपांतल्या 'महाभोज', 'महाभोय' वा 'महाभुवि' ह्या कुळनांवाचो अर्थ 'मोटो-भोज' असो जांवक कठीन. तर मागीर ताचो अर्थ कितें? म्हाका दिसता, कोंकणी आनी उत्तर-कोंकणघांटी कांय क्षत्रियांनीं ज्या कारणान वा बडवाचारान आपणांक चतूरथी आनी महारथी हीं कुळनांवां लावन घेतलीं त्याच कारणान वा बडवाचारान हेर कांय क्षत्रियांनीं आपणांक **महाभुज** म्हणचे **लांब आनी मोटया बावळयांचे वा बळिष्ट** हें **कुळनांव घेतलें** आनी ताचेंच 'महाभोज,' 'महाभुय' वा 'महाभुवि' हें प्राकृत रूप जालें. संस्कृत सरस्पतीच्या तोंडांत महाभुज हें उतर जायतें घोळिल्लें दिसता.* प्राकृत व्याकरणाच्या नेमाभाशेन 'उ' चो 'ओ' जांवची चालूच आसा. 'मुक्ता' हाचें जशें 'मोतीं' जाता ते भाशेन 'महाभुज' हाचें 'महाभोजे' जांवक कठीन न्हय. सांगचेलें इतलेंच कि महाभोजांची देख घेवन रट्ट आपणांक महारट्ठि वा महारट्ठ म्हणौंक लागले हे म्हणणेंत घटाय ना. तशेंच राष्ट्रिक, रट्टि, रट्ठि वा रट्ठ ह्या उतरांचो निखालुस पालव घेनासताना, महारट्ठ वा महाराष्ट्र ह्या उतरांचें निरुक्त महारथ वा महारथी ह्या उतरावैल्यान लागूंक कसलीच अडचण पडना आनी महारट्ठि वा महारट्ठ हे ज्या मुलखांत रावताले त्या मुलखाक **महारट्ठ** हें नांव मेळ्ळें ह्मणपाच्या सर रामकृष्णशर्णैंच्या मत्ताक कशेंच तरेन आडमेळें येना. महारथी वा महारठी हांची चडशी वसणूक भाजें, बेडसें, कार्लें आनी नानाघांट ह्मणचे मराठी भाशेंत पुणें-जुन्नराच्या आवांठांत जाका आतां **मावळ** ह्मण्टात थैं आसली अशें थैंच्या कोन्नावपां-वैल्यान दिसता; ह्मण्टकूच, मावळाचो आवांठ हेंच मुदलचें खरेलें मराठण आसून थैंसूनूच फुडाराक ताचो विस्तार पूर्व आनी दक्षिणेवसल्यान जालो अशें म्हणूं येता. महारट्ठ हें उतर पैलेंवैलेंच आमकां पांचव्या शेंकड्याचे अखेरेक बरैल्ल्या सिंहली

---

* कारणं प्राप्य तु नराः सर्व एव **महाभुजाः** । शूरा वा कातरा वाऽपि भवंति कुरु-पुंगव ।११। महाभारत, उद्यो., रथातिरथसंख्यानपर्व, अ. १७०.

महावंसांत मेळटा* आनी ताचें संस्कृत रूप महाराष्ट्र हें वराहमिहिराचे सव्या शेंकड्यांतले बृहत्संहितेंत मेळटा† महावंसा आदीं तीन-चारशीं वर्सां, महारथि वा महारठि हें उतर होंवच्यां-बरपांत कोव्राइल्लें दिसता. ह्मण्टकूच त्याच उतरावैल्यान महारट्ठ हें उतर जावन ताचेंच संस्कृत रूप महाराष्ट्र घडलें अशें ह्मणूंक अडचण ना ‡.

निमाणें सार घेवचेलें इंतलेंच कि क्रिस्तांव सनाच्या आरंभाक, मावळांत महारथी, उत्तर-कोंकणांत महाभुज आनी दक्षिण कोंकणांत चतूरथी कुळनांवांचे क्षत्रिय आसले. महारथी आनी महाभुज हांचीं जशीं अनुक्रमान महारठी वा मराठो आनी महाभोज हीं रुपां जालीं तशेंच चतूरथी हाचें चाररठी वा चारडो हें रूप जालें. दक्षिण कोंकणांत आतां हिंदूभितर चारडे वा चाड्डे हें जातीचें नांव घोळणुकेंतसून साप वचून ताची सुवात **मराठो** ह्या उतरान आडायल्या; थैंचो मेळत तो कुळवाडी-माळवाडी आपुण ' मराठो ' ह्मणून सांगता. हाचें कारण, सतराव्या शेंकड्यांत शिवाजीन मराठी राज्य उबारून ताची घुडी दक्षिण कोंकणांतूय जायतेकडेन लायली आनी त्या नांवाक म्हत्व हाडलें; तशेंच, काशयेच्या पंडितांकडसून मराठे जातीचें क्षत्रियपण मान्य करून घेतलें हें जांवये. बारकायेन येवजूंक गेल्यार, गोंयच्या आतांच्या आवांठांतले मराठे ह्मणैणे सगळे हिंदु, तशेंच सावंतवाडी संस्थानाचे धनी राजेबहाद्दर सरदेसाय सांवत भौंसुले, हवेलीकार, उसपकार आनी परमेकार देसाय हे सगळे मुदलचे चतूरथी वा **चाड्डे** हांतूंत दुभाव ना.

---

* **महारट्ठं** महाधम्मरक्खितत्थेरनामकम् । महावंस ed. by G. Turnour, Ceylon, 1837, द्वदसमो परिच्छेदो, p. 71

† भाग्ये रसविक्रयिण : पण्यस्त्रीकन्यका **महाराष्ट्राः** ।८। बृहत्संहिता, अ. १०.

‡ महारट्ठि लोकांवैल्यान महारट्ठ वा महाराष्ट्र हें देसाक नांव पडलें ही सर रामकृष्णशर्णैंची ह्मणणी हालींच्या कांय मराठी इतिहासकारांक मान्य ना. भौ. चिंतामण वि. वैद्य ह्मण्टात कि महाराष्ट्री ह्या भाशेच्या नांवावैल्यान महाराष्ट्र हें देसाक नांव पडलें जांवये अशी कल्पना करूंक कठीन ना. (मध्ययुगीन भारत, पुणें, १९२३ भा. २, पा. ४२.) परंत बारकायेन येवजिल्यार हे कल्पनेंत कांय नेट ना. हिंदुस्तानांतल्यो आजच्यो चडकरून सगळ्यो जित्यो भासो आनी संवसारांतल्यो हेर भासो पळौंक गेल्यार, तांचेवैल्यान त्या त्या देसांक नांवां पडल्यांत अशें म्हणचेबदला त्या त्या देसांवैल्यान थैं-थैंच्या भासांक नांवां पडल्यांत अशें दिसून येता. उदाहरणाक कोंकण देसाची भास ती कोंकणी, कर्णाटकाची कर्णाटकी वा कानडी, तामिलनाडची तामिल, मलनाडची मळयाली, बंगालची बंगाली, पंजाबची पंजाबी, सिंधाची सिंधी, पुर्तुगालची पुर्तुगेज, फ्रांसाची फ्रांसेज. ह्या सगळ्या उदाहरणांवैल्यान, आदीं कसलोय देस वसणुकेक येवन त्या देसाक कसलें तरी नांव पडलें आनी त्या **देसाच्या नांवावैल्यान थैंचे भाशेक नांव मेळ्ळें** ह्मणपाचें सिद्ध जाता. संवसारांतल्या ह्या सामान्य नेमाक मराठण देस आनी थैंची भास अपवाद आसतीत अशें ह्मणूं नज.

ताणीं आपणांक **अडेचे मराठे ह्मणौंचे भाशेक निजाचे चाड्डे** ह्मणेल्यार तांच्या उंच क्षत्रियपणांत इल्लीय तूट पडनासताना ते आपलेपणाच्या खरेल्या अभिमानाच्या तेजान लकलकतले.

आतां, गोंयचे चाड्डे गोंयाभायर केन्ना गेले आनी ताणीं थैं कशी नामना जोडली ह्या संबंधाचो विचार करूंया. इतिहास बारकायेन धवळून पळेल्यार, गोंयसून भायर गेल्ल्या चाड्डयांनीं हिंदुस्तानाच्या इतिहासांत मोटो व्हडलो नांव-लोकिक जोडला ह्मणपाचें येवजून ह्माका गोंयकाराक भितल्लेभितर खातखुतल्यो जातात आनी जो कोण गोंयाचे मांडयेर ल्हान-व्हड जाला ताकाय त्यो जाल्याबगर रांवच्यो नात. **हे नांव-लोकिक जोडणे चाड्डे ह्मणचे राष्ट्रकूट.** क्रि. स. ७४८ पासून ९७३ च्या सवाय-दोनशीं वर्सांच्या काळांत जे सगळे दक्षिणेचे सम्राट जाल्ले, जांचें साम्राज्य उत्तरेक विंध्यपर्वत आनी माळव्यासाकून दक्षिणेक कांचीमेरेन आनी पश्चिमेक हिंदी ह्माल-समुद्रासाकून पूर्वेवसल्यान शेकानशेक जायतें पातळ्ळें, जांचेभितर कांची, कलिंग, कोसल, श्रीशैल, मालव, लाट आनी टंक हांगाच्या राजांक जिखणो मोटो पराक्रमी **दंतिदुर्ग** जालो, जांचेभितर चालुक्य वंशाचो समुद्र घुसळून साम्राज्याची लक्ष्मी वैर काडणो आनी संवसारांतल्या सात नवलांतलें नवल ह्मण्टात तशें वेरूळचें सुंदर कैलास देवूळ वा रंगह्माल कांतैणो **पैलो कृष्ण** जालो, जांचे भितर कांचीच्या पल्लव राजाक जिखून ताचेकडसून हतयांचो खंड-घेणो, गंगावंशी चेरच्यां राजाक बंदखणीत घालणो, प्रयागालागशिल्या कौशांबीच्या वत्सराजाक मारवाडच्या अटंग्या रानांत धांवडावन ताणें हातासिल्ल्यो बंगालच्या राजाच्यो दोन सत्र्यो आनी कोसलच्या राजाची एक सत्री झोंबून घेणो आनी आपल्या माथ्याचेर तीन धव्यो सत्र्यो फुलैणो **ध्रुव निरुपम** जालो, जांचे भितर, राष्ट्रकूटांची सत्ता मोडचेलो कट करून घुरी घालूंक आइल्ल्या नष्टचा आनी दुस्वासी बारा राजांक आपल्या एकल्याच्या बळग्यान हार करणो, गुजराथच्या राजाक पपा काडूंक लायणो, माळव्याचो राजा, विंध्या लागशिल्लो माराश्वर राजा, कांचीचो दंतिग राजा आनी वेंगीचो चालुक्य राजा हांकां आपल्या पांयांर नाख घांसूंक लायणो, माळव्यासाकून कांचीमेरेनची सम्राटकी जोडणो, शिवासनार बशिल्ल्या राजांक निखळावन तांचे सुवातेर नवे राजा बसैणो असो मोटो बळिष्ट आनी पराक्रमी **तिसरो गोविंद** जावन जाणें श्रीकृष्णाच्या वेळार जशे यादव जिखूंक कठीन जाल्ले तशेंच आपले राजवटींत राष्ट्रकूट जिखूंक कठीन केलें, जांचे भितर वेंगीच्या चालुक्यांक हुलपावन मारणो आनी प्रश्नोत्तररत्नमालिका नांवाचें पुस्तक रचून संस्कृत विद्येंत गाजणो **पैलो अमोघवर्ष** जालो, जांचे भितर गुजराथच्या राजाक भेष्टायणो, लाटच्या राजाचें गर्व जिरैणो, बंगालच्या राजाक तकली बागैंक लायणो, आंध्र, कलिंग, गंग आनी मगधाच्या राजांक आपली आज्ञा पाळूंक लायणो आनी उत्तरेकडच्या गंगेच्या उदकान आपल्या मातिल्ल्या हतयांचो तानेचो व्हरस वचना ह्मणून दक्षिणेकडच्या कन्या कुमारीच्या शितळ सांवळेच्या रानांत तांच्या जिवाक थंडाय हाडणो **दुसरो कृष्ण**

जालो आनी जांचे भितर पांड्य, सिंहल, चोल आनी चेरच्या राजांक जिखणो **तिसरो कृष्ण** जालो **ते सगळे राष्ट्रकूट सम्राट* मुदलचे आमचे गोंयचे – साष्टींतले** –आसले ह्मणपाचें समजतकूच कोणा गोंयकाराचें काळीज अभिमानान उफेंवचें ना आनी गर्वान पेंवचें ना? ह्या साष्टीकार चाड्डुचांनीं गोंयाभायर वचून आपल्या पराक्रमान बावळे फुरफुरायणो, उजळ आनी लकलकीत बरो नवो इतिहास घडलो. ताणीं जोडिल्ल्या मुलखाक 'साडेसात लक्षांची रट्टपाटी वा रट्टपाडी' अशें ह्मण्टाले. ते आपणांक 'महाराजाधिराज परमेश्वर आनी परमभट्टारक' हीं सम्राटाचीं बिरुदां लायताले. ते आपुण चंद्रवंशी आसून यदुचे पिळगेंतले अशें ह्मणैताले. ताणीं बादामीच्या चालुक्यांच्या राजपदाबांगडा तांचो पालिध्वज आनी गंगा-यमुना नांवाच्यो घुडयो आनी वल्लभ ही पदवी घेतिल्ली. तांचे मुद्रेचेर गरुडाचें चित्र आसतालें. तिविळी वा त्रिवळी हें तांचें भौमानाचें वाजंत्र आसलें. हे राष्ट्रकूट आमचे गोंयचे कशे आनी तांका आधार कसलो आसा तो दाखौंचे आदीं, **राष्ट्रकूट हें उतर खेंच्या काळांत आनी कसल्या अर्थान वेर सल्लें** त्या संबंधाची थोडीशी फोडणिशी करूंक जाय.

क्रि. स. ९४० च्या नागपुरालागशिल्या देवळीच्या तांब्या-पटयांत ह्मळां कि यदुकुळांतल्या सात्यकि वंशांत जल्मल्ल्या रट्ट नांवाच्या एका राजपुताक राष्ट्रकूट नांवाचो एक पुत जालो आनी ताचेवैल्यान ताचे घरवडीक राष्ट्रकूट हें नांव पडलें §. परंत सर रामकृष्णशर्णैचे ह्मणणे भाशेन हे निवळ कल्पनेंतले मनीस आसात. तांचें मत्त अशें आसा कि 'रट्ठ नांवाचे जे क्षत्रिय कुळयेन महाराष्ट्र देसाक आपलें नांव दिलें आनी जी थैं अशोकाच्या वेळारूय आसली ते कुळयेची राष्ट्रकूट ही चडकरून मुखेल खांदी आसली.'† 'रट्ठ कुळयेंतल्या कांय लोकांनीं आपणांचें एक कूट ह्मणचे पुंजुलो जमौन आपणांक रट्ठकूड आनी उप्रांत राठोड हें नांव घेतलें जातलें. ह्या उतराचें मुदलचें संस्कृत रूप राष्ट्रकूट; अशें नासलें जाल्यार, सगळचा देसाचेर जी रट्ठकुळी पातळ्ळेली तिची राष्ट्रकूट ही मुखेल खांदी आसली ह्मणून तिका तशें नांव पडलें. हे जे देसी सरदार दक्षिणेंत राज्य चलैताले ते आंध्रभृत्यांचें आनी निमाण्या क्षत्रपांचेय सत्तेतळा आसले जातले; परंत ह्यो राजकुळयो नाशो जातकूच राष्ट्रकुटांनीं आपली स्वतंत्रताय पर्थून मेळैली जातली...मिरजेच्या (क्रि. स. १०२४ च्या) तांब्या-पट्यांत आनी येऊरच्या (क्रि. स. १०७७ च्या) पाशाणा-बरपांत म्हळां कि दक्षिणेंत चालुक्य राजकुळी थापणो जयसिंह हाणें राष्ट्रकूट कुळयेंतल्या कृष्णाचो पुत इंद्र हाका जिखून आपुण त्या देसांत थिरावलो. चालुक्य राजकुळी सव्या शेंकड्याच्या लागत्यार थापिल्ली. सुमार तिसऱ्या शेंकड्याचे अखेरेपासून सवो शेंकडो लागमेरेन दक्षिणेंत

* Ear. Hist. Dek. Bom. Gaz., vol. I, pt. 2, pp. 194-202 & 207.

§ JBBRAS., vol. 18, p. 245.

† Early Hist. Dek. Bom. Gaz., vol. I, pt. 2, p. 194.

राष्ट्रकूट कुळयेचे राजपुत राज्य चलैतालें'‡ ह्या अवतरणांत सर रामकृष्णशर्णेनीं राष्ट्रकूट ह्या उतराची जी फोडणिशी दिल्या ती **चिके भोंवाडयाची** दिसता. तिचेकूय डॉ. जे. एफ्. फ्लीट हाणीं दिल्ली फोडणिशी चड सामके वाटेंतली आसा. ते ह्मण्टात, 'पुर्विल्ल्या काळांत राष्ट्रकूट नांवाचो सरकारी अधिकाऱ्यांचो एक वर्ग आसलो. ग्रामकूट ह्मणचे 'गांवचो मुखेल मनीस' तेच रितीन राष्ट्रकूट ह्मणचे राष्ट्राचो वा प्रांताचो मुखेल मनीस' अशें दिसता. राष्ट्रकूट हे मुदलचे मोकासदार आनी वंश-पिडयांनीं प्रांताचे अधिकारी आसले जांवये. परंत जेन्ना ताणीं राजसत्ता जोडली तेन्ना पुर्विल्ल्या अधिकाराचें नांव हेंच आपले राजकुळयेचें नांव केलें जांवये'* गोंयां तुर्ताक देसपरोब, सरदेसाय आनी प्रबे देसाय अशीं जीं कुळनांवां घोळणुकेंत आसात तीं सगळीं त्या त्या घराण्यांतल्या पुर्विल्ल्या जाण्टेल्यांनीं चलैल्ल्या अधिकारांचीं नांवां आसात हांतूंत निखालुस दुभाव ना. राष्ट्रकूट हें नांव तशेंच तरेचें आनी तशाच अर्थान उपाट भल्लेलें आसा. राष्ट्राचो वा देसाचो मुखेल अधिकारी ह्या अर्थान राष्ट्रकूट हें नांव पैलेंवैलें आमकां मेळटा आनी कुळनांव ह्या अर्थान तें मागीर मेळटा. क्रिस्ताच्या सातव्या शेंकडया आदीं तें उतर अधिकारी वा कुळनांव ह्या दोनूय अर्थांनीं घोळणुकेंत आशिल्लें दिसना. सातव्या शेंकडयांत तें अधिकारी ह्या अर्थान पैलेंवैलेंच उजवाडाक येवन उप्रांत कुळनांव आनी अधिकारी ह्या दोनूय नात्यांनीं जायतें घोळिल्लें दिसता. मद्रास इलाख्यांत मेळिल्ल्या सातव्या शेंकडयाच्या पैल्या अर्दांतल्या पृथिवीमूल राजाच्या तांब्या-पटयांत 'सर्वानेव राष्ट्रकूटप्रमुखानेवाज्ञापयति' अशें वाक्य आसा.§ हांतूंत राष्ट्रकूट ह्मणचे **राष्ट्रपति** वा **देसाचो मुखेल अधिकारी** असो जाता. कुळनांव ह्या नात्यान तें माळव्यांतल्या मानपुर गांवच्या अभिमन्यु राजाच्या तांब्या-पटयांत दिष्टी पट्टा अशें एकाद्रें ह्मणूं येता. ह्या तांब्या-पटयार तारीख ना. तरी बरपाचे मोडणे-वैल्यान तें सातव्या शेंकडयांतलें जांवये अशें डॉ. फ्लिटांचें मत्त आसा.¶ हांतूंत अभिमन्यूच्या पणज्याची वर्णना '**राष्ट्रकूटानां तिलक भूतो** मानांक इति राजा बभूव' अशी दिल्या.$ हे वर्णनेंत राष्ट्रकूट ह्या उतराक वंश ह्या अर्थाचें उतर जोडूंक नाशिल्ल्या कारणान ताचो अर्थ राष्ट्रकूट वंश असो करचेबदला '**राष्ट्रकूट अधिकाऱ्यांच्या कपाळावैलो तिळो**' असो केल्यार कांय चूक जायना. ह्या दोट्टी अर्थाच्या पुराव्यापरस राष्ट्रकूट हें उतर कुळनांव ह्या नात्यान उपकाराइल्लें पैलेंवैलें घसघशीत उदाहरण, मध्यप्रांतांत, मुलताय गांवांत मेळिल्ल्या क्रि. स. ७०९ च्या

‡ Early Hist. Dek. Bom. Gaz., vol. I, pt. 2, p. 178.

* Bom. Gaz., vol. I, pt. 2, pp, 384-385.

§ JBBRAS,. vol. 16, pp. 117-119.

¶ Bom. Gaz., vol. I. pt. 2, p. 386.

$ JBBRAS., vol. 16, p. 90,

नंदराजाच्या तांब्या-पटचांत मेळटा. तांतूंत **श्रीराष्ट्रकूटान्वय** ह्मणपाचें नंदराजाचें कुळनांव दिलां.|| हाचेवैल्यान डॉ. फ्लिटांचे ह्मणणे भाशेन राष्ट्रकूट हें उतर मुदलाक अधिकार दाखैणें आसून उप्रांत कुळनांवान घोळूंक लागलें हांतूंत दुभावाक कारण दिसना.

तिसऱ्या शेंकडयाचे अखेरेपासून सवो शेंकडो लागमेरेन दक्षिणेंत राष्ट्रकूट कुळयेचे राजपुत राज्य चलैताले अशें सर रामकृष्णशणै ह्मण्टात; परंत वैर फोडणिशी करून सांगिल्ले भाशेन, राष्ट्रकूट हें उतरूच मुदलाक सातव्या शेंकडया आदीं जल्मा आइल्लें दिसना. ऐहोळच्या क्रि. स. ६३४ च्या बरपावैल्यान समजूं येता कि सव्या शेंकडयांत आनी त्या आदीं दक्षिणेंत बळिष्ट राजा आसले ते मौर्य, कदंब, नळ आनी कळचुरी. हांकां नाशे करून उडौंक पैलो कीर्तिवर्मा, मंगलीश आनी दुसरो पुलिकेशी हे तीन चालुक्य राजा सुमार पन्नास वर्सां एकासारके वावुरताले.* तांकां त्यावेळार राष्ट्रकूट राजांकडेनूय पौठ घांसची पडिल्ली जाल्यार, तांचेय नांव ऐहोळच्या नाजाल्यार त्या आदल्या एकाद्रचा बरपांत आयल्याबगर रांवचें नासलें; आनी ज्या पक्षाक तें येंवक ना त्या पक्षाक मुदलच्या चालुक्यांनीं राष्ट्रकूटांक जिखून आपली सत्ता उबारूंक ना ह्मणपाचें सिद्ध जाता. मिरजेच्या क्रि. स. १०२४ च्या तांब्या-पटचांत जयसिंह चालुक्यान इंद्र राष्ट्रकूटाक जिखून आपली सत्ता पर्थून थापली अशें जें ह्मळां‡ तांतूंत इकराव्या शेंकडयांतल्या बेष्टचा बडवाचारांचे कल्पनेंतल्या शेळचा काव्याबाजत इतिहासीक खरेपण ना. जयसिंह हो बादामीच्या चालुक्यांचो मुळपुरुस. हाचो वेळ अदमासान सव्या शेंकडयालागत्यारचो जमता. बादामीच्या चालुक्यांचे वेळचीं सव्यापासून आठव्या शेंकडयातलीं सुमार दोनशीं वर्सांतलीं जीं बरपां मेळटात तांतूंत ताणीं कोणाय राष्ट्रकूटाक जिखून आपलें राज्य उबाल्लें ह्मणपाची गजाल निखालुस येंवक ना; आनी ही गजाल खरेपणानशींच घडिल्ली जाल्यार तिचें ताजें तट्टीतपण आनी ह्मत्व हांचेखातीर, ती सव्या-सातव्या शेंकडयांतल्या बरपांनीं आयल्याबगर केन्नाच रांवची नासली.

हे फोडणिशेवैल्यान, राष्ट्रकूट हें उतर सुमार सातव्या शेंकडयांत देसाचो मुखेल अधिकारी ह्या अर्थान पैलेंवैलेंच वैर सरून आठवो शेंकडो लागत्यार तें कुळनांव ह्या नात्यान घोळूंक लागलेंशें दिसता. कुळनांव ह्या नात्यान राष्ट्रकूट हें उतर लावन घेणीं तीन घराणीं आठव्या शेंकडयांतल्या बरपांनीं दिसतात. तांतूंतलें पैलें नंदराजाचें. हो एक ल्हानसो मांडलीक राजा आसलो. दुसरें दंतिदुर्गाचें. हें घराणें फुडाराक मालखेडचे राष्ट्रकूट ह्मणून गाजलें. क्रि. स. ७५३ च्या सामनगडच्या तांब्या-पटचांत दंतिदुर्गाचो बापुय इंद्रराज हाका '**राष्ट्रकूटांचो भांगराच्या दोंगरासारको** इंद्रराज'

|| Ind. Ant., vol. 18, p. 234.

* Ind. Ant., vol. 8, pp. 241-242. ‡ JRAS., vol. 3 p. 259.

अशें ह्मळां.|| तिसरें घराणें सुरतेच्या दुसऱ्या कर्कराजाचें. हाच्या क्रि. स. ७५७ च्या तांब्या-पटचांत ताचो पणजो पैलो कर्कराज हाका 'साळकांच्या घोंसासारक्या **राष्ट्रकूट वंशाचो** सूर्य' अशें ह्मळां.¶ दुसऱ्या कर्कराजाची पदवी 'परमभट्टारक महाराजाधिराज परमेश्वर' अशी दिल्या.§ हाचे वैल्यान तो बळिष्ट आनी स्वतंत्र राजा आसलो अशें दिसता. ह्या तीनूय घराण्यांचे मुद्रेचेर गरुडाचें चित्र आसा. हीं घराणीं मुदलचीं एकूच जांव येतीत अशें ह्मणूं येता. परंत तांचें एकामेकांकडेन नातें कसलें आसलें तें समजना. त्या घराण्यांचे मुळपुरुस सातवो शेंकडो लागत्यार व्हडविकेच्या हावेसान खैंच्याय एका थळांतसून भायर सल्ले आनी मुदलाक राष्ट्रकूटपणाचो अधिकार जोडून, उप्रांत तांचे पिळगेन राजपद जोडलें अशें दिसता. अशें अनुमान करूंक तांकलें तरी, मुलतायच्या तांब्या-पटचांतलो नंदराज आनी सुरतेच्या तांब्या-पटचांतलो कर्कराज हे मुदलचे गोंयचेच ह्मणपाची खात्री दिव नज; कित्याक, ह्यासंबंधाचो गडगंज पुरावो मेळना. परंत मालखेडचे राष्ट्रकूट मुदलचे गोंयकार ह्मणपाचें आधारासैत सिद्ध करून दाखौं येत. ह्या राष्ट्रकूटांचें राज्य उबारणो पैलो पुरुस म्हण्टात तो दंतिदुर्ग. क्रि. स. ७५३ चो सामनगडचो तांब्या-पटो हें ह्या वंशासंबंधाचें पैलेंवैलें बरप. ह्या पटचांत दंतिदुर्गाचो पणजो गोविंदराज हो धरून वंशाचे वर्णनेक आरंभ केला. तांतूंत गोविंदराज, ताचो पुत कक्कराज आनी नातू इंद्रराज हांकां जरी राजा हें उतर लायलां तरी तांची वर्णना फक्कत उपचारीक दिसता. ते शिंवासनाचेर चडकरून केन्नाच बसूंक नासले ह्मळ्यार चूक जांवची ना. पण्टू दंतिदुर्ग हाणें राजपद जोडलें देखून ताणें आपल्या खासा बरपांत आपल्या बापाय-आज्या-पणज्याक राजा हें उतर लावन तांचो भौमान केलो ह्मळ्यार कामायता. वेरूळच्या दशावतार देवळांतल्या अर्दुकडें सांडिल्ल्या पाशाणा-बरपांत दंतिदुर्गाच्या पणज्याचो बापुय आनी आजो हांचीं नांवां अनुक्रमान इंद्रराज आनी दंतिवर्मा अशीं आयल्यांत.* वीस वर्सांची पिडी ह्या हिशेबान, सामनगडच्या तांब्या-पटचाच्या वर्सापासून दंतिवर्म्याचें वर्स सुमार ६५३ वें लागता. हाचेवैल्यान सातव्या शेंकडयाच्या पैल्या अर्दांत दंतिवर्मा नाजाल्यार ताचो बापुय आपलो मुदलचो गांव म्हणचे गोंय सोडून भायले भोंवडेक गेलो जांवये. दंतिवर्म्यापासून दंतिदुर्गामेरेनचीं शंबर सवायशीं वर्सां, व्हडवीक जोडूंक भायर सरिल्ल्या कर्तुत्वदशेच्या मनशांक थोडीं न्हयत. दंतिवर्म्यापासून दुसऱ्या इंद्रराजामेरेन पांच पुरुसांनीं चालुक्यांच्या शेकातळाच मुदलाक राष्ट्रकूटपणाचो अधिकार जोडून, ल्हवू ल्हवू आपणालें बळगें चडैलें जांवये आनी त्या बळग्याच्या नेटार,

---

|| राष्ट्रकूटकनकाद्रिरविंद्रराज : Ind. Ant., vol. II, p. 112.

¶ श्रीराष्ट्रकूटकुलपंकजषंडसूर्य: JBB RAS, vol. 16, p. 107.

§ JBBRAS., vol. 16, p. 108.

* ASWI., vol 5. p. 88.

दोनशीं वर्सां राज्य चलौन पुरो जाल्ल्या आनी भागिल्ल्या चालुक्यांचें राजपद, दंतिदुर्गाक भोव सोंपेपणान मेळ्ळें जांवये. दंतिदुर्गाची आवै ही चालुक्य राजकन्या अशें सामनगडच्या तांब्या-पटचांत ह्मळां.† ह्मण्टकूच ती राज्यचलैण्या बादामीच्या चालुक्य घराण्यांतली नाजाल्यार तांच्या दायज्या-गोत्र्यांभितल्ली जांवये. राज्यचलैणें चालुक्य घराणें हें तिचें कुळार आसल्यार, इंद्रराज राष्ट्रकूटाकडेन तिचे लग्न करून दिवक, राष्ट्रकूटांची योग्यताय जायती वाडिल्ली म्हणूंक पर्वा ना. आठव्या शेंकडयाचे मजगतीमेरेन ह्मणचे बादामीचो निमाणो चालुक्य राजा दुसरो कीर्तिवर्मा हो शिवासनार चडमेरेन चालुक्य आनी राष्ट्रकूट हांचें केन्नाच झगडें लागिल्लें दिसना. दुसरो कीर्तिवर्मा क्रि. स. ७४७ वर्साच्या सुमाराक राज्यार बसलो. तो पाटां-कुंवर आसताना, ताणें कांचीच्या पल्लव राजाक तागेल्या किल्ल्यांत धांवडावन, थैंचे मातिल्ले हती, केम्पू आनी जायतें भांगर लुटलें आनी तें आपल्या बापायक हाडून दिलें ह्मणपाची खबर ताच्या ७५७ वर्साच्या तांब्या-पटचांत आयल्या.¶ परंत शिवासनार बसतकूच आपलें राज्य राखून धरूंक तो साप अशक्त आनी दुबळो जाल्लोसो दिसता. कित्याक, तो शिवासनार चडून स वर्सां जातकूच कोन्नाइल्ल्या ७५३ च्या सामनगडच्या तांब्या-पटचांत म्हळां कि 'ध्याना-मनांत नासताना, निच्छय करिनासताना, कष्ट काडिनासताना, पाजैल्लें शस्त्र हातांत धरिनासताना, दंतिदुर्ग राष्ट्रकूटान आपल्यो भोंवयो तरांटून, निखटया दांडयान **वल्लभाक** अकस्मात जिखलो आनी आपुण राजाधिराजपरमेश्वर जालो. कांचीचो राजा, केरळचो राजा, चोल, पांडच, श्रीहर्ष आनी वज्रट हांकां झुजांत हार करूंक जें मोटें खांपें आसलें तें अपरमित **कानडी** सैन्य, जिखूंक कठीन अशा थोडया झुजप्यांसैत दंतिदुर्गान रोखडेंच जिखलें.'* हांतूंतलें **वल्लभ** हें उतर दुसऱ्या कीर्तिवर्म्याक लागू आसून **कानडी** हें उतर ताच्या सैन्याक लायलां.‡ ह्या

† Ind. Ant., vol. 11 p. 112 & 114.

¶ Ind. Ant., vol. 8, p. 27.

* सभ्रूविभंगमगृहीतविधौतशस्त्रमज्ञातमज्ञातमप्रणहितांत्रमपेतयत्नम् । यो **वल्लभं** सपदि दंडलवेन जित्वा **राजाधिराजपरमेश्वरतामुपैति** । कांचीश केरलनराधिप चोल पांडच श्रीहर्ष वज्रटविभेदविधानदक्षम् । **कर्णाटकं** बलमनंतमजेयरथ्यैमृत्यै : कियभ्दिरपि य : सहसा जिगाय ।। Ind. Ant., vol. 11, p. 112. दंडनैव जिगाय वल्लभबलम् । ASWI., vol. 5, p. 88.

‡ दंतिदुर्ग राष्ट्रकूटान दुसऱ्या कीर्तिवर्म्याक जरी क्रि. स. ७४८ च्या सुमाराक जिखलो तरी ताचें सगळेंच राज्य ताच्या हातांत पडलें ना. कीर्तिवर्मा आनीक णव-धा वर्सां म्हणसर थोडें-भोव राजपद भोगतालो ह्मणपाचें ताच्या ७५७ च्या तांब्या-पटचा वैल्यान सिद्ध जाता. दंतिदुर्गाफाटल्यान राष्ट्रकूट पैलो कृष्णराज हाणें आपले राजवटींत कीर्तिवर्म्याक राजपदावैलो साप निखळायलो.

अवतरणांतली अळंकारीक भास उक्तेपणान दाखैता कि कीर्तिवर्मा चालुक्य हो एक साप अशक्त राजा आसून ताचें राज्य घेंवक दंतिदुर्ग राष्ट्रकूटाक मोटेसे कष्ट पडूंक नात. हे भाशेन, आठव्या शेंकडयाचे मजगतीं दंतिदुर्गान राष्ट्रकूटांचें जें राज्य थापलें तें क्रि. स. ९७३ वर्साम़ेरेन सुमार सवायदोनशीं वर्सां हिंदुस्तानाच्या इतिहासांत नावां-लोकिकान जायतें घणघणलें.

आतां दंतिदुर्ग आनी ताचे जाण्टेले हे गोंयकार कशे ह्मणपाचो पुरावो सोदुंया. हो पुरावो, णवव्या शेंकडयांत दक्षिण हिंदुस्तानांत पडिल्ले एके नवे चालीच्या धर्मान आमकां मेळटा. ही चाल ह्मणचे **शासनपटयांनीं राज्यचलैणे कुळयेच्या मूळगांवाचें नांव घालप.** ही चाल पैलीवैली मालखेडच्या राष्ट्रकूट राजांनीं घोळणुकेंत हाडली जांवये. कित्याक, तांचे आदल्या बादामीच्या चालुक्यांच्या शासनांनीं तांच्या मूळ गांवाचें नांव घाल्लें दिसना. चालुक्यांचो मूळगांव अयोध्या म्हणपाचें बिल्हण कवीन इकराव्या शेंकडयांत बरैल्ल्या विक्रमांकदेवचरितांत म्हळां.§ परंत सव्या पासून आठव्या शेंकडया मजगतच्या चालुक्यांच्या बरपांनीं त्या संबंधाचें नांव-गिराणूय ना. राष्ट्रकूटांची देख घेवन, तांचे वेळच्या आनी उप्रांतच्या सम्राटांनीं आनी मांडलिकांनीं शासनपटयांत आपलो मूळगांव बिरुदाभाशेन उपकाराइल्लो दिष्टी पट्टा. उदा-हरणाक, उत्तरकोंकणांतल्या आनी कऱ्हाडच्या शिलाहारांनीं आपणांक 'तगरपुरव-राधीश्वर' ह्मणचे 'तगरकार', हळसीच्या आनी हानगळच्या कादंबानी 'वनवासी-पुरवराधीश्वर' ह्मणचे 'वनवासीकार', देवगिरीच्या यादवांनीं आनी द्वारसमुद्राच्या होयसळांनीं 'द्वारावतीपुरवराधीश्वर' ह्मणचे 'द्वारकेकार', कल्याणीच्या कळचूर्यांनीं 'कालंजरपुरवराधीश्वर' ह्मणचे 'कालंजरकार', येलबुर्ग्याच्या सिंदांनीं 'भोगावती-पुरपरमेश्वर' ह्मणचे 'भोगावतीकार' आनी गुत्तलच्या गुत्तांनीं 'उज्जयनीपुरव-राधीश्वर' ह्मणचे 'उज्जयनीकार' अशीं बिरुदां लावन घेतल्यांत. तुर्ताक कोंकण, मराठण आनी कर्णाटक हांतूंत गांवांवैल्यान आडनांवां घालची जी चाल चलिल्ली दिसता तिका आरंभ णवव्या शेंकडयांतले राष्ट्रकूटांचे देखीवैल्यान एकाद्रो जालो जांवये. हे चालीच्या धर्मान राष्ट्रकूटांचो मुदलचो गांव कोण तो रोखडोच सोदून काड्न ते गोंयचेच ह्मणपाचें खात्रीन थारांव येता.

धारवाड जिल्ह्यांतल्या शिरूर गांवांत शक ७८८ (क्रि. स. ८६६) वर्साचें एक पाशाणा-बरप आसा. तांतूंत राष्ट्रकूट सम्राट पैलो अमोघवर्ष हाका **लत्तलूरपुरपरमेश्वर** म्हणचे **लत्तलूर** नगराचो मोटो धनी वा **लत्तलूरकार** हें बिरुद लायलां.* ह्या नगराचें नांव बाराव्या शेंकडयाचे अखेरेमेरेनच्या बरपांनीं **लत्तलूर** आनी **लतलौर** अशें आयलां.‡

§ Ind. Ant., vol. 5 p. 317.,

* Ind. Ant., vol. 12, p. 218.

‡ Epig, Ind., vol. 3. p 306.

त्या उप्रांत बेळगांव जिल्ह्यांतल्या सौंदत्तीचो रट्ट  महामंडलेश्वर चौथो कार्तवीर्य हाच्या क्रि. स. १२०९ वर्साच्या तांब्या-पटयांत **लत्तनूर** अशें आयलां. ‡ परंत ही पटो कोत्रायतल्याची चूक जांवये. खरें उतर **लत्तलूर** वा **लत्तलौर** हांतूंत दुभाव ना. हीं दोनय रुपां **लत्तलपुर**  हाचेवैल्यान जाल्यांत.

लत्तलूर उतरासंबंधान सर वॉल्टर ईलियट ह्मण्टात, 'ह्या नांवाचें एकूय नगर मेळूंक ना; परंत हें नांव पैलेच खेपे वाचिनाफुडें तें लत-एलुरा ह्या उतरापासून जालें जांवये अशें ह्मज्या मनांत आयलें. लत्तलूर हें नांव लत-एलुरा अशें वाचप दाटून बळयांचें कशें दिसता खरें. परंत राष्ट्रकूट राजा लाट देसाचेर राज्य चलैताले आनी एलूर हें त्या घराण्याचें पैलें राजपाटण आसलें ह्मणपाचें ध्यानांत घेतकूच ह्मजे कल्पनेंत खरेपणाचो भास आसल्याबगर रांवचो ना अशें दिसलें, '‖ ह्या अवतरणांत सर वॉल्टर आपलें निरुक्त दाटून बळयांचें आसा ह्मणपाचें आपल्याच तोंडान सांगतात हें भोव बरें जालें परंत तांकां आपले कल्पनेंत खरेपणाचो भास आसासो दिसता तो मात भ्रम आसा; लत-एलुरा अशें उतर घडौपांत राष्ट्रकूटांच्या राजपाटणांची आनी मुखेल जनपदांची वळेरी करपाचो हेत आसलो असो सर वॉल्टरांचो समज आसल्यार तें उतर घडैतल्यान मयूरखंडी आनी मान्यखेट हीं राजपाटणांय त्या उतराक जोडूंक जाय आसलीं; परंत तीं जोडूंक नात. लत्तलपुर हें उतर अमोघवर्ष राष्ट्रकुटाचे राजवटींत क्रि. स. ८६६ च्या तांब्या-पटयांत पैलेंवैलेंच आयलां आनी त्या आदीं जायतीं वर्सां खासा अमोघवर्षान मान्यखेट हें आपलें राजपाटण केलां; म्हण्टकूच, त्या राजाचो मान राखूंक, मान्यखेट हें नांव जाल्यार लत्तलूर ह्या नांवाक मुजरत जोडून येंवक जाय आसलें; परंत तें तशें येंवक ना. हाचेवैल्यान, राष्ट्रकूटांचे मुखेल जनपद आनी राजपाटणां हांची वळेरी करपाचो हेत लत्तलूर ह्या उतरांत दिसून येना म्हणपाचें सिद्ध जाता आनी सर वॉल्टरांचे कल्पनेंत खरेपणाचो भास ना ह्मणपाचें उक्तें दिसता.

ह्या उतरासंबंधान डॉ. फ्लीट ह्मण्टात, 'राष्ट्रकूट मुदलाक ज्या गांवांतसून भायर सल्ले तो हो गांव. हो गांव कोण आनी खैंचो ह्मणपाची वळख अजून मेळूंक ना; परंत ताचें एकाद्रें रूप अजून घोळणुकेंत आसलें जाल्यार, मध्यप्रांतांत, बिलासपुर जिल्ह्यांत, रतनपुर नांवाचो जो एक गांव आसा तो जांवये.* ह्या अवतरणाचें सार इतलेंच कि मुदलचें लत्तलपुर हाचेवैल्यान आतांचें रतनपुर हें उतर जालें. परंत अशें घडप प्राकृत व्याकरणाच्या नेमाभायरें आनी वेव्हारा आड आसा अशें दिसता.

---

‡ Ind. Ant. vol. 19, p. 247.

‖ The International Numismata Orientalia, London 1886, p. 74, note I.

* Bom. Gaz., vol. I, pt. 2, p. 384.

मुदलचें नांव ‘रतन’ आसलें जाल्यार ताचें प्राकृत रूप ‘लतन’ वा ‘लतल’ जांव येता; परंत ‘लतल’ ह्या उतराचें ‘रतन’ जांवक चिके कठीन.

ह्या उतरासंबंधान, भौ. चिंतामण वि. वैद्य हे आपल्या मराठी मध्ययुगीन भारताच्या दुसऱ्या वांटचांत ह्मण्टात, “राष्ट्रकूटांक ‘**लट्टलूरपुरपरमेश्वर**’ अशीय एक पदवी आसली. हें नांव तांकां कशें मेळ्ळें ह्मणपाची फोडणिशी आजवेर कोणेंच करूंक ना. आमच्या मत्तान, मालखेड थापचे आदीं, इतलेंच न्हय, तर मयूरखंडीच्याय आदीं, ‘लट्टलूरपुर’ गांव राष्ट्रकूटांचें राजपाटण आसूंये, आनी तितलेंच खातीर तांकां ‘लट्टलूरपुरपरमेश्वर’ अशें म्हण्टात.”† भौमानेस्त वैद्य हे आपल्या इंग्रजी मध्ययुगीन हिंदु भारताच्या दुसऱ्या वांटचांत ह्मण्टात, ‘इतिहास-सोदपी विश्वनाथ काशीनाथ राजवाडे सुचैतात कि उत्तरेक चेदीच्या मुलखांत, रत्नपुर ह्मणून जें नगर आसलें, तेंच हें **लट्टलूर**. परंत हाचें कारण ताणीं दिवक ना. आमकां दिसता कि तांब्या-पटचांच्या संस्कृत बरप्यांक आपल्या बरपांनीं **लट्टलूर** ह्या प्राकृत उतराबदला रत्नपुर हें संस्कृत नांव भोव सोपेपणान घालूं येतालें. उदाहरणाक, राष्ट्रकूटांचें राज-पाटण मालखेड ह्या मराठी नांवाबदला ताणीं मान्यखेट हें संस्कृत रूप घालां.’¶

लत्तल शारासंबंधान सर वॉल्टर, डॉ. फ्लीट, भौ. वैद्य आनी राजवाडे हांचें मत्त कितें आसा तें हांवें दिलें. परंत तें वाचून लत्तल हें नगर कोण आणि खैंचेकडेन आसा ह्मणपाचें खरेपणानशीं समजना. फ्लीट आनी राजवाडे हांचे ह्मणणेभाशेन मध्यप्रांतांतलें रतनपुर वा रत्नपुर हेंच लत्तलपुर. परंत ही तांची म्हणणी, गडगंज इतिहासीक पुरावो दिवन खंडून उडौंक कठीन ना. रत्नपुर ह्या नगराचो आनी नांवाचो जल्म केन्ना जालो ह्मणपाचें सोदून काट्टकूच, फ्लीट आनी राजवाडे हांची म्हणणी निखालुस तगना ह्मणपाचें सिद्ध जातलें. रतनपुर वा रत्नपुर हाचेवैल्यान जर लत्तलपुर जालें आसलें, तर रत्नपुराचो जल्म लत्तलपुरा आदीं जायतीं वर्सां जांवक जाय म्हणपाचें कोणाकूय कबूल करचें पट्टलें. परंत इतिहास आमकां वेगळीच गजाल सांगता. तो ह्मण्टा कि **रत्नपुरा आदीं लत्तलपुराचो जल्म जाल्लो**. तो कसो तें आमी पळौंया. मध्यप्रांतांत रत्नपुरा मेळिल्लें एक पाशाणा-बरप आसा; तें तुर्ताक नागपूरच्या मुजेवांत आसून ताची तारीख चेदी संवत ८६६ म्हणचे क्रि. स. १११४ आसा. हें बरप रत्नपूरचो चेदी वंशांतलो राजा जाजल्लदेव हाचे वेळचें आसा. ह्या राजान कांय दान-धर्म केल्लो त्या संबंधाचें हें बरप आसून तांतूंत ह्मळां कि जाजल्ल-देवाचो आजो रत्नराज वा रत्नेश्वर हाणें रत्नपुर हें शार बांदलें.* हाचेवैल्यान

† मध्ययुगीन भारत, भाग २, पान २५३.

¶ History of Mediaeval Hindu India, Poona 1924, vol 2, p. 323.

* एतद् यद् विपुलं धनेश्वरपुरप्रख्यं महेशान्वितन् । नानावर्णविचित्ररत्नखचितं रत्नालयाभं यतः । नानादेवकुलैश्च भूषितमिति स्वर्गाभमालक्ष्यते । **श्रीमद्रत्नपुरं दिशिश्रुतयशो रत्नेश्वरो यद्व्यधात्** ।।११।। Epig. Ind., vol. I, pp. 35 & 37.

जाजल्लदेवा आदीं दोन पिडयो ह्मणचे क्रिस्तांव सन १०७० वर्साच्या सुमाराक रत्न-राजान एक राजपाटण बांदून ताका आपल्या नांवाचे यादस्तेखातीर रत्नपुर हें नांव दवल्लें ह्मणपाचें सणसणीत सिद्ध जाता. आतां लत्तलपुर हें नांव पळौंक गेल्यार, १०७० व्या वर्सा आदीं जायतो काळ घोळणुकेंत आशिल्लें दिसता. सौदत्तीचो रट्ट महासामंत एरेयम्मरस वा एरग हाका क्रि. स. १०४० च्या एका पाशाणा-बरपांत 'लत्तलूरपुरवरेश्वर' हें बिरुद लायलां.§ त्याय आदीं, वैर सांगिल्लेभाशेन, क्रि. स. ८६६ वर्साच्या पाशाणा-बरपांत अमोघवर्ष राष्ट्रकूटाक '**लत्तलूरपुरपरमेश्वर**' ही पदवी लायल्या. ह्या पुराव्यावैल्यान सिद्ध जाता कि **रतनपुर वा रत्नपुर नगर आदीं लत्तलपुराचो जल्म जाला आनी तीं दोनूय थळां वेगळीं वेगळीं** आसून तांचें एकामेकांकडेन कसलेंच नातें ना. तर आतां आमी लत्तलपुर नांवाचें थळ खैंचेकडेन सोदूंक वचूंया ? इंग्रजी हिंदुस्तान, फ्रांसेज हिंदुस्तान आनी देसी संस्थानां हांगाच्या पुर्विल्ले नामनेच्या कसल्याच थळाकडेन ताचो मेळ जमना. ह्मण्टकूच, लत्तलपुर ह्या नांवाची सुवातूच नासली अशें आमी समजूंचें? राष्ट्रकूटांनीं बेष्टे पोके बडायेखातीर तें बिरुद घेतिल्लें अशें आमी मानचें ? तशें जायतशें दिसना. लत्तलपुर हें थळ आठव्या शेंकडयांत राष्ट्रकूटाचे वेळार जशें नंदताले तशेंच तें आज विसाव्या शेंकडयांतूय नंदता. तें नाशें जांवक ना. तें थळ ह्मणचे पुर्तुगेज हिंदुस्तानांतलें **गोंयचें, साष्टींतलें लोटली.** लत्तल ह्या उतराचो लोटली ह्या उतराकडेन जिस्त मेळ जमता. मालखेड ह्या प्राकृत उतराचें संस्कृत बरप्यांनीं जशें मान्यखेट केलें तशेंच लोटलीं ह्या प्राकृत उतराचें ताणीं लत्तल केलें हांतूंत निखालुस दुभाव ना. लोटले शेजारच्या चांदराक रट्टराज शिलाहाराच्या क्रि. स. १००८ च्या तांब्या-पटयांत जशें चंद्रपुर ह्मळां $ तशेंच **लोटलेक लत्तलपुर हें नांव दिलां.** अजूनूय लोटली हो गांव साष्टींत मोटो नांवालोकिकाचो आसा. शेतां, भाटां, झरी, तळयो, व्हाळ, दोंगर हांचे निजाचे सुंदरकायेन हो गांव भौच सोबित दिसता. हांगा सर्द आनी वांयगण अशी दोन पिकां जातात. हांगा भात आनी नाल्ल जायतो पिकता. पोरणावळीशास्त्राचे* नद्रेन पळौंक गेल्यार लोटलेची भुंय पावलाकणकणी इतिहासान लसलशिल्ली दिसता. ही भुंय खोऱ्यांकुदळींनीं जतनायेन खणून पळेल्यार भितरसून लकलकीत इतिहासाची म्हुर्तं वैर सल्याबगर रांवची ना. भुंय खणिनासतानाय हांगा जायती इतिहासीक थळां दिष्टी पट्टात आनी तांचे संबंधाच्यो तोंड-वदंता भौच रसाळ लागतात. देवटी वाडयावैलो ओगोड नांवाचो खोल चर, थैंच्यो तीन दोंगुल्यो आनी लोटलीकार देसायाची धुव भागिरथी हिणें, आपलो मांव वेरणेंकार देसाय, हाच्या सैन्याचे घुरयेतसून आपल्या बापायक वाटांवक घेतिल्लो घोडेसुंवाराचो भेस

§ Ind. Ant., vol. 19, p. 164. $ Epig. Ind., vol. 3, p. 299.

* पोरणावळी-शास्त्र=Archæologia.

आनी तांतूंत तिका आइल्लें मर्ण, ही कथा एकाद्रे रसाळ नवलकथेचो विषय जांवक फावोशी आसा.§ त्याच देवटी वाडचार बाडे नांवाचे सुवातेर सातां तोंडांचें एक भुंयार आसा; त्या तोंडांक बांयों ह्मण्टात. तांतूंतले एके बांयक घोडचां-बांय आनी दुसरेक वागोळचां-बांय अशी नांवां आसात. हें भुंयार वैलेवशीन एका थपकट्या फातरान धांपिल्लें आसा. थैंच्या वरगांव वाडचार आनदोंगरी नांवाचे दोंगुल्लेचेर फातरांतसून कांतैल्लो एक सुंदर पलंग आसा. तेच भाशेन, खारवट वाडचावैले पाळंद नांवाचे सुवातेर फातरांतसून कांतैल्ली एक होंवरी आसा; तिका आंडी म्हण्टात. हे होंवरेंत चोंयवसल्यान उदक पाजरतालें आनी तें पवित्र आसा अशें समजून पैंशिले घांटवळ

§ ही कथा अशी सांगतात कि लोटलीकार आनी वेरणेंकार देसायांभितर एक-फावट तीड येवन, वेरणेंकारान एके रातीं लोटलेचेर आगान्तुक घुरी घालचो बेत केलो. भागिरथीक ती ख़बर कळ्ळी. आपल्या बापायक त्या संकष्टाची सुलूस दिवक, मांव आनी घरचे हेर लोक रातच्या वेळार जेंवक बसल्यातशे पळौन, ती एका घोडचार बसली आनी ताकतीन कुळारा वचून बापायच्या कानार सगळी खबर घाली. ताची झुजपाची तयारी नासली. देखून तो काचाबूल जालो. त्या प्रसंगाक कितें करचें तेंच ताका येवजना जालें. ताणें आकान्तून आपल्या राखणदार देवचाराक उलो माल्लो आनी ताचेर सगळो भार घालून, वेरणेंसून लोटले येंवच्या मार्गार खोरें आनी पांटली व्हरून दवल्ली. देवचार ताच्या संकष्टाक पावलो आनी ताणें त्या मार्गार खोऱ्यान तीन धपके मारून, दर खेपे पांटली पांटली माती काडली आनी ती तीन सुवातांनीं उडैली. हे भाशेन, ते मातयेच्यो तीन दोंगुल्ल्यो जावन माती खणिल्ली थैं खोल चर जालो. इतले ह्मणसर वेरणेंकार देसाय घोडेसुंवारांचें सैन्य घेवन लोटले-चेर घुरी घालूंक येंवक लागलो. त्याच वेळार सुंवाराच्या भेसान भागिरथी वेरण्यां पर्थताली. वेरणेंकार देसायाक तो सुंवार शत्रूकडचो खबरकाडो कसो दिसून ताणें आपल्या सुंवारांकडसून तिका कैद केली; ताणीं तिची एकदम तकली माल्ली. मागीर वेरणेंकाराचे सुंवार, देवचारान घडिल्ले दोंगुल्लेवैल्यान सकला देवता आसताना थैंच्या चरांत पडून मरूंक लागले. चर खोल आशिल्ल्या कारणान, घोडयांच्या खुरांचो नाद फाटसून येतल्या सुंवारांक आयकूंक येनासलो. हे भाशेन, जायते सुंवार मरतकूच ती अनर्थाची खबर उक्ताडाक आयली. वाटेचे वाटेर हें अपेस आइल्लें पळौन, वेरणेंकार देसाय उरिल्ल्या सैन्यासैत फाटीं पर्थलो. त्यावेळार कैद करूंक लाइल्ल्या खबरकाडयाक वांगडा व्हरूंक ताणें आपल्या सरदारांक सांगलें. फुडें आपली अपुर्बायेची सून भागिरथी हीच तो खबरकाडो ह्मणपाचें कळून, दुखान ताचो जीव सामको आकुळ-पिकुळ जालो. चरांत पडून मेल्ल्या सैन्याय परस ताका सुनेच्या मर्णाखातीर अदिक दुखी बादली. (Gabinete Literario das Fontainhas, Nova-Goa, 1848, vol. 3, pp. 57-58.)...

लोक लेगीत लोटले येवन एक-दोन दीस रावन तें तीर्थ कशें लेखून व्हरताले. थैंच्या रासै वाडयार फातरांत कांतैल्ल्यो दोन मोटयो धोली आसात; तांकां होडणां ह्मण्टात. तांतूंतले एकलेचें नांव मुडे-होडण अशें आसा. ह्या भायर, लोटले मोटया फातरांचेर कांतैल्लीं कांय पावलांय दिष्टी पड्टात.* हे पोरणावळीवैल्यान लोटली हो गांव पुर्विल्ल्या काळापासून व्हड्विकेचो आसलो ह्मणपाचें सिद्ध जाता आनी मालखेडच्या राष्ट्रकूट राजांचो मूळ गांव तोच आसून ते मोटया अभिमानान आपले बिरुदांचे वळेरींत तो गुथताले ह्मणपाचें उक्तेपणान दिसता.

राष्ट्रकूट वंशासंबंधान वेरूळच्या दशावतार देवळाच्या मंटपांत एक संस्कृत बरप आसा; तांतूंतल्या एका शिळोकावैल्यान त्या वंशाची व्हडवीक केदी लेखताले ह्मणपाचें समजूं येता. 'सगळया संवसाराची राखण करूंक जो एकलोच वंश फावोसो आसा त्या राष्ट्रकूट वंशाक धर्तरेर कोण वळखना ? ' अशें तांतूंत ह्मळां.† हे भाशेन, सातव्या शेंकडयांत साष्टीचे लोटलीकार चतूरथी, चाररठी वा चाड्डे व्हडविकेच्या हावेसान गोंयाभायर वचून राष्ट्रकूट हें नांव जोडून, हिंदुस्तानाच्या इतिहासांत ताणीं मोटें नामनेचें साम्राज्य उबाल्लें आनी आपली कीर्त अञ्रंवर केली ह्मणपाचें येवजून जणएकल्या निजाच्या गोंयकाराचो जीव भुरकुटल्याबगर रांवचो ना. राष्ट्रकूटांचो इतिहास हो गोंयकारांचें बळ, बुद्द आनी कर्तुत्व हांचें मोटें व्हडलें एक यादस्तिकूच ह्मळयार कामायता. हें यादस्तिक सदांकाळ आपल्या दोळयांसामखार धरून, आपुण मेंगे आनी बाबत असो नस्तोच घातमारो समज करून घेनासताना, शिवांसारक्या पराक्रमी आनी शूर वीरांची आपुण कुळवंत पिळगी ह्मणपाचें ध्यानांत दवरून आपुण मनांत हाडूं तें करूं, आपुण मोटीं व्हडलीं साहसाचीं कामां आंगार घेवन तीं बरे तरेन तडीक व्हरूं आनी सगळया संवसाराकडसून धन्यवाद जोडूं असो मोटेपणाचो हावेस जणएकल्या गोंयकारान सदींच धरचो; म्हण्टकूच, पुर्विल्ल्या राष्ट्रकूट जाण्टेल्यांभाशेन, आजच्या ह्या विसाव्या शेंकडयांत ते व्हडविकेक चडून सगळया हिंदुस्तानाक वैभवाक चडींक तांकां कळाव लागचो ना.

क्रि. स. ९७३ वर्सा चालुक्य राजा तैल हाणें राष्ट्रकूट राजा कक्कल हाका झुजांत जिखून जरी मालखेडचें शिवासन रिकामी केलें तरी त्या वंशाची सत्ता सामकीच काबार जाली ना. राष्ट्रकूट आनी लत्तलपुर हीं दोन उतरां कर्णाटकांत तेराव्या शेंकडयामेरेन आपलो थोडोभोव शेक चलैतालीं. बेळगांव जिल्ह्यांतल्या सौंदत्ती

* Bosquejo Historico das Communidades Agricolas de Goa por Filippe Nery Xavier, Bastora 1907, 2da. ed., vl.2, pp. 353–357.

† समग्रजगतीतला......पालनैकोचितम् । न वेत्ति खलु कः क्षितौ प्रकट राष्ट्रकूटान्वयम् ।। ASWI., vol. 5, p. 88.

गांवांत महामंडलेश्वर वा महासामंत म्हणचे मोटे सावंत हो अधिकार जोडून, धाव्या शेंकड्याचे मजगतीपासून १२३० वर्सामिरेन सुमार पावणेतीनशीं वर्सां, मालखेडच्या राष्ट्रकूटांचे आनी मागीर कल्याणीच्या चालुक्यांचे मांडलीक ह्या नात्यान **गोंयचे लोटलीकार चाड्डे** राज्य चलैताले ह्मणपाचें इतिहास सांगता. ह्या राजांक **सौंदत्तीचे रट्ट** अशें म्हण्टात. ताणीं आपल्या शासनपटयांनीं आपणांक 'रट्टवंशोभ्दव', 'रट्ट मार्तंड', 'रट्टनारायण' आनी 'रट्टकुलभूषण' हें बिरुद लावन घेतलां.* हे रट्ट मालखेडच्या राष्ट्रकूटांचे फागुरवर्गी जांवये. राष्ट्रकूटय आपणांक 'रट्टवंशोभ्दव' आनी 'रट्टकंदर्प' हें बिरुद लावन घेताले.† तांचीच चाल सौंदत्तीच्या रट्टांनीं चलैली जांवये. रट्ट हें उतर णवव्या शेंकड्याचे मजगतीं घोळणुकेंत आयलेंशें दिसता. तें पैलेंवैलेंच आमकां शिरूरच्या क्रि. स. ८६६ च्या पाशाणा-बरपांत मेळटा.‡ डॉ. फ्लिटांचे ह्मणणेभाशेन राष्ट्रकूट ह्या उतराचें रट्ट हें संक्षेपाइल्लें रूप आसा.§ सौंदत्तीचे राजा आपणांक जशे रट्ट वा राष्ट्रकूट ह्मणौन घेताले तशेच 'लत्तलूरपुरवरेश्वर' ह्मणचे **लोटलीकार** हेंय बिरुद लावन घेताले.‖ हाचेवैल्यान ते मुदलचे साष्टीचे चाड्डे आसले ह्मणपाचें सिद्ध जाता. राष्ट्रकूट राजा तिसरो कृष्ण हाणें धाव्या शेंकड्याचे मजगत तांकां आपणांले मांडलीक केल्ले.¶ तांच्या मुलखाक 'तीन हजारांची कुंडी' ह्मण्टाले. हांतूंत आतांच्या बेळगांव जिल्ह्याचो मोटोसो वांटो आनी ताचे शेजारचो थोडो मुलुख आस्पावतालो. तांचे घुडयेक 'सुवर्णगरुडध्वज' ह्मण्टाले. तांचे मुद्रेचेर हतयाचें चित्र आसतालें. तांचें भौमानाचें वाजंत्र त्रिवळी वा तिविळी हें आसलें. तांचे भितर **तिसरो कार्तवीर्य** आनी ताचो नातू **चौथो कार्तवीर्य** हे नामनेचे राजा जाले. बाराव्या शेंकड्याच्या तिसऱ्या चौथ्यांत तिसरो कार्तवीर्य स्वतंत्र जालो. ताका एका बरपांत 'चक्रवर्ती' ही पदवी लायल्या.$ ताणें जोडिल्ली स्वतंत्रताय ताचे पिळगेन सुमार साठ-पैंसट वर्सां भोगली. तेराव्या शेंकड्याच्या आरंभाच्या कांय पाशाणा-बरपांत चौथो कार्तवीर्य बेळगांवां सामाज्य चलैतालो अशें ह्मळां.** क्रि.स. १२३० च्या सुमाराक देवगिरीचो यादव राजा सिंघण हागेलो सरदार वीचण हाणें रट्टांक जिखून तांचो मुलुख यादवांच्या साम्राज्याक जोडलो. हे भाशेन सातव्या शेंकड्यांत गोंय सोडून गेल्ल्या लोटलीकार चाड्डुयांची सत्ता तेराव्या शेंकड्याचे मजगतीं मराठणांतसून आनी कर्णाटकांतसून अस्तमली.

---

* Ind. Ant , vol. 19, pp. 164, 247. † Ind. Ant., vol. 12 p. 218, 249, 256. ‡ Ind. Ant. vol. 12 p. 218. § Bom. Gaz. vol. I, pt. 2, p. 384. ‖ Ind. Ant., vol. 19, pp. 164 & 247. ¶ Ind. Ant., vol. 19. p. 248. $ JBBRAS., vol. 10, p. 181. ** Carnatic Desa Inscriptions, vol. 2, pp. 564, 571 & 576.

# 'म्हर्जी बा खैं गेली?'

माघांतले देवतेचे पंचमीन बाबुल्याक पांच वर्सां भर जावन सवें वर्स लागिल्लें. तो इल्लोसो भुरगो खरो; पणून मोटो बण्ट. मोटो अवजाळी. मोटो आडांगी. तो निक्तोच सटकुळळोल्लो आनी आपल्या धुमशेणांनीं आनी धुडबुसांनीं सगळें घर माथ्यार घेतालो. शापशणैल्या घरांत जायत्या काळान, ना ना म्हणून कान-दोळे सुजौन, आंगवणी-जोगणी करून, सडचार सुंट फुलता म्हण्टात ते भाशेन, तें एकलेंच चल्यामनशाचें भुरगें जाल्लें. नातू जाला म्हणपाची खबर वैजिणीन पैलीवैलीच शणैच्या कानार घालून आल्विस मागलें तेन्ना तो कितलोसो भुरकटलो आनी मुरगुटलो खैं. ताणें सटकरून आपल्या आंगावैलें नवेंताल अष्टीदेगेचें पुडवें काडून, 'हें घे आल्विस' म्हणून वैजिणीच्या आंगार उडैलें आनी त्याभायर कातलेचो कुडको कसोसो सणसणीत बरो सुन्नो काडून तिच्या हातार दवल्लो खैं. नातवाचे खुशालेन ताणें फार-पेट जायतो करूंक लायलो आनी बाजारभर साकर वांटली. वाजती सटी जाल्यार मोटे नामनेची जाली. घुमटां, म्हांदळीं आनी समेळ हांचो सगळी रात जो तडाक उठलो तो सांगून उपकारना. झळकें जाल्यार घे म्हणून राशींनीं! नातू जाला म्हणून शापशणै आनी उमाबाय ह्या संवसारांत नासल्लीं, बाबुल्याफुडें तांकां खाण-जेवण कांयच रुचनासलें. आड-वर बाबुलो, बाबुलो. बाबुल्याक कितें जाय, कितें नाका हे घोंकणेफुडें तांकां दुसरें कसलेंच काम येवजनासलें. होनीबाय केन्नाय बाबुल्याक घेवन कुळारा गेली जाल्यार, आपौण्यार आपौणो धाडून, तिका एकफावट घरा हाडीसर तांकां थार जायनासलो.

बाबुल्याक सवें वर्स लागूंक, होनीबायक अनर्थाचें वायट जालें. वैजांचे म्हणणे-भाशेन तिका वायदमन जालें खैं; आनी तांतूंतूच ती भायर पडली. बुद्द आइल्ल्या भुरग्यांची आवै सट करून मरची म्हळचार केदें व्हडलें अरिष्ट! अपुर्बायेंत वाडिल्ल्या नाजूक बाबल्याचेर तें कोंसळ्ळें तेन्ना तो सामकोच बाबडो जालो. ताची मस्ती जिल्ली. ताची हडवंगां उल्लीं. ताचें अवजाळीपण, ताचें आडांगीपण, ताचीं धुमशेणां, ताचीं धुडबुसां खैचे खैं नाच जालीं. तो उतार पिरायेच्या, पिकिल्ल्या मेंदुच्या म्हातार-खंडाभाशेन खंती आनी कष्टी जावन येवजणेंत पडलो.

आवै वायटांत पडून मादान जावन कितेचें कितें बडबडूंक लागली तेन्ना, बाबुलो एकाद्रो भियेवन आंग काडीत म्हणून, आजो आनी आजी ताका तिचे कुडिच्या दारा-कडेन वचूंक दिना जालीं. तरी आसताना, केन्नाच दोळचार हात काडून, तो थैं वचून 'बा, बा' म्हणून तिका ल्हवूच उलो मारतालो. अखेरेक एकदीस म्हद्याने रातीर ती भायर पडली. त्या वेळार, बाबुलो आजयेच्या हांतरुणार हुस्क्यामेकळो सुस्त

न्हिदिल्लो. तो बोवाळांत आनी करांदायेंत जागो जायत म्हणून, आजयेन ताका बेगोबेग थैंसून अळंग उखलून, दुसरे एके कुडींत न्हिदैलो आनी सकाळ जावन घरांतलें प्रेत भायर काडीसर, ताका तांतूंतली कसलीच सुनशा लागूंक दिली ना. होनीबाय-सारकी गुणेस्त सूनबाय होगडावली म्हणून मांवा-मांयचे दोळे भौनभौन दुखांनीं भरून येताले. तरी आसताना, बाबुल्याक आवैची खबर कळत म्हणून, तीं आपलीं दुखां भितल्लेभितर दांबून धरतालीं. आवैचे कुडीलागसार ताणें वच्चें न्हय म्हणून, आजयेन ताका कितलोसो थातारून धल्लो; परंत ल्हवूच तिची नदर चुकौन तो थैं गेलो आनी पळेता जाल्यार भितर ताची बा ना. तिचें हांतरूण ना. पांगरूण ना. कांय ना कांय ना. कूड सामकी खांवक आयली. ताणें काचाबूल जावन, आज्याक आनी आजयेक उलो मारून विचाल्लें, 'म्हजी बा खैं गेली?' त्यावेळार रडच्याचो हुडको सांवरना जावन, उमाबायन ताका पोटासरीं धरून रडत रडत म्हळें, 'म्हज्या राया, तुजी बा रातीं देवागेर गेली रे सायबा!' बाबुल्याक ह्या उतरांचो अर्थ समजना जालो. ताणें म्हळें, 'मामागेली दोळी येता तशी देवागेली दोळी आइल्ली म्हाका दिसली ना. ती कित्यांत बसून गेली? आनी एकलीच कशी गेली? म्हाका कसो व्हेलो ना?' हीं उतरां आयकनाफुडें,आज्या-आजयेचीं आनी घरांतल्या सगळ्या मनशांचीं काळजां चर्र जालीं. ताणीं केदो वेळ घुस्मटावन धरिल्लें रडें एकदम भायर सुटलें आनी घरांत मोटी हुयेल जाली. तेन्ना बाबुलो अदिकूच काचाबूल जालो. बाकिचीं रड्टात म्हणून तोय रडूंक लागलो. आजयेन ताका पोटाकडेन गच्च आंवुळ्ळो आनी म्हळें,'थु-थु-थुमेकाल! तशें म्हणचें न्हय रे म्हज्या राया! म्हगेल्या घरादाराचो घणघणीत बरो लामणदिवो तो! वडाच्या रुखाभाशेन तूं जायतीं वर्सां वांच आनी तुजो वेलविस्तार जायतो जांव!' बाबुलो सामकोच गदळांत पडलो. तो भौन भौन आवैचे कुडीसरीं येरादारी घालून ती खैं पावली आनी तिचें कितें जालें म्हणपाचें येवजूंक लागलो. निमाणें बाराव्याक, ताचे आवैच्या नांवान सवाश्णीक जेन्ना तिचें कापड, खण आनी तांबयो दिवक काडलो तेन्ना ताणें रडून मोटो आकान्त केलो. ताणें आजयेक विचाल्लें, 'आजये, म्हजी बा देवागेरसून पर्थून येतकूच तिका न्हेसूंक कापड नाका गे? आनी उदक पियेंवक तांबयो नाका गे!' हीं उतरां आयकनाफुडें आजयेच्या. सवाश्णिच्या. आनी लागसार आशिल्ल्या सगळ्या मनशांच्या दोळ्यांतसून सळसळीत दुखां व्हांवलीं. बाबुल्याक तें अजाप जालें. बाचें नांव काडिल्ले कणकणीं घरचीं आनी भायली मनशां रडूंक लागतात तें कितें तेंच ताका समजना जालें. ताची बा ताका घेवन आजवेळा वेताली तेन्ना कोणूच रडनासलें आनी आतां पळेल्यार, ती देवागेर गेल्या म्हणून सगळीं जाणां भौन भौन रड्टात हाचो अर्थ ताका समजना जालो.

बारावो जाल्या उप्रांत, देवागेरसून बा येतली म्हणून बाबुल्यान जायती वाट पळेली. बाजारांत कोणायची दोळी दिष्टी पडल्यार, भितर आपली बाच बसून

आयल्या म्हणपाच्या समजान तो बेगोबेग धांवत वचून चौकशी करतालो आनी निर्णल्ल्यावरी जावन घरा येतालो. निमाणें, सुमार तीन म्हैने फाटीं पट्टकूच, ताणें एकदीस आजयेक म्हळें, ‘आजये, बाक हाडूंक तूं दोळी कित्याक धाडिना गे ? ती गेल्यार खूब दीस जाले.’ आजयेन पदरान दोळे पुशीत पुशीत म्हळें, ‘आसूं, भंगू रे ती खबर. तूं त्या माणकूवांगडा आखोमाखोनीं खेळूंक वच पळौंया.’ आवै मरत-पासून बाबुल्यान खेळबीळ सगळो सोडिल्लो. ताका एकासारको बाचो ध्यास्त लागिल्लो. ताणें म्हळें, ‘आजये, म्हाका खेळनशें दिसना गे. म्हाका बाक पळेनशें जालां.’ हाचेर उमाबायन वैतागून म्हळें, ‘तर हांवूच पुता एक दीस दोळयेंत बसून तिका हाडूंक वचन. म्हाकाय दिसानदीस संवसाराची उबगण आयल्या.’ बाबुल्यान म्हळें, ‘तूं गेल्यार म्हजेसरीं कोण तर ? तूं नाका गे वचूं. रागल्याक आनी सकल्याक दोळी दिवन धाडल्यार पुरो. ते बाक घेवन येतले.’ हाचेर जाप कितें दिवची तीच उमाबायक येवजना जाली. ती बाबुल्याचें मन विसरायेर घालूंक लागली. परंत कित्याक उपकारना जालें. तो दोळी धाडचेखातीर सुंट कसोसो तिचे फाटीक लागलो. निमाणें, तिणें मोटो धीर करून सरांटल्ल्या ताळचान म्हळें, ‘बाबुल्या, देवागेर गेल्लीं मनशां पर्थून येनात रे म्हज्या राया! ’ बाबुल्यान म्हळें, ‘ तर तुवें म्हजे बाक थैं कित्याक वचूंक दिली ? देवागेली दोळी कित्याक पर्थयिली ना? म्हाका तुवें हें आदींच कळैल्लें जाल्यार, हांव तिगेले कुडिचें दार आडावन तिका भायर सरूंकूच दिंवचो नासलों. हांव तिच्या पांयांक गच्च वेंग मारतलों आसलों.’ हीं उतरां आयकून, उमाबाय ल्हान भुरग्याभाशेन भळाभळा रडूंक लागली. तेन्ना बाबुल्यान तिका म्हळें, ‘ आजये, हालीं हांव उलैन त्या उतराक तूं भौनभौन कित्याक गे रट्टा ? म्हाका सारकें बरें सांग. बा केन्नाच येंवची ना ? म्हाका आतां बा नाच ? असल्या कसल्य। कामाक ती देवागेर गेल्या ? ’ उमाबायक ताचो समज घालूंक येना जालो. तिणें दोळचांतलीं दुखां पुसून म्हळें, ‘ म्हज्या शाणुल्या, आसूंत त्यो खबरी आतां ’. म्हण्टकूच बाबुलो हटाक पेटून म्हणूंक लागलो, ‘ हांव ना. हांव ना. म्हजी बा म्हाका जायच. आत्तां हांव देवाचे कुडींत वेतां आनी ताका विचारतां म्हजी बा कित्याक व्हेल्या ती आनी खैं दवल्ल्या ती. देवाऱ्यांत आसा तोच मु गे तो देव ? ’

बाबुलो थैंसून तरतरीत देवाऱ्यासरी गेलो आनी जाण्टयांनीं लाइल्ले देखी-भाशेन, आदीं दोनूय पोले फोडून घेवन देवाक ताणें शेकानशेक नमस्कार घालो. तितले म्हणसर, ताची आजी बेगोबेग ताचे फाटसून येवन, तो कितें करता तें पळौंक, देवाचे कुडी भायलेवशीन उबी रावली. बाबुलो उठलो आनी नाखार बोट धरून, दांत-ओंठ चाबून देवाक तिडकीन म्हणूंक लागलो, ‘ देवा सायबा, तुवें म्हजे बाक व्हेल्यार खूब दीस जाले. तुवें तिका कित्याक व्हेली ? आनी म्हाका कळैनासताना कशी व्हेली ? म्हाका ती जाय म्हणून तूं नकळ आसलो ? तुका दुसरीं कोण मनशां मेळना जालीं ?

तूं आज सांजे, तिका तिचे कुडींत ती न्हिदिल्ली थैं बऱ्यान हाडून दवर. नाजाल्यार, फाल्यां सकाळीं तुका दाखैतां कशें आसा तें. हांव आज्याक सांगतलों तुजी पुजा करूंक नाका म्हणून. मागीर तुका पळे, न्हाण ना. धोण ना. फुलाची पाखळी ना. दिवो ना. वात ना.कातलेची शिर्णी ना. गोडाचो कुडको ना. साकरेची चिमटी ना. कांय ना. कांय ना. तुका उपाशीं वळवळांवक लायतलों.'

नातू देवाकडेन झगट्टा तें पळौन उमाबायक खिणभर कौतुक दिसलें आनी रडुंकूय आयलें. ती ताका आपली जाग दाखैनासताना ल्हवूच थैंसून गेली. उप्रांत देवाक आपणें दटायलो म्हण्टकूच, बाक कुडींत हाडून दवल्ल्याबगर तो रावचोच ना म्हणपाच्या समजान बाबुल्यान तो सगळो दीस उमेदीन घालैलो. रोखडीच रात जाली आनी तो सुस्त बरो न्हिदलो. दुसरे दिसा, उजवाडनाफुडें बा दिष्टी पट्टली म्हणपाचे आस्तेन, तो बेगोबेग कुडींत गेलो आनी पळेता जाल्यार थैं जितो मूस ना. तो निर्शेलो. ताका रागाचो किंवाटो आयलो. तो तसोच आजयेसरीं वचून तिका म्हणूंक लागलो, 'आजये, असलो कसलो गे तो देव? ताका काल हावें कितलोसो भेष्टायलो तरी ताका पर्वाच ना. ताका इल्लीय लज आशिल्ली जाल्यार ताणें म्हजे बाक हांगा हाडून पावती करची न्हय? आतां कितें करचें गे? तो देव तर आयकना म्हजी बा म्हाका जायच.' तो हात-पांय बडौन 'बा गे म्हजे! बा गे म्हजे! म्हणून मोटयान होळम काडून रडूंक लागलो. तेन्ना आजयेन ताका लागीं ओडून म्हळें, 'अशीं पिशेपणां करचीं न्हयत रे म्हज्या गुण्या! देवागेर गेल्लीं मनशां पर्थून येनात रे म्हज्या शाण्या!' बाबुल्यान म्हळें, 'पणून देवान म्हाका तशें सांगचें न्हय? काल ताका हांव खूब उलैलों तेन्ना 'तुजी बा तुका मेळची ना' अशें सडसडीत सांगूक ताका कितें जाल्लें? तो वोगी कित्याक रावलो?' आजयेन म्हळें, 'मनशांकडेन देव उलैना रे म्हज्या राया!' बाबुल्यान म्हळें, 'मनशांकडेन उलैना जाल्यार तो तांकां आपणा-सरीं व्हरता तरी कसल्या कामाक? म्हजे बाकडेनूय तो उलैना तर?' आजयेच्यान ताची समजाविशी करुं नज जाली. निमाणें ताणें म्हळें, 'देव उलौं, नाजाल्यार ना उलौं. म्हजी बा म्हाका जायच. ती देवाक मेळची ना. ती म्हजेसरीं येना जाल्यार हांव तिचेसरीं वेतलों.' हे भाशेन, बाबुल्यान एकासारको आवैचो ध्यास्त धल्लो. तो जेविना जालो. खायना जालो. ताणें आंग सोडलें. सुकून सुकून ताचो सामको व्हीर जालो. तो हांतरुणाक लागलो. आनी अखेरेक, 'म्हजी बा! म्हजी बा!' म्हणून ताणें प्राण सोडलो.

बाबुल्याची ही खबर आयकून कोणा मनशाचें काळीज उचंबळचें ना? आनी ताच्या दोळयांतसून दुखांच्यो झरी व्हांवच्यो नात? 'ती म्हजेसरीं येना जाल्यार हांव तिचेसरीं वेतलों!' केद्या निग्रहाचीं उतरां हीं! बाबुल्यान तीं अखेरेक खरीं करून दाखैलीं अशेंच म्हणूंक जाय. 'यं यं वापि स्मरन्भावं त्यजत्यन्ते कलेवरम् ।

तं तमेवैति कौन्तेय सदा तद्भावभावित:' ह्या शिळोकांत, 'सदीं उठून तेच ते भावनेंत गुल्ल जावन, निमाणें तिच्याच उगडासान जो आपणालें कळिवर सोडटा तो तिकाच वचून मेळटा' अशें भगवंतान एक फावट अर्जुनाक सांगूंक ना व्हय? ह्याच आधारार आमचो माणकुलो बाबुलो, आपली अपुर्बायेची बा जैं गेल्ली थैं वचून, खोसयेन तिचे हाण्डीर बसलो हांतूंत दुभाव ना.



# बाबुमामालो पणस

पणस जाल्यार पणस. तसलो पणस हो न्हय. सगळ्या भतग्रामांत हाची नामना. दिवचले बाबुमामाल्या पोरसांत दुर्गा देगेक वणखून हो उबो रावला खरो; परंत सगळी भितल्ली पेठ आनी भायले पेठेमेरेन हाचो घमघम. हाका जल्मा येवन कितलीं वर्सां जालीं तीं सांगुं नजत. परंत जाणें ताचें भिकण रुजवणा घाल्लें त्या मनशाची पुण्यताय मोटी खरी. अब्या! कसलो तर पणस हो! हाची तोखणाय कितली म्हणून करतलो! सगळ्या गोंयां पैलेंवैलें दाबण तें हाका. स्रावण म्हैनो लागत्यारूच हो फुटूंक आरंभ जाता. कार्तिक म्हैनो येता म्हणसर घे, पणसूच पणस! सकैलें मूळ धरून वैले तेंगशेमेरेन, खांद्या-खांद्यांनीं अश्शे कुचकुचीत पणस. पान कसलें तें दिष्टी पडना. पणस पणून केदो, इल्लोसो, माणकुलोच. पणसूल म्हळचार चड बरें. मोटायेन व्हडल्याशा नाल्लाएदें जायत. धोंग-पोंग निखालुस ना. वांटकुळी गुट्टी कशेंशें. वानयेन बरें. भितर सगळे घरेच घरे. नाजूक बरे. चांफीं कशेशे. चार कसली ती नाच. घरो जाल्यार हळडुवें सतम्याचें भांगर. म्होंवान थपथपीत. जिबेर दवरिनाफुडें विरगळून उदक. पोटांत पावतकूच बोंबलेमेरेन थंडाय. भिकण तरी केंदें? इल्लेंशें कुकूलें. मावूय माणकुली मूठ कशी. ह्या पणसाक दाबण जशें सगळचां आदीं फुट्टा तशीं ताचीं पणसुलांय सगळचां आदीं पिकतात आनी सगळचां आदीं उलगतात.

मुरगांवां आगगाडी जांवचे आदीं, दिवचले बाबुमामाचो उद्योग मोटो तरतरतालो. तो घाट-मांगरावैल्यान बैलांच्या लमाणांनीं धुमटी, गोडाच्यो धेंपी, चिरमुल्यो आनी हेर घांटवळ जिनस हाडून, तांचे बदला सुपारी, नाल्ल, खोबरें, सोलां, काजी आनी आंबे घांटार धाट्टालो. ह्या उद्योगांत ताका नफाय मस्त जाताली आनी ती देवाचे दयेन जाली अशें समजून तो ताच्या नांवान जायते खेपो पनवार-पंचखाज वांट्टालो आनी धा-जाणांचीं तोंडां गोड करतालो. पोरसांतल्या पणसाक सगळचां आदीं पणसुलां जातात हीय आपणाचेर देवाची व्हडली दया कशी समजून, वर्सान वर्स पैल्या फळाचो निवेद देवाक दाखैल्याबगर तो केन्नाच घरो उष्टायनासलो.

कार्तिक म्हैनो लागत्यार, बाबुमामालीं पणसुलां जून जातालीं. ह्याच सुमाराक पावसाचे ओले दीस फाटीं पडून सडसडीत सुक्या दिसांचें राज्य चलता आनी चार-पांच म्हैने बंद आशिल्ली दिवचलची देवाची पालखी पावसान भिजपाचो हुस्को उरना जावन, सोमाराच्या सोमारा गांवांतसून भोंवडांवक मेळटा. हांतूंतल्या पैल्या सोमाराक **नवो सोमार** म्हण्टात. कार्तिकी पुनंव जावन जो पैलोच सोमार येता त्याच दिसा

हो देवाचे पालखेचो मोटे नामनेचो उत्साव जाता. कितें सांगतलो ह्या उत्सावाची तोखणाय? भितल्ले पेठेंतलो तो अशीर मार्ग आनी ताचे दोंय कुशिनीं माळयो नाशिल्ल्या मोटव्या घरांच्यो त्यो लांबूच लांब माळो आदींच सोबीत दिसतात; तांतूंत तांकां केळिच्या धव्या-फुल्ल,तकतकीत गब्यांचीं सुंदर मखरां करून तरेकतरा रंगीत कागदांचीं कमळां लायलीं, आर्कां वळ्ळीं, खँदलां उमकळायलीं, निक्त्याच वियेल्ल्या केळिचे घड्डुल्यांसैत देठे केले, आंब्याच्या ताळयांची तोर्णां बांदलीं आनी रातिचो काळो पड्डो पट्टकूच, घरांच्या पांवळयांक तेंकून पण्टयांच्यो घणघणीत दिपरद्नां पेटैल्यो म्हण्टकूच सर्त-सीम नाशिल्लो जो देखाव दिष्टी पट्टा ताची वर्णना कोण करीत? ती वर्णना कानांनीं आयकुंचे भाशेक तांक आशिल्ल्यान मुजरत त्या सोमारा दिवचले वचून, वैर सांगिल्ल्या मार्गाच्या एका तोंकाक मदींच उबो रावन,शेकानशेक पैस नदर पावौन, मखरांचो तो बाजार खासा दोळयांनींच पळेल्यार बरें जायत. ह्या दिपरद्नां फुडें, मुंबैचे दोळे कोंकून काडणे दिवाळेचे विजेचे दिवे कित्याक उपकारा पडनात. कितलेय झगझगीत जाले तरी ते सुके-सुकशेम दिवे. ताणीं, पळेतल्यांच्या दोळयांक केन्नाच ताजपण येंवची पडल्या ? तांकां, गब्यांच्या हारशांनीं तुकुतुकु करून रूप पळेण्या दिवचलच्या माणकुल्या पण्टयांच्या मंद आनी शितळ उजवाडाची कान्त केन्नाच मारची पडल्या ?

वर्सान वर्स, बाबुमाम हीच नव्या सोमाराची सन्द पळौन, देवाक पैल्यावैल्या पणसुलांचो निवेद दाखैतालो. त्या वेळार, ताच्या दारांत पालखी थारावतकूच, पैलोवैलो घरो उष्टांवक लोकांची जी तांडी जाताली ती ह्या समानांतली न्हय. घऱ्याचे आस्तेन मुळगांव, लामगांव, सर्वण, मयें, पिळगांवमेरेनचे लोक ताच्या दारांत पुंजा जावन, ' म्हाका दी गा, म्हाका दी गा ' करून, वांट्टल्याचो जीव सामको काथैलायताले. निमाणें, घरे थोडे आनी जिबो चड जावन, जायत्याजाणांक निर्शेवन घरा वच्चें पट्टालें.

एक वर्स,नव्या सोमाराक चार-पांच दीस आसात म्हळचार, बाबुमामान आपल्या भागेल्याक पणसार चडून जून-जूनशीं पणसुलां काडूंक सांगलीं. परंत तितले म्हणसर, तागेले बायलेक पैलेंवैलेंच मोनें भुरगें जालां म्हणपाचो मोटे खुशालेचो निरोप ताका घराकडसून आयलो. तेन्ना, बेंगोबेंग भायले पेठे वचून, गर्नेल हाडून, ते देवूळ-वाडोभर लावन, साकर वांटपाचें ताकतिचें काम ताका करचें पडलें आनी पणसुलां काडचेलें काम दुसऱ्या दिसाक उल्लें.

ते रातीं, त्या पणसाचे तळमळे कितें सांगतलो ? बाबुमामान भागेल्याक केल्लो हुकूम आयकनाफुडें, ताचे हात-पांय सामके लडलडले, आंगा-पांगाक कांपरो भल्लो, शीं खावन पैरो जोर आइल्ल्यावरी ताका कुलकुलो भल्लो, वारें-वावटळ नासताना ताच्यो ताळयो-खांदयो हालूंक लागल्यो आनी पानां सळसळूंक लागलीं. कसलो आकान्त ताच्या जिवा-नांवार आयलो तर ? ताणें मोटयान हुस्केवन म्हळें :

“आयलोसो दिसता ह्या काळग्यांचो **नवो सोमार.** हो सोमार येता म्हळ्यार म्हजें काळीज सामकें कलकलता. आतां म्हज्या भुरग्यांच्या रक्त-खेवाक पर्थून आरंभ जातलो. पोरूंच्या वर्साचें दुख अजून हांव सारकें विसरुंकूच ना. इतले म्हणसर हो नवो कुळक्षय. आइल्ल्या वर्सा कुळक्षय. उसर्पत कसली ती ना. कित्याक जांवक जाय आशिल्लीं भुरगीं ? कोण शिणूंक बशिल्लो ? तो थैं कुष्टबाबालो पणस ना ? तो एदो व्हडलो शेकानशेक वाडला तरी ताका भुरगी खैं जातात ? त्यो अक्कल नाशिल्ल्यो कुष्टबाबाल्यो सुनो मात सांजेवेळा आंगणांतले ते तुळशीसरीं पांय पातळावन बसून ताच्या नांवान पिर्डतात आनी म्हाका भाग्यवंत म्हण्टात. ताका त्यो वांजुट्टो म्हणून दुशण लायतात आनी म्हाका वियेल्ले खेपे पांटल्यो-धालो भरून भुरगीं जातात म्हणून, खांवचीं पानां खावन, वाळवो पेंचून, तोंडभर म्हजी तोखणाय करतात. परंत म्हजे असल्या दादल्यांनीं सगळें सांडून वियेवचें ही जल्माची एक विटंबणाच म्हणपाचें सभागणींक कशें समजना ताचेंच म्हाका अजाप जाता. संवसारांत दादले मिंडे खैं गुरवार आनी बाळंत जातात ? आयकलां केन्ना कोणें हें ? पळौंक गेल्यार कुष्टबाबालो तो पणसूच आज खरो दादलो. अजून मेरेन दादलेपणाचें नातें तो कडकडीत चलैता. पुण्यवंत बाबडो. त्यो बायलो पडल्यात बेकार. ताका वांजुट्टो म्हण्टात ! पिशो अबर्गती ! एऽऽताराहोनी, अगे सीताबाय, अगे उमाबाय, आसत व्हय गे तुमी लागसार ? कसलेंशें मारून व्हडलें म्हजें भाग्य जेन्नातेन्ना तुमी तोखेतात तें ? पायल्यांनीं, कुडवांनीं आनी खांडयांनीं भुरगींच भुरगीं जालीं म्हणून कोणाकूय भाग्यवंत म्हणु येता गे ? तीं जाण्टीं-जुण्टीं जावन सुखाचो संवसार करूंक लागलीं, तांचें चड-व्हड जालें, एकाचे एकवीस जाले, पांचांचे पंचवीस जाले आनी अखेरेक तांच्या हातांनीं आवै-बापायच्या हाडांक लांकडां लागलीं जाल्यारूच भुरगीं जाल्ल्याचें सार्थक अशें तुमी मनशां समजतात मु गे ? ना जाल्यार, आइल्ल्या दिसा, आवै-बापायकूच भुरग्यांचीं स्राद्धां घालून दोळ्यांतल्या दुखांनीं तर्पणां करचीं पडल्यार ‘ कित्याक तीं भुरगीं ? कसलें तें भाग्य ? वांजुट्टेपण कित्याक वायट ? ’ अशें तुमीच मनशां म्हणनात ग ! बेष्टीं भुरगीं जातात म्हणून म्हाका भाग्यवंत म्हणचे भाशेक, तांकां तोंडांत उडैणे काळच चड भाग्यवंत म्हळ्यार अदिक बरें जांवचें ना ? कांटी पेटली म्हज्या भाग्याक. हांव आतां वांजुट्टेपणाकूच आशेलां. भंगूंत ते गुरवाचार आनी भँगूंत ते बाळंतेर. बाळंत जांवचें काम फुक्याचें न्हय. एक बाळंतेर जाता खरो; परंत तितल्यान ही तड कि ती तड जावन जीव सामको लागीं येता. कसलें म्हजें अद्रुष्ट हें ? म्हाका वर्सानवर्स बाळंतेर. एक वर्स रिकामी वचना. म्हजेकूय तो बांयकडलो करेल आंबो चड सुखी. तो तिसालान वियेता. ताका तितल्यो वेणो उण्यो. तोय सभागी म्हजेवरी दादलो आसून बायल मनशेभाशेन वियेता. जांव. म्हज्या वांगडाक दुसरो एक ‘भाग्यवंत’ शेजारी आसा म्हणचो. परंत म्हाका जाल्यार ह्या भाग्याची उबगण आयल्या. म्हाका नाका हो धुपुत आनी नाकात तांचीं तर्पणां. पळौंक गेल्यार, म्हजें

एकलेंय भुरगें रोगयाळें न्हय. आंगा-पांगान सगळीं तुट्टुटीत. थंडी-भारकूण तांकां केन्नाच ना. ह्या मांगरावैले दुदनिच्या पोरांभाशेन तीं केन्नाच धगळून पडनात. म्हज्या दाबणा कणकणीं फळ. एकूय दाबण फुकट वचनां. म्हजो पिण्डूच तसो. म्हजो कुसवोच बरो. परंत ही सगळी आरोग्यताय त्या उंवाळ्ळेल्या मनशांफुडें कित्याक उपकारता ? हांवें जागरणां-जुगरणां काडून, मर-मर-मरून, म्हजीं माणकुलीं कुकुलीं ल्हान-व्हड करचीं आनी निमाणें तीं ह्या मनशांचे भकीक पडचीं मू ? कोण रे बाबा ह्या काळांच्यो जिबो ? म्हजीं भुरगीं तांकां गोड लागतात खैं ! परंत तांकां गोड लागनाशिल्ली वस्त ह्या संवसारांत आसा तरी कसली ? काराथीं कोडू म्हण्टात. तरी आसताना, तीं ते रुचीन खातात. काजऱ्याची बी खाल्यार मरूंक जाता खैं. तरी तीय खावन ते पचैतात ! कोणरे बाबा ह्या राक्षेसांचो हावेस ! तो नष्टो बाबुमाम म्हज्या भुरग्यांक भकचे खातीर आज कितले दीस दांत पाजौन बसला. तो दिसपट्टो म्हजीं भुरगीं मेजून मेजून वेता. फुटूंत ताचे दोळे. ताची याद-उगडासूच जाल्यार म्हज्या आंगाचो पिचून गोबर जाता. तो दिसताय काळो आनी ताची करणीय काळी. कसाब खैंचो. आतां फाल्यांच्या सोमारा, देवाक म्हज्या रगता-मासाच्या गुळयांचो निवेद दाखौंचें निमित करून तो म्हज्या भुरग्यांची हत्या करचो तडाक चलैतलो. तो तांचे नाका-नाका जाल्ले भोग-विद्भोग करतलो. धोणसां म्हणु नाका, सान्नां म्हणु नाका, तरेकतरा परखन्न बायल मनशेभाशेन करून, काळोखाचे कुडींत बसून तो रक्षितलो आनी ढय-ढय करून धेंकर काडीत, पोटावैल्यान दावो हात भोंवडायत, म्हज्या भुरग्यांची चामडीं हाडून म्हज्या पांयांसरी उडैतलो. म्हज्या दुखाचेर दागण्योच न्हयत ह्यो ? अगा बाबुमामा, तूं मनीस व्हय गा ? काळीज म्हण्टात ती वस्त तुका आसा तरी ? एकाद्री आसलीय जाल्यार उफाट्टी आसूंये. ना जाल्यार, म्हज्या भुरग्यांचीं आंतांमासां खावन वैर तूं असलें कसाबपण करचो नासलो. तुमगेल्या मनशांच्या धर्मांत, दुसऱ्याचो जीव घेतल्यार मोटें पातक जाता खैं. आनी त्याखातीर मरतकूच खर-निबर ख्यास्त भोगता खैं. तूं बामण. तूं हें नकळसो न्हय. जिवांची हत्त्या करची न्हय म्हणून तुमगेले गिन्यानी मनीस आज हजारांनीं वर्सां ताळो पोकळ करून जे आडुतात तें तुज्या ध्यानांत नाशें न्हय. 'अहिंसा परमो धर्मः स च सत्ये प्रतिष्ठितः'* हें तुमगेल्याच पुर्विल्ल्या जाण्टेल्यांचें वाक्य मु गा ? म्हण्टकूच, दाटून, जाण जावन तूं म्हगेल्या भुरग्यांची हिंसा कित्याक करता ? तूं बळयांच तांगेले हत्त्येचें पातक कित्याक माथ्यार घेता ? आतां तुका तांचें मास गोड लागता खरें; परंत फुडें जेन्ना यमाचे मानाय तुज्या पोटार खोंटो मारून तुका फकाफक ओंकैतले तेन्ना तूं कितें करतलो ? तुका कोण सोडैतलो ? मास-खायऱ्याचो परिणाम कितें जाता तो जाण व्हय तूं ? 'ह्या लोकांत

* 'अहिंसा हो व्हडलो धर्म ; आनी तो खरेपणाचेर उबो रावला.' मभा., वन., २०७. ७४.

जाचें मास तूं भकशी तो पेल्या लोकांत तुजें मास भकतलो; ह्याच कारणाक लागून मासाक **मास** हें नांव पडलां म्हणपाचें तुमगेले गिन्यानी शास्त्रकार सांगतात. '‡ हाचे वैल्यान, वर्सानवर्सं जितलीं म्हणून म्हजीं भुरगीं तूं मारून खाशी तितलींय, तूं मरतकूच यमलोगांत तुज्या आंगा-पांगाचे लब्दे तोडून तोडून खातलीं हें तूं विसरूं नाका. मागीर तूं हुयेली आनी बोंबो मारतलो. खैंचे घरे खालेशे तुका जातले. परंत तुजो पश्चात्ताप कित्याक उपकारचो ना. तूं एकाद्रो म्हणशी कि पणसासारक्या रुखांचीं फळां खालीं म्हणून मास खालेंशें जायना. रूख ते मिडे कोण? तांकां जीव खैंचो? तांकां तोंड खैं आसा? ते हुयेल खैं मारतात? बोकड-कुकड खाल्यारूच मास खालेंशें जाता. परंत ही तुजी चूक आसा. तूं चिकें येवजून पळेशी जाल्यार, आमकां रुखांक तुमच्या मनशां-भाशेनूच जीव आसा म्हणपाची तुजी खात्री जातली. हें समजूंक तुवें तुजो सगळो मेंदू खर्चून यंत्रां तयार करची गरज ना. हें काम भौच सोपें आसा. म्हजीच गजाल हांव तुका सांगतां. तुवें तुज्या जाण्टेल्यांकडसून आयकलां जातलेंच कि तुजो पणजो शाणुमाम हाणें बुधवारांतसून एक पणस विकतो हाडून भितल्लें इल्लेंशें एक भिकण हेच दुर्गा-देगेक रुजत घाल्लें; आनी तांतूंतसुनूच हांव आज एदो व्हडलो रूख भायर सरून, तुज्या घरा-दारार मळब कोंसळून पडचें न्हय म्हणून ताका वैलेवैर म्हज्या बळिष्ट हातांनीं सांवारून धरतां. तुका हाचे कांयच उपकार नात. नासनात गा? हांवूय तरी तुज्या गुणांक भुलून भोव ह्या घराची चिंता घेवन बसलां. तुज्या त्या गुणेस्त पणज्याच्या उगडासाखातीरूच ह्या घराची राखण म्हाका करची पट्टा. कसलो भांगराचो मनीस तो. मनशांत मनीस तोच जावन गेलो. ताणें म्हजो जो ताथो-माथो केलो तो इल्लोतिल्लो न्हय. ताणेंच म्हाका ल्हानाचो व्हड केलो. म्हजे भोंवतणी सुंदर बरें आळें करून आनी दिसपट्टें उदक शिपून ताणेंच म्हाका वैर काडलो. ताणें चुकुनूय म्हजी आंकरी केन्नाच किरमिली ना. म्हाका गोरूं-वांसरूं तोंड लायत म्हणून म्हजे भोंवतणी ताणें विल्लें घाल्लें. हांव आंगा-पांगान गुड्डी कसोसो जांवचो म्हणून म्हाका खाजकेंय तो बऱ्यांतलें दितालो. म्हाका तो मोयची आनी हुस्केची सावळ घालतालो आनी खांवक मीठ दितालो. म्हाका येत्या-वेत्याची, भायल्या-भितल्ल्याची, वारें-सुत्राची, माजरा-सुण्याची, सारणी-सुपाची, नष्टा-दुष्टाची, पापया-चंडाळाची दिष्ट जांवची न्हय म्हणून, घरांतलीं सगळीं व्हाणांचीं आनी मोच्यांचीं कट्टरां पुंजावन, तांची सोबीत बरी कंठी करून ताणें म्हज्या गळयांत घाल्ली. कसलो लगतुबायेचो मनीस तो. ताचो उगडास जातकूच म्हाका भळाभळा करून रडूंक येता. त्या सूर्याच्या पोटांत तुजे असले आनी तुज्या बापाय-आज्या असले साडेसाती जल्मा येवन म्हज्या भुरग्याबाळांच्या कांठयार बसतले म्हणपाचें म्हाका आदींच

‡ मां स भक्षयिताऽमुत्र यस्य मांसमिहाद्म्यहम् । एतन्मांसस्य मांसत्वं प्रवदन्ति मनीषिणः । मनु., ५. ५५.

समजल्लें जाल्यार, तुज्या त्या पणज्याच्या म्हऱ्यांत सटल्ल करून नाख आपटूव हांन जीव दितलों आसलों. कित्याक जाय आसली असली ही जीण ? कसलें सुख भोगूंक ? आसूं. भंगूं हे उपाद्रे. अगा बाबुमामा, म्हाका जीव आसल्याबगर हांव ल्हानाचो व्हड जालों ना हां. इल्ल्याशा भिकणाचो एदो व्हडलो रूख जांवक पावलों ना हां. हांव गुंडो-फातर न्हय. म्हाका सुख-दुख भोगता. म्हाका धपको माल्ल्यार लागता. म्हज्या हट्टयाचेर गच्च लुचूंक बशिल्लीं म्हजीं अपुर्बायेचीं भुरगीं कोयत्यान कातरून व्हरता आसताना रगताच्यो ज्यो धारो व्हांवतात त्यो दिसनात व्हय गा तुका ? म्हजें आनी म्हज्या भुरग्यांचें रगत तुमच्या मनशांच्या रगताभाशेन तांबडे नासलें म्हणून कितें जालें? धवेपणांत कितें आसा ? रगतूच तें. तुका हें समजनाशें न्हय. परंत खादोळे जिबेच्या नादाक लागून दाटून तूं पिशेपण पांगुरता. पणसा-आंब्याक, गंवाभाताक, नासण्या-कुळताक, वांयग्या-भेंडचाक जीव ना म्हणपाच्या समजान असुदाय तोंडांत उडौंचो बरो उद्योग आडायला तुमी मनशांनीं ! तुमचे भितल्ले कांयजाण जाल्यार इतले चड शाणे आसात कि आमकां जीव आसा म्हणपाचें ते बरें भाशेन जाणात; आनी आमकां भकल्यार हिंसा जाता म्हणपाचेंय ते जाणात. तरी आसताना, आपली पातकी करणी सोबौन व्हरूंक ते वेदांचे आनी शास्त्रांचे आधार दाखैतात. तशे आधार दाखैतकूच आपल्या माथ्यावैलें हिंसेचें पातक गेलें अशें ते समजतात. तुगेलो आजो कुटुमाम ह्याच मांगरांत बसून आडवेळचें भारत वाचतालो. तेन्ना तांतूंत सांगिल्ली तुमची मनशांची जायती नीत आनी अनीत हांवें ह्या म्हज्या कानांनीं आयकल्या. 'झाड-पालो, वेली, सावदां, सवणीं हे लोकांचे खांवचेलेच जिनस अशें वेद म्हण्टा'* म्हणपाचें त्या भारतांत एकेकडेन सांगलां. म्हण्टकूच, तो वेद-रचतलो मनीस सुवराध्यांतलो सुवराथी आनी खादोळयांतलो खादोळो आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता. ना जाल्यार, तो असलीं पातकीं उतरां तोंडांतसून केन्नाच भायर काडचो नासलो. आमचे भितल्ल्या एकाद्या वडा-पिपळान असलोच एक वेद घडौन तांतूंत 'मनशां हो संवसारांतलो खावचो जिनस; तांकां तोंडांत उडैल्यार निखालुस पातक घडना; उफाट्टी पुण्यताय जोट्टा;' अशें बरौन दवरिल्लें जाल्यार तुमकां मनशांक मोटी खोस जातली आसली न्हय ? तुमी त्या वडा-पिपळाचे मोट उपकार मानतले आसले न्हय ? तुमी त्या वडा-पिपळाचें यादस्तिक उबारतले आसले न्हय ?'

"मनशांनू, आमकां तरकेतरेन वळवळावन आनी आमचे हाल-उपाद्रे करून तुमी आमचो जीव घेतात तेन्ना आमी ज्यो हुयेली मारतांत आनी जे स्राप दितांत ते तुमकां एकाद्रे आयकूंक येनासतले. आमगेली भास तुमकां एकाद्री समजनासतली. परंत तितले खातीर, आमकां तोंड ना; आमकां उलौंक येना; आमी मोने; अशें

* ओषध्यो वीरुधश्चैव पशवो मृगपक्षिणः । अन्नाद्यभूता लोकस्य इत्यपि श्रूयते श्रुतिः । मभा., वन., २०८. ६.

तुमी समजुं नाकात. तुमकां मनशांक तरी एकामेकांल्यो भासो खँ समजतात ? तुमची गोड म्होंवी कोंकणी भास मराठी लोकांक खँ समजता? बंगाल्यांक तेलंगी खँ समजता ? कानड्यांक गुजराथी खँ येता ? म्हणून तुमी एकामेकांक मोनें म्हळ्यार जाता व्हय ? मागीर आमगेली भास तुमकां समजना म्हणून तुमी आमकां मोनें म्हळ्यार कशें जायत ? ती तुमकां समजना हो तुमचोच अन्यांव. त्या खातीर तुमच्यान आमकां दुशण लांव नज. तुमी मनीस दिसानदीस पिशे-अबर्गत जांवक लागल्यात. तुमगेले ते वेदांचे मुस्तींतले जाण्टेले कितले शाणे आनी शिटूक बुद्दिचे आसले तर ! ते आमगेली रुखांली भास भोव बरी जाणा आसले. एक फावट देवातिथीक आनी ताचे वांगड्च्या रुशींक एका भाग्यवंत राजाकडसून जायते घोडे आनी गायांचे हिंड दान मेळ्ळें; तें घेवन घरा वेता आसताना, वाटेवैल्या रुखांकलेगीत खोस जावन ताणीं म्हळें खँ: ' ह्या रुशींक भौ बऱ्यो गायो आनी भौ बरे घोडे मेळ्ळे ! '* रुखांनीं आपल्या तोंडांतसून जीं उतरां काडलीं तांचो अर्थ देवातिथीन आपणाले भाशेंत संवसाराक कळैलो आनी तुमगेली इत्सा आसल्यार तुमकांय तो वाचूंक मेळत. तुमी तुमगेल्या पुर्विल्ल्या जाण्टेल्यांची देख घेवन एन्नादर आमगेली भास शिकूंक लागात. म्हण्टकूच, जांकां तुमी मोनें म्हणून दीसरात तोंडांत उडौंचो उद्योग आडायला ते तुमचेच सारके जिबट आसून सगळो संवसारभर स्रापांनीं तुमचें भस्म उबैतात म्हणपाचें तुमकां आयकूंक येतलें. हालींच कालच्या भाद्रपदांत, शेताकणकणीं गुलगुलीत वाडिल्ल्या भाताच्यो मानो तुमी जेन्ना कसाबपणान चरचरीत कातरून देवाक ' नवें ' करून वाडलें तेन्ना जो आकान्त आनी हुयेलीबोबो जाल्यो तांचो नाद सामको मळबामेरेन पावलो म्हणपाचें तुमी जाणात व्हय ?तांच्यो त्यो बोबो आयकून म्हज्या आंगार सामको कांटो उबो रावलो आनी म्हजें रगत जैंचे थैं शेंकेलें. दुखिची कळ सोंसना जावन, तुमकां त्या भातान त्या वेळार ज्यो गाळी सांगल्यो आनी जे स्राप दिले ते ह्या समानांतले न्हयत. तुमी त्या भाताचो निवेद देवाक दाखैला खरो; परंत तुमकां तें कशें पचतलें तेंच म्हाका समजना. भाताक जीव ना, वाचा ना अशें तुमी समजल्यात आसतले. परंत मिथिलेचो 'धर्मव्याध कोणा एकल्या बामणाक कितें म्हण्टा तें जाणात व्हय तुमी ? तो म्हण्टा, अगा भोव बऱ्या बामणा, तांदूळ आनी हेर जीं धान्याचीं बियां म्हण्टात ते सगळे जीव आसात. '† म्हण्टकूच, बोकडां-कुकडांचें मास खाल्यारूच हिंसा जाता आनी आमचे सारकीं फळां, भाजी आनी तांदूळगोटो खाल्यार हिंसा जायना म्हणपाचें तुमचें तडुकी मत्त तुमी आतां बदलूंक जाय. आमगेलें मास खांवचें खावन वैर अहिंसेच्यो पोल्यो

---

* वृक्षाश्चिन्मे अभिपित्वे अरारणुः । गां भजंत मेहनाश्वं भजंत मेहना । ऋग्वेद ८. ४. २१

† धान्यबीजानि यान्याहुर्व्रीह्यादीनि द्विजोत्तम । सर्वाण्येतानि जीवानि तत्र किं प्रतिभाति मे । मभा., वन., २०८. २४–२५.

बडायो तुमी मारूंक फावनात. फळां-मुळां, तांदूळ-गोटो आनी शाक-भाजी खावन रावतकूच तुमी मोटे सवळे जाले अशें समजुं नाकात. तुमचे भितर शिवराक असो शास्त्राकूय मेळचो ना. तुमी बेकार पडल्यात म्हणून 'हांव शाक-खायरो, तूं नुस्तें-खायरो, तो बोकड-खायरो' अशो बडायो मारून आनी वर्मां-कर्मां काडून एकामेकांल्यो तकल्यो वोगेंच फोट्टात आनी झगडीं मातैतात. तांतूंत अर्थ कांयच ना. तांदळांचें शीत जेवले, पणसांचीं शेडां खालीं, विस्वणांचीं पोस्तां रगडलीं आनी बोकडांचीं हाडकां चोखलीं तरी तुमी सगळे मास-खायरेच. तुमी गरीब-दुबळ्या जिवांचें मास भकचो एकसारको तडाक चलैला; आनी त्या खातीर, तुमगेल्याच शास्त्रांभाशेन तुमी मरतकूच तुमगेल्याय मासाचेर हावळ येतली हें तुमी विसरुं नाकात. अगा बाबुमामा, फुडाराक भोगचेले हे त्रास येवजून तुगेलें काळीज एन्नादर कशें फकफकना? परंत फुडलें फुडें; आज मौज मारूंक मेळटा ती खरी; अशें म्हणून तुर्ताक तूं तुजी खादोळी जीब धादोशी करता जांवये. फाल्यां तुजो भागेली म्हज्या माणकुल्या भुरग्यांक म्हजे हाण्डीवैलीं झोंबून व्हरतलो म्हणपाचें येवजून एन्नाच म्हजें काळीज सामकें धडधडूंक लागलें. तीं खैं लिपौन दवरचीं आनी कशीं वाटांवचीं तेंच म्हाका समजना. तूं तांकां खूब वळवळायतलो, एकाद्रो तांच्या तोंडांत खुटयो मारून तांकां तूं घुस्मटायतलो आनी निमाणें तांचीं पोटां चिरून तांच्या रगता-मासाचो निवेद तूं देवाक दाखैतलो म्हणपाचें हांव बरे भाशेन जाणा. परंत म्हजीं भुरगीं भकचीं आसात तुका आनी देवाक निवेद दाखैता कसलो कर्माचो? कसलें रे पापयांनू नाड मनीस तुमी? देवान रचिल्लो सगळो संवसार तुमच्या पोटाचे अनर्खणींत घालून, ताका एकाद्रें वायट दिसत म्हणून ताची समजाविशी करूंक, भायलेभायर त्याच संवसाराचो तुमी ताका निवेद दाखैतात? हे तुमगेले करणेन देव तुष्टतलो आनी तुमी मरतकूच तुमची ख्यास्त तो उणी करतलो अशें तुमकां दिसता? दुसऱ्यांच्या जिवाचेर उदार जावन देवाक तुष्टांवचे भाशेक तुमी तुमच्याच रगता-मासाचो निवेद ताका कित्याक दाखैनात? तशें केल्यार तुमी रोखडेच सर्गार पावतले.

"अगा संवसार रचतल्या देवा, ह्या मनशांक तूं आतां पळौन घे. हे तुका फटैतात. आज हजारांनीं वर्सां तांच्यो नाडानाडी चल्ल्यात. ते तुज्या नांवार आमकां भंकतात. परंत अजून तुज्या ध्यानांत हें कशें येना? तूं आमचो आवै-बापुय; अशें आसताना. ह्या मनशांनीं आमकां तोंडांत उडैल्ले पळौन तुजो जीव आकुळ-पिकुळ कसो जायना? तूं आमकां तांच्या तोंडांतसून कित्याक सोडैना? तांकां कडकडीत ख्यास्त कित्याक भोगैना? तूं तर मोटो बळिष्ट. मनशां तीं कोण कुस्कुटां. तुवें एक फूक माल्ल्यारूच तीं खैंचे खैं उबून वेतलीं. तांची पर्वा तूं कित्याक करता? बारकायेन येवजून पळेल्यार, मनशां मुखार आमी तुका कुंडच्यापाष्ट. तुका मनशांची मोटी माया. सुमाराभायर लाडकुबाय करून तुवें तांकां माथ्यार चडैल्यात. तांकां

भंगैल्यात. तांकां पिसायल्यात. तांगेलो गुन्यांव कांयच ना. सगळो गुन्यांव तुजो. 'जो कोण पान, फूल, फळ आनी उदक म्हाका मोगान दिता त्या शुद्ध आत्म्याची ती मोगाची भेट हांव खातां*' अशें तुवेंच म्हणूंक ना गा देवा? पणून सगळें सांडून तुका हे भिकेचे दुवाळे कित्याक? तूं तर आपल्या तोंडान व्हडल्यो बडायो मारता. 'सगळ्या रुखांभितर पिपळ तो हांव†' अशें तूंच म्हण्टा. तर मागीर मनशांकडच्या पानांच्या तिस्त्यांक तूं कित्याक वळवळटा? 'ऋतूं भितर फुलांचो मळेकार जो वसंत तो हांव‡' अशें तूंच सांगता. तर मागीर मनशांकडच्या फुलांच्या पाखळयांक तूं कित्याक वसवसता? 'न्हंयां भितर गंगा हांव; कोंडीं भितर समुद्र हांव'§ हे भाशेन सावें आनी खारें उदक तुज्या पोटांत तुडुंब भल्लां जाल्यार, मनशांकडच्या शिपीभर उदकाक तूं कित्याक तानेता? 'तेमकांच्या पर्वतां भितर भांगराचो मेरू तो हांव, यक्ष आनी राक्षेसां भितर धन-दौलतिचो कुबेर तो हांव, गायां भितर इत्सा भागैणी कामगाय ती हांव॥' अशें तूंच जळपता. तर मागीर ताका फळांक दुकळ कसलो? बाबु-मामाक निमीत करून तूं म्हजीं फळां कित्याक रगडूंक सोदता? म्हाका दिसता, तूं ह्या खादोळ्या मनशांभाशेनूच मोटो भकारो आसा. तूं केदोय व्हडलो जालो तरी धादोशी ना. धर्तरेवैले इल्लेशे वस्तिचेरूय तुजो दोळो. 'मनशां भितर राजा हांव¶' अशी जी तूं बडाय मारता ती लटकी न्हय. तूं राजा खरोच. संवसारांतले राजा, म्हाराजा, पातशाय आनी तांच्या आवांठांतले ल्हान-व्हड अधिकारी आनी सरदार कितलेय गिरेस्त आसले तरी आपल्या शेकातळच्या लोकांच्या म्हालम्हत्याचेर तांची सदींच नदर आसता. ताणीं आपणांक भेटो-भोंवारो दिवच्यो, साग्वादी धाडच्यो अशीं तांची वान्सा आसता. त्यो धाडल्यार ते तुष्टतात. ना जाल्यार खुबळटात. तसलीच आवतिकाय तुजी. तुका लोकांनीं लंच दिवक जायसो दिसता. हर्शीं तुजें पोट भरना. परंत तूं केन्नाच खाल्लो-जेंविल्लो दिसना. लोक तुका मोटे मांडणेन पानां वाट्टात आनी दाव्या हातान दोळे धांपून उजव्या हातान 'स्वाहा, स्वाहा' म्हणून जेंवचो आग्रो करतात खरे; परंत तूं जाल्यार कुस्कुटाक हात लायना. निखटचा वासान तुजें पोट भरता जांवये. मनशां मात मोटीं तडुकीं खरीं. ती तुज्या म्हन्यांतलीं

* पत्रं पुष्पं फलं तोयं यो मे भक्त्या प्रयच्छति । तदहं भक्त्युपहृतमश्नामि प्रयतात्मनः । भगी., ९. २६.

† अश्वत्थः सर्ववृक्षाणाम्. भगी., १०. २६.

‡ ऋतूनां कुसुमाकरः भगी., १०. ३५.

§ स्त्रोतसामस्मि जान्हवी. ३१. सरसामस्मि सागरः २४. भगी., १०.

|| मेरुः शिखरिणामहम्. वित्तेशो यक्षरक्षसाम्. २३. धेनूनामस्मि कामधुक्. २८. भगी., १०.

¶ नराणां च नराधिपम्. भगी., १०. २७.

पानां बेगोबेग उखलून आपुणूच भकूंक बसतात. तूं शाणो आनी गिन्यानी आसून तुज्या ध्यानांत तें कशें येना हाचें म्हाका मोटें अजाप जाता. तूं निखटचा पोल्या मानाक भुलता जांवये. तुका खांवची-जेंवची इत्सा नासली तरी, लोकांनीं म्हणून आपलो उगडास करचो, नांव घेंवचें, पुजा करची, तोखणाय करची, फुलां घालचीं, हात जोडचे, पांयार लोळचें, दिवे दाखौंचे, आरथी उंवाळच्यो, निवेद दाखौंचो हाचे तुका भारी उत्फरके आसतले. देखुनूच तूं म्हण्टा, 'म्हजेर मन दवर, म्हजो मोग कर, म्हाका पूज, म्हाका पांयां पड.*' पणून देवा, हांव तुका विचारतां, 'संवसाराचो मोटो व्हडलो धनी$' एकलो तूंच म्हणपाची बडाय तूं मेळत तेन्ना मारता आनी ह्या किडचांसारके हुळहुळणे मनीसजातीन केल्ले सुवराथी चोबाळणेक तूं भुलता तरी कसो? चोबाळणेक एकाद्रें म्हत्व दिवचें; परंत ती तुजेच जाती-कातिच्या दुसऱ्या कोणेंय वळिष्ट देवान केल्यार जांव आसली. सगळें सांडून, ह्या किडचांनीं केल्ल्या मोगान, पुजेन आनी नमस्कारान तूं भुरकुट्टा कसो? ह्या नाड, ढोंगी आनी तडुकी मनशांच्या मोगांत कसलोच अर्थ आसा अशें समजला तूं? तुवें तांकां तुज्या मोगाचें नसतें पिशें लायलां. ते आदींच खादोळे. तांतूंत आमची जिवांची वाट लांवक तुजी मान्यताय. मागीर कितें विचारता? 'पिशाच्या हातांत दिली वात, पिशें नाचता सगळी रात'. कशेंय म्हळ्यार, आमचे सारके दुबळे निर्मणेचेर मोटी हावळ आयल्या. तो कुष्टबाबालो चलो शंकरबाब पळे. तुज्या मोगान तो सामको पिसावला. तुज्या नादाक लागून ताणें जायती तीर्थ-यात्रा केल्या. तो काशी-रामेश्वराकूय पावला. ताच्या गळयांत रुद्राक्ष. ताच्या कानांत रुद्राक्ष. ताचे शेंडयेंत रुद्राक्ष. तो सगळचा आंगाक भस्म साडुावन जो सकाळच्या पाराक तुजे पुजेक बसता तो दोनपार जालो तरी पाटावैलो हालना. थंडी, पावस, दव म्हणनासताना फांतोटेर चार वरांचेर उठून तो पोरसांतलीं फुलां आनी तुळसी किरम–किरम–किरमिता. त्यावेळार ते बाबडे जीव मोटचान किळचून, 'नाका गा सायबा मारूं. नाका गा बुड्डूं. नाका गा किरमूं' अशें म्हणून ताका एकासारके काकुळती येतात. परंत तो गा खैं गणमण्टा? तांचे ते वळवळे पळौन, म्हजो जीव मात हांव हांगा उबो रावलां थैं सामको आकुळ-पिकुळ जाता. परंत कितें करतलो? मनशांफुडें माणसुकी आसा? देवा, हीं मनशां तोंडान तुजो जाय तितलो मोग करूं आसलीं; परंत तो करता आसताना, आमकां अन्यांवाबगर पिडणूक भोगता म्हणून वायट दिसता आनी उलौंचें पट्टा. तुका खरेपणान सांगतां, तुवें तुज्या मोगाच्या निमतान मनशांक वोंगीच आडमार्गाक लायल्यांत. मनशां जशी तुजी निर्मणी तशीच आमीय तुजी निर्मणी. तांकां जीव आसा तसोच आमकांय आसा. मागीर, आमची वाट लायसर तूं तांकां तुजो कसलो मोग करूंक लायता? तूं म्हण्टा, 'सगळ्या

---

* मन्मना भव मद्भक्तो मद्याजी मां नमस्कुरु । भगी., ९. ३४.

$ लोकमहेश्वर. भगी., १०. ३.

जिवांक हांव सारको. म्हजो कोण अपुर्बायेचो ना आनी निखड्डायेचोय ना'.* परंत हें आमी खरें कशें मानचें? तूं मनशांक नसत्याच नादाक लावन बळयां आमचो जीव घेंवक लायता; म्हण्टकूच, तुका आमची पर्वा ना हेंच खरें न्हय? तूं कितेंय म्हण. मनशां तुजे चड अपुर्बायेचीं. तांचोच तूं पाखो घेता. आमकां हें समजनाशें न्हय तूं उलैता एक आनी करता दुसरेंच. मनशांभाशेन तूंय मोटो नाड आसा. लज-भीड सोडून तुवेंच तुज्या तोंडान हें उलौन दाखैलां. 'नाडां भितर जुगार तो हांव'§ अशें तुवेंच म्हणूंक ना गा देवा? ज्या जुगाराच्या छंदान पुण्यवंत धर्मराजान आपले गुणेस्त बायलेक पैंजेक लायली तो जुगार कितलो उंवाळ्ळोलो म्हणपाचें सगळो संवसार जाणा. देवा, तूंय ताचेच सारको तर? कर्माऽऽअद्रुष्टा! तर मागीर तुज्यो सात्त्विक-पणाच्यो गजाली कित्याक? अरे संवसारांतल्या मनशांनू, पळेलो मु हो कसलो देव तो? ह्या जुगारा असल्या नाड देवाच्या नादाक लागून तुमी आमची वाट लांव नाकात. देवा-धर्माच्या निमतान आमची वाट लायल्यार आनी आमकां भकल्यार तुमची कशी गत जाता ती तुमी एकाद्रे नकळ जातले. भौच पुर्विल्ल्या यज्ञ-यागांच्या काळांत वरुणान आपलो पुत भृगु हाका चारूय दिशांनीं भोंवडेक धाडलो. भोंवता आसताना ताका कांय मनशां दुसऱ्या मनशांच्या आंगांचे कुडके काढून' हो तुका, हो म्हाका' अशें ह्मणून खाता आसताना दिष्टी पडलीं. भृगून तांकां तशें करपाचें कारण विचाल्लें. तेन्ना ताणीं म्हळें कि 'ह्या मनशांनीं त्या संवसारांत आमची अशीच वाट लाइल्ली; देखून, आतां आमी तांचीय तशीच वाट लायतांत.' उप्रांत भृगु घरा वेतकूच बापायन ताका फोडणिशी करून सांगलें कि यज्ञ-यागांत जीं लांकडां, सावदां, समिधा आनी उदक पट्टा तांचींच तीं मनशां जावन पेल्या लोकांत यज्ञ करतल्या मनशांक खातात.† अगा बाबुमामा आनी संवसारांतल्या हेर मनशांनू, भृगुचे गजाली वैल्यान तुमी कितें शिकूंक जाय तें जाणात व्हय? तुमी तुमच्या सदींच्याच फुटक्या पोटा खातीर जांव, ना जाल्यार देवा-धर्माच्या निमतान जांव, सावदां-रुखांची वाट लायल्यार तुमकां पचची ना इतलेंच न्हय, तर उदकाची लेगीत वाट लायल्यार पचची ना. सावदां-रुखां भरशीं उदकूय तुमच्या कांठचार बसून तुमचें मास खातलें. बरें करून येवजून पळयात. देव सांगता म्हणून सगळेंच खरें मानुं नाकात. तुमी म्हणशात, "तूं जें कितें करता, खाता, होमता, दिता, तपता, ते म्हाका ओंप; म्हण्टकूच, करण्यांच्या बऱ्या-वायट फळांच्या बांदपांतसून तूं मेकळो जावन म्हजेसरीं येतलो' अशें देवान सांगलां.‡ देखून, कसलीय करणी 'देवा पाव' म्हणून, देवाच्या नांवान करून, ती

*समोऽहं सर्वभूतेषु न मे द्वेष्योऽस्ति न प्रियः। भगी., ९. २९.

§ द्यूतं छलयतामस्मि, भगी., १०. ३६.

† शतपथ ब्राह्मण, ११. ६. १. १—१३.

‡ यत्करोषि यदश्नासि यज्जुहोषि ददासि यत्। यत्तपस्यसि कौंतेय तत्कुरुष्व मदर्पणम्। शुभाशुभफलरेवं मोक्ष्यसे कर्मबंधनैः। संन्यासयोगयुक्तात्मा विमुक्तो मामुपैष्यसि। भगी., ९. २७. २८.

देवाक ओंपतकूच जाली. हे भाशेन, मरतकूच आमी देवासरीं पावतल्यों आनी ३ ‘हो तुका, हो म्हाका’ म्हणून आमचें मास तोडूंक कोणाक अंदाजा जांवची ना. भृगुची पोरणी काणी काळजाक बांदून वोगीच धडधडे कित्याक काडचे?” परंत अरे अबर्गतिन्, तुमच्या जितेपणांत तुमच्या करण्यांच्या बांदपांतसून ज्या देवाच्यान तुमकां सोडौं नज तो देव तुमी मरतकूच तुमकां कसो सोडैत? तुमीच पळयात, नागल्यान आज म्हद्याने रातीर ह्याच बाबुमामालें घर फोडलें आनी नागौणेंतली एक दमडीय आपणाक दवरिनासताना, फाल्यां उजवाट्टयार अन्ताशेटीगेर वचून घसघशीत बरी एक वस्त करून घेवन देवाच्या आंगार घाली म्हणून ताच्या कपळांतली बंदखण सुट्टा व्हय? तशेंच, रागल्यान देवाच्या नांवान समुलखार घोळौन घेतलो म्हणून तो मरचो वाटावता व्हय? मागीर देव अमकें म्हण्टा, तमकें म्हण्टा म्हणून ताच्या म्हालवजार कितेंय केल्यार जाता? तुमी तुमगेले बुद्दिचो चिके उपयोग करूंक जाय. देव सगळया जिवांक सारको आशिल्लो आनी ताका तांची खरेपणाची चिंता आशिल्ली जाल्यार, तो तांचे खातीर जीव नाशिल्लें आनी केन्नाच सोंपना तसलें कसलेंय बरेंशें खाण निर्मितलो आसलो. संवसार घडण्या वळिष्ट देवाक हें काम कठीन न्हय. परंत ताणें तें दाटून करूंक ना आनी तुमकां बेष्टे घोळाक घाल्यात. तुमी देवाचेर आनी वेदांचेर सुमाराभायर पातयेवन, फुडें कितें जायत म्हणपाची खन्त धरिनासताना आमचे सारके दुबळे निर्मणेक तुमगेल्या दांतांच्या दांत्यांत आडवेर दळूंक लागल्यात खरे; परंत हे करणेन आजवेर तुमचे भितल्लो कोण खैंचेकडेन सुखी जांवक पावला? तुमी खाण खातात त्या हिस्पान कोणाच्या आंगार कट्टीभर मास वाडलां? कोण अज्रंवर जाला? तुमकां खाल्लें जिरना. अजीर्ण तुमचे फाटीक लागलां. तरेकतरा पिडा-रोगांनीं तुमच्या आंगांत बिराड केलां. मर्ण तुमकां वेळ पांवचे आदीं ओडून व्हरूंक लागलां. हाचे वैल्यान तुमी कितें शिकूंक जाय? भृगुचे गजालींत सांगिल्ले भाशेन, ज्या जिवांची तुमी वाट लायतात ते तुमी मेल्या उप्रांतूच तुमची वाट लायतले अशें न्हय; तर तुमी जिते आसतानाय तुमचो जीव-नांव पोखरचो उद्योग ताणीं एकासारको चलैला. तुमी शाणे म्हण्टात. परंत ही सादी-सोपी गजाल तुमच्या ध्यानांत येना. ‘हिंसेन पिडा रोग लागता आनी अहिंसेन आरोग्यताय जाता’* ही तुमगेल्याच शास्त्रकारांली म्हणणी तुमी कशी विसरतात तें म्हाका समजना. तुमी खरेपणान शाणे आसले जाल्यार, एन्नादर आमचे वाटेक वचपाचें सोडून, जीव नाशिल्लें गुंडे, फातर, माती आनी धूळ खांवक शिकात. हें खाण तुमकां एकाद्रें लागू पडत. तुमच्या आंगार मास चडत. पिडा-रोगांतसून तुमची सोडवण जायत. तुमी अज्रंवर जाशात. तुमी आमच्या हत्त्यांच्या पातकांतसून वाटावशात. यमाचे ख्यास्तींतसून सुटशात आनी सासणाचे सुखी जाशात. हें एदें व्हडलें सुख सोडून आमचे असल्या

* हिंसया व्याधिभूयस्त्वमरोगित्वमहिंसया । मनु., ११. ५१.

जिवांचेच फाटीक तुमी लागतले जाल्यार फुक्याचें तोंड आसा म्हणून अहिंसेच्यं सुक्यो लातबडायो तरी मारुं नाकात. त्यो तुमकां सोबनात. तांतूंत तुमगेलें ढोंगीपण घणघणीत उक्ताडा येता. नष्टचो करण्यो करच्यो करून वैल्याचारांक सात्विक पणाचो कंडो हालौंचो हाचे सारकें व्हडलें पातक संवसारांत हेर नाच म्हळ्यार कामायता अगा पातकी मनशांनू, हिंसा केल्याबगर जर तुमगेली दांतकडी हालना तर अहिंसेच्यं काणयो तुमी कोणाक सांगतात? तुमगेले सगळे मनीसजातींत हिंसा करिनाशिल्ले एकलें तरी बोड मेळत अशें तुमकां दिसता व्हय? दाखयात खैं आसा तें. हांव जार तसली वडा मारीन. हांव म्हगेलो जीव-नांव ताचे भोंवतणी उंवाळून उडैन. हां तुमकां खात्रीन सांगतां कि तुमी सगळे हिसाकार. सगळे मासखायरे. तुमचे भित शिवराक असो पतीक सोदल्यार मेळचो ना. '**हिंसा परमो धर्मः**' हेंच तुमगेलें खरें ब्रीद. हीच तुमगेली घुडी. ही घेवन नाचल्याबगर तुमकां हेर गत ना. तुमी वोगीच अहिंसा, अहिंसा म्हणून तोंडाची बेष्टी ऊब घालौं नाकात."

• •

# गोयची आवै-भास

भौमानेस्त रघुनाथ गणेशशणै तळवडकार ह्याणीं गोंयचे आवै-भाशेसंबंधान ‘स्वयंसेवकां’त तीन खिस्तिनीं बरैल्लो लेख वाचलो. पैली खिस्त ‘स्वयंसेवका’च्या १९२५ च्या वैतुंब्राच्या आंकांत ६४ तीं ६८ पानांचेर आयल्या. हांतूंन सामान्यतायेन भाशेची आनी संवसारांतल्या आवै-भासांची व्हडवीक आनी बळगें सांगलां. आवै-भाशेबदला परकी भास एकाद्र्या जनपदाचे सकनळयेंत बळयांच चोंदचो यत्न केल्यार तो केन्नाच फळाक येना. तर दर एकल्या जनपदांत थैंची निजाची आवै-भास घट तगून रावता; ती केन्नाच मरना अशें तांचे ह्मणणेचें सार आसा. हें सिद्ध करूंक ते फिलिपीन जुंवावळीर परकी इस्पाञ्जोल भास जायते शेंकडे वावरुनूय तगली ना आनी वेल्साचेर ८०० वर्सां इंग्रजी शेक चलुनूय थैंची आवै-भास नाशी जाली ना, अशीं उदाहरणां दितात. ही तांची ह्मणणी लटकी कोण ह्मणत? आवै-भाशेचें बळगें आनी कस निजा-चोच खर हांतूंत दुभाव ना. ती कितलीय दळिद्री आसली, तिका तिच्या खाशेच्या राजांची पोसणूक नासली, तिचेर परकी राजांचो शेक आसलो आनी तिच्या घरा-दारांत परके भाशेन सत्तेच्या वा हरशिल्या तुतनायकान कांयकाळ शेबै घाली तरी ती आपलें यजमानपण निखालुस होगडायना. ती कर्णसिद्ध, सिद्धनाथ, चंद्रनाथ ह्या दोंग-रांच्या मुळसांभाशेन सदींच थीर आसता. तिच्या म्हऱ्यांत परक्यो भासो भांगरांशिगरां घालून, आखें-तिखे करून आनी मान-कमर मोडून नाचल्यो तरी ती गणमणना. ती त्या रंगयाळ्या भासांक घरच्या घेडचांवरी लेखता. ती आपलो यजमान्निचो माना-भौमानाचो पाट तांकां बसूंक दिना. हें इतलें जाणा जावनूय रघुनाथबाबांनीं आपली म्हणणी आपल्याच ताळ्याक लावन घेवन उस्तरें घालैलें ह्मणून अजाप जाता. जो नेम ते फिलिपीन आनी वेल्स भासांक लागू करतात तोच नेम गोंयचे आवै-भाशेकूय लागू जाता म्हणपाचें ते विसल्लेशे दिसतात. गोंयां आज फिर्ङी आनी मराठी ह्या परक्या भासांनीं कितलीय जरी धुमशेणां घालीं तरी अखेरेक थैंची **निजाची यजमान्न कोंकणी भासूच तग धरून रावतली आनी मायें उबारतली** ह्मणपाचें रघुनाथबाबांनींच घाल्ले रुजवार्तीवैल्यान सिद्ध जाता. अशें आसताना कोंकणीक पेल्यान धुकलून ते **परके मराठिचो** पाखो घेतात हाचेवैल्यान, आपल्या तोडांतलें उतर ते आपुणूच दाटून उस्त्यां घालैनान अशें जालें ना? **गोंयची आवै-भास जी कोंकणी** ती तांच्या मुखेल नेमाक आडवाद आसून, संवसारांतल्या हेर सगळ्या आवै-भासांकूच तो नेम लागू जाता, अशें तांचें एकाद्रें मत्त ना मू?

परकी भास कितलीय आगळीक करून बळयांच लोकांच्या माथ्यार उबाल्ल्यार ती तांकां तोलना अशें रघुनाथबाब ह्मण्टात, तें खरें आसा. तें फिर्ङीक जितलें लागू जाता तितलेंच मराठीकूय लागू जाता. गोंयकार हिंदुनीं आनी क्रिस्तांवांनी **परकी**

**मराठी** आनी **परकी फिर्ङी** कितलीय आपलीशी ह्मळी तरी तांचो उच्चार निजाच्या मराठ्या आनी पुर्तुगेजांभाशेन करचेलें तांच्या नशिबांत ना. अशें आसताना हिंदुंनीं, शिगम्याच्या दिसांनीं, माचयेर उबे रावन आनी पड्डुचावसल्यान फुडो करून **'माझी प्रिया खोटें हाये ?'** ह्मणून मराठी नटयेची खुशाल वाट पळौंची आनी ती तरतरीत धांवन येनाशी पळौन पिर्जळून आनी खुबळून, तिडकीन **'हवन करों तुमचें'** ह्मणून देवाक गाराणें घालचें आनी नाटक पळौंक बशिल्ल्यांचें भस्म उबौंचें.

रघुनाथबाब मराठी भाशेक बळयांच जरी गोंयचे आवै-भाशेच्या पाटार बसौंक सोदतात तरी अखेरेक खरें तेंच तांच्या तोंडांतसून आपशीं भायर सरता. ते ह्मण्टात कि, फाटल्या धा-वीस वर्सांपरस आज गोंयां मराठी भाशेंत जें सुधरप जाल्लें दिसता ताचें एक कारण इंग्रजी सरादींतले मराठी शिकिल्ले लोक गोंयां मास्तरकी करूंक येंवक लागल्यात' हें आसा. हाचो उक्तो अर्थ असो जाता कि, गोंयकारांक तांची आवै-भास शिकौंक गोंयाभायले लोक जायत; त्याबगर तांकां ती शिकूंक येना. आपली आवै-भास शिकूंक परक्या लोकांची गरज लागची हें एक अजापूच ह्मणूंक जाय. गोंयां मोटे व्हडले पुर्विल्ले संस्कृतायेचे उंच बामण आसात. तांच्यान आपल्याच लोकांक जर आपली खाशेली आवै-भास शिकौं नज आनी ती शिकूंक तांकां परके लोक, ताणीं बरैल्लीं पुस्तकां, वर्तमानपत्रां आनी नाटकांचे प्रयोग हांचेर आधारून रांवचें पट्टा, तर ते जिका आपणांची आवै-भास ह्मण्टात ती तशी खरेपणानशीं नासून **परकी भास** म्हणचे **धेडी-भास** आसा अशें ह्मणचें पट्टा; मराठी ही तांची निजाची आवै-भास आशिल्ली जाल्यार ती शिकौंक तांकां मराठणांतले **परके लोक** नाका आसले ह्मणपाचें उक्तेपणान सिद्ध जाता.

फिर्ङी शिकिल्ले गोंयचे हिंदु मराठी पुस्तकां रचिनात अशें रघुनाथबाब ह्मण्टात. परंत तांतूंत अजाप ना. जे भाशेचें घर तांच्या मेंदूंत ना ते भाशेंत बरौंक तांकां स्फूर्त जायत तरी कशी ? आनी अशानशीं ताणीं कितेंय बरैलें जाल्यार निजाच्या मराठ्यांक तें मानत कशें ? पुस्तकां रचतल्याचे भाशेंत एकेतरेची **घरगुताय** आसूंक जाय. तशी घरगुताय दिसून आयल्यारूच लोकांक ताचीं पुस्तकां वाचीनशीं दिसतात. परंत बरौंचेली भास आवै-भास आसल्याबगर ती **घरगुताय कोणाक शिकून येना.** माथें खरपून आनी कान खाजौन परके भाशेंत पुस्तकां बरैलीं ह्मणून तीं रुचीक जायनात. ती अडेची करणी जाता. 'अडेचो जोगी आनी कट्टेच्यो मुद्रा' ह्मण्टात तशी ती हांशाक म्हारग. तांतूंत नांव-लोकीक मेळना. गोंयकारांनीं मराठी आनी फिर्ङी ह्यो आपल्यो आवै-भासो म्हणून कितलीय हुयेल माल्ली तरी ज्ञानोबा, मुक्तेश्वर, वामनपंडित, जिल विसेन्त, सा द मिरान्द आनी कामोंय्स जावपाचें ताणीं सप्नांतूय हाडचें न्हय. गोंयां आशिल्ल्या **अडेच्या मराठ्यांची** आनी **अडेच्या पुर्तुगेजांची** गजाल आसूंच; परंत गोंयाभायर मराठणांत, कर्णाटकांत, मलबारांत, उत्तर हिंदुस्तानांत आनी

पुर्तुगालांत वचून जांच्यो पिडयो जाल्यात, जे थैं तिजल्यात आनी कर्मेल्यात ताणीं त्या थैंच्या भासांनीं कितलोसो उजवाड घाला म्हणपाचो सरांव घेतल्यार कितें दिसता? ताणीं खैंचेच परके भाशेंत अजून नांव काडूंक ना अशें ह्मळचार अतिताय जांवची ना; आनी हाचें कारण उक्तें आसा. गोंयकारांची आवै-भास सदींच स्वतंत्रतायेच्या धेंकाची धर्तरेचे खैंचेय कुशीर जरी गोंयकार पावलो तरी ताच्या मेंदूंतली बस्का ती सोडिना. देखून, घरके भाशेक ताच्या मेंदूंत रिगून ताची आवै-भास जांवक अंदाजा जायना. जी भास आयकतकूच वा वाचतकूच अर्थ केल्याबगर सटकरून कपळांत भरना, उतरां येवजिल्याबगर जे भाशेंत उलौंक येना, जे भाशेंत न्हिदेंत सप्नां पडनात ते भाशेक बळयांच आवै-भास ह्मणून वेंग मारून बसल्यार कोणूच नामना जोडूंक पावना. देखून, गोंयकारांक संवसारांत वैर माथें काडचें आसल्यार ताणीं परक्या भासांक आपले बुद्दिची स्वतंत्रताय विकून खांकनवाळ बंदे जांवचे भाशेक आपणांले **आवै-भाशेचो ह्मणचे कोंकणिचोच ताथो-माथो करचो.** ते भाशेंत बरौंक तांकां स्फूर्त जातली. ते घरगुतायेन आनी मेकळेपणान बरैतले, नामना जोड्टले आनी जल्मभुंयेचो लोकीक गाजैतले.

गोंयकार क्रिस्तांव कोंकणीक आपली आवै-भास म्हण्टात हें रघुनाथबाबांक मानना. ते आपणांली आव-भास वळखनात ह्मणून रघुनाथबाब तांकां दुर्भागी समज्तात. जी भास आपुण आपले आवैच्या दुदाभरशीं पियेल्यांत आनी जी आपल्या मेंदूंत घट बस्का मारून बसल्या ती आपली आवै-भास न्हय; तर परक्यांनीं बरैल्लीं पुस्तकां घोंकून जी भास बळयांच अडेची शिकची लागता ती आवै-भास हो एक उफाट्टोच न्याय ह्मणचो.

गोंयकारांली निजाची आवै-भास कोण ह्मणपाचें पळौंचें आसल्यार, **नाना फडणिशी उपाय** करून, एकाद्रो मनीस सुस्त न्हिदलासो पळौन, ताच्या माथ्यार थंड किरांव उदकाचो कळसो रकौंचो; ह्मण्टकूच, तो फडफडून जागो जावन गजाल मारीत उठ्ठकूच तागेली आवै-भास कोण ती रोखडीच कळटली आनी लटक्या भावनांच्या फिटफिटचा तणांच्या आशयांचेर कोणाकूच आधारून रांवचें पडचें ना.*

गोंयचे आवै-भाशेची दुसरी खिस्त 'स्वयंसेवका'च्या १९२५ च्या नोवेंब्राच्या आंकांत ९१ तीं ९७ पानांचेर आयल्या. गोंयच्या क्रिस्तांवांनीं कोंकणी सरस्पतिची भक्ती चलैल्ली रघुनाथबाबांक मानना. मराठिच्या भरभराक कोंकणी भास हें एक आडमेळें कशें तांकां दिसता. कोंकणी सरस्पतिची भक्ती चलूंक दिल्यार **गोंयची आवै-भास मराठी नासून कोंकणी आसा** अशी जी क्रिस्तांवांची ह्मणणी तिका बळगें चट्टलें ह्मणपाचो तांकां भय जाला. देखून, कोंकणिचो मान उणो करचेखातीर, क्रिस्तांव बरप्यांचीं कांय अवतरणां दिवन, ताणीं तांचीं फकाणां माल्ल्यांत. परंत

* हिंदु, मडगांव, ता. १० जूल १९२६, पान ६.

निखटचा फकाणांचो कांयच उपयोग जायसो ना. फकाणां माल्लीं म्हणून ती कोंकणी भास न्हय अशें जायना. क्रिस्तांवांचे बरौंचे रितींत रघुनाथबाबांक चुकी दिसतात जाल्यार, त्यो सुधरूंक ताणीं खासा पेंगट बांदचे. ताणीं मनार घेतल्यार क्रिस्तांवांची बरौंची रीत तांच्यान जायती निवळांव येत. हांवे हालींच मुंबैच्या फुर्तादाच्या मांडार एक कोंकणी पुस्तक पळेलें. ताचें नांव 'भावार्थी क्रिस्तांवांचो दिस्पट्टो सांगाती' अशें आसा. हें १९८ पानांचें पुस्तक १९२२ वर्सा, खानापुरा, भौमानेस्त फ्रान्सिस पेदरू बोर्जिस हाणीं देवनगरी बरपांत छापून उजवाडा हाडलां. हांतूंतली भाशेची मोडणी पळेतकूच, गोंयकार क्रिस्तांव भोव बरी कोंकणी भास बरैतीत अशी आस्ता रिगून ह्याका खोस जाली.

गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळा गेलें आनी थैंचे लोक **थोडी वेगळे तरेची** मराठी (?) भास उलैतात ह्मणून गोंय स्वतंत्र देस जांवक पावना; तें मराठणाचोच कुडको जावन रावतलें अशी रघुनाथबाबांची वान्सा आनी ह्मणणी. हाचेवैल्यान, **कोंकणी भास** मराठीकूय **थोडीय जाली तरी वेगळी** आसा ह्मणपाचें तांकां मान्य असून तें तांच्यान लिपौन दवरूं नज हें उक्तें दिसता. आतां गोंय स्वतंत्र देस जांवक पावना अशें ते ह्मण्टात. ही तांची वान्सा सगळ्याच गोंयकारांक रुचतशी दिसना. जे घटकेक हिमालयासाकून कुमारीमेरेन आनी कराचीसाकून ब्रह्मदेसामेरेन सगळें भरतखंड स्वतंत्र जायत तेच घटकेक आमचें गोंयूय आपशींच स्वतंत्र जातलें आनी **भरतखंडाचें एक इंद्रिय** म्हणून ताच्या विशाळ कारभारांत **स्वतंत्रतायेन** आंग घालतलें हें रघुनाथ-बाबांनीं आनी तांच्या मत्ताच्या हेरांनीं ध्यानांत दवरचें. **स्वतंत्रताय जोडचेखातीर गोंयाक मराठणाचो कुडको जावपाचें अपेसपण करचें निखालुस कारण ना. गोंय हें मराठणाचो कुडको केन्नाच नासलें, आतां ना, फुडाराक जांवचें ना आनी जांवक पावना.**

रघुनाथबाब आतां नाजूक भावनांची पोटली चिके खुंटयाळ्याक उमकळावन, इतिहासाच्या गडगंज आधारार मराठी ही गोंयची आवै-भास म्हणपाचें सिद्ध करूंक पळेतात. ते ह्मण्टात कि, 'कोंकणांत आस्पावणें गोंय हें हालींच मराठणाचो कुडको कसो लेखतात अशें न्हय, तर भौच पुर्विल्ल्या काळापासून क्रिस्ता आदल्या शेंकडयांतूय तें मराठणाक दर्शिल्लें म्हणपाचो इतिहासीक पुरावो आसा. अपरांत वा शूर्पारक देस आनी सगळें कोंकण हो मराठणाचोच वांटो कसो पैलीं मानताले ह्मणपाक पेरिप्लुसांत पुरावो मेळटा. पेरिप्लुसांत देस, उत्तर आनी दक्षिण कोंकण ह्या तिगांकूय मेळून आर्यक हें नांव दिलां. ह्या आर्यकांत दक्षिण आनी उत्तर कोंकणांतल्या आनी देसांवैल्या कांय शारांचो आस्पाव जाल्ल्या कारणान ह्या तिनूय थळांतले लोक एक आसून तांची भासूय एकूच आसली ह्मणपाचें उक्तें दिसता.' रघुनाथबाबांनीं हो मजकूर पेरिप्लुसाचे खैंचे प्रतींतसून घेतला म्हणपाचें समजना. मराठिच्या खवदळ्ळेन्या

आनी बुचकळ्ळेल्या व्हाळांत पेयता आसताना, एकाद्रो तो तांच्या हाताक लागला अशें मानल्यार, मोलादीक आनी लकलकीत मोतयां बदला तांचे मुठींत रेब्यान माखिल्ले शेंकारे आयले, अशें ह्मळचाबगर रांव नज. मराठी व्हाळांत पेंवचे भाशेक ताणीं निवळ झरीक तोंड लाइल्लें जाल्यार तांकां दुदसागरासारकें गोड बरें उदक पियेंवक मेळटलें आसलें. अरियकेसंबंधान पेरिप्लुसांत जी खरी खबर आसा, ती गोंयकार वाचप्यांखातीर हांव सकला दितां. ती वाचतकूच, **रघुनाथबाबांनीं बरैल्लो मजकूर साप चुकला** ह्मणपाचें तांच्या अणभवाक येतलें. म्याकक्रिंडल नांवाच्या एवरोपेवान पेरिप्लुसाचें भाशांतर १८७९ वर्सा केलां. तांतूंत फुडलो मजकूर आसा. 'बरकेच्या (द्वारकेच्या) भुंयसागरा* उप्रांत बरुगझाचो (भडोच) भुंयसागर आनी अरियकेचें भुंयखांड† लागता. मोंबरोसचें राज्य आनी सगळें हिंदुस्तान हांचे सरादीवैलो अरियके हो म्हाल आसा. स्किथियाचे (सकलाटीवैल्या सिंधुनदाचे व्हाळयेच्या आवांठांतलो देस) सरादीकडल्या, अरियकेचे भितल्ले कुशिच्या वांटयाक अबेरीय (अभीर) ह्मण्टात आनी अरियकेच्या समुद्राकडचे देगेक सुरस्त्रेने (सुराष्ट्र = काठेवाड) ह्मण्टात. त्या मुलखांत धान्य, तांदूळ, तिळेल तेल आनी लोणी जायतें; तशेंच, हिंदुस्तानच्या कापसाचें विणिल्लें मलमल आनी भरभरीत लुगट जायतें. थैं गोरवांचे हिंड जायते. थैंचे लोक वाडायेन उंच आनी रंगान काळे. ह्या म्हालाचें राजपाटण मिन्नगर; थैंसून जायतें सुती लुगट बरुगझाक (भडोच) धाडटात. ह्या मुलखांत अजून-मेरेन शिकंदरान घाल्ले घुरयेचीं यादस्तिकां, पोरणीं देवळां, शिबिरांच्यो बुनयादी आनी मोटचो बांयो तशाक तशो राखून दवल्ल्यात. हे समुद्राचे देगेचो विस्तार बरबरिकोन (सिंधुनदाच्या पुर्विल्ल्या सातां तोंडांभितल्ल्या मदल्या चौथ्या तोंडाचेर वसैल्लें शार) साकून बरुगझा (भडोच) सामखिल्या, अस्तकवप्रा (हस्तकवप्र = तुर्ताचें भावनगराकडचें हाथब) लागशिल्या पपिके भुंयमाथ्यामेरेन$ तीन हजार स्तदिय (सुमार तीनशीं मैल) आसा. पपिकेउप्रांत दुसरो एक भुंयसागर लागता. तो उत्तरेवसल्यान गेला आनी ताचेर समुद्राच्या ल्हारांचो मार बसता; ताच्या तोंडा-लागसार बइओनेस (पेरम) हें जुंवें आसा; आनी सामखी ताच्या माथ्याकडसून मइस (मही) ही मोटी न्हंय समुद्रांत व्हांवता. बरुगझाक (भडोच) वचणे भोंवडेकार जुंव्याक दावो घालून, भुंयसागरांतसून वैलेवशीन वेतात. ह्या भुंयसागराची रुंदाय सुमार तीनशीं स्तदिय (तीस मैल) आसा. निमाणें, तें जुंवें समुद्रा-मळबाचे धारेंत पडून भोंवडेकारांक दिसनाशें जाता; आनी मागीर ते बरुगझाक (भडोच) पायणे न्हंयेच्या तोंडावसल्यान पूर्वेक व्हडीं ताण्टात. हे न्हंयेक नम्रदियुस (नर्मदा) म्हण्टात.'‡

* भुंयसागर=golfo. † भुंयखांड = terra firme.
$ भुंयमार्थे = promontorio.
‡ Periplus of the Erythraean Sea, Indian Antiquary, vol. 8, pp. 140-141.

त, सदाशिव नायकाचो पुत बसवलिंग हाचेकडसून मराठ्यांनीं पर्थून फोंडें म्हाल घेतलो.† परंत हेय खेपे तो तांचेकडेन अदिक काळ तगलो ना. १७५० च्या सुमाराक, बसवलिंगाचो पुत इम्मडी सदाशिव हाचेकडेन मराठ्यांचें लिखित जावन फोंडें म्हाल ताणीं ताका पर्थून दिलो. हाचेवैल्यान, तो म्हाल सुमार ११ वर्सां मराठ्यांच्या हातांत उल्लो. हो सगळो इतिहास ध्यानांत घेतल्यार, सव्या शेंकड्याचे अखेरेपासून १७५० मेरेनच्या **साडे इकराशीं वर्सांच्या काळांत, मराठ्यांनीं सगळ्या गोंयाचेर न्हय, तर निखट्या फोंडें म्हालाचेर सुमार २५ वर्सां राज्य चलैलां** अशें म्हणुं येता. आतां वाचप्यांनींच येवजून पळौंचें कि, २५ वर्सांचे मराठी सत्तेन जर फोंडें म्हाल निजाचोच मराठी जावन ताचे फाटीक मराठी पाथावळ लागता, तर मराठ्यांपरस ज्या मुसलमानांनीं, कानड्यांनीं, काठेवाड्यांनीं आनी लंखाकारांनीं त्या म्हालाचेर चडकाळ शेक चलैला तांचोच वांटो तो कित्याक जांवचो न्हय ? त्या पुर्विल्ल्या राजांची गजाल आसुनीच. मराठ्यांभाशेन ते सगळे काबार जाले. तुर्ताक पुर्तुगेजांची सत्ता फोंडें म्हालाचेर मराठी सत्तेचे सुमार साडेस पटिनीं अदिक म्हणचे १६३ वर्सां चलता· तेन्ना ताका रघुनाथबाबांच्या न्यायान **निजाचोच पुर्तुगेज म्हाल** नाजाल्यार **पुर्तुगालचो वांटो** कित्याक म्हणचो न्हय ? वेगळ्यावेगळ्या राजांची सत्ता चल्ली म्हणन गोंयची आवै-भास **वेगळी** जायत अशें म्हणूंक पुरावो ना हें रघुनाथबाबूच म्हण्टात. तरी आसताना, अंत्रुजेचेर मराठ्यांनीं सुमार २५ वर्सां राज्य चलैलें म्हणून तो म्हाल आनी सगळें गोंय निजाचेंच मराठी, तांची इतिहासीक पाथावळ मराठी आनी थैंची आवै-भासूय मराठी हो हट मात तांच्यान सोडुं नज. गोंयचो वीट आइल्ल्याभाशेन, रघुनाथ-बाब अंत्रुजेचें आनी गोंयाचें शास्त्राकूय नातें ना म्हण्टात. ताणीं उपकार करून, हडकोळणां वचून, थैंचे फातरीवैलीं तिसरी वळ मुजरत वाचची. ते वळींत तांकां **'गोमंतक प्रांत अनंतउर्जदेश'**§ हीं उतरां वाचूंक मेळटलीं आनी आपणें मोटी चूक केली अशें दिसतलें.

'आमी कोंकणांत रावतांत म्हणून आमची आवै-भास कोंकणी जाल्यार, वऱ्हाडी, हैदराबादी, बेळगांवीं, नागपुरी अशो व्याकर्णासैत वेगळ्यो वेगळ्यो नव्यो भासो तयार करच्यो पड्ल्यो' म्हणपाचें रघुनाथबाबांक मोटें **संकष्ट** पडलां. परंत ताणीं परक्यांची खंत काडपाचें कारण ना. वैल्यो परक्यो भासो, भासांचे योग्यतायेक पावल्यो आसतीत जाल्यार, आनी तांच्या पायांत नेट आसत जाल्यार, त्यो आपशींच फुडें सरतल्यो. रघुनाथबाबांचे चिंतेच्या म्हालवजार वाट पळौंक बसच्यो नात. ताणीं आपलेंच कोंकणी आवै-भाशेची चिंता काडची आनी तांकता जाल्यार तिची

---

† भारतवर्ष, पुस्तक २, अंक ४, पंतप्रधान यांची दुसरी शकावली, पृ. १५.

§ भारत-इतिहास-संशोधक-मंडळ, पुणें, वार्षिक इतिवृत्त, शके १८३५, पा. २१२.

सेवा करची. जो कोण संवसार-कुटुंबी जावन फुक्याचें उदारपण दाखौंक वेता ताका संवसाराचो संवसार चलौंक येना तें एक जालेंच; परंत खासा आपले घरचोय संवसार होगडावता हें रघुनाथबाबांनीं ध्यानांत दवरचें. संवसार आनी हांव एकूच हो वेदान्त सांगूंक सोपो, उलौंक बरो आनी आयकूंक गोड; परंत ऐन त्या वेळार '**तूं तो तूं; हांव तो हांव**' होच अणभव येता; आनी ह्याच न्यायान गोंयकारांनीं मराठी भाशेक आज कितलीय जरी आवं म्हळी तरी अखेरेक तांचें **खरे आवंचोच जयजयकार** जावन **लटके आनी अडेचे आवेक** गोंयसून एकदीस **सासणाची मांद्री कवळची पट्टली** हांतूंत निखालुस दुभाव ना. '**उदकाकूय रगत दाट**' ह्या अर्थाची इंग्रजी म्हणणी आमचे आवं-भाशे संबंधान खरी जातली.*

कोंकणी भाशेचीं फकाणां मारच्या नादांत, पुंडलीकबाब बंटवाळ ह्या आवं-भक्ताच्यो रघुनाथबाब बचेऱ्यो, उडणायो आनी भिकारभासो करतात. ताणीं बरैल्ल्या कोंकणी पुस्तकाखातीर तांकां लोक हांसले खैं; तांकां पिसो म्हळो खैं आनी हे भाशेन तांकां चणचणीत बरें थापट बसलें खैं. तांची भगल मारता आसताना, रघुनाथबाब तांकां '**साहित्यसम्राट**' ही मोटचा भौमानाची पदवी दितात. हांतूंत रघुनाथबाबांच्या मनाचें मोटें उदारपण दिसता खरें. परंत तांचेच म्हणणे भाशेन **तांगेले पदवेक वाळटी लागल्या खैं**. ताणीं ही वाळटी लागिल्ली पदवी जायत्या जाणांक दिल्या. परंत आपले **आवं-भाशेच्या मंगळकाऱ्यांत सगळें सांडून ताणीं कुसके आनी फुटके नाल्ल कित्याक वांटले ? निजाच्याच मोटचा मनाच्या गोंयकारांक ही करणी सोबना**. मराठी भास लागीं केली म्हणून **गोंयकारांनीं मराठणांतल्या लोकांची बारीक नदर आनी मोटवें मन केन्नाच घेंवचें न्हय**. पुंडलीकबाबांक तांचे भाशेखातीर मंगळूरकार हांसले म्हणपाची रघुनाथबाबांची खबर खिणभर खरी मानल्यारूय (**म्हाका ती खरी दिसना**) तितल्यान मंगळूरकार आपले आवं-भाशेक उबगेले आनी ताणीं तिची सेवा करचेलें पवित्र काम सोडून दिलें अशें मात कोणें समजुंचें न्हय. पुणेंचे भौ. विठ्ठल रा. शिंदे हांचो एक लेख २३ मार्स १९२६ च्या 'केसरी'त आयला. ताणीं फाटल्या दोन वसांत बंगालासाकून मलबारामेरेन भोंवडी केल्ली खैं. ते म्हण्टात, 'रा. ब. डॉ. चव्हाण हाणीं कोंकणी भाशेवैलीं आपलीं कांय उलौपां छापून उजवाडाक हाडल्यांत. तांतूंत मराठिचे कोंकणीकडेन नातें नासून कोंकणी ही स्वतंत्र आनीं मराठी आदली भास जांवये अशें म्हळां. मंगळूर आनी कालेकुट हांगाच्या कांय बामणांक हालीं रा. ब. चव्हाणांभाशेनूच मराठीकडसून सुटून वेगळो संवसार चलौंची ओड लागिल्ली म्हाका दिसली '$ शिंदे हे आपुण **मराठे** म्हणून सांगतात. सगळ्या हिंदुस्तानांत मराठी भास पातळ्ळ्यार तांकां भांगराकूय हळडुवें. कोंकणांतसून आनी मलबारांतसून

* हिंदु, मडगांव, ता. २८ आगोस्त १९२६, पा. २.
$ केसरी, पुणें, २३ मार्स १९२६ ,पान ११.

ती हालता म्हळ्यार तांकां वायट दिसूंक फावो. परंत **तांच्या वायट दिसपाची आमी कोंकण्यांनीं किल्याक खंत काडची**? तांचें अवतरण वाचून म्हाका मोटी खोस जाता ती ही कि, दक्षिण कर्णाटकांत आनी मलबारांत चारशीं वर्सांफाटीं **बृहद्गोमन्तक म्हणचे मोटेलें गोंय वसैणे** आमचे भाव आपले आवै-भाशेचे सेवेक पोटतिडकेन लागल्यात. शिद्यांसारक्या मराठ्यान आनी मराठिच्या अभिमान्यान दिल्ली ही गवाय आयकतकूच रघुनाथबाबांनीं आनी तांचेसारक्या मनाच्या गोंयकारांनीं **मंगळुरांत आपली आवै-भास मेली म्हणून खातकुतल्यो जांवक दिवच्यो न्हयत आनी साकर वांटची न्हय.** दक्षिण कर्णाटकांत हिंदु गोंयकारूच कोंकणिचे सेवेक लागल्यात अशें न्हय; तर क्रिस्तांव गोंयकारूय मोटे भक्तीन कोंकणी सरस्पतिची पुजा करतात म्हणपाचें बारकायेन केल्ले चौकशेवैल्यान म्हाका कळ्ळां. रघुनाथबाबांनीं मर्दनगडार चडून तांकां खुशाल 'वाळटी लागिल्ले पिशे साहित्यसम्राट' म्हणचें. **ते तांची कुस्कुट पर्वा करिनात.**

पुंडलीकबाबांच्यो मस्कऱ्यो मारून जातकूच, रघुनाथबाब, **पवित्र यादस्तेचो गोंयचो विद्वान पुत दोतोर जुजे जर्सन द कुन्ज** हांचेर आपल्या तोंडाची नाळ पेटैतात. तांकां ते **बाटके क्रिस्तांव, हट्‌ळगे आनी गोवानीज** हीं उतरां लावन इंग्रज सरकारान मुजरत बरौंक लाइल्ल्या आनी विद्वानांक मान्य जाल्ल्या तांच्या The Konkani Language and Literature ( कोंकणी भास आनी सरस्पत ) ह्या भोव बऱ्या निबंधाक ते '**चोपडें**' म्हणून कुस्कुटायतात. हाचेवैल्यान, खासा रघुनाथ-बाबांची योग्यताय केदी मोटी आसूंक जाय ती समजना. दो. जर्सनबाब हाणीं म्होरो आनी पुर्विल्लो इतिहास हांचे संबंधान केल्लो सोद आनी बरैल्लीं पुस्तकां रघुनाथबाबांक आपले सगळे जिणेंत निखटीं वाचूंक आनी पचौंक तांकत कि ना म्हणपाचोच दुभाव दिसता. आजिय, एवरोप आनी अमेरिक ह्या तीनूय खंडांत जर्सनबाबांनीं जोडिल्ली नामना खैं आनी रघुनाथबाबांनीं तांची केल्ली बकच्छाय खैं! दो. जर्सनबाब हे निखालुस धर्मकोल्ली नासून, मोटया मनाचे, गुणेस्त, विद्वान बामण गोंयां जल्मून ताणीं थैंचो उजळ लोकीक संवसारभर गाजैलो म्हणपाचें रघुनाथ-बाबांक समजून येत तेन्ना आपणें **मोटें व्हडलें पातक केलें** अशें तांकां दिसल्याबगर रांवचें ना. १८८१ त जर्सनबाबांनीं बरैल्ल्या कोंकणी भाशेच्या निबंधांत, १६७८ वर्सा देवनगरी अक्षरांनी छापिल्लो **कोंकणी** लेख दिल्लो. उप्रांत ३४ वर्सांनीं सातान्याच्या रा. ब. पारसनिसांनीं १९१५त 'नवयुगा'च्या दुसऱ्या वर्साच्या आठव्या आंकांत तो लेख 'मराठी' म्हणून दिलो; परंत ताणीं आपले म्हणणेक आधार कांयच दाखैलो ना. तेन्ना, रघुनाथबाबांनीं अपुर्बायेन पागण घाल्ल्या '**साहित्यसम्राटा**'न 'नवयुगा'च्या १९१६ च्या आगोस्ताच्या आंकांत ७६८ तीं ७७२ पानांचेर, **गडगंज पुरावो** दिवन **तो लेख मराठी नासून कोंकणी** आसा म्हणपाचें सिद्ध केलें. रघुनाथ-बाबांचे म्हणणेभाशेन, जर्सनबाब म्हण्टात म्हणून तो लेख कोंकणी इतलोच पुरावो दिवन

**'साहित्यसम्राट'** वोगो रांवक ना. तर, ज्या Hortus Indicus Malabaricus ( मलबारचें हिंदी पोरसूं ) ह्या पुस्तकांत मुदलाक तो दिला तांतूंच तो **ब्राह्मणी** भाशेचो म्हळा म्हणपाचें लातीं भाशेंतलें घसघशीत बरें अवतरण दिलां. त्या भायर, सोळा, सतरा आनी अठराव्या शेंकड्यांत **कोंकणी भाशेक** एवरोपेव लोक **ब्राह्मणी भास**§ म्हण्टाले म्हणपाचेंय आधार दिवन सिद्ध करून दाखैलां. रघुनाथबाब आवै-भास म्हणून मराठिचो पाखो घालतात त्या मानान ती भास तांकां सारकी येनाशी दिसता. तो सारकी आइल्ली जाल्यार, ते अर्दुकडें कितेंय बरौंचे नासले. एकाद्रें 'नवयुगां'तलो लेख तांकां सारको समजुनूय, **'साहित्यसम्राटा'** क बळयांच पिशें लावन चणचणीत बरें थापट मारचेखातीर, वाचप्यांचो चुकिचो समज करूंक ते वावुल्यात जांवये. परंत हो तांचो बेत सामकोच कोंसळ्ळो म्हळ्यार कामायता. गोंयच्या वाचप्यांकडेन पेरिप्लुस आनी ग्रियर्सन नासतीत. परंत १९१६ तल्या 'नवयुगा'चे आंक आसल्याबगर रांवचे नात. फोंडें, मडगांव, पणजी, म्हापशें, सांगें, केपें, दिवचल, सांकळी, माशेल, पेडणें हांगाच्या दरएकल्या पुस्तका-घरांत ते आसुंकूच जायत. ते मुजरत वाचतकूच, **'साहित्यसम्राटा'** चे लेख **आधारांनीं उपाट भल्लोलो** आसून रघुनाथबाबांनीं आपणांक हातार नाडले अशें वाचप्यांक दिसल्याबगर रांवचें ना. ते रघुनाथबाबांच्यो आवै-भाशेवैल्यो तीनूय खिस्ती पर्थून वाचतले आनी आपणांक खैं खैं कशे कशे फटैले म्हणपाचें बारकायेन पळेतले आनी फुडाराक तांच्या बरपाचेर ते पातयेंवचे नात. रघुनाथबाबांचें केदें लुस्कान हें ! **'साहित्यसम्राटा'**चो लेख गडगंज आनी खऱ्या आधारांनीं इतलो भल्ला कि, खासा रा. ब. पारसनिसांक आनी हेर मराठी इतिहास-सोदप्यांक ताचे आड कांयच बरौंक तांकलें ना, हें वाचप्यांनीं ध्यानांत दवरचें.

**'साहित्यसम्राटा'**क पिशें लावपाचो बेष्टो यत्न करून जातकूच, रघुनाथबाब आपले नाळिच्या बिळांतसून कोंकणी भाशेचेर गुळो सोट्टात आनी कोंकणी कारखाने बंद जाल्याबगर गोंयाक बरे दीस येंवचे नात अशें म्हण्टात. **कितली नष्टी वान्सा ही !** परंत 'कावळ्यांच्या स्रापांनीं गोरवां मरनात' म्हणपाचें हांवें वाचप्यांक सांगचें लागना. **आमचे आवै-भाशेचे दिसानदीस जयजयकारूच जातले** हें ताणीं ध्यानांत दवरचें.

निमाणें, रघुनाथबाब अखेरची एक **सुरै फटास** मारून आपलो लेख सोंपैतात. ते म्हण्टात कि, तोमास इस्तेव्हंव ह्या सोळाव्या शेंकड्यांतल्या इंग्रज पाद्रीन मिस्र मराठिचें एक व्याकर्ण बरैलां आनी तो मराठिचो पैलो व्याकर्णकार आसा. मराठिच्या पैल्या व्याकर्णाचो वाद 'नवयुगां'त १९१७ वर्सा चलतालो. त्या वेळार, 'भारद्वाज' नांवाच्या एका मराठी बरप्यान क्रिस्तांव पुराणकार तोमास इस्तेव्हंव पाद्री हाणें

§ Linguistic Survey, vol. 7, p. 163.

सोळाव्या शेंकड्याच्या सोंपत्यार रचिल्लें **कोंकणी** भाशेचें व्याकर्ण हेंच मराठिचें पैलें व्याकर्ण अशें म्हळ्ळें. ही ताची म्हणणी, रघुनाथबाबांच्या '**साहित्यसम्राटा**'न 'नवयुगा'च्या १९१७ च्या नोवेंब्राच्या पैल्या आंकांत ७७ तीं ७९ पानांचेर एक लेख बरौन, आधार दिवन, चिरून तिस्त्यो करून उडैली आनी तोमास इस्तेव्हंव हो **मराठिचो पैलो व्याकर्णकार नासून कोंकणिचो पैलो व्याकर्णकार आसा** म्हणपाचें सिद्ध करून दाखैलें. '**साहित्यसम्राटा**'च्या मुद्द्यांआड कोणाच **निजाच्या** वा **अडेच्या मराठ्याक** अजून एक अक्षरूय बरौंक तांकूंक ना. रघुनाथबाबांनीं तो लेख वाचला जांवये. परंत मराठिच्या मोगान, ते दाटून तें व्याकर्ण सगळें-मराठी न्हय पणून अर्दें-मराठी म्हणून सांगतात. सगळें-मराठी म्हणूंक तांकां धीर जायनासो दिसता. खासा व्याकर्ण रचणो पाद्री मराठी आनी कोंकणी ह्या दोनूय भासांतलें अंतर भोव बरें वळखतालो; आनी ताणेंच आपल्या व्याकर्णाक Arte da *Lingoa Canarin* (**कानारी** म्हणचे **कोंकणी भाशेची विद्या**) अशें म्हळां जाल्यार तें मराठी वा अर्दें-मराठी म्हणूंक रघुनाथबाब कोण ? भौमानेस्त रोकि कुरेंय आफोंसबाब मराठी क्रिस्तांवपुराणाक कोंकणी म्हण्टात म्हणून तांची ते अपुर्बुद्द करतात; आतां खासा रघुनाथबाबूच **कोंकणी** व्याकर्णाक मिस्र मराठी म्हणूंक लागल्यात; तेन्ना तांची अपुर्बुद्द कोणें करची ? वाचप्यांनीं 'नवयुगां'तलो लेख मुजरत वाचून पळौंचो; म्हण्टकूच, रघुनाथबाबांची फटास तांकां घसघशोत दिष्टी पट्टलो.

आवै-भाशेचो हो लेख जायतो रुंदावलो. आतां अदिक बरौंक हांव बसना. रघुनाथबाबांच्यो तोनूय खिस्ती आनीकूय विसकून पळौं येताल्यो; परंत तांतूंत म्हजो आनी वाचप्यांचो वेळ फुकट वचून त्या मानान चडशी नफा जांवची ना म्हणून त्या कामांत हांव पडना. चडकरून सगळ्या घसघशीत दिसण्या मुद्द्यांचो हांवें निर्णय केलो अशें म्हाका दिसता. मराठी भाशेक आवै-भाशेच्या पाटार बसौंच्या बोवाळांत रघुनाथबाबांनीं गोंयच्या इतिहासाक पांयांतळा माड्डावन गुड्डावन जिवानशीं माल्लोलो, तो निखटें कपळ कणकणावन. नाखाकडेन कांदो धरून, सापसाची धुंवरी दिवन वा खर-निबर मात्रा जिबेर घांसून जिवो जायसो नासलो. ताका अमृताचीच गरज आसली. तें अमृत, म्हजे आवै-भाशेच्या प्रसादान, म्हजे हस्तकून वेळार ताच्या ताळ्यार पडून **ताणें आतां दोळे उगडल्यात**; आतां **फुडाराक ताचो जीव घेंवक कोणाकूच तांक जांवची ना म्हणपाची म्हाका खात्री** आसा.

निमाणें, गोंयकारांक सांगचेलें इतलेंच कि, तांचे भितल्ल्या ज्या कोणांक आपणांली आवै-भास मानना आनी जांकां परके भाशेचीच रूच लागल्या ताणीं खुशाल तिच्या नादाक लागचें. परंत तशें करता आसताना, जिचेपासून चड नफा जायत अशीच भास ताणीं वेंचून काडची. परकीच भास घेंवची आसली जाल्यार ती दाटून दुबळी कित्याक लागीं करची ? म्हाका दिसता, मराठीय परस तणतणीत आनी घट बरे इंग्रजी भाशेक आपलीशी करून तिचो अभ्यास ते पोटतिडकेन करतीत जाल्यार संवसारांतले विद्येची

कोठी तांच्या फुडयांत आपशींच उक्ती जातली. परंत ती भास शिकता आसताना, ताणीं आपली जल्म-भुंय इंग्लंडाचो कुडको म्हणून इतिहासाच्यो काणयो सांगपाची गरज ना. तशें केल्यार, तें उफाट्टें तांच्या आंगार भुजतलें म्हणपाचें ताणीं ध्यानांत दवरचें. इंग्रजी शिकपाची तांकां वान्सा नासून मराठिचोच मोग लागला जाल्यार, ती भास कितलीय दुबळी आसली तरी आपणांक जाय देखून आपुण तीं शिकतल्यों अशें ताणीं खुशाल म्हणचें. तांचे वाटेक कोण वचना. परंत तशें म्हण्टा आसताना, ती आपली आवै-भास आनी गोंय हो मराठणाचो कुडको असल्या अडेच्या, आंगार येण्या, नसत्या आनी नष्टचा वादांत ताणीं पडचें न्हय. तांतूंत ते सदींच घोळाक पट्टले.

मराठी ही खरेपणानशीं म्हजी आनी म्हज्या अपुर्बायेच्या गोंयकार भावांची **आवै** आशिल्ली जाल्यार तिची माया करूंक म्हाका कोणें शिकौंची वा आग्रो करची गरज निखालुस नासली. आवैची भक्ति करपांत संवसारांतलो कोणूच पुत म्हाका फाटल्यान धुकलीत अशें म्हाका दिसना. जे भुंयेवैल्यो फातुल्ल्यो, रेंव आनी झाडकांचो सुको पालोलेगीत अपरूप वस्तींवरी हांव लेखतां ते भुंयेची आवै-भास खरेपणानशींच मराठी आशिल्ली जाल्यार तिका हांव घिस्पटावन उडैन अशें केन्नाच जातलें आसलें ? हांव तिका म्हज्या काळजाच्या देवाऱ्यांत देवतेभाशेन पुजेक लायतलों आसलों. परंत **म्हजें मन म्हाका सांगता कि, मराठी ही म्हजी** आवै न्हय. **कोंकणी हीच म्हजी खासा आवै. देखून, निखटचा काळजाचोच न्हय, तर म्हज्या सगळ्या देहाचो देवारो घडोन आज उर्णीपुर्णी तीन तपां हांवें तो तिचे सेवेक ओंपला**; आनी म्हाका आस्ता आसा कि म्हजे गोंयकार भावूय, ह्याफुडें **वाऱ्यावैले बायलमनशेक** आवै म्हणून पोट-लून बसनासताना, आपणाचे खाशेले आवैक मायेचे नद्रेन पळौन तिचो फावो तसो ताथोमाथो करतले.

आवैक उपाशीं रडत घराभायर धांवडावन परकेक लागीं करची आनी तिका पोळयांचें जेवण घालचें अशें धड मेंदुचो संवसारांतलो कोणूच मनीस सांगत अशें म्हाका दिसना. अशानशीं तशें कोणूय म्हाका सांगूंक येत जाल्यार, ताची तकली थाऱ्यार ना अशें समजून, ताचेकडेन वाद घालचे भाशेक 'दोनूय हारी आपणाकूच' अशें म्हणून हांव वोगो रावन. अखेरेक, मराठी वा संवसारांतली दुसरी कसलीच परकी भास, कितलीय कपलफोडणी केल्यार महासप्तमांतल्या लोकांची आवै-भास जायसारकी नासून, **कोंकणी भाशेचोच जयजयकार जातलो** म्हणपाचें भौनभौन सांगून म्हजी लिखणी हांव म्हजे आवै-भाशेचे दुसरे सेवेक लांवक चल्लों.*

* * *

---

*हिंदु, मडगांव, ४ सेतेंब्र १९२६, पा.२–३.

# संवसार – बुट्टी

## सवें आरण्यक

देवान संवसार घडून सुमार देड हजार वर्सां जाल्लीं खैं. इतले म्हणसर ताका मनशांच्या नष्टेपणाचो वीट आयलो. तीं आपणाक विसरून एकसारकीं पातकांत बुट्टात अशें ताका दिसलें. खैंचे पाड वेळेन आपणें तांकां जल्मा घालीं अशें ताका जालें. ताका मोटो खेद आनी पच्छताप जालो. ताणें उबगून म्हळें, ' हांव आतां मनशां आनी तांचे भरशीं सावदां, सवणीं आनी जिवाणां धर्तरेवैल्यान ना करून उडैतलों. '$

ते मुस्तींत नोये प्रजापति नांवाचो एकलोच मनीस देवाचे अपुर्बायेचो आसलो. तो देव धर्मिष्ट आसून धर्म-नीतीन चलतालो. देवान ताका आनी ताच्या घरच्यांक वाटांवचें येवजिलें. भयांकृत बुट्टी हाडून मनशांक मारचेली तजवीज तांणें ताका कळैली आनी लांकडाचें एक तारूं बांदूंक सांगलें. प्रजापतीन तें बांदलें आनी ताका माळयो, कुडी, दारां आनी जनेलां केलीं. तें ३०० हात लांब, ५० हात रुंद आनी ३० हात उंच आसलें. ताका भायर-भितर काजिचो दीख काडिल्लो आनी तांतूंत खाणा-जेवणाच्या सगळ्या जिनसांचो सांटो केल्लो. धर्तरेवैल्या दरएकल्या जिवाचें बियाण राखून दवरचेखातीर ताचें एक एक जोडें तारवार घेतिल्लें.§ हे भाशेन सगळी मांडणी जातकूच, प्रजापति बायल-भुरग्यांसैत तारवार चडलो.*

उप्रांत सातां दिसांनीं, देवाचे आज्ञेन पावस-रायाली सुंवारी भायर सल्ली. तडयो, उव्रण, गावर, सुरमुजी, सोंसो, सातवस मेळून आठांय दिशांचे वाव सैल सुटले. अनर्थांचो घडघड आनी तट्ट जावन विजो जोगलांवक लागल्यो. देवान मळबाच्यो मानसो उक्त्यो केल्यो आनी समुद्राच्यो सगळ्यो झरी उमळायल्यो.† म्हण्टकूच, एकसारको हरंधारीनीं पावस ओतूंक लागलो. 'दडकेर दडक आयली. मळब कोंसळून पट्टाशें जालें. त्या वेळार मनशांचेर आनी मोनजातिचेर जो आकान्त आयलो तो ह्या समानांतलो न्हय. तांकां आतां आपलें कितें जातलें आनी कात तें कांयच कळना जालें. रोखडेंच मार्गांनीं धोंपरभर उदक जावन तें घरांच्या हुंबऱ्याभितर रिगूंक लागलें. तें पळौन, जांच्या घरांक माळयो आसल्यो ते माळयांनीं वचून बसले आनी जांच्या घरांक माळयो नासल्यो तांतूंतले कांयजाण घरांच्या पाष्टांचेर, कांयजाण रुखांचेर आनी कांयजाण दोंगरांचेर चडले. मर्ण सामकें तांच्या दोळ्यां सामखार

$ OT. Genesis, 6. 5-7 § OT. Genesis 6. 9-8, 14-22.

* OT. Genesis, 7·7. † OT. Genesis, 7. 10-11.

उबें रावलें. तरी आसताना, संवसाराची माया सुटना जावन, कोणें आपलो म्हाल-म्हतो माथ्याचेर उबाल्लो, कोणें फाटकुळेर माल्लो आनी कोणें आपल्यो दुडवांच्यो चिरयो पेंगटाक गच्च बांदल्यो. बायलांनीं जाल्यार आपलें भांगर-शिंगर लग्नाक भायर सरिल्ल्या होवळ्यां भाशेन आंगा-खांद्यार घालें. जायतेजाण प्रजापतिच्या तारवासरीं गेले आनी 'म्हाका भितर घे गा, म्हाका भितर घे गा' म्हणून काकळुती येवन ताची सायबा-जाव्रा करूंक लागले. परंत तो तांकां दार काडिना जालो. ताणें जनेलांतसून म्हळें, 'म्हजी सांगणी-म्हणणी चिकें आयकून घेंवची म्हणून जायतीं वर्सां हांव तुमच्या काना-कानसुलांनीं आड्डून सामको खडपसूक जालों. परंत तुमी निखालुस पर्वा केली ना. आतां भोगात तुमच्या करण्यांचीं फळां.' तेन्ना निर्शेवन, कांयजाण त्या तारवाचे हृणयेक उमकळ्ळे, कांयजाण बाणयेक उमकळ्ळे आनी कांयजाणांनीं येऱ्याक गोळ माल्लो.

ह्या वेळार मोनजातिची अवस्ता जाल्यार खऱ्यानींच काकळुतेणी जाली. सगळ्यांचेर एकेच फावटीन मर्णाचें वागरें पडून तीं काचाबूल जालीं. बाबडीं जीव घेवन जळीं-मळीं पळूंक लागलीं. तीं आपणाले सभावगुण लेगीत विसल्लीं. शींव मेरवाचेर घुरी घालिना जालो. वाग गायचे गोमटेचो घांस घेना जालो. कोलो सोंशाक आडायना जालो. बोकलो हुंदराचे फाटीक लागना जालो. मुंगस सोर्पाचे वाटेक वचना जालें. सोरोप मनशाक चाबना जालो. कसोय एकफावट जीव वाटावल्यार पुरो इतलीच चिंता सगळ्यांक लागली.

हो अवतारांचो पावस एकसारके चाळीस दीस आनी चाळीस राती मात्शीय ओखळ घेनासताना पडलो. धर्तरेर चोंयवसल्यान उदक तुंबलें. तें दोंगरांच्या आनी पर्वतांच्या माथ्यावैर पंद्रा हात पावलें.* जमीन आनी झाड-पेड खैंचेचकडेन दिसना जालें. दिशो समजना जाल्यो. वैर मळब आनी सकला उदक होच देखाव, दोळ्यांसामखार उबो रावलो. त्या वेळार वारें एकसारकें चों-चों करून गाजतालें, ल्हारां घसा-घसा करून माडाएदीं उसळटालीं आनी तांतूंत सूर मारून बेबदड जाल्ले सोन-चेडयेभाशेन प्रजापतिचें तारूं धोलतालें आनी लकतालें.† हे बुट्टेंत मनशां सावदां, सवणीं आनी जिवाणां घुस्मटून मेलीं. एकसारकें पांच म्हैने हें उदक धर्तरेर फुगून आसलें.¶ उप्रांत तें इल्लेंइल्लें उणें जावन धर्तरी सुकी सडसडीत जाली आनी प्रजापति आपणालें कुटुंब आनी हेर जीव घेवन सुसंगीत भायर सल्लो.$

---

* OT. Genesis, 7. 12, 20.

† क्षोभ्यमाणा महावातैः सा नौस्तस्मिन्महोदधौ । घूर्णते चपलेव स्त्री मत्ता परपुरंजय । ४३ । नैव भूमिर्न च दिशः प्रदिशो वा चकाशिरे । ४४ । मभा. वन. १८७.

¶ OT. Genesis, 7. 23-24. $ OT. Genesis, 8. 14, 18-19.

हे बुट्टेंत मेल्ल्या जिवांचे आत्मे हुयेल मारीत मळबांत गेले. थैं एका सोबीत शिंवासनाचेर रूप नाशिल्लो, दिसनाशिल्लो, एकलोच एकलो, सासणाचो देव बशिल्लो. शिंवासनांतसून वीज झगझगताली, घडघडो गाजतालो आनी ताळ्यांचो नाद आयकूंक येतालो. ताचे भोंवतणीं इंद्राचें धणू पाचेवरी लकलकतालें. ताच्या फुडच्यांत उज्याचे सात दिवे पेट्टाले. ताचे सामखार, भिंगांचो समुद्र घसघसतालो. शिंवासना मजगत आनी भोंवतणी चार सावदां आसून तांकां फाटीं-फुडें कुचकुचीत दोळे आसले. तांतूंतलें एक शिंवासारकें, दुसरें वांसरासारकें, तिसरें मनशासारकें आनी चौथें उट्ट्या गरुडासारकें दिसतालें. तांकां दरएकल्याक स पांखाटे आसून भितर्यां कुचकुचीत दोळे आसले. तीं दीस-रात एकसारकीं 'आदलो, आतांचो, फुडलो, उपाट-बळिष्ट, पवित्र देवस्वामी' ह्या मंत्राचो जागर करतालीं.¶ शिंवासना भोंवतणी जायते दूत हात जोडून उबे आसले.‡ तांतूंत गाब्रिएल, मिंगेल, राफाएल, इस्त्राफेल आनी अझ्राएल हे मुखेल आसले.

शिंवासना लागसार आत्म्यांची अकस्मात करांदाय चलिल्ली पळौन इस्त्राफेल दुताक अजाप जालें. संवसाराचे अखेरेक, निमाण्या निर्णया दिसा, शिंग वाजौन मेल्ल्या जिवांक उठौंचें काम ताचें आसलें. त्या कामाक अजून जायतो कळाव आसलो. धर्तरेवैलीं मडीं जिवीं जावन तांगेल्या बऱ्या-वायट कर्तुपांची चौकशी करपाचो दीस अजून लागीं पांवक नासलो. बैलाचे तकलेचें, दुकराच्या दोळ्यांचें, हतयाच्या कानांचें, हरणाच्या शिंगांचें, शिंवाच्या हड्ड्याचें, बोकल्याचे फाटिचें, वागाच्या रंगाचें, मेंडक्याचे शेपटेचें, कऱ्याच्या दोंक्यांचें आनी गाढवाच्या सुराचें; अरिष्टांचें सावद भायर सरून ताणें देवाक वळखतल्या आनी वळखनाशिल्ल्या लोकांच्या कपळार वेगळे वेगळे शिके अजून मारूंक नासले. दोंगर हालून धूळ उबूंक नासली.* धर्तरेची पूड जांवक नासली. मळब पिंजून तिस्त्यो जांवक नासल्यो.† सूर्य केंसांसारको काळो काळो कीट जांवक नासलो. चंद्र रगतासारको तांबडो बडंग जांवक नासलो. नक्षत्रां वावटळीन हालिल्ल्या फळांवरी गळून पडूंक नासलीं.|| अशें आसताना आत्म्यांची ही भुरावळ खैंसून कशी आनी कित्याक मळबांत पावली तें ताका कळना जालें. ताणें विचाल्लें, 'तुमी तुमगेल्यो कुडी सोडून हांगा एन्नाच कशे आयले?' हाचेर ताणीं एका ताळ्यान जाप दिली, 'काकळुतेस्त देवान धाडिल्ले बुट्टेन धर्तरेर चोंयकडेन उदक फुगून आमी बुडल्यों. समुद्रांतलें ल्हान-व्हड नुस्तें आमचें आंगमास तोडून खांवक लागलें. आमी कुडीभायरे जाल्यों. आमकां खैंचेचकडेन आलासरो मेळना जालो. आमी उबन्त पडल्यों. इतले म्हणसर, मळबावशीन आमचें ध्यान गेलें. धर्तरेर अनर्थांचो पावस

¶ NT. Revelation, 4. 3, 5-8. ‡ NT. Revelation, 5·11.
* कुराण, ७८. २०. † कुराण, ६९. १४, १६.
|| NT. Revelation, 6. 12-13.

घालचेखातीर देवान उक्तीं केल्लीं सर्गाचीं जनेलां¶ आमकां दिष्टी पडलीं आनी तांतूंत-सून आमी हांगा आयल्यों.'

आत्म्यांची ही खबर आयकून गाब्रिएल दुतान चर्रकरून आपलें जिबेचें तोंक चाबलें आनी तो ल्हवू फुतफुतलो, 'बुट्टी धाडपांत आमची एक मोटी चूक जाली. मनशां, सावदां, सवणीं आनी जिवाणां मारची तजवीज आमी केली. परंत नुस्त्याची वाट लांवक कसलोच उपाय येवजिलो ना. हे चुकीन मोटो घात जालो. हे बुट्टेन नुस्त्याचोय तांतीं-पिलो काबार जाल्लो जाल्यार ही भुरावळ हांगा एन्नाच येंवक पांवची नासली. निमाण्या निर्णयामेरेन ती जैंचे थैं आपापल्यो कुडी धरून आसतली आसली. परंत निखटे बुट्टेनूय नुस्तें काबार जावप कठीन आसलें. कित्याक, ताका उदक निखालुस बादना. ताचें घर-दार पडलें उदकांत. तांतूंत तें मातता. देखून नुस्त्याचेर हावळ हाडूंक आमी बुट्टेभरशीं हेर कसलीय युक्त येवजूंक जाय आसली.' उप्रांत उपाय ना जावन, ताणें त्या आत्म्यांक तांगेली म्हणणी कितें ती विचाल्ली, तेन्ना एका आत्म्यान भौच नम्रतायेन म्हळें, 'दूतमाम, काकळुतेस्त देवान संवसार कित्याक घडलो, आमकां जल्मा कित्याक घाले आनी बुडौन कित्याक माल्ले हें सांगशी जाल्यार उपकार जातीत.' हाचेर दुतान तिडकून म्हळें, 'ही नाका-जाल्ली जाळवणी तुका कित्याक? देवान आपणाक जाय देखून आपले खोसयेखातीर आनी मौजेखातीर संवसार घडलो आनी तुमकां जल्मा घाले.† ताचें कारण तें आनीक कितें सांगतलो? संवसारांतले जीव रातदीस एकसारको स्वास घेतात आनी सोडतात; ताका कितें भायलें कारण आसा अशें समजला तूं? तशेंच देवाचें संवसार-घडप.* हो घडून मनशांवरी ताका कितें जोडचेलें नासलें. ताच्यो सगळ्यो इत्सा भागल्यात. तो सदींच धादोशी.‖ तुमकां बुडौन कित्याक माल्ले तेंच तूं विचार. परंत तें तूं नकळ सो न्हय. तूं दाटून पिशेपणां पांगुरता. तुमकां तुमच्या भयांकृत पातकांखातीर ही ख्यास्त भोगींची पडली.

---

¶ In the six hundredth year of Noah's life,... were all the fountains of the great deep broken up, and the windows of **heaven** were opened. OT. Genesis, 7. 11.

†...Thou hast created all things, and for Thy pleasure they are and were created. NT. Revelation, 4. 11.

लोकवत्तु लीलाकैवल्यम् । ब्रसू. २. १. ३३.

* यथा चोच्छ्वासप्रश्वासादयोऽनभिसंधाय बाह्यं किंचित् प्रयोजनानंतरं स्वभावादेव भवन्ति, एवमीश्वरस्याप्यनपेक्ष्य किंचित् प्रयोजनानंतरं स्वभावादेव केवलं लीलारूपा प्रवृत्ति र्भविष्यति । शाङ्करब्रह्मसूत्रभाष्य, २. १. ३३.

‖ देवस्यैष स्वभावोऽयमाप्तकामस्य का स्पृहा । माण्डूक्य उप. कारिका, १. ९.

पातक केल्यार बऱ्याक पडचें ना, तुमचें कल्याण जांवचें ना म्हणपाचें देवान आपल्या भक्तांकडसून तुमकां कितलेंशें कळैलें आनी कितलीशी कपळफोडणी केली. तरी आसताना, तुमी तांची सांगणी-म्हणणी कानार घेतली ना. नोये प्रजापति तुमच्या फुडयांत थोडो आइलो? तुमी खरेल्या देवाचो उगडास करात, ताचो मोग करात, ताचो भय धरात म्हणून सांगून सांगून ताचो बाबडयाचो ताळो पडलो. परंत तुमी गा खँ आयकतात? तुमकां तीं सगळीं फकाणां कशीं दिसलीं. तुमी कानांत बोटां घालीं आनी माथ्यावैल्यान बोखरणी घेतली. आतां भोगात प्रायश्चित. तुमी उदकांत बुडनूच सुटले नात. तुमकां नरकांतल्या उज्यांत उडैतले.§ तुमगेलीं पातकां तरी कसलीं नष्टीं! तुमचेर कसलो काळ आइल्लो तोच समजना. ज्या देवान हो एदो संवसार घडलो, जो पैलो-वैलो, एकलोच एकलो, सैमा* आइल्लो, जल्ममर्णा-भायलो, मेज-मापामेकळो, अंतपार नाशिल्लो, सासणाच्या सासणांतलो, व्हडल्यांतलो व्हडलो, खरेल्याचो खरेलो, उजवाडाचो गुळो, गिन्यानाचो मुळो, सगळेंपळेणो, सगळें-आयकणो, सगळें-समजणो, उपाट-उजू, उपाट-न्यायी, उपाट-उदार, उपाट-दयेस्त, उपाट-मायेस्त, उपाट-काकळुतेस्त, उपाट-बुदवंत, उपाट-शाणो असल्या जिव्या तट्टीत देवाक सोडून तुमी मातयेचे, फातराचे, लांकडाचे, रुप्याचे आनी भांगराचे, जीव नाशिल्ले देव घडून तांच्या फुडयांत घुमटां, म्हादळीं आनी कांसाळीं वाजैनासले? वाळवो पेंचून गायनासले? पांयांत घागऱ्यो बांदून नाचनासले? आनी नाखां आदळून पांयां पडनासले? ह्या लटक्या देवचारांक पुजून तुमी खरेल्या देवाचो अपमान करतात म्हणपाचें तुमच्या ध्यानांत येनासलें आनी सांगल्यारूय समजनासलें. देव म्हण्टात तो लग्न जाल्ले बायलेच्या घोवाभाशेन आसा. तिणें परक्या दादल्यांचेर ध्यान दवल्ल्यार जसो ताका दोळे फोडून राग येता आनी अंधुकाय रिगता तशीच देवाक बावलीं पुजतल्यांची भिरभिरी मारता. ताचें नांवूच पळौंक गेल्यार मत्सरी आनी दुस्वासी देव.$ ताणें तुमचेर आजवेर थोडे उपकार केल्यात? आनी अजून करता ते तुमकां दिसनात? ताणें काळे मातयेच्या चिकचिकीत गुळ्याक सोबीत आकृताय दिवन तुमकां घडले, रेखले, नितळायले आनी तांतूंत फूक मारून आपलो आत्मो भल्लो.†

---

§ कुराण, ७१. ७, २५. * सैमा – स्वयंभू.

$ For thou shalt worshilp no other God; for the Lord, whose name is Jealous, is a jealous God. OT. Exodus, 34. 14.

† ...Lord said unto the angels : Lo! I am creating a mortal out of potter's clay of black mud altered. So, when I have made him and have breathed into him of My spirit, do ye fall down, prostrating yourselves unto him Quran, 15, 28-29

ताणें तुमकां आपलें रूप दिवन बद्द आपले सारके केले.¶ ताणें तुमचेखातीर धर्तरी आनी मळब रचलें. तशेंच घोडे, बैल, गाढवां, खेचरां आनी हेर मोनजात निर्मिली. तीं तुमचीं ओजीं उखलतात, तुमकां फाटीर घेतात आनी आपले ल्हंवेचीं आनी चामडयाचीं तुमकां आंगावलीं दितात. तो मळबांतसून उदक धाट्टा. तें तुमकां पियेंवक मेळटा. ताणें तुमचीं शेतां-भाटां रुजतात, रूख-रांयो माततात आनी तरेकतरा फळां पिकतात. हे भाशेन, गळो-नळो एक जायसर तुमकां असुदाय खांवक-जेंवक मेळटा. ताणें तुमचे चाखरेक दीस, रात, चंद्र, सूर्य, नक्षत्रां आनी समुद्र दिला. समुद्रांतलें ताजें-तट्टटीत, मासाळ आनी सुवादीक बरें नुस्तें तुमकां खांवक मेळटा. समुद्रांतसून तुमगेलीं वेपाराचीं आनी भोंवडेचीं तारवां एके सुवातेवैलीं दुसरे सुवातेर पावतात. तांतूंतल्या मोतयांच्यो वस्ती तुमकां आंगार घालूंक मेळटात. धर्तरी तुमचेसैत उबून वच्ची न्हय म्हणून ताणें तिच्या आंगार घट बरे दोंगर आनी पर्वत दवल्ल्यात. ताणें तुमचेखातीर न्हंयो आनी मार्ग केल्यात आनी तुमकां वाट दाखौंक जैं थैं नीस घाल्यात. हे भाशेन ताच्या उपकारांची वळेरी करूंक गेल्यार सोंपून सोंपची ना.‡ मळबाचें कागद केलें, समुद्राची शाय केली, रुखांच्यो लिखण्यो केल्यो आनी देवदुतांचें सगळें भिरें बरौंक लागलें जाल्यार ती केन्नाच बरौन जांवची ना. परंत तुमकां ती कांयच ना. ती तुमचे नद्रेंत ना. तुमी मागनासताना सगळें घट्टा. तुमचें सगळें कुंडचार शिजता. म्हण्टकूच तुमी देवाचे उपकार कित्याक मानतले? ताचो याद-उगडास कित्याक करतले? तुमचीं पोटां तोडशेसर भरतकूच आनी तुमच्यो सगळ्यो खाजी भागतकूच, वेळ घालौंक तुमी भुरग्यांभाशेन बावल्यांचो खेळ मांडटाले आनी संवसार-रचतल्याचो अपमान करताले. हें अरिष्टांचें पातक करुनूच तुमी थांबनासले. तुमी तुमच्या आवै-बापायक वळवळायताले. तांच्या म्हातारपणांत तांचे हात-पांय अडचतकूच तुमी तांकां पळेनासले. तुमी तुमचो सुवराथ सादूंक दुसऱ्याचो जीव घेताले. तुमी परक्यांच्या बायलांचेर पातकी दोळो दवरून तांकां भष्टायताले. तुमी आंकवारींचेर आगळीक करताले. चड लागशिलें नातें-पातें वळखनासताना तुमी पातकाच्या खातोणांत बुचबुचताले. तुमी दुसऱ्याचो म्हालम्हतो चोरताले आनी नागैताले. तुमी तरेकतरा तडुकां करून दुसऱ्यांक फटैताले आनी नाट्टाले. तुमी तुमच्या उंच शिलाच्यो बडायो मारून, भोंवतणच्या लोकांची निंदा करून, देवा-धर्माच्यो रसाळ काणयो सांगून, न्याय-नीतिचीं जड-गुळो उतरां उलौन, तुमचेर भोळेपणान पातयेल्ल्या लोकांक तुमच्या तडुकी जाळ्यांत घुस्पायताले आनी

¶ So God created man in His own image, in the image of God created He him; male and female created He them OT Genesis 1·27

‡ कुराण, १६. ३, ५, ७–८, १०–१२, १४–१६, १८.

तांच्या माथ्यावल्यान तुमचो सुळसुळीत हात भोंवडायताले. तुमी केंसान गळो कापताले. तुमी घोव मेल्ल्या बायलांक आनी अनाथ भुरग्यांक नाट्टाले. तुमी लटकी गवाय दिताले. तुमी दुसऱ्याची सय करून ताचेर बसला थैं नसतींच किचाटां घालताले. तुमी दुसऱ्यांच्या घरांचेर सुणीं चडैताले. तुमी देवाचे घरची न्याय-नीत सोडून तुमचे पदरचे कायदे घट्टाले आनी तुमकां जाय जसो तांचो अर्थ बदलताले. अशीं तुमगेलीं पातकां कितलीं म्हणून सांगचीं ? तीं सगळीं सांगूंक गेल्यार जीब सामकी कुसून गळत. असलीं घाणयारीं पातकां करचीं करून वैर कित्याक बुडौन माल्ले म्हणून तोंड घेवन तुमी विचारतात ? नाख-कातरे खैंचे ! '

हाचेर आत्म्यान पर्थून नम्रतायेन विचाल्लें, 'पणून दूतमाम, देवान मनशाभितर आपलो आत्मो फुकून ताका आपलेच सारको घडला जाल्यार तो देवासारकोच गुणेस्त जांवक जाय आसलो. अशें आसताना, ताका पातकाची रूच कोणें लायली आनी तो पातकी कसो जालो हें म्हाका समजना. तशेंच पातक कोणें निर्मिलें आनी कित्याक निर्मिलें तेंय समजना. तूं ही फोडणिशी करशी व्हय ? '

दुतान म्हळें, 'तूं नाका-जाल्लेंच विचारूंक लागलो. तूं खरेपणानशीं समज कि पातक देवान निर्मूंक ना. मनशाचें वायट करपाची देवाची इत्सा ना. ताणें ताच्या बऱ्याखातीरूच ताका घडून एदो व्हडलो सुंदर संवसार ताचे सुवादीन केलो. तो ताचेखातीर दाटून पातकाची निर्मणी कित्याक करीत आनी तांतूंत ताका कित्याक धुकलीत ? मनीस आपलेच करणेन पातक करून ताचें फळ भोगता. तूंच पळे, देवान तुमचेखातीर तुमच्या बऱ्याक उजो निर्मिला. ताचो तुमी फावो तसो उपयोग केल्यार तुमकां उजवाड मेळटा, ऊब मेळटा, शेक मेळटा आनी तुमचीं खाणां-जेवणां शिजतात. परंत नसतोच उपयोग करून तुमी तांतूंत उडकी माल्ल्यार तुमचो जळून गोबर जाता. पातक म्हण्टात तें अशेंच आसा. तें देवान बळयां निर्मूंक ना. ताणें निर्मिल्ले कसलेय वस्तिचो वायट उपयोग करतकूच तेंच पातक घट्टा. बरी वस्त वायटार पट्टा. सुखदिणी वस्त दुखदिणी जाता. एकूच उजो तुमच्या शिताच्या थाला पोंदा भरभरून पेटचो आनी हातांत घेतल्यार थंड किरांव जांवचो अशें कशें जायत ? तरी आसताना, तुमचें कशेंच तरेन केन्ना लुस्कान जांवचें न्हय म्हणून काकळुतेस्त देवान कितली जतनाय घेतल्या ती जाणा व्हय तूं ? उज्यारूय तुमी हात दवरतले जाले तरी त्या आदीं 'तशें करुं नाका' म्हणून एक नाजूक ताळो तुमगेल्या हड्डुयांतः ल्हवू फुतफुतून उलैता. हो ताळो बुद्दिचो. ही बुद्द देवान सगळ्यांक दिल्या.¶ ती तांकां बरें कितें आनी वायट

---

¶......But verily there cometh unto you from Me a guidance; and whosoll followeth My guidance, there shall no fear come upon them neither shall they grieve. Quran, 2. 38.

कितें म्हणपाचें एकसारकें सांगता. तिचे सांगणेन चलत जाल्यार कोणूच केन्ना पातकांत बुडचो ना. देखून, तिका खोस जायत ती करणी नेटान करची आनी तिका मानना ती करणी सोडून दिवची'.*

आत्म्यान म्हळें, 'परंत तिची सांगणी मोडल्यार सगळेंच सारके पातकांत बुडून दुख भोगतात अशें दिसना. तुजो उजोच घे तूं. ताका हात लायल्यार फोड येता म्हणपाची बुद्दिची सुलूस मेळ्ळ्य आसतानाय जायतेजाण तो हातांत घेवन खेळँतात आनी पांयांतळा माड्डायतात. तांच्या हातां-पांयांक उज्याचो इल्लोय हुलप बादिल्लो दिसना. वीख खाल्यार मरूंक जाता अशें बुद्द सांगता. तरी आसताना, जायतेजाण तें खावन पचैतात. हाचेवैल्यान, देवाचे वस्तिचो नसतोच उपयोग करुनूय पातकाचें फळ चुकौं येताशें दिसता. म्हण्टकूच, तांक आशिल्ल्यान खुशाल पातक करून पचौंचें आनी तांक नाशिल्ल्यान हाताक फोड आयलो म्हणून रडचें अशें जाँलें ना? दुसरें, देवान दिल्ली बुद्द सगळ्यांच्या हड्डुयांत सारक्याच रुपाची आसून ती एकल्याक जी शिकवण दिता तीच दुसऱ्याक दिता अशें दिसना. मनशां, काळ-वेळ आनी थळ पळौन ती चलताशी दिसता. एकाद्र्याचान सोऱ्याचें निखटें कोपूच हातांत घेतल्यार ताका ती दटायता आनी दुसऱ्यान बल्ल तोंडाक लायलें जाल्यार ताचे वांगडा तीय खातोणांत पडून लोळटा. एकाद्र्याचान पोरसांतली तांबडी भाजी कातरून शिजैल्यार ताका ती हिंसेचो भय घालता आनी दुसऱ्यान कुकडां-बोकडां चरचरीत मारून खाल्यार ताच्या जेवणाचे आंवडे गिळून ती ताका रेंच करता. एकाद्रे बायलेन परक्या दादल्याचें निखटें रुपूय ध्यानांत हाडल्यार तिका ती धेंकणो घालता आनी दुसरी बायल घोवाच्या दोळ्यां हुजरां परक्या दादल्याक वेंगेंत घेवन नाचली जाल्यार तिका ती कौतुकान ओखें-ओखेवन पळेता. एकाद्र्याचान शेजाऱ्याचो मुदगो हातासूंक ताचो जीव घेंवचो येवजिल्यार ताका ती दबकायता आनी दुसऱ्यान राजाचें भाण्डार भरूंक परक्या राज्यांतल्या लोकांक लुटून तांचे खून केल्यार ताची ती 'शूर वीर' म्हणून तोखणाय करता. अशे संवसारांतले अणभव सांगूंक गेल्यार जायते आसत. त्याभायर, ती बुद्द कोणाय मनशाच्या हड्डुयांत सदींकाळ एकाच रुपाची आसताशी दिसना. ती नाटकांतले नटये भाशेन आपलें सवंग भौनभौन बदलून भौरुपी जाता. ती कांय दिसांफाटीं जाका सोऱ्याच्या कोपाक आफुडल्यार 'तशें करुं नाका' म्हणून दटायताली तोच मनीस आतां बल्ल माथ्यार घेवन नाचूंक लागलो जाल्यार ताका शिट आनी फिट म्हणना. असले थिल्लार आनी नाचरे बुद्दिची सांगणी आयकून कित्याक उपकारता? तिचेर कितलेंशें पातयेंवचें तेंच म्हाका समजना. आनीक हांव तुका विचारतां, ती

---

* यत्कर्म कुर्वतोऽस्य स्यात् परितोषोऽन्तरात्मनः । तत्प्रयत्नेन कुर्वीत विपरीतं तु वर्जयेत् । मनु. ४. १६१.

कोणाकूय एकाद्री करणी करुं नाका म्हणून सांगतकूच, 'कांय परवा ना. कर तूं;' असो जो एक नेटाचो ताळो आयकूंक येता तो कोणाचो गा दूतमाम ?'

दुतान वैतागून म्हळें, 'तो ताळो ? तो त्या मसण्याचो–फोंडयाचो–जंवऱ्याचो सैतानाचो. तो तुजे तकलेंत रिगला देखुनूच तूं ह्यो नाका-जाल्ल्यो जाणवायो उलैता. ताणेंच तुमच्या मनशांचो घात माल्लो. तुमच्या पैल्या-वैल्या आवै-बापायक ताणें नाडूंक नाशिल्ले जाल्यार आज ही बुट्टी येवपाचें कारणूच नासलें. सगळीं मनशां सुखान नंदतलीं आसलीं. कोणूच कसलें पातक करचो नासलो आनी कोणूच नर्कांत बुडचो नासलो. देवान त्या जोडप्याक कसलें सुंदर बरें पोरसूं रांवक दिल्लें तर. थैं तांकां इल्लेय कष्ट करिनासताना जाय-जाल्लें मेळटालें. थैं तरेकतरा लाल्लूक फळां जातालीं. थैंच्या एकाच रुखाच्या फळाबादत हेर सगळीं फळां खांवक तांकां मेकळीक आसली. ह्या मना केल्ल्या रुखाक बऱ्या-वायट गिन्यानाचो रूख म्हण्टाले. ताचें फळ उष्टायल्यार मरूंक जाता म्हणपाची सुलूस देवान तांकां आदींच दिल्ली. परंत त्या घातमाऱ्या सैतानान त्या फळाची नसतीच वर्णना करून तांकां भुलसायलीं आनी ताणीं तें आंवडे गिळून खालें. हाचो हातावैलो परिणाम असो जालो कि तांकां आपुण नागडीं आसात अशें दिसून ताणीं बेगोबेग आपली कमर केळच्या पानांनीं धांपली. हे भाशेन न्हेसलीं आसतानाय तांकां आपल्या नागडेपणाची लज दिसली आनी देवाचो ताळो आयकनाफुडें तीं रुखांच्या आडोसाक लिपलीं. कितलें अवलक्षणी म्हण्टलो तें फळ ! देवान तांकां स्राप दिवन रोखडींच पोरसांतसून भायर धांवडायलीं. त्या स्रापान पिकाळ धर्तरी वांजुट्टी जाली. ती कांटयाऱ्या झाडकांनी मातली आनी घामाच्यो पांवळ्यो ओतसर कष्ट केल्याबगर मनशाचें धिकेंभर पोट भरना जालें. बायलो कष्टवल्याबगर तांची सोडवाट जायना जाली. मनशाची अत्रंवरकी नाशी जाली. तरेकतरा पिडा-रोग ताका कोरांथूंक लागले. सोर्पाच्या रुपान सैतान ताचे खोंटेक चाबूंक लागलो आनी तो सैतानाची शेंष्टी धांडांवक लागलो.* हो सगळो त्या कलिच्या नाडपाचो परिणाम. ताणें मनशांच्या जल्माचो घोळ केलो.'

आत्म्यान म्हळें, 'पणून दूतमाम, बऱ्या-वायट गिन्यानाचें फळ खातकूच तीं जिवीं कशीं उल्लीं ? मरूंक जातलें म्हणून देवान तांकां सांगूंक नासलें ?'

दुतान म्हळें, 'तीं मेल्ल्यांतूच जमा जालीं हें थोडें जालें ? तांचो तेच घडये जीव वचूंक जाय आसलो ? तीं आपुण कोण म्हणपाचें विसल्ली. आपणें आपणाक विसरचें हें एके तरेचें मर्ण; न्हय, मर्णापाष्ट. फळ खायनाफुडें तांकां आपुण नागडीं आसांत अशें दिसलें ना ? हाचेपरस आनीक तांच्या मर्णाची रुजवात जाय ?'

आत्म्यान विचाल्लें, 'तीं खऱ्यानींच नागडीं आसून, आपलें नागडेपण वळखून

* OT. Genesis, 2. 9, 16-17 & 3.1-19.

केळचीं पानां न्हेसतकूच, ताणीं आपणाचें खरेलें रूप वळखलेंशें जालें ना ? अशें आसताना, तीं आपुण कोण म्हणपाचें विसल्लीं कशीं आनी मेलीं कशीं ? दूतमाम, तुजें कुवाडें म्हाका समजना.'

दुतान जाप केली, 'केळचीं पानां न्हेसलीं वा जरीचीं पितांबरां लायलीं म्हणून तांकां दिशिल्लें नागडेपण नाशें जालें म्हणून समजला तूं ? फळ उष्टांवचे आदीं तांच्या आंगार पानाची एक तिस्ती नासताना तांकां आपल्या नागडेपणाचो इल्लो दुभावूय येनासलो. परंत फळ उष्टायनाफुडें आंगार व्हडलीं व्हडलीं फाळवतां ओडुनूय तांकां आपुण भितर्यां नागडीं आसांत अशें दिसूंक लागलें आनी देवाचो ताळो आयकून तीं लिपलीं. म्हण्टकूच तांकां आपणाल्या मुळच्या रुपाची विसर पडलीशी जाली ना ? तें तांगेलें मर्ण न्हय जाल्यार कितें ? तांगेलें मुळचें रूप येवजूंक गेल्यार कितलें मेकळेपणाचें आसलें म्हणून सांगूं. तीं सवण्याभाशेन त्या पोरसांत हुस्क्या-मेकळीं चरतालीं. तांकां थंड-हून, पावस-ओत बी कांयच लागनासलें. तांकां भूक लागनासली. तांकां तान लागनासली. तांकां न्हेसप आनी नागडें रावप हांतूंत अंतर दिसनासलें.† तांकां आडोस आनी उक्ताड, घर आनी मळ सारकेंच दिसतालें. तीं भांगर पळौन भुरकुटनासलीं आनी मातयेचें दिफळ पळौन उबगनासलीं. तीं भिये-नासलीं, भेष्टायनासलीं. तीं हांसनासलीं, रडनासलीं. सुख आनी दुख हीं उतरांच तीं नकळ आसलीं. तीं सगळे तरेच्या बांदपांतसून मेकळीं आसलीं.* कितली सुंदर बरी ही जीण ! परंत सैतानाच्या नादाक लागून ताणीं ती होगडायली आनी बऱ्या-वायटाच्या गिन्यानान जाल्ल्या घुस्पा-गदळांत तीं पडलीं.'§

आत्म्यान म्हळें, 'ह्या घुस्पा-गदळांत पडून जिवीं उरचे भाशेक तीं तेच घडये खरेपणानशीं मेल्लीं जाल्यार चड बरें आसलें. तांकां संतत जांवची नासली. तांकां लागून तांची सगळी पिळगी लेगीत घोळाक पडली. देवान तांकां जिवानशीं मारून मनीसजातिचें मुळूच हुमटून उडौंक जाय आसलें. म्हण्टकूच बुट्टी धाडून आज आमकां मारचेले व्रास ताका पडचे नासले. ताणें हे बुट्टेंत नोये प्रजापतीक तरी कित्याक वाटायला कोण जाणा. आमचे वांगडा ताकाय ताच्या कुटुंबासैत बुडैल्यार भौ बरें

† For it is (ordained) for thee that thou shalt not be hungry therein nor bare of clothing. And that thou shalt not be thirsty therein nor shalt thou feel the heat of the sun. Quran, 20. 118-119.

* निर्द्वंद्वो हि महाबाहो सुखं बंधात्प्रमुच्यते । भ.गी. ५. ३.

§ इच्छाद्वेषसमुत्थेन द्वंद्वमोहेन भारत । सर्वभूतानि संमोहं सर्गे यान्ति परंतप ।
भ. गी. ७.२७.

जातलें आसलें. ताचीय पिळगी फुडाराक बरी उरत म्हणपाचो निर्वाळो कोणें दिवचो ? बारकायेन येवजिल्यार, देवान मनशाक जल्मा घालूंक नाशिल्लो जाल्यार कांय वायट जांवचें नासलें. ताचे आनी मनशांचे मेळून दोगांयचे त्रास चुकतले आसले. संवसारांत मनशाचो कसलो उपयोग आसा ? आनी देवाक तरी ताचो कसलो उपयोग ? तो वोगोच धर्तरी आडावन धरूंक बाद. तो आपले भाशेन नवे नवे सोद आनी कल्पना काट्टा म्हण्टात. परंत ताच्या चिमटीभर मेंदुनूच तांची तोखणाय करची. त्या सोदांनीं आनी कल्पनांनी संवसाराच्या गिन्यानांत नवी भर कसलीच पडना. जें मुळांत आसा तेंच तो हेवशीन तेवशीन धोंगसून पळेता आनी कुकडाभाशेन आपल्या दोंक्यांनीं उस्तिता. ताचे पेल्यान ताचे कल्पनेची धांव केन्नाच वचना; इतलेंच न्हय, तर तो जें कितें धोंगशिता आनी उस्तिता ताचोय ताका धड समज पडना. ताणें कितलेंय कपळ फोडलें जाल्यार ताच्यान माडाक पणस पिकौं नज आनी केळीक नाल्लाची पेंड फुटौं नज. ताच्यान आपली खासा उंचाय हातभर वाडौं नज.* ताका आपले शकमीचें स्वतंत्र अशें कांयच करूंक येना.असल्या मनशाक जल्मा घालून देवान आपलो मोलादिक वेळ आनी बुद्द फुकट होगडायली म्हळ्यार जाता. मनीस आपली सांगणी-म्हणणी मोडून मनाक मानत तें करतलो हें देवाक आदींच कशें समजलें ना ताचेंय म्हाका अजाप दिसता. ताका सगळें समजता खैं.‡ ताका आतांचें, फाटलें, फुडलें बी सगळें कळटा खैं.¶ म्हण्टकूच मनशाचें मन ताणें आदींच कशें वळखलें ना ? तें आसूं. पणून ताणें त्या पोरसांत तो घातमारो रूख कित्याक रोयलो ? ताचें फळ उष्टावन मनशां घोळाक पट्टलीं हें ताका आदींच समजलें ना ? ताणें त्या नष्टचा सैतानाक तरी जल्मा कित्याक घालो ? तो मनशांक भुलसायतलो आनी नाट्टलो म्हणपाचें देवाक आदींच कळ्ळें ना ? ताका जल्मा घालो तो घालो. ताणें मनशांक नाडिनाफुडें ताका थैंचे थैं चिड्डून कित्याक उडैलो ना ? देव सगळयांपरस बळिष्ट खैं§. बळिष्टांचें बळगें म्हण्टात तें तो खैं.$ ताच्यान

---

* Which of you by taking thought can add one cubit unto his stature? NT. Matthew, 6. 27.

‡ God is Knower of all things. Quran, 2. 282.

¶ वेदाहं समतीतानि वर्तमानानि चार्जुन । भविष्याणि च भूतानि मां तु वेद न कश्चन । भ.गी. ७. २६.

He knows what is before them and what is behind them, while they do not comprehend it in knowledge. Quran, 20. 110

§ There is no God save Him, the Almighty, the Wise. Quran, 3. 6.

$ बलं बलवतामस्मि । भ.गी. ७. ११.

निखटे फुकेनूय सैतानाचें भस्म उबौं येतालें. भस्म आसूंच. ताच्या हातां-पांयांक गच्च सर्पळ्यो घालून ताका जल्मवेर बंदखणींत कित्याक कुसैलो ना? निमाण्या निर्णयामेरेन ताका सैल कित्याक सोडलो? † ताणें देवाक पैलींच सांगून दवल्लेलें खैं: 'तुवें दिल्ल्या बळग्यान हांव मनशांक आडवाटेन व्हरतलों.'¶ त्या वेळार थैंचे थैंच ताका ना करून उडौंचे बदला देवान म्हळें खैं: 'तुका आनी तुजे फाटल्यान जे कोण वेतीत तांकां हांव वांगडाच नर्कांत उडैतलों.'† देव शाणो म्हण्टात. परंत ताणें ही मोटी व्हडली पिसाय केली. ताणें तेच घडये सैतानाक वायनांत घालून चेंचून उडैल्लो जाल्यार नर्क घडपाचें कारणूच उरचें नासलें. सैतानाक जितो दवल्लो म्हणून मनशां पातकांत बुडलीं आनी नर्काची गरज लागली. तो आतां निर्णयाच्या दिसा-मेरेन देवाक आनी मनशांक एकसारको धोंसतलो. देवान दिल्लें बळगें तो देवाआड चलैतलो. ताचेफुडें देवाचो यत्न-उपाय चलचो ना. म्हण्टकूच देवापरस तो बळिष्ट जालो ना? देवाच्या चुकिचो केदो अनर्थ हो? देव आपुण चूक करून मनशांचेर चाळावता आनी तांकां बुडौन मारता हेंच अजाप म्हणूंक जाय.'

दुतान केंच करून आंगार येवन म्हळें, 'खबरदार तशें म्हणशी जाल्यार. तुजी जिबली तोडून काडीन. देवाच्या चुकिचो अनर्थ? देव इल्लीय चूक करिना. देव म्हळ्यार एक गडगंज खडप. ताची करणी धड. ताच्यो सगळ्यो वाटो न्याय-नीतिच्यो. तो खरेपणान भरिल्लो. ताचेकडेन इल्लोय अन्यांव ना. तो न्यायी आनी उजू. ‡ताणें पैल्या-वैल्या मनशांक कसाक लांवचेखातीर ती एक युक्त येवजिली. तांचें वायट करपाच्या हेतून ताणें तो रूख रोयलो ना आनी सैतानाकूय निर्मिलो ना. ताची नसतीच बिर्मत तूं घेंव नाका.'

आत्म्यान गणमणनासताना म्हळें, 'रागार जांव नाका गा दूतमाम. तूं देवाची करणी धड म्हण्टा. तर मागीर ताणें त्या पैल्या-वैल्या मनशांक कसाक लावपाचें कारण कितें? तीं मनशां ताणेंच घडिल्लीं न्हय? ती ताचेच हातची करणी न्हय? त्या भायर ताणें तांकां आपलें रूप दिवन बद्द आपले सारकीं केल्नीं अशें तूंच न्हय गा

---

† कुराण, ७. १४–१५.

¶ He (Iblish) said : Then, by Thy might, I surely will beguile them every one. Quran, 38. 83.

† That I shall fill hell with thee and with such of them as follow thee, together. Quran, 38. 86.

‡ He is the Rock, His work is perfect : for all His ways are judgment : a God of truth and without iniquity, just and right is He. OT. Deuteronomy, 32.4.

सांगता. अशें आसताना, ताच्या मनांत तांकां कसाक लांवचें आयलें हाचेवैल्यान आपली करणी धड जांवचे बदला पोली जाल्या असो ताका दुभाव आयलोसो जालो ना ? आनी तो खरो आसा म्हणपाचें ताच्या अणभवाकूय आयलें ना? म्हण्टकूच देवाची करणी धड कशी जाली ? आनी तो चूक करिना अशें कशें जालें ? तो आपुण चूक करची करून तिचेखातीर मनशांक ह्स्याभायर मोटें प्रायश्चित भोगैता हेंच अजाप. ताणें मुजरत रोइल्ल्या रुखाचें इल्लेंशें फळ खालें म्हणून ताणें त्या मनशांक आनी तांगेले जल्मूंक नाशिल्ले पिळगेकूय अंतपार लागनाशिल्ल्या निर्णयाच्या दिसामेरेन घोळाक घालचीं हो न्याय जालो गा दूतमाम ? ताणीं तें फळ खालें तें दाटून देवाची सांगणी मोडून ताका तिडांवचेखातीर खालेंशें तुका दिसता ? ताणीं तें विसरून चुकून खालें अशें देवूच आपुण म्हण्टा.* म्हण्टकूच तांचो गुन्यांव कसो जालो ? आनी तांकां अनर्थांची ख्यास्त कित्याक? चुकीक दोळे नात म्हण्टात तें तूं नकळ? घडीभर गुन्यांवूय जालो जाल्यार, धर्तरेवैलो जुलमी राक्षेस लेगीत इतली कसाबपणाची ख्यास्त केन्नाच भोगौंचो ना. धर्तरेवैले लोक देवाचे घरची न्याय-नीत सोडून आपले पदरचे कायदे करतात म्हणून तूं दुशण लायता. परंत ते कायदे हजार वाटचांनीं बरे म्हणचे पड्टात. ते कायदे जिवे आशिल्ल्या गुन्यांवकारांकूच ख्यास्त भोगैतात. तांगेल्या जल्मूंक नाशिल्ल्या भुरग्यांचे वाटेक ते वचनात. ते आवै-बापायच्या गुन्यांवाखातीर भुरग्यांक वेंठीक धरिनात; उफाट्टें, भुरग्यांच्या गुन्यांवाखातीर आवै-बापायक दंड करतात. त्या कायद्यांभाशेन, एकाद्रयान कोणायचो दांत निखळायलो जाल्यार ताचोय दांत निखळायतात आनी दोळो फोडलो जाल्यार ताचोय दोळो कोंकून काड्टात.$ निखट्या दांताखातीर आनी दोळ्याखातीर सगळी कूड हाणून घालिनात.'

अशे तरेन देवदूत आनी

१ वेपाऱ्याचो कारभारी
२ पाळण्यांतलें भुरगें
३ पाळण्यांतल्या भुरग्याचो बापुय
४ हुंदीरमाम
५ दिसाबडेकार मानायाचो काष्टीकुसको पोर राजालो जांवै
६ ब्रह्मगिन्यानी

---

* And certainly We gave a commandment to Adam before but he forgot; and We did not find in him any determination (to disobey) Quran, 20. 115.

$ And thine eye shall not pity; but life shall go for life, eye for eye, tooth for tooth, hand for hand, foot for foot. O T. Deuteronomy, 19·21.

७ बळिष्ट धर्मकोल्ली राजा
८ मडवळ
९ म्हालो
१० शेट आनी
११ जोतिशी हांचीं अुलवणीं जातात.

निमाणें **बारावो आत्मो** फुडें सरून म्हणूंक लागलो, ' दूतमाम, हांव तुका आदींच सांगतां कि हांव आस्तिक. देव आसा म्हणपाचो म्हाका जितलो अणभव आयला तितलो आनीक कोणाकूच येवंक नासतलो. हांव बामण. हांव खासा देवाच्या तोंडांतसून भायर सल्लां. देवाचें तोंड म्हण्टात तें हांव †. देव ना अशें हांव केन्नाच म्हणना. देवाक कूड ना. रूप ना. रंग ना. तो दिसना. हांतूंत इल्लोय दुभाव ना. रसायणसाळेंतले शिसलेंत भरून तो तापौं नज आनी ताचें खरें-लटकेंपण पारखुं नज. गणिताचे रितीन ताचें आसप केन्नाच सिद्ध करूंक येना. परंत तो ना म्हणपाचें कोणाच गणित्याक वा शास्त्र्याक हड्डचार हात मारून सांगूंक येना. तो दोळ्यांक दिसलो ना तरी मनान समजुं येता.-§ आमगेलें खासा मन आमच्या दोळ्यांक दिसना. म्हण्टकूच तें ना म्हणुं येत ? ताच्यो बऱ्यो-वायट येवजण्यो आमकां समजनात ? आनी ताचीं फळां आमी भोगिनात ? करणी पळौन करतल्याचें अनुमान जाता. * करतलो आसल्याबगर कसलीच करणी घडना ही सगळ्यांच्या अणभवाची गजाल. ती कोणाच्यान लटकी म्हणुं नज. म्हण्टकूच सुवातेच्या बोंबाडचाकूच करतलो ना अशें कशें म्हणुं येत ? जोतिशाले म्हणणेभाशेन हो बोंबाडो इल्लोइल्लो फुगून मोटो जालो अशें जरी मानलें तरी सुवातेचो शाबू कोणें केलो ? ताका फेण कसो आयलो ? ताका फक कोणें माल्ली ? ताचो बोंबाडो कसो जालो ? तो ल्हवुल्हवु कसो फुगलो ? तांतूंत परमाणु खैंसून आयले ? तांच्या आंगांत जडसाणेची ओड कोणें रिगैली? तांतूंत वीज-कणयो कोणें भल्ल्यो ? त्यो वांटकुळोच भोंवर कशो मारूंक लागल्यो? हाची जाप जोतिशी कशी दित ? संवसाराची मांडणी बारकायेन पळौंक गेल्यार तांतूंत दरएकली वस्त आपापणालें काम कोणेंय नेमून दिल्ल्याभाशेन वेळच्या वेळार चुकनासताना करताशी दिसता. सूर्य, चंद्र, नक्षत्रां, धर्तरी आनी हेर गिरे आपापणाले थाराइल्ले वाटेन एकसारके घुंवतात. ते आडवे-तिडवे खैंचे खैं धांवनात, सुस्त रावनात वा घोळकायनात. ते जाणपणान वाव्ल्लेले दिसतात. जीव नाशिल्ल्या जड गुळ्यांक

---

† ब्राह्मणोऽस्य मुखमासीत् । ऋग्वेद, १०. ९०. १२.

§ मनसैवानुद्रष्टव्यम् । बृहदारण्यक. ४. ४. १९. न चक्षुषा पश्यति कश्चनैनम् । हृदा हृदिस्थं मनसा य एनमेवं विदुरमृतास्ते भवन्ति । श्वेताश्वतर. ४. २०.

* कार्यं दृष्ट्वा कारणमनुमीयते । सांकाभाष्य, ८.

इतलें जाणपण खैंसून आयलें? ह्या जाणपणाचो धनी कोणूय वेगळोच आसून* ताच्याच धर्मान सुवातेचो बोंबाडो आनी तांतूंतले गिरे घुंवतात †. अशें म्हणचें पडलें ना? खरे-पणानशीं ताच्याच उजवाडान हो संवसार लकलकता ¶. संवसाराचो जीव, उतर आनी मन तोच § ह्या जिवान आमी वांचतांत. ह्या उतरान आमी उलैतांत आनी ह्या मनान आमी येवजितांत. हो जीव आमकां सोडून वेतकूच आमगेली जड कूड वांचना, उलैना आनी येवजिना ही सगळ्यांच्या अणभवाची गजाल न्हय? म्हण्टकूच देव ना अशें कोणाच्यान कशें म्हणुं येत? धर्तरेवैल्या परमाणूंक सूर्याचो शेक लागून जीव आपशींच जल्मले; ते सूर्याच्या ओतान वांचतात; तांकां देव पोशिना, अशें हो जोतिशी म्हण्टा. परंत सूर्यय जाल्यार देवाचे मांडणेन वैर सल्ला न्हय? म्हण्टकूच जीव जल्मूंक पालव दिवची आनी तांकां पोसची तांक देवाकडसुनूच ताच्या आंगांत आयलीशी जाली ना?

'ह्या जोतिशाक जीव जल्मा घालचें काम भौच सोपें दिसता. प्राणवाय, उदक-वाय बी एकठांय घोळौन जीव जल्मा घालुं येत अशें तो म्हण्टा. तागेली ही म्हणणी एकाद्री खरी जांवये. परंत जीव तयार करपाचें आयतें तरी ताका देवानूच निर्मिल्लें घेंवचें पट्टलें मू? तें आयतें फावो त्या प्रमाणान घोळौंक ताका देवाचेच कोठयेंतसून मेळिल्लो मेंदू खर्चुंचो पट्टलो मू? प्राणवाय, उदकवाय म्हण्टात ते जिनस वा तांचीं मूळ तत्वां आनी ताचे तकलेंतलो मेंदू ताका देवाच्या संवसाराभायलो हाडूंक येंवचो ना मू? मूळ तत्वांत देवाचे सत्तेची जी जिवाची बी आसा ती रुजौन जोतिशान उक्ताडा हाडली जाल्यार ताची थोडी भोव तोखणाय जांवक फावो. परंत त्याखातीर जिवाक जल्म दिवपाचो मान ताका केन्नाच मेळतसो दिसना. पुर्विल्ल्या जाण्टेल्यांनीं दुदांत-सून तूप तयार केलें म्हणून ताणीं तें निर्मिलें वा जल्मा घालेंशें जायना. जें मुदलांत कांय काळ धांकिल्लें आसलें तें तांणीं सोदून उक्ताडा हाडलें इतलें म्हणुं येत आनी तितलेखातीर तांची फाट थापटुं येत.

'देवाक कूड आनी हात-पांय नात; म्हण्टकूच ताका संवसार कसो घडूंक येत अशें जोतिशी विचारता. परंत दुबळ्या मनाशाभाशेन इंद्रियांच्या पालवानूच ताणें वावरूंक जाय अशें शास्त्र आसा व्हय? मनशाच्या समजा पेल्यानच्या मोटचा बळग्यान

---

* चेतन : प्रवर्तते । न च प्रकृतिरचेतनैव भवितुमर्हति. . . . . .तस्मादस्ति सर्वार्थदर्शी प्रकृतेरधिष्ठाता चेश्वर इति । सांतकौमुदी, ५६.

† देवस्यैष महिमा तु लोके येनेदं भ्राम्यते ब्रह्मचक्रम् । १ । तेनेशितं कर्म विवर्ततेह पृथ्व्याप्यतेजोऽनिलखानि चिन्त्यम् । २ ।श्वेताश्वतर. ६.

¶ तस्य भासा सर्वमिदं विभाति । मुण्डक. २. २. १०.

§ तदेतदक्षरं ब्रह्म स प्राणस्तदुवाङ्मनः । मुण्डक, २. २. २.

ताणें संवसार घडलो अशें म्हळचार वायट जायत ?‡ हो संवसार एकाच धपक्यान घसघशीत बरो वैर सरनासताना एकाद्रे किडी-मुयेचे करणे भाशेन ल्हवुल्हवु आकारा आयला; देखून तो उपाट-बळिष्ट देवान घडलासो दिसना अशें जोतिशी म्हण्टा. परंत बळिष्ट देवान आपले खोसयेभाशेन आपल्या बळग्याचो आपणाक जायतसो आगळो-उणो उपयोग केलो जाल्यार तांतूंत ताका दुशण कशें लागता आनी उणेपण कशें येता तें म्हाका समजना. ताणें जाय देखून संवसार इल्लोइल्लो नांवारुपाक येवपाची मांडणी केली. त्या खातीर ताका दुबळो म्हळ्यार जाता ? वडाचो मोटो व्हडलो रूख एकदम घसघशीत उबो जांवचे भाशेक सांसवाएदे बियेंतसून इल्लोइल्लो वैर सरचो आनी मळबांतल्या सूर्याआड ताणें आपल्या पानांचो पड्डो विणचो ही अदिक चमत्काराची करणी न्हय? ही करणी ज्या देवाचे मांडणेन घट्टा ताका दुशण लांवचे बदला ताची तोखणाय केल्यार चड बरी न्हय ?

'संवसारांतलीं तरेकतरा खेतबागडीं पळौन तो रचतल्याक देव म्हणचे भाशेक सैतान म्हळ्यार भौ बरें अशें जोतिशाक दिसता. म्हणना बाबडो सैतान. कशेंय जाल्यार, संवसाराचो रचतलो कोणूय आसा हें मान्य केल्यावगर ताका सोडवाट ना. तो कसो जालो, खैंसून आयलो, ताचें गोत्र कोण, घराणें कोण, आवै-बापुय कोण, आजो-पणजो कोण म्हणपाची जाळवणी गणाशेट करता. परंत हाची फोडणिशी केन्नाच जायतशी दिसना; आनी ती जाय तरी कित्याक ? संवसार आमच्या दोळ्यांक घणघणीत बरो दिसता. तो ना म्हणुं नज. * आमचे दोळे खरे §. तसोच संवसारूय खरो. तो कोणेंय घडला हांतूंत दुभाव ना. संवसारांतल्या सगळ्या घडप्यांपरस तागेलें घडप मोटें चतुरायेचें आनी चमत्काराचें दिसता. म्हण्टकूच ताका कुस्कुटावन कितेंय नांव दवरचे भाशेक देव म्हळ्यार चड बरें न्हय ? ताणें संवसार कित्याक घडलो हीय जाळवणी करून कांय उपयोग ना. ताका संवसार रचपाची केन्ना तरी वान्सा जाली † हें लटकें न्हय. एकलोएकसुरो आनी बेकार रावन ताका खोस जायना जाली. ¶ देखून, मावली जशी आपल्याच आंगांतसून सूत काडून जाळें विणटा तसो देवान

---

‡ सर्वोपेता च तद्दर्शनात् । ब्रसू. २. १. ३०.

* नाभाव उपलब्धेश्च । ब्रसू. २. २. २८.

§ चक्षुर्वै सत्यं चक्षुर्हि वै सत्यम् । बृहदारण्यक. ५, १४. ४.

† सोऽकामयत । बहु स्यां प्रजायेयेति । स तपोऽतप्यत । स तपस्तप्त्वा । इदं सर्वमसृजत । तैत्तिरीय. २. ६.

¶ स वै नैव रेमे तस्मादेकाकी न रमते । बृहदारण्यक. १. ४. ३.

आपणांतसून हो संवसार विणलो. ‡ तो विणपांत ताचो कसलो हेत आसत तो समजना. परंत जिवाखातीर मात तो विणूंक ना ही जोतिशाली म्हणणी. एक कोटी-परार्ध कोस आवांठाच्या आस्कळ-विस्कळ संवसारांत रंवथ्याएदे धर्तरेचेर आनी तसल्याच आनीक कांय थोडचा न्हिविल्ल्या गिऱ्यांचेर जीव आसले म्हणून तांचे खातीर संवसार घडलोसो जायना. ते उसरां जल्मले आनी बेगीन मरतले. ते म्हळ्यार संवसाराक जाल्ली म्हातारपणांतली एक पिडाच कशी तो लेखता. परंत हें खरें म्हणु नज. संवसार रचपांत देवाचीं कारणां कशींय आसलीं तरी जीव हें तांतूंतलें एक कारण, आनी तेंय मुखेल कारण आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता. आमगेली धर्तरीच घेतली जाल्यार ती जिवाखातीर घडल्या अशें म्हणचें पट्टा. थैं जळींमळीं जीव भल्ला. उदकाच्या एका थेंब्यांत हजारांनीं जीव हुळहुळटात. धुळिचे एके कणयेंत सुमार देड लक्ष इल्ले इल्ले जीव वावुरतात. पोरसांतली, शेतांतली आगी मळावैली भुंय खणली जाल्यार भितरसून गांयडोळांचे गुटल्यांचे गुटले वैर सरतात. वाटेवैलो फातर उखल्लो जाल्यार ताचे तळा कितलेशे जीव सुरसुरतात. फळां, फुलां, पानां हांकां कितलेशे जीव दशिल्ले आसतात. रुखांवैल्या घोंटुऱ्यांनीं कितलींशीं सवणीं चिंवचिंवतात. आमचे भोंवतणी वाऱ्यांत कितलेशे जीव उबतात. आमगेल्या पावला कणकणी कितल्योशो किडी आनी मुयो साड्डावतात. हे भाशेन जिवांनीं आमी गुटलावल्यांत म्हळ्यार जाता. जिवाची ही संतत कदीम काळापासून चलत आयल्या. आमगेल्या घराचो चिरो फोड्न पळेलो जाल्यार भितर फातरेल्ल्या जिवांचीं § लक्षांनीं कल्ला दिष्टी पट्टात. कशेंय म्हळ्यार, जीव म्हण्टात तो धर्तरेच्या परमाणुंचो सुटनाशिल्लो धर्म आसा. तसोच तो भोंवतणच्या संवसाराच्या परमाणुंचोय आसूंक जाय. कुस्कुटा-एदी धर्तरी आनी तसलेच कांय गिरे हांचे बादत संवसारांत हेर खैंचेचकडेन जीव आसचे नात म्हळ्यार खरें कशें मानुं येत ? बाकिचो संवसार एकलो-एकसुरो आनी रितो उरून काबार जांवकूच नांवा-रुपाक आयला अशें आमी समजुंचे ? जैं धर्तरे वैलीं लक्षणां दिष्टी पडनात थैं जीव आसुं नज अशें मानपाची आमगेल्या कांय शास्त्र्यांक वज जाल्या. परंत बारकायेन पळेल्यार, धर्तरेचीं लक्षणां खासा धर्तरेरूच सगळेकडेन सारकीं लागू जातात अशें आसा व्हय? आमकां मनशांक उदक नसाय आनी नुस्त्याक जमीन नसाय. मनशां उदकांत पडल्यार मरतात आनी नुस्तें उदकाभायर पावल्यार मरता. समुद्राचे खरीक काळोख-गुपाटांत जीव वांचुं नज म्हण्टात. थैं ताका हालुं-धोलूंक मेळना. थैं ताचे फुटून कुडके जातात खैं. तरी आसताना थैं सुंदर आनी

‡ स यथोर्णनाभिस्तंतुनोच्चरेत्...एवमेवास्मादात्मनः सर्वे प्राणाः सर्वे लोकाः सर्वे देवाः सर्वाणि भूतानि व्युच्चरन्ति । बृहदारण्यक. २. १. २०. यथोर्णनाभिः सृजते । मुण्डक. १. १. ७.

§ फातरेल्ले जीव = Fossils.

नाजूक जीव आसात म्हणपाचें उक्ताडा आयलां. तांच्या खासा आंगांतसून उजवाड भायर सरून तो त्या काळोखांत तांकां उपकारा पट्टा खैं. जमनीतळा खोल खांचींत जीव आनी रोंपे आसतात म्हणपाचेंय अणभवाक आयलां. जळजळीत रेंव आनी खतखतीत उदकाचे होंडके हांतूंत लेगीत जीव आसतात. म्हण्टकूच जीव वांचूंक सगळे-कडेन सारकीच लक्षणां आसूंक जायत म्हणपाचें सिद्ध जायना. कोणकोण म्हण्टात कि प्राणवाय नाशिल्ले सुवातेर जीव वांचूंक पांवचो ना. ती सासणाची वांजुट्टी आनी पडिग उरतली. परंत अशें आमी कित्याक समजुंचें? वारें आनी प्राणवाय हांचेबगर वांचतात तसले जीव आमकां अजून दिसूंक नात म्हणून? परंत वारें आनी प्राणवाय लागून उफाट्टे मरतात तसले जीव कित्याक आसुं नजत? धर्तरेचेर आसात तसलींच आनी तितलींच तत्वां हेर संवसारांत आसूंक जायत आनी धर्तरेर जल्मतात तसलेच जीव थैं जल्मूंक जायत अशें शास्त्र आसा व्हय? तीं तत्वां आगळीं-उणीं वा वेगळीं आसलीं जाल्यार वेगळे तरेचे जीव जल्मुंचे नात अशें कशें म्हणुं येत? म्हाका जाल्यार दिसता कि संवसाराचे कोठयेंत तरेकतरा रुपांचे, रंगांचे, आकारांचे आनी गुणांचे जीव भल्ल्यात जातले. धर्तरेवैल्या मनशाक बुद्दिचीं पांच-स इंद्रियां आसात.* परंत दुसऱ्या गिऱ्यांवैल्या मनशांक तीं अदिक कित्याक आसुं नजत? तांकां विजेचें इंद्रिय, पैशिल्या पल्ल्यावैल्यान आयकूंक येंवचे कान, चिऱ्यांचे वण्टींतसून पळौंक येंवची नदर आनी दुसऱ्याल्या मनांतले बेत समजपाचें मन कित्याक आसुं नज? धर्तरेवैले मनीस म्हळ्यार खाणा-जेवणाचे आनी जिरवणेचे बंदे. 'चड जेवल्यार हागता, थोडें जेवल्यार भागता' तसली तांची गजाल. परंत जैं खाणा-जेवणाची निखालुस गरज लागनासताना निखटें वारें भकून रांव येता असले गिरे कित्याक आसुं नजत? जैं मनशाच्यान सवण्याभाशेन भनाक मानत थैं उडुं येता असले गिरे कित्याक आसुं नजत? जैं सासणाचो वसंत रुतू, जैं फूल-चामळ जायतें, जैं चोंयवशीन घमघम, जैं वावटळ, **भुंयकांप** आनी बुट्टी केन्नाच येना, जैं वज्र, केम्प, पाच आनी नीळ रत्नांच्या रंगांचें ओत दिस-रात पट्टा, जैं तरेकतरा रंगाचे चंद्र समुद्रांच्या हारशांत आपलें रूप तुकुतुकु पळेतात, जैं दोंगर भांगरावरी झगझगतात, जैंचे लोक भारी रुपेस्त, मोटे बुदवंत, पिडे-रोग्राभायरे, उज्याची बादा जायनाशिल्ले, केन्नाच मरना जाल्ले, असले गिरे कित्याक आसुं नजत? आमची येजवणी वांजुट्टी, देखून असले गिरे संवसारांत आसचे नात अशें आमकां दिसता.§

'संवसाराचें गिरगिरें दोनशीं लक्ष-कोटी वर्सां एकसारकें गिरगिरता आसताना जीव आनी मनीस म्हण्टात तो हालींच्या कांय कोटी वर्सांत वैर सल्ला अशें जोतिशी म्हण्टा. धर्तरेसंबंधान हें खरें जांवये. ती उसरां जल्मली, देखून उसरां वयांत येवन

* मन: षष्ठानींद्रियाणि । भगी. १५. ७.

§ Astronomy for Amateurs, pp. 338-43, 343-7, 351.

उसरां फळूंक लागली. तांतूंत खैंचेकडेन कितें भंगलें? संवसारांतलीं सगळीं केणां सगळ्यो नक्षत्रावळी आनी सगळे गिरे एकेच फावटीं एकेच घटकेक जल्मा येंवक नात. फाटींफुडें जल्मल्यात, जल्मतात आनी जल्मतले. कांय अजून कुसव्यांत आसात. कांय पाळण्यांत झोपै घेतात. कांय जाण्टे जावन फुलूंक-फळूंक लागतात. कांय म्हतारे जातात. हीच मांडावळ फुडें चलतली. म्हण्टकूच एकेच फावटीं तांचेर जीव जल्मून एकेच घटके सगळो संवसार जिवांनी कसो भरत? धर्तरे आदीं जल्मल्ल्या जायत्या गिऱ्यांचेर जीव नात वा नाशिल्ले म्हणपाचें जोतिशाच्यान सिद्ध करूं येत व्हय? तर, संवसाराची दाली फापुडच्या वेळार जीव वैर सल्लो म्हणपांत शाणपण कसलें? गिऱ्यांचेर जीव जल्मूंक जायतो कळाव लागता म्हणपाचें खासा धर्तरेचे जिणे-वैल्यान आमच्या ध्यानांत येता. ती सुमार पावणेदोनशीं कोटी वर्सांची जातकूच फळूंक लागली म्हणपाचें हो जोतिशी सांगता. गुरुचेर जाल्यार जीव अजून जल्मूंक नात खैं. ते जल्मूंक अजून कळाव आसतलो. ते थैं केन्नाच जल्मुंचे नात म्हळ्यार जाता? आजचे घटकेक जरी एकाद्रया गिऱ्याचेर जीव नासले तरी फुडाराक ते थैं जाल्याबगर रांवचे नात. धर्तरेर जीव जाल्यात. म्हण्टकूच तांचेरूच कित्याक जांवचे नात? धर्तरीच कोणाचे अपुर्बायेची? आनी ते कोणाचे निखड्डायेचे? गिरो म्हण्टात तो निखटो मातये-गुंडयांचो सांगाडो न्हय. ताच्या आंगार जो जीव हुळहुळटा तोच खरेपणाचो गिरो. संवसाराच्या बोंबाडयांत तोच म्हालगडो. संवसाराचें जड आंग खोर्णाभाशेन कितलेंय पेटलें आनी कितलेंय लकलकलें तरी तें कित्याक उपकारा पडना. जीव नासताना तें निखालुस सोबना.† जीव ना जाल्यार ताका कोण विचारचो ना. ताची कोण तोखणाय करचो ना. संवसारांत जोतिशासारके जीव आसात देखून चंद्राचें लग्न रोहिणीकडेन जांवक पावलें. ना जाल्यार त्या गुळ्यांच्यो तुस्ती कोण घेवन बसतलो आसलो? सांगचेलें सार इतलेंच कि संवसार रचपांत जीव म्हण्टात तें मुखेल कारण जांवये. धर्तरेर तो हालींच्या तीस कोटी वर्सांफाटीं जल्मूंक लागलो म्हणून त्याआदीं संवसारांत दुसरेकडेन तो नासलो अशें सिद्ध ज्रायना. सुवातेचो बोंबाडो फुगूंक लागलो तेच घटके जिवूय किल्लुंची मांडणी जाली. तो अजून किल्लता आनी तसोच फुडें किल्लतलो. तो केन्नाच नासो जांवचो ना. जंववेर रचतलो आसा तंववेर तो आसतलो. कितें तो जीव! कितें ताची बुद्द! कितें ताचें गिन्यान! असलो जीव संवसारांत सगळ्यां निमाणें जल्मलो आनी सगळ्यां आदीं नासो जातलो म्हळ्यार कोणाकूच खरें दिसत? सगळ्या सूर्यांचें, चंद्रांचें, गिऱ्यांचें आनी नक्षत्रांचें सत्व आनी सार म्हण्टात तें जिवांत भल्लां. सूर्य, चंद्र, गिरे आनी नक्षत्रां आंगान कितलींय मोटीं आसून तांचो तुतनायक केदोय आसलो तरी तीं गाडयेच्या चाखा-भाशेन घुंवतात. तीं आपले शकमी घुंवनात. तीं आपणांक जाय तेन्ना, जाय तशीं,

† Astronomy for Amateurs, pp. 348, 354, 356, 361.

जाय थैं भोंवनात. तांकां जाणपण ना. बुद्द ना. येवजुंची तांक ना. हे गुण एकल्या जिवाभितर आनी चड वांटयान मनशाभितर भल्यात. म्हण्टकूच मनीस होच सगळ्यां परस व्हडलो जालो ना ? अशें आसताना, हो जोतिशी ताका खैंचे खोरजींतलो रंवथो म्हणून कुस्कुटायता. पिशेपण न्हय हें ? संवसारांत उजवाडा इतलो वेग कसलेच वस्तीक ना अशें तो सांगता. उजवाड एका खिणांत बैंसट हजार कोस धांवता खें. ताचे फुडें मनशाच्या पांयांची धांव कित्याक उपकारना. एका खिणांत ताचें एक पावलूय फुडें पडना. परंत ताच्या मनाचो वेग पळौन कोणेंय तोंडांत बोटूच घालूंक जाय. तें एका खिणांत एका सूर्याचीच न्हय, तर कोटी-परार्ध सूर्यांची भोंवडी करून संवसाराच्या बोंबाडयातले खांची-गोंयडे पळौन, आसा तशें आपल्या कुर्कुटांत येवन बसता. तें आतांच्याच काळांत वावुरता अशें न्हय. तर फाटल्या काळांत कितें आसलें आनी फुडल्या काळांत कितें जातलें तेंय पळेता. असले तरेचें मन ज्या जिवांत आसा आनी जाचे खातीर ताका मनीस हें नांव मेळ्ळां ताचें म्हत्व ल्हान-समान म्हळ्यार जाता ? ताका रंवथो म्हळ्यार उपकारता ? आनी रंवथो म्हळोय म्हणून ताची योग्यताय उणी जाता ? जोतिशाले म्हणणेभाशेन हो रंवथो संवसारांत हेर खैंचेच कडेन नासून एकले धर्तरेरूच जल्मा आयला जाल्यार तिगेल्या भाग्याक अंतपार आसा? ती खरेपणान रेंवेचे कणयेकूय बारकिली जाल्यार संवसाराची पाटां-राणीच कशी लेखूंक जाय. ती जरी एकाद्री सगळचां निमाणें जल्मा आयली तरी तिचेखातीर आनी तिच्या कुसव्यांतल्या मनशाखातीर संवसाराचें रसायण दोनशीं लक्ष-कोटीं वर्सां एकसारकें खतखततालें अशें म्हणूंक जाय. मोटींमोटीं खडपां फोडून तांतूंतसून गरांवभर भांगर लिकलिकचें तेच भाशेन एक कोटीपरार्ध कोस आवांठाचो बोंबाडो तापून तांतूंतसून इल्लोसो मनीस लिकलिकलो ! हाचेवैल्यान ताचेखातीरूच देवान हो बोंबाडो फुगैलोसो जालो ना ? म्हण्टकूच संवसार रचपांत ताचो हेत कितें म्हणपाचें आनीक विचारचें उल्लां व्हय ? मनशासारकें रत्न इतल्या सायासांनीं जल्मा आयलां आसताना संवसार काबार जांवचे आदींच तें नाशें जातलें अशें हो जोतिशीं सांगता. परंत तें खरें कशें मानुं येत ? तागेले म्हणणेभाशेन, लक्ष-कोटी वर्सां उप्रांत सूर्याचें ओत धर्तरेर जाय तितलें पडना जायत जाल्यार, मनीस तिका चिकटून बसून कुडकुडून मरतसो दिसना. तो त्या आदींच दुसरे खैंचेय सूर्यावळींत वचून थैं आपली वसणूक करतलो. तो मोटो बुदवंत, चतुर आनी धोरणी आसा. तो आपल्या जल्माचो घोळ करून घेंवचो ना. जोतिशाले म्हणणेभाशेन तो जल्मून अजून धड तीन लक्ष वर्सां जांवक नात. तरी ह्या इल्ल्याशा काळांत, बुद्दिच्या बळग्यान ताणें आपले राखणेची आनी सुखाची कितलीशीच मांडणी केल्या. ताणें लांकडाचेर लांकूड घांसून उजो पेटैलो आनी त्या उज्यांत दोंगराचे कपचे भाजून लोखण भायर काडलें. ताचे ताणें कोयते, आदोळचो आनी विळयो करून तो मास कातरूंक लागलो, नुस्तें उजरांवक

लागलो आनी शाक शिंदूंक लागलो. उज्याचेर तो रांदून जेंवक लागलो आनी काळोखांत चूड पेटौन उजवाड करूंक लागलो. लांकडां पोखरून तो उदकावैल्यान चलूंक लागलो. ओतान करपुंचो न्हय आनी पावसान भिजचो न्हय म्हणून तो खोंप आनी घर बांदून रांवक लागलो. थंडीन कुडकुडचो न्हय म्हणून कातडयाचीं, ल्हंवेचीं आनी कापसाचीं आंगावलीं करून घालूंक लागलो. हे भाशेन, गोडाचो बांदो कसोसो जीव राखून सुखाक संवकल्लो मनीस आकान्ताचो वेळ येतकूच हात पांय पांगरून थंड बसतसो दिसना. तो त्या आदींच जीव वाटांवची तजवीज करतलो. सूर्य न्हिवूंक अजून जायतीं वर्सां आसात. तितले म्हणसर मनीस एकाद्रो विजेचीं तारवां बांदून, अंत्राळांत चलौन, उजवाडाच्या वेगान, एका गिन्यावैलो दुसऱ्या गिन्याचेर, एके नक्षत्रावळीवैलो दुसरे नक्षत्रावळीर, एके दुदगंगेंतसून दुसरे दुदगंगेंत असो सगळो संवसारभर भोंवक लागचो ना म्हणपाचो निर्वाळो कोणाच्यान दिंव येत ? नक्षत्रावळीं-मजगतची रिती सुवात थंड किरांव आसून थैंसून वेता आसताना तो वातडेवन मरतलो, तशेंच नक्षत्रांच्या ओतान तो हुलपतलो, अशें कोणूय म्हण्टले.¶ परंत जो मनीस अंत्राळांत-सून विजेचीं तारवां चलौंची युक्त काट्टलो ताका थंडी-ओतांतसून वाटांवचो उपाय येवजचो ना म्हळचार कशें जायत ? मनशाच्या मेंदुची धार इतली तीख आसा कि ती पाजैत तितली पाजता. तीन लक्ष वर्सांत ती इतली पाजल्या. म्हण्टकूच लक्ष-कोटी वर्सांत कितली पाजत ताचो हिशेबूच केल्यार चड बरें.

'संवसारांतसून मनीस काबार जातलो इतलें म्हणुनूच जोतिशी थांबना. संवसाराचो बोंबाडोय एक दीस शेळेतलो अशें तो म्हण्टा. तो सामकोच फुटून खैंचे-कडेन कांय उरचें ना अशें ताणें म्हळें ना हे ताचे उपकारूच समजूंक जायत. तशेंय म्हण्टले जायते आसत. परंत ही म्हणणी धड न्हय. मुदलपासून आजवेर संवसार सामकोच रितो जायनासताना चलत आयला; हाचे वैल्यान फुडेंय तो तसोच चलतलो म्हणपाचें अनुमान करुं येता.* तो सामकोच शेळेंवचो ना वा सामकोच नासो जांवचो ना. तो आतांचेच भाशेन फुडेय आसतलो. § संवसारांत आमकां जायत्यो वस्ती नाशो जाल्ल्यावरी दिसतात. परंत त्यो खरेपणानशीं नाशो जायनात. तांचें रूप बदलून त्यो दुसरें रूप घेतात. मेणवात जळ्ळी म्हणून भितल्लीं तत्वां काबार जायनात. मेणवातींतलो कोळसो आनी उदकवाय वाऱ्यांतले प्राणवायेंत मेळून तांचेपासून उदक

---

¶ Mysterious Universe, p. 3.

* अनादावद्य यावदभावाभ्दविष्यदप्येवम् । सांख्य. १. १५८.

§ इदानीमिवसर्वत्र नात्यन्तोच्छेदः । सांख्य. १. १५९.

आनी कोळशा-आंब-वाय हे दोन जिनस जातात; † आनी पर्थून त्या जिनसांपासून ल्हवु-ल्हवु रोंपे, फुलां, म्होंव आनी मेण जांवक पावता. गिमाळच्या दिसांनीं सूर्य कडकडीत तापून बांयचें उदक आट्टा आनी ती सुकी सडसडीत जाता. हाचेवैल्यान तांतूंतलें उदक सामकेंच ना जाता म्हळ्यार उपकारता ? त्या उदकाची ऊब जावन अंत्राळांत ताचीं घट कुपां जातात आनी पावसाच्या रुपान तीं बांयत पडून पर्थून ती उदकान भरता ही आमगेल्या अणभवाची गजाल न्हय ? समुद्राच्या उदकाचीं ल्हारां जावन फुट्टात. तीं आमकां दिसनात. तीं खैं पावतात ? तीं सामकींच ना जातात व्हय ? तांचें उदक जावन तें समुद्रांतल्या मूळ उदकाक मेळटा आनी पर्थून ताचीं ल्हारां जावन वैर उफेतात. हाचेवैल्यान आमी कितें शिकूंक जाय ? जी वस्त आमकां नाशी जाल्यावरी दिसता ती खरेपणानशीं ना जायनासताना आपल्या मुदलांत पावता; ¶ आनी तांतूंतसून आसा-तशी वैर सरता. देखून, जोतिशान मनशाच्या आनी संवसाराच्या अखेराचें कितलेंय भयांकृत चित्र काडलें म्हणून आमी तें खरें कित्याक मानचें ? कित्याक निर्शेवचें ? आनी कित्याक हात-पांय गळसणांवचे ? तागेले म्हणणे-भाशेन संवसार एकाद्रो शेळेलोय जाल्यार तांतूंतलो आत्मो जागो आसतलो. ताणें आदीं जे रितीन संवसार खतखताइल्लो तसोच तो पर्थून खतखतावन ताका हुनसाण हाट्टलो. ↑ तांतूंतसून मागीर आसातशीं केणां, नक्षत्रावळी, सूर्यावळी, गिरावळी, चंद्रावळी बी वैर सरून § मनीसूय किल्लतलो आनी जाळवणी करूंक लागतलो.

'हे भाशेन संवसाराचो रचतलो देव आसून ताचेपासून सगळो विस्तार जाला आनी तो जिवाखातीर जाला हांतूंत निखालस दुभाव उरना. तशेंच संवसारांत कसलीच वस्त नाशी जायना आनी खिणभर ती दिसनाशी जाली तरी पर्थून उजवाडा आयल्याबगर रावना म्हणपाचें घसघशीत अणभवाक येता आनी सिद्ध जाता.

'संवसाराची जैंचे थैं रेखिल्ल्यावरी मांडणी पळौन देवाचे कर्तुत्वदशेची, बुद्दिची आनी चतुरायेची तोखणाय दिसता. परंत ते मांडणेंत सुखदुख, बरें-वायट, आगळें-उणेपण आनी ल्हान-व्हडपण भरिल्लें पळौन देव पक्षपाती, क्रूर आनी अन्यांवी आसतलो असो सभाविक दुभाव आयल्याबगर रावना. मनशांक असो दुभाव येंवक लागल्यार

---

† Lessons in Elementary Chemistry by Sir Henry E. Roscoe, LL. D., F. R. S., London 1897. pp. 1-3. कोळशा-आंब-वाय = Carbonic Acid Gas.

¶ नाशः कारणलयः । सांख्य. १. १२१.

↑ एष आकाशात्मा । एवैष कृत्स्नक्षय एको जागर्ति । इत्येतस्मादाकाशादेष खल्विदं चेतामात्रं बोधयत्यनेनैव चेदं ध्यायते । मैत्रायणीय. ६. १७.

§ जगद्विपरिवर्तते । भगी. ९. १०.

देवाचेर ते मेकळया मनान पातयेंवचे नात, ते ताका भियेंवचे नात, सर्गा-नर्काची पर्वा करचे नात आनी संवसाराचो गाडो सुळसुळीत चलूंक दिंवचे नात म्हणपाचो भय कांय गिन्यानी मनशांक जावन, ताणीं आपल्या समजाभाशेन देवाक कसलेंच दुशण लागना जावपाची मांडणी केल्या. कांयजाणांनीं बऱ्या-वायट गिन्यानाचो रूख आनी सैतान हांच्यो काणयो रचून संवसारांतले सगळे अळशिकेक आनी अपेसाक मूळ तांकां धल्ल्यात. देवाक ते पक्षपात नाशिल्लो, उपाट-उजू, उपाट-न्यायी, उपाट-उदार, उपाट-दयेस्त, उपाट-मायेस्त, उपाट-काकळुतेस्त आनी हेर तरेकतरा उंच उंच पदव्यो लायतात आनी सैतानाक नाका-नाका-जाल्ल्यो गाळी सांगतात. परंत सैतान आनी रूख मेळून देवानूच निर्मिल्ल्या कारणान ताकाच त्यो गाळी लागू जातात म्हणपाचें तांच्या ध्यानांत येना हें अजाप म्हणूंक जाय. दुसरे कांय गिन्यानी, संवसारांतलो बरो आनी वायट मेळून कसलोच गुण देवाक लागू जांवचो न्हय म्हणून कर्माचें बावलें उबारून, मेळत तेन्ना ताका बोट दाखैतात. परंत देवाआदीं कसलेंच कर्म नासून, कर्म म्हण्टात तें संवसाराचोच एक वांटो आशिल्ल्या कारणान ताचो रचतलो देवूच जाता आनी ताचे गुण-अवगुण देवाकूच लागू जातात म्हणपाचें ते येवजिनात. ते दोळयांचेर हात धरून आपणाक फटौन दुसऱ्यांक फटैतात. ते घुस्पा-गदळाची भास उलैतात. तिणें तांचें खासा समाधान जायना आनी दुसऱ्यांचोय समज पडना. बारकायेन येवजिल्यार, देवाक दों तरांचें बरें-वायटपण लागू जाता. एक कर्तुत्वाचें आनी दुसरें आयत्याचें. संवसारांतले शेट, कुंभार, विनाणी हांचे भाशेन देव निखटो घडपीच न्हय. तर घडपाचें आयतेंय तोच. भांगर तो आनी ताची तोडिची पाटली करतलो शेटूय तो. माती तो आनी तिची मडकी करतलो कुंभारूय तो. लांकूड तो आनी ताचें पेट-फळें करतलो विनाणीय तो. तो मावलेच्या जाळयाभाशेन आपुणूच आपल्या खासा आंगांतसून संवसार घट्टा. शेट, कुंभार, विनाणी हांचेभाशेन ताका आपल्या आंगाभायलें आयतें मेळना. कित्याक, संवसाराचे निर्मणे आदीं देवाबादंत कसलेंच आयतें आनी कोणूच घडपी नासलो. देखून, संवसाराच्या कर्तुत्वाक आनी आयत्याक मूळ तोच आसून* तांचें बरें-वायटपण ताकाच लागू जाता. संवसारांतलो दिसपट्टो अणभव पळौंक गेल्यार, जें मुदलांत आसता तेंच ताच्या विस्तारांत दिसता. चिंचाऱ्यांतली आंबसाण चिंचेच्या पानांत, सोपांत, फुलांत आनी कोंगलांत येता. ती भायरसून तांतूंत रिगना.

---

* ब्रह्म च जन्माद्यस्य यत इति लक्षितम् । तच्च लक्षणं घटरुचकादीनां मृत्सुवर्णादिवत् प्रकृतित्वे कुलालसुवर्णकारादिवन्निमित्तत्वे च समानम् ।. . . .यथा हि लोके मृत्सुवर्णादिकमुपादानकारणं कुलालसुवर्णकारादीनधिष्ठातॄनपेक्ष्य प्रवर्तते, नैवं ब्रह्मण उपादानकारणस्य स्वतोऽन्योऽधिष्ठातापेक्ष्योऽस्ति, प्रागुत्पत्तेरेकमेवाद्वितीय मित्यवधारणात्. . . . . .तस्मादधिष्ठात्रन्तराभावादात्मनः कर्तृत्वमुपादानान्तराभावाच्च प्रकृतित्वम् । शामीभाष्य, १. ४. २३.

तेच भाशेन, देवाच्या विस्तारांत देवाचेच गुण-अवगुण वावुरतात. कारण आनी ताचे परिणाम एकरुपी म्हण्टात तें लटकें न्हय.* कारणापासून परिणाम केन्नाच वेगळो आसना. तो भायर उक्ताडा येंवचे आदींय कारणाच्या पोटांत गुटलाइल्लो आसता आनी उक्ताडा येतकूच ताचेवैल्यान कारणाचीय पारख जाता.§ संवसारांत जाणपण आनी नेणपण, उजवाड आनी काळोख, वान्सा आनी उबग, तिडक आनी थंडाय, धर्म आनी अधर्म अशो एकामेकांआडव्यो जितल्यो म्हणून तरेकतरा जुंवळच्यो दिसतात तितल्योय देवाच्या आंगांत भल्यात† आनी थैंसुनूच त्यो मनशाच्या आंगांत पावन ताका बादतात. मनशान आपले शकमी त्यो खैंसून हाडूंक नात. देखून जी कसली बरी-वायट करणी तो करता वा सुख-दुख भोगता ताची झर देवाच्या खडपांतसून फुटल्या, कर्मांतसून फुटूंक ना अशेंच म्हणचें पट्टा. परंत तितलेखातीर देवाक पक्षपाती, क्रूर आनी अन्यांवी म्हणचेलें कांय कारण ना. तशेंच ताका उपाट-उजू, उपाट-न्यायी आनी उपाट-दयेस्त हींय उतरां लांवचेलें कारण ना. तो एकाक सुखी आनी दुसऱ्याक दुखी करिना. तो एकाक गिरेस्त आनी दुसऱ्याक दुबळो करिना. तो एकाक दोळे आशिल्लो आनी दुसऱ्याक दोळे-फुटको करिना. तो एकाक वैर चडौन दुसऱ्याक सकला धुकलिना. ताका सगळो संवसार सारको. ताचो कोण अपुर्बायेचो ना आनी कोण निखट्टायेचो ना हेंच खरें.‡ तान्ने झरिच्या उदकांत जे गुण भल्यात त्या गुणांक लागून तांतूंत नुस्तें जल्मता. ताका जशीजशी सन्द मेळटा वा ते सन्दिचो लाव तें ज्या प्रमाणान घेता त्या प्रमाणान तें बारीक वा मोटें, धड वा पोलें, बळिष्ट वा दुबळें; सुखी वा दुखी जावन मातता ना जाल्यार मरता. हीच गजाल हेरां जिवांची, मनशांची आनी झाड-पाल्याची. हांव धर्तरेर आसलों तेन्ना आमगेल्या भाटांत एके आंबुलेतळा पोपायेची बी रुजून आयली. आंबुलेचे सावटीन ती झिणकटली. आंबुलेची खांदी आड येवन तिका तकली वैर काडूंक मेळना जाली. तेन्ना मान वांकडी करून ती वैर

---

* कारणभावाच्च । सांख्य. १. ११८.

§ भावेचोपलब्धेः । ब्रसू. २. १. १५. सत्त्वाच्चावरस्य । ब्रसू. २. १. १६.

† स वा अयमात्मा ब्रह्म विज्ञानमयो. . . . तेजोमयोऽतेजोमयः काममयोऽकाममयः क्रोधमयोऽक्रोधमयो धर्ममयोऽधर्ममयः सर्वमयस्तद्यदेतदिदंमयोऽदोमय इति । बृहदारण्यक. ४. ४. ५. ये चैव सात्विका भावाः राजसास्तामसाश्च ये । मत्त एवेति तान् विद्धि न त्वहं तेषु ते मयि । भगी. ७. १२. बुद्धिर्ज्ञानमसंमोहः क्षमा सत्यं दमः शमः । सुखं दुःखं भवो भावो भयं चाभयमेवच । ४ । अहिंसा समता तुष्टिस्तपो दानं यशोऽयशः । भवन्ति भावा भूतानां मत्त एव पृथग्विधाः । ५ । भगी. १०.

‡ समोऽहं सर्वभूतेषु न मे द्वेष्योऽस्ति न प्रियः । भगी. ९. २९.

सल्ली. कांय म्हैन्यांनीं तिका फुलां येवन कांय गोळां धल्लीं. तांतूंतलीं कांय बावलीं आनी गळ्ळीं. कांय मोटीं जालीं. फुडें पावसाच्या वाऱ्यान तीं मोडून पडलीं. तिचेच वांगडची तिची खासा भैण तिचेकडसून कांय हातांचेर मेकळे सुवातेंत शेकानशेक गुलगुलीत बरी वाडली आनी पावसाच्या वाऱ्याकडेन पौठ घांसून तगली. हांतूंत पैली पोपाय निखट्टायेची आनी दुसरी अपुर्बायेची म्हळचार जाता? दोनूय पोपायांच्यो बियो एकेच पोपायेच्या पोटांतल्यो आसून कावळ्याचे तोंचींतसून वेगळे वेगळे सुवातेर पडल्यो आनी तांची वेगळी वेगळी दशा जांवक पावली. हांतूंत देवाक पक्षपात, क्रूरपण आनी अन्यांव कसो लागू जायत? बारकायेन येवजिल्यार देव ह्या तपशिलांत निखालुस पडना. ताका पोपायांचें बरें जालें सारकें आनी वायटूय जालें सारकें. बरो-वायट म्हण्टात ते दोनूय ताच्याच आंगांतले गुण. ताका ते दोनूय सारके. तांतूंतलो एक तो वाडूंक दीत आनी दुसरो चिड्डून उडैत अशें दिसना. तागेलें बरें-वायटपण बऱ्या आनी वायट जिनसांक तशेंच मनशांक सारकेंच भोगता आनी बादता म्हणपाचो अणभव आमकां पावलाकणकणी येता. तागेली धर्तरी आपले फाटीर बऱ्या जिनसांचें आनी अळशिकेचें ओजें सारकेंच घेता. तागेलो पावस आंब्या-पणसाक आनी काजऱ्याक सारकोच न्हाणैता. तागेलो चंद्र सावांक आनी चोरांक सारकोच उजवाड दिता. तागेली वीज कुकडां-बोकडांचेर आनी वागा-वांसवेलाचेर सारकीच पट्टा. तागेल्या मोडान समुद्रांतलें तारूं उमथून बरीं आनी वायट मनशां सारकींच बुट्टात. तागेल्या विखाळ्या जोराचे धामेन जाण्टे-नेण्टे, तरणे-म्हातारे, काळे-गोरे. पुण्यवंत-पातकी सारकेच मरतात. तागेल्या तोळांच्या भिऱ्यान गुणेस्त आनी नष्ट्या भाटकाराचें भाट सारकेंच काबार जाता. तागेल्या दुकळान गिरेस्त आनी दुबळे, शाणे आनी पिशे, साधु आनी ढोंगी सारकेच वळवळटात. आजचे बुट्टेचीच गजाल पळौंक गेल्यार, हांतूंत जे जीव बुडून मेले ते सगळे सारकेच पातकी आसले अशें म्हणुं नज. तांगेलीं पातकां आगळ्या-उण्या तोलाचीं जांवये. त्या पाळण्यांतल्या भुरग्यान जाल्यार कसलेंच पातक करूंक नासलें. अशींच आनीक लक्षांनीं भुरगीं आसतलीं. तरी आसताना, हेरांचेर आनी तांचेर सारकीच हावळ आयली. हाचेवैल्यान, देवाक पातक आनी पुण्य, सुख आनी दुख, बरें आनी वायट, खरें आनी लटकें, वास आनी घाण काळें आनी गोरें सगळें सारकेंच जालें ना? म्हण्टकूच ताका पक्षपाती, क्रूर आनी अन्यांवी कसो म्हणुं येत?

'देवाक बरें-वायट सगळें सारकें आसून तांतूंत तो कशेंच तरेन सुडबुडना म्हणपाचो अणभव पावलाकणकणी येता आसताना जायतीं मनशां ताका बऱ्याचो राखणो आनी वायटाचो विभाडणो समजतात. ताणें वायटांतसून वाटावन आपलें बरें करचेखातीर ताका ते कितलेशेच काकळुती येतात आनी नाख झरैतात. तांकां संकष्टाच्या वेळार आधाराक कसलीय धिगी जाय जाता; देखून ते देवाच्या नांवार

पातयेवन रावतात. तांच्या ह्या कुड्डुचा विस्वासाची अपुर्बाई दिसता. परंत ते म्हण्टात कि रातचेपारा आवैचो हात आपल्या पोटासरीं आंवळून विस्वासान हांतरुणार पडिल्लें भुरगें काळोखाक भियेनासताना जशें सुस्त न्हिदता तशेंच देवाचेर पातयेल्लो मनीस संकष्टाची पर्वा करिनासताना हुस्क्यामेकळो संवसार चलैता. परंत हें हुस्क्या-मेकळेपण धडपणाचें म्हणुं नज. म्ह्यानें रातीर घराचें पाष्ट नाखार एकाद्रें कोंसळून पडल्यार, आवैच्या म्हालवजार पातयेवन न्हिदिल्ल्या भुरग्याचो जीव वाटावना, हें आमी दोळयांनीं पळेतांत. सोऱ्याचे घुंवळींत आशिल्लो मनीस गाडया-घोडयांनीं भरिल्ल्या मार्गांतसून लकत लकत हुस्क्यामेकळो चलता खरो; परंत जायते फावटी गाडयेतळा चिड्डून मरता हें लटकें न्हय. सोऱ्याचे घुंवळीन ताका जाल्ली दुखी एकाद्री समजना जांवये. परंत ताचो जीव वाटावना. अशीच गजाल देवाचेर पात-येतल्यांची जाता. देवावैल्या विस्वासाचे घुँवळोन ते तोंडात ‘ देवा पाव, देवा पाव ’ म्हणून हातांत ताळ घेवन नाचतात खरे; परंत संकष्टांतसून सुटूंक खासा पेंगट बांदिना जाल्ल्यान चड त्रासांत पट्टात. तांकां देव निखालुस धिगी दिना. हाचेवैल्यान तांकां वाटांवक देवाक तांक ना अशें मात म्हणुं नज. तो उपाट-बळिष्ट. तो कितेंय करीत. परंत मुदलाक ताणें संवसाराचें यंत्र अमके एके तरेन चलचें म्हणपाची जी मांडणी करून दवल्ल्या तांतूंत तो हात-बोट घालिना आनी धवळ करिना हांतूंत इल्लोय दुभाव नाम.नशांनीं ताच्या नांवान कितल्योय हुयेली माल्ल्यो, ताची कितलीय सायबा-जात्रा केली, ताका कितल्योय आंगवणी-जोगवण्यो केल्यो तरी तो गणमणना. ते कितलेय रडले आनी आकुळ-पिकुळ जाले तरी तो दर्वेना. ताणीं ताचीं कितलींय देवळां बांदलीं आनी ताका कितलींय फुलां माळ्ळीं तरी तो भुरकुटना. ताणीं ताच्यो लांकडा-फातराच्यो म्हुर्ती केल्यार तो तिडकना आनी दोळे धांपून काळोखांत ताका होरायल्यार तो खोसयेन उडक्यो मारिना. ताच्या तोखणायांचीं स्तोत्रां गाल्यार तो प्रसन्न जायना आनी ताका तोंडभर गाळी सांगल्यार तो रागार जायना. तो आस्तिकांक लागीं करिना आनी नास्तिकांक धिस्पटायना. मनशां अजाणपणान ताच्या नादाक लागून, मेळे करून, ताच्या नांवान वोगीच एकामेकांच्यो तकल्यो फोट्टात आनी दाटून दुखांत पट्टात. संवसार आदींच दुखान भल्ला; तांतूंत देवाच्या नांवान आनीक दुखाची भर घालची ही एक पिसाय न्हय ? संवसारांतले तरेकतरा चमत्कार पळौन, मनांत आयलें जाल्यार, ताणीं देवाचे कर्तुत्वदशेची तोखणाय खुशाल करची; परंत ताका पांयां पडून, ताची प्रार्थना करून आनी ताच्या नांवान तोंड पेंचून भीक मागून कुस्कुट उपकारा पडना. तो कितेंच काना-मनार घेना. तरी आसताना, ताच्या नांवान उत्साव करून कोणूय वाजैतले-गाजैतले जाल्यार ताणीं बरे भाशेन तशें करचें. संवसारांतलो काम-धंदो करून पुरो जातकूच, विसव मेळून मनाक ताजपण येंवक, घुलां-ताबुलफळयांचे वा कोंयडे-बारांचे खेळ खेळटात तेच भाशेन, देवाचो

म्हण्टात तो वेळ घालौंचो एक उपाय कसो लेखुं येत. परंत तो करता आसताना उत्साव आपल्या आनी दुसऱ्यांच्या जिवाक कशेंच तरेन त्रास बादतीत अशें करचें न्हय. सगळी रात जागरणां करून आरोग्यताय भंगौंची न्हय. हुयेली बोबो मारच्यो न्हयत. तट आनी पंगड करून एकामेकांकडेन झगडचें न्हय; आनी एकाद्रे झगडलेय जाल्यार आपलें झगडें आपणें थारावचें. मदेवर्तेंच्या नांवान परक्याक भितर सुडबुडूंक दिंवचो न्हय. तो आपल्या नष्टचा सुवराथाखातीर झगडीं पालौंचे बदला पेटैता. तो कणयो घालून दाटून कोंबे झुजैता. हें सदींच ध्यानांत दवरचें. देवा-धर्माच्या नांवान दुडवांचो विव्हाट केन्नाच करचो न्हय. देवाच्या नांवान रिकामी आनी आळशी मनशांक भुसकें घालचें न्हय. देवाचीं देवळां वा उत्सवाचे जागे रिते दवरून दोळे धांपून ताचे तोखणायेचीं गितां म्हणचे भाशेक भितर कसलीय म्हुर्त थापल्यार चड बरी. ती दोळयांक घसघशीत दिसता आनी तिचे सामखार नाचतल्यांचो शिणभाग वेता. ती भांगरा-रुप्याची करून तिच्या आंगार मोलादिक अळंकार आनी रत्नां घालची न्हयत. तांचेर चोरां-नागौण्यांचो दोळो वेता. देखून, ती धव्या ना जाल्यार काळ्या फातराची घसघशीत बरी करची. एका गांवांत एकापरस अदिक देवळां आनी देवळयो बांदच्यो न्हयत. चड देवळां सदींच झगडयाक मूळ जातात. आजचे बुट्टेच्या निमतान धर्तरेवैल्यो देवाधर्माच्यो सुवातो व्हांवन गेल्यो हें वायट जालें ना. संवसारांतसून त्यो जितल्यो उण्यो जातीत तितलें बऱ्याक पडत. देवळां आनी उत्सवाचे जागे दीस-रात उगडे दवरून भितर कोणाकूय येंवक-वचूंक मेकळीक आसची. भितर अनवाळचा भष्टचाचे तडकबन्द निखालुस आसचे न्हयत. मनशाच्या सुखा-दुखांत आनी बऱ्या-वायट करण्यांत देव केन्नाच हात घालिना आनी पातका-पुण्यतायेचें फळ तो कोणाक भोगैना हें जणएकल्यान बरें करून ध्यानांत धरचें. तो कोणाक सर्गार चडैना आनी कोणाक नर्कांत उडैना. सर्ग आनी नर्क म्हण्टात त्यो मनशाच्यो तकलेंतल्यो पोल्यो कल्पना आसात. ह्यो दोनूय सुवातो संवसारांत खैंचेयकडेन आसतीत म्हणपाक कसलोच आधार ना. देवाच्या मनांत मनशांक पुण्यतायेची तस्रीप आनी पातकाची ख्यास्त भोगौंची आशिल्ली जाल्यार तो तांकां जितेपणींच जेन्नाचें तेन्ना याद-उगडास उरपासारकें तांच्या करण्याचें फळ दितलो आसलो. तीं मरता म्हणसर तो वाट पळौंचो नासलो. देखून, सर्गाच्या नांवान आनी थैंच्या अप्सरांच्या मोगान कोणें बुल्लुसचें न्हय; तशेंच यमाचें राज्य, नर्क, नर्कांतलो उजो आनी पोंद नाशिल्लो फोंड ह्या उतरांनीं कोणें जीव सांडचो न्हय. निमाण्या निर्णयाच्या दिसाकय कोणें थरथरचें न्हय. देवाच्या मनांत कसलोय निर्णय करचो आशिल्लो जाल्यार तो जेन्नाचे तेन्नाच करतलो आसलो. सासणांचीं सासणां तिष्टुंचो नासलो. तो निर्बुद्द, अशक्त आनी घोळकावणो न्हय. संवसारांतल्या शाण्या मनशांनीं हें बरें करून पारखिलां; देखून देवाच्या म्हालवजार घाळ रावनासताना ताणीं संवसारांतल्या वायट करण्यांक

बुदवंत जांव निर्बुद्द जांव. पैल्यान दुसऱ्याक पिडापीड भोगौंचें निखालुस कारण ना. संवसारांत जणएकल्याक मेळत तितलें चड सुख जोडून तांकत तितलीं अदिक वर्सां वांचपाचें उपाट हक आसा. ताचे आड जो कोण येत तो धा-जाणांचो दुस्मान कसो लेखून ताका कडकडीत ख्यास्त भोगौंची मांडणी मनशांनींच करूंक जाय. ताणीं देवाचेर पातयेवन उपकारना. ख्यास्तीबगर निखटचा बऱ्या उतरांनीं मस्ते आनी नष्टे मनीस निवळटीत अशें दिसना.¶ तांकां धपक्यांनींच आळाबंदा हाडूंक जायत. वज्राचे एके मुठीन जें काम ज़ाता तें हजार बऱ्या उतरांनीं जायना. नष्टे लोक माणसुकेच्या बऱ्या उतरांचो अर्थ मेंगेपण कसो करतात. देखून तांकां मुठक्यांनींच बुद्द शिकौंक जाय. बारकायेन प‌ळौंक गेल्यार, संवसारांत सुकतडो लागिल्ले, मरतुकडे, हुकहुके, फुकफुके असलेच लोक माणसुकेच्यो, सात्विकपणाच्यो, सोंशीकपणाच्यो, थंडायेच्यो आनी शिष्टायेच्यो गजाली सांगतात. जाच्या आंगांत हुनहुनीत रगत शिवशिवता तो असली बडबड करिना. तो लुतुफुतु कांय उलैना. 'ऊठ तोंडक्या, घे वळख' होच तागेलो खरो मंत्र. देखून जणएकल्यान आपल्या आंगांत बळगें हाडूंक वावुरचें. ताची वज्रमूठ सदींच आंवुळ्ळेली आसची आनी वेळ येत तेन्ना तिचो उपयोग करचो. आपणाक दुसरो पावतलो, तो आपणाक संकष्टांतसून सोडैतलो, तो आपणाखातीर दुस्मानाकडेन झगट्टलो म्हणपाच्या भ्रमान परक्याच्या म्हालवजार केन्नाच कोणें रांवचें न्हय. आपलो जीव आनी हक राखूंक आपणें खासा पेंगट बांदचें. दुबळ्यान लेगीत आपल्या मणकटाचेर पातयेवन आसचें. दुसऱ्यान ताका दोन थापटां माल्लीं जाल्यार ताणें परथो एक मुठको तरी मारचेलो हावेस धरचो. असो एका-मेकांक एकामेकांचो भय आसतकूच कोण कोणाचे वाटेक वच्चो ना. कोण कोणाक तिडांवचो ना, कोण कोणाक धोंसचो ना, कोण कोणाक पिडचो ना. लोक चडकरून मोव आसा थैं खणटात. भियेतल्याक भेष्टायतात. सोंसतल्याक दबकायतात. देखन, जणएकल्यान वेळ-काळ पळौन, कठीन आनी खर जावन जेन्नाचे तेन्ना उश्णें फारीग करचें. आपणाचे वाटेक कोण वेतलो म्हणपाची सुनशा लागल्यार आदींच ताच्या आंगार पडचें. आदींच ताचे दोंके मोडचे. नाडाकडेन सवायनाड जांवचें.‡

नागैतल्याक नागौंचो. फटैतल्याक फटौंचो. कांटयान कांटो काडचो. संवसारांत सगळे सात्विक मनीस भल्ल्यात अशा समजान केन्नाच घाळ रांवचें न्हय. केन्नाच कोणाचेर चड पातयेंवचें न्हय §.

'संवसाराचो विस्तार जिवाखातीर जाला अशें हांवें म्हळें; म्हण्टकूच तांतूंत

---

¶ दण्डे स्थिताः प्रजाः सर्वा भयं दण्डे विदुर्बुधाः । मभा. शान्ति. १५, ४३.

‡ शाठ्यं सदा दुर्जने । भर्तृहरि, नीति. २२.

§ नात्यन्तं विश्वसेत् कंचिद्विश्वस्तमपि सर्वदा । शुक्रनीति, ३. ८०.

ताका उपाट सुख जांवक जाय आसलें. परंत अणभव वेगळोच येता. जिवाचो जल्म, जीण आनी मर्ण पळौंक गेल्यार, तीनूय दुखान सामकीं गुटलाइल्लीं दिसतात. संवसारांत दीस कांडूंक जाय जाल्लें खाण-जेवणूय ताका आपले हात-पांय बडौन दुसऱ्याक पिडल्याबगर केन्नाच मेळना. दुसऱ्या जिवाक भकल्याबगर ताचें पोट भरना. एक जीव वांचून उरूंक दुसरो जीव मरूंक जाय हो संवसारांतलो मुखेल नेम कसो दिसता. हे भाशेन, बळिष्ट दुबळ्याक आनी दुबळो आपलेपरस दुबळ्याक तोंडांत उडौन ताका सासणाच्या भयान आनी चिंते-हुस्क्यान दीस काडूंक लायता. परंत असो पिडला आसतानाय, बळिष्टाक तो सुको सोडिना. तोय ताका आपले तांकी-भाशेन इल्लोइल्लो धोंगशिता, किरमिता आनी खाता. सोरोप मुयांक गिळटा आनी मुयो सोर्पाच्या आंगाचे रंवथ्या एदे कुडके तोडून ताका वळवळावन खातात. मनीस हुलकांक आनी भिकणांक चिड्डून मारता; आनी हुलको आनी भिकूण मनशाचें रगत लुचून ताका नाका-जल्म करतात. हे भाशेन, बळिष्ट आनी दुबळो एकामेकांक धोंसून सदींच दुखांत वावुरतात. जिवांभितर मनीस आपुण चुड बुदवंत म्हण्टा. तो बुद्दिच्या बळग्यान वाघा-वांसवेलासारक्या क्रूर सावदांक मानसेंत भरता. परंत खासा आपणाचसारक्या मनशाफुडें ताचो तग लागना. मनीस मनशाक खाता. मनशा-सारको मनशाचो दुस्मान कोणूच दिसना.¶ ताका दुसऱ्याच्या वांगडाची गरज पडना जाल्ली जाल्यार तो एकमुळोच रावतलो आसलो. परंत तसो ताच्यान रांव नज-हो गुण संवसार-रचतल्याच्या आंगांतसून ताच्या आंगांत आयला. एकले-एक-सुरेपणान ताचो वेळ वचना. ताका कितेंच हित जायना. देखून दुसऱ्या वांगडाची ताका उमळशीक लाग्ता आनी तो वांगड जोड्टा.$ हे भाशेन, बायल-भुरगीं, कुटुंबां, शेजारी, गांव, शारां, म्हाल, मुलूख असो ताचो वांगड शेकानशेक लांबचे लांब पातळटा. तो ह्या वांगडाचो कितलोसोच मोग आशिल्ल्यावरी दाखैता. ताची अपुर्बाय आनी माया करता. ताचो अभिमान धरता. ताचो पाखो घालता. ताचेखातीर जायते फावटीं जीव दिंवक तयार जाता. परंत हें तो उपाय ना जावन करतासो दिसता. वांगडाच्या माये-मोगापरस ताचेकडेन झगडून-झुजून वेळ घालौंकूच ताचे भोवस्ताळे चलिल्ले आसतात. एका वांगडाकडेन झुजूंक ताका दुसऱ्या वांगडाचें बरेपण जोडचें पट्टा. ताचो पालव आनी धीर आसल्याबगर ताका झुजूंक नेट जायना आनी हुशारी येना. देखुनूच तो कांयकाळ ताका माया-मोग दाखैता. शेजाऱ्याक पिडचेखातीर तो बायल-भुरग्यांचो आनी कुटुंबाचो मोग करता. गांवाक पिडचेखातीर तो शेजाऱ्याचो मोग करता. मुलखाक पिडचेखातीर तो गांवाचो मोग करता आनी शेजारच्या

¶ Hume's picture of the miseries of life, The Philosophy of the उपनिषद् s by A. E. Gough, M. A., London 1891, pp. 29-31.

$ एकाकी न रमते स द्वितीयमैच्छत् । बृहदारण्यक. १. ४. ३.

मुलखाक पिडचेखातीर तो आपल्या मुलखाचो मोग करता. हे भाशेन ताचो मोग धड न्हय. तो पोलो. वैल्याचारांचो. खरेलो पोटतिडकेचो मोग ताका आशिल्लो जाल्यार तो आपल्याच बायल-भुरग्यांकडेन कित्याक झगट्टलो आसलो? बायल-भुरगीं ताचेकडेन कित्याक झगट्टलीं आसलीं? भाव भावाक कित्याक नाट्टलो आसलो? शेजारी शेजाऱ्याक कित्याक पिट्टलो आसलो? एकाच मुलखांतले, एकेच संस्कृतायेचे, एकूच भास उलैतले लोक एकामेकांक फटौन आनी नागौन एकामेकांल्या हड्डुचार कित्याक बसतले आसले? ते एकमेकांकडेन आपलेपणाच्या एकचारान, अभिमानान आनी मायें-मोगान चलनात, देखुनूच तांकां पुलिसेची, कायदेमंदिरांची आनी बंद-खणिची गरज पट्टा अशें म्हणचें पडना? धर्तरेवैल्या खैंच्या मुलखांत पुलीस, कायदेमंदिरां आनी बंदखणी नात? अशें आसताना, थैंच्या लोकांनीं देसभक्ति आनी देसाभिमान हांच्यो लातबडायो मारच्यो हें एक ढोंग न्हय? तांगेली देसभक्ति आनी देसाभिमान म्हण्टात तो शेजारचो मुलुख लुटूंक आनी चिड्डूंक. तांकां दुसऱ्याच्या मुलखाचो माया-मोग ना आनी आपल्या मुलखाचोय ना. तो आशिल्लो जाल्यार, खासा तांगेले देसभाव अर्द्या पोटान वा उपाशीं वळवळटा आसताना, आपुण पोटभर जेवन ते धेंकर काडचे नासले. तांच्या अजाणपणाचो लाव घेवन आपुण मातचे नासले. तांकां चिड्डून आपलें माथें वैर उबारचे नासले. बारकायेन पळौंक गेल्यार, मनशाक देसाचो अभिमान आनी मोग बी कांयच ना. आपलो जांव, पेलो जांव, ताचेकडेन झगड-झगड-झगडचें होच ताचो हावेस. ताका आडवर तिडांवचो, चाळौंचो, खुबळां-वचो. ताका कुस्कुटापास्ट लेखचो. ताचेर आगळीक करची. ताचेर बगलांठां घालचीं. ताची बिर्मत घेंवची. ताचो घात मारचो. ताका फटौंचो, नाडचो, लुटचो. ताचो जीव घेंवचो. हीच ताची कर्तुत्वदशा. इतलेच खातीर ताका वांगड जाय. परंत हाचेयकडेन तो सन्मथान चलना. दोगांयचें केन्नाच जमना. असल्या वांगडान कोण केन्ना बऱ्याक पावत? कोण कसो सुखी जायत? वांगडाक वांगडाचो धीर कसो दिसत? तो ताचेर कसो पातयेत? हे भाशेन वांगड वांगडाक भियेता.॥ वांगडाच्या भयान एकलो-एकसुरो रांवक गेल्यार तशेय तरेन ताका वांटना. ताचो भय वचना. तो आपलेच सांवळेक भियेता.‡ तो आपल्याच मनांतल्या येवजण्यांनीं कांवार-कैंसार जाता. तो आपुण आपणाक खेंतिशता, आपुण आपणाक पिसुट्टा, आपुण आपली तकली फोट्टा आनी निर्शेता. तो आपलो आपुण दुस्मान जाता आनी केन्ना-केन्ना आपलो आपुण जीव घेता. हे भाशेन, तो एकलो रावलो वा वांगडान रावलो तरी सुखी जायना. ताची खासा कूड आनी इंद्रियांय ताका सुख दिवक उपकारा पडनात. तरेकतरा पीडा आनी रोग आइल्ल्या दिसा ताका पोखरतात आनी तो

॥ द्वितीयाद्वै भयं भवति । बृहदारण्यक. १. ४. २.

‡ एकाकी बिभेति । बृहदारण्यक. १. ४. २.

गांयडोळ कसोसो वळवळटा. भोंवतणच्या संवसाराकडसुनूय ताका सुख भोगना. वावटळी, मोडां, औरां, भुंयकांप आनी तरेकतरा अरिष्टां ताची आनी तागेल्या म्हालम्हत्याची वाट लावन ताका उबन्त उडैतात. तो चड गिरेस्त आसून ताका खांवक-जेंवक खूब मेळ्ळें जाल्यारूय ताचे जिबेक माठी पडून रुचीक आनी पथीक जेवण ताका रुचना आनी जिरना. हाचे उफाट्टें, दळिद्री मनशाक पोटाक जाय तितलें खांवक-जेंवकूय मेळना. हे भाशेन गिरेस्त आनी दळिद्री मेळून दोगूय दुखान तळमळटात. वांजुट्टी बायल भुरगें जायना म्हणून रट्टा आनी गुरवार बायल भुरगें आडवें आयलें म्हणून रट्टा. नाल्लकार रट्टा, तेलकारूय रट्टा. मेळून सुखी कोणूच दिसना. मनशां जें सुख कशें लेखतात तेंच दुखाक मूळ जाता. तें चडकरून दुखान कालैल्लें आसता. देखून दुखांतूच जमा जाता.*

'असलें दुख भोगून मनशान आनी हेर जिवांनीं ह्या संवसारांत वांचचें तरी कित्याक ? संवसाराचो विस्तार तांचे खातीर जालोय जाल्यार ताचो तांकां कसलो उपयोग ? त्यापरस तो काबार जावन ताचे वांगडा तेय नाशे जातीत जाल्यार बरें जांवचें ना ? परंत अशें केन्नाचे जायतशें दिसना. देखून तांतूंतसून सुटपाचो उपाय कांय गिन्यानी मनीस सुचैतात. ते त्याखातीर आमगेल्या मनाचो समज आदीं सामकोच बदलूंक पळेतात. आमकां संवसार-रचतलो देव वेगळो, संवसार वेगळो आनी आमी तरेकतरा जीव वेगळे दिसून देवा इतलेच ते खरे दिसतात. देव समुद्रा-भाशेन लेखल्यार संवसार आनी जीव हे ताचीं ल्हारां, बोंबाडे आनी फेण हांचे भाशेन दिसतात. समुद्रा भाशेन देवाचें एकलेपण खरें. तशेंच, ल्हारां, बोंबाडे आनी फेण हांचे भाशेन संवसार आनी जीव ह्यो देवाच्यो परीय खऱ्यो अशें आमी म्हण्टांत.† परंत ते आमची अपुर्बुद्द करून सांगतात कि देव एकलोच एकलो, गुण नाशिल्लो, निर्गुण आसा. ताच्यो परी जायनात. ताका दुकलेपण ना. संवसार आनी जीव म्हण्टात तो सगळो भ्रम. ती सामकी फटास. उदकांत पडिल्लें सूर्याचें पर्डबिंब हो सूर्य नासून ताचो निखटो भास आसा; तसोच जीव होय जणएकल्याचे कुडींत जाल्लो देवाचो निखटो भास आसा. भास केन्नाच खरो आसना. तो अजाणपणान जाता. तो लटको. जिवाभाशेन संवसार होय भास आसून तो अजाणपणाचो परिणाम. देखून तोय लटको.‡ मनशाची कड आनी इंद्रियां हींय अजाणपणाचो परिणाम आसून

---

* तदपि दुःखशबलमिति दुःखपक्षे निःक्षिपन्ते विवेचकाः । सांख्य. ६. ८.

† अनेकशक्तिप्रवृत्तियुक्तं ब्रह्म, अत एकत्वं नानात्वंचोभयमपि सत्यमेव, . . .यथा च समुद्रात्मनैकत्वं फेणतरंगाद्यात्मना नानात्वम् । शामीभाष्य, २. १. १४.

‡ आभास एव चैष जीवः परस्यात्मनो जलसूर्यकादिवत् प्रतिपत्तव्यः. . . . . . आभासस्य चाविद्याकृतत्वात् तदाश्रयस्य संसारस्याविद्याकृतत्वोपपत्तिरिति । शामीभाष्य, २. ३. ५०.

तांच्या अभिमानान जिवाक जें दुख भोगता तेंय लटकें. कुडिचो लटको अभिमान धरता देखून ती उज्यान हुलपल्यार वा सुरयेन कातल्ल्यार तो हायहुय करता.‡ हे भाशेन संवसार, जीव, कूड आनी दुख मेळून सगळो भ्रम आसा. ह्या भ्रमाचें मूळ जें अजाणपण तें कातरून उडैतकूच जीव म्हण्टात तो देवाबादत दुसरो कोण न्हय म्हणपाची वळख मनशाक मेळटा.$ मागीर राजवाक सोरोप समजून तो जो वोगीच भियेतालो तो भियेना आनी कच्च करून आंग काडिना. सोर्पाचो बेंठो आपणाक भास जालो; खरेपणानशीं तो राजूच आसा म्हणपाचो ताका अणभव येता आनी दुखांतसून तो सुट्टा. हाकाच मोक्ष वा संवसारांतसून सुटप म्हण्टात. आपुण जीव म्हणपाचो चुकिचो समज सुटून आपुण देव अशी वळख मेळप होच मोक्ष.¶ देवाक वळखता तो देव जाता. तो दुखाच्या समुद्राची पलतड मारता. ताका भौनभौन जल्म घेवन संवसारांत येरादारी घालच्यो पडनात. तो मर्णामिकळो जाता.† गिन्यानी मनशांचें हें गिन्यान आनी उपमा आयकूंक गोड लागतात. परंत हाचो अणभव कोणाक आयला ? जें अणभवाक येना तें खरें कशें म्हणचें ? आनी अणभवाक येता तें लटकें कशें समजुंचें ? विंगळयाचेर पांय पडून फोड आयल्यार आनी बोटाक सुरी तोपून रगत व्हांवल्यार लटकें कशें म्हणचें ? पोटभर भूस मारून पोटार हात ओडून ढय करून धेंकर काट्टल्या मनशान आपुण जेंवक ना, आपुण उपासांनीं तळमळटां म्हणून सांगल्यार खरें कशें मानचें ? भायले जिनस दोळयांक घसघशीत बरे दिसून अणभवाक येतात आसताना ते दिसनात आनी निखालुस नात अशें कोणाच्यानूच म्हणुं येत ?§ ती धर्तरी, तो सूर्य,तो चंद्र आनी त्यो नक्षत्रावळी आमच्या दोळयांक घणघणीत दिसतात आसताना ना म्हणुं नजत. आमच्या दोळयांक वा बुद्दीक जाल्लो तो बेष्टो भास न्हय. आमचे दोळे भँगूंक नात. आमची बुद्द भष्टूंक

---

‡ जीवस्याऽपि अविद्याकृतनामरूपनिर्वृत्तदेहेंद्रियाद्युपाध्यविवेकभ्रमनिमित्त एव दुःखाभिमानो न तु पारमार्थिकोऽस्ति । यथा च स्वदेहगतं दाहच्छेदादिनिमित्तं दुःखं तदभिमानभ्रान्त्यानुभवति । शामीभाष्य, २. ३. ४६.

$ तद्व्युदासेन च पारमार्थिकस्य ब्रह्मात्मभावस्योपदेशोपपत्तिः । शामीभाष्य, २. ३. ५०.

¶ ब्रह्मभावश्च मोक्षः । शामीभाष्य, १. १. ४.

† स यो ह वै तत्परमं ब्रह्म वेद ब्रह्मैव भवति......शोकं तरति...... अमृतो भवति । मुण्डक. ३. २. ९.

§ यथा हि कश्चिद् भुंजानो भुजिसाध्यायां तृप्तौ स्वयमनुभूयमानायामेवं ब्रूयात् नाहं भुंजे न वा तृप्यामीति, तद्वदिंद्रियसन्निकर्षेण स्वयमुपलभ्यमान एव बाह्यमर्थं नाहमुपलभे नच सोऽस्तीति ब्रुवन् कथमुपादेयवचनः स्यात् । शामीभाष्य, २. २. २८.

ना.† दुसरें, संवसार, जीव, कूड आनी दुख हीं सगळीं लटकीं जाल्यार मोक्षाच्यो गजाली तांकां कशो लागू पट्टीत ? लटको जीव लटक्या दुखांच्या लटक्या संवसारांतसून कसो सुटत ? वांजुट्टे बायलेचो पुत सप्नांतले बंदखणींत कसो पडत आनी कसो भायर सरत ? गिन्यानी मनशांनीं ताका संवसाराचे बंदखणींतसून सुटपाचें शास्त्र कित्याक शिकौंचें ? लटक्या संवसारांतल्या लटक्या जिवांनीं रचिल्लें तें शास्त्र खरें कशें आसुं येत ? आनी त्या शास्त्रांत सांगिल्लें देवाचें एकलेपण खरें कशें मानुं येत?* फटिंच्या शास्त्राच्यान खरेल्या देवाची वळख कशी दिंव येत?‡ ह्या प्रस्नांचे कात्रींत पट्टकूच गिन्यानी मनीस गदळटात. तांकां समाधान जायशी जाप दिंवक येना. वादाच्या चिमटच्यांतसून सुटूंक घडीभर आपुण आनी आपणालें शास्त्र लटकें लेखून ते सांगतात कि लटक्यांतसुनूय खरेले परिणाम घट्टात. विखाळो सोरोप चाबलो म्हणपाच्या दुभावान मनीस खऱ्यानीच मरतात.¶ परंत ही कशीय जाल्यार दुभावाची गजाल. ती फिटफिटचा अपवादाभाशेन लेखची पट्टा. अपवादान केन्नाय एकादुकलो कोण मरुंये. सदींच सगळे मरनात. देखून, तो सदींकाळ तगणो गडगंज बरो नेम न्हय. लटक्यांतसून खरें भायर सरना होच खरेलो नेम.§ ह्या नेमाभाशेन, गिन्यान्यालें शास्त्र लटकें आसत जाल्यार, ताच्यान खरेल्या देवाची वळख दिंव नज आनी संवसाराचे बंदखणींतसून जिवाची सोडवण करुं नज. परंत अशें जाल्लें गिन्यान्यांक नाका. हे भाशेन, आपणालें शास्त्र खरें म्हळचाबगर तांगेलें पावल फुडें पडना आनी खरें म्हळचार, ज्या संवसारांत तें वैर सल्लां तो संवसार आनी जाणीं ताका वैर काडलां ते जीव खरे मानल्याबगर तांगेली सोडवाट जायना. परंत तांच्यान मेकळेपणान उलौन दाखौं नज. देखून ते तांकां सप्नांतलेभाशेन खरे म्हण्टात. सप्नेल्लो मनीस जागो जायसर ताका सप्नांतले लटके देखाव खरे दिसतात, ते भाशेन संवसाराच्या सगळ्या वेव्हाराचो आत्मो एकलोच देव आसा म्हणपाची

---

† जगत्सत्यत्वमदुष्टकारणजन्यत्वाद्बाधकाभावात् । सांख्य. ६. ५२. शुक्तौ रजतमिति ज्ञाने नेदं रजतमिति ज्ञानाद्रजतबाधः । न चात्र नेदं भावरूपं जगदिति कस्यापि ज्ञानं येन भावरूपबाधः स्यात् । दुष्टकारणजन्यत्वाच्च मिथ्येत्यवगम्यते यथा कामलादिदोषात्पीतशंखज्ञानं कस्यचित् । अत्र च जगज्ज्ञानस्य सर्वेषां सर्वदा सत्वान्न दोषोऽस्ति । तस्मान्नावस्तु जगदिति । कासांप्रसूवृत्ति, १. ७९.

* कथं चानृतेन मोक्षशास्त्रेण प्रतिपादितस्यात्मैकत्वस्य सत्यत्वमुपपद्येत इति । शामीभाष्य, २. १. १४.

‡ कथं त्वसत्येन वेदान्तवाक्येन सत्यस्य ब्रह्मात्मत्वस्य प्रतिपत्तिरुपपद्येत । शामीभाष्य, २. १, १४.

¶ शंकाविषादिनिमित्तमरणादिकार्योपलब्धेः । शामीभाष्य, २. १. १४.

§ कथमसतः सज्जायेत । छान्दोग्य. ६. २. २.

वळख मेळसर ते लटके वेव्हार खरेच आसात.* असली आनाळचा-गुनाळचांची भास ते उलैतात. हे भाशेन, तांगेलें मोक्षाचें शास्त्र सप्नांतल्या देखाव्याभाशेन खरें मानूंक गेल्यार लटकेंच जायना? तें जिवांची सोडवण कशी करीत? रातचे पारा सगुणशेट कारापुरा आपले कुडींत न्हिदला आसताना सप्नांत तो पंचवाडये पावन जागो जाता आनी पळेता जाल्यार कारापुरा कुडींतल्या हांतरुणारूच आसता; म्हण्टकूच तागेलें पंचवाडये वचप खरें कशें म्हणुं येत?$ सप्नांत पोळयो आनी पिठां दिसलीं म्हणून तीं खरीं कोण म्हणत? तीं खातल्यांचें पोट कशें भरत? गिन्यान्यांनीं उतरांचे खेळ-विखेळ करून रेडयाक म्हशिचो भाव म्हळो जाल्यार तो रेडोच जाता; घोडो जायना. ताणीं सप्नांतले देखाव कितलेय खरे म्हळे तरी ते खरे जायनात. तांतूंत खरेपणाची इल्लीय आशी ना. ते सामकेच लटके.¶ गिन्यानी मनीस कितलीय आळख्या-विळख्यांची भास उलैले आनी आपणाक जाय तेन्ना जाय तशे बदल्ले तरी सप्नांतले देखाव तांच्यान केन्नाच खरे म्हणु नजत आनी दिष्टांतले जिनस लटके म्हणुं नजत. संवसार आनी जीव हे दिष्टांतले जिनस घणघणीत बरे आमगेल्या दोळचांक दिसतात. देखून ते खरेच खरे. ते सप्नांतले देखाव न्हयत. आमी न्हिदूंक नात. आमी सप्नेंवक नात. म्हण्टकूच ते लटके कशे म्हणुं येतील? देव जितलो खरो तितलोच संवसार खरो आनी जिवूय खरे. तांचे लटकेपण सिद्ध करूंक गिन्यांनी मनीस तांकां जी पडबिंबाची उपमा मारतात तीय उफाट्टी तांगेल्या मुद्द्याच्या मुळांत कुराड घालून देवाचें एकलेपण हाणून उडैता. कोणाचेंय पडबिंब दिसूंक आदींपैलीं उदक नाजाल्यार हारसो जाय. त्याबगर पडबिंब कशें दिसत? म्हण्टकूच संवसाराच्या आनी जिवाच्या रुपान देवाचें पडबिंब दिसूंक ताणें खैंच्या समुद्रांत वा हारशांत आपलें तोंड पळेलें म्हणपाची जाप गिन्यान्यांनीं दिवची पडना? देवावांगडाच समुद्र वा हारसो आशिल्लो अशें ते म्हण्टीत जाल्यार देवाचें एकलेपण खैं उल्लें? देवाक दुकलेपणांतसून वाटांवक ताणी पडबिंबाची उपमा माल्ली खरी; परंत तीच उफाट्टी तांच्या आंगार आयली

---

* सर्वव्यवहाराणामेव प्रागब्रह्मात्मताविज्ञानात् सत्यत्वोपपत्तेः स्वप्नव्यवहारस्येव प्राग्बोधान् । यावद्धि न सत्यात्मैकत्वप्रतिपत्तिस्तावत् । शामीभाष्य, २. १. १४.

$ क्वचिच्च प्रत्यागमनवर्जितं स्वप्नं श्रावयति 'कुरुष्वहं शय्यायां शयानो निद्रयाभिप्लुतः स्वप्ने पंचालानभिगतश्चास्मिन् प्रतिबुद्धश्च' इति । देहाच्चेदपेयात् पंचालेष्वेव प्रतिबुध्येत तानसावभिगत इति कुरुष्वेव तु प्रतिबुध्यते । शामीभाष्य, ३. २. ३.

¶ नैतदस्ति यदुक्तं सन्ध्ये सृष्टिः पारमार्थिकीति । मायामय्येव सन्ध्ये सृष्टिर्न परमार्थगंधोऽप्यस्ति । कुतः कात्स्न्येनानभिव्यक्तस्वरूपत्वात् । ........ तस्मान्मायामात्रं स्वप्नदर्शनम् । शामीभाष्य, ३. २. ३.

ना ? दुसरें, देव निर्गुण जाल्यार, ताका रंगयाळ्या मनशाभाशेन उदकांत वा हारशांत तोंड पळौंची वान्सा कित्याक आनी कशी जाली ? हाची समाधान जायशी जाप गिन्यान्यांक दिवक येना. ते एके अडचणींतसून वाटांवक दुसरे अडचणींत घालून घेतात; परंत दोनूय अडचणींत पट्टात. ते वागाच्या तोंडांतसून सुटूंक वांसवेलाक वेंग मारतात; परंत दोगांयचे भकीक पट्टात. ते सांगतात कि देवाची माया हीच संवसाराची बी. तांतूंतसून संवसार रुजून नांवारुपाक आयलो. वडाचे बियेंत जशी रूख रुजपाची शक्त आसा तशीच देवाभितर संवसार रुजपाची माया नांवाची शक्त आसा.* तिका देव म्हणुं नज आनी ती देवापरस वेगळीय लेखुं नज. तरी आसताना, तो तिचेकूय वेगळो.‡ हें एक हुमाणेंच म्हणूंक जाय. माया ही देव न्हय. देवापरस वेगळी न्हय. तरी आसताना देव वेगळो आनी तीय वेगळी. हाचो कांय अर्थूच लागना. देवापरस ती वेगळी म्हळ्यार देवाचें एकलेपण कोंसळून दुकलेपण उबें रावना ?† देव आनी ती एक लेखल्यार वा ती तागेली शक्त म्हळ्यार, संवसाराचो बरो-वायट गुण देवाक लागू जांवचो न्हय म्हणपाची गिन्यान्यांली खटपट फुकट वचना ? तांगेली इत्सा नासतानाय, देवाले मायेक लागून संवसारांतलें पातक आनी दुख देवाच्या गळ्यांत उमकळना ? म्हण्टकूच, मायेक जल्मा घालून ताणीं कितें जोडलें तेंच समजना. संवसाराक मूळ देव म्हणपाचें एक फावट थारायतकूच कसल्याय बऱ्या-वायटाक लग्नीक तोच जाता. मायेकडेन बोट दाखैलें म्हणून तो मेकळो उरना आनी ताचें निर्गुणपण तगना. तो निर्गुण म्हळो जाल्यार ताचेपासून तरकेतरा बरे-वायट गुण आशिल्लो संवसार आनी जीव कशे जांव येतीत?|| ज्या पक्षाक आमी जीव आनी आमचे भोंवतणचो सगळो संवसार सगुण आसा त्या पक्षाक ज्या देवांतसून आमी भायर सल्यांत तो दिसनाशिल्लो देवूय सगुण आसा अशें म्हणचें पडलें ना? §देव निर्गुण जाल्यार बुडकुल्यांतल्या

* भाविवटवृक्षशक्तिमद्बीजं स्वशक्त्या न सद्वितीयं कथ्यते, तद्वद् ब्रह्माऽपि न मायाशक्त्या सद्वितीयम् । The Philosophy of the उपनिषद् s by A. E. Gough, M. A., p. 47, note 4.

‡ सर्वज्ञस्येश्वरस्य आत्मभूते इवाविद्याकल्पिते नामरूपे तत्त्वान्यत्वाभ्यामनिर्वचनीये संसारप्रपंचबीजभूते सर्वज्ञस्येश्वरस्य मायाशक्तिः प्रकृतिरिति च श्रुतिस्मृत्योरभिलप्येते, ताभ्यामन्यः सर्वज्ञ ईश्वरः । शामीभाष्य, २. १. १४.

† विजातीयद्वैतापत्तिश्च । सांख्य. १. २२. उपाधिश्चेत्तत्सिद्धौ पुनर्द्वैतम् । सांख्य. ६. ४६.

|| सांख्याचार्या आहुः निर्गुणत्वादीश्वरस्य कथं सगुणतः प्रजः जायेरन् । सांकाभाष्य, ६१.

§ अव्यक्तं सिद्धं कारणगुणात्मकत्वात् कार्यस्य । लोके यदात्मकं कारणं तदात्मक कार्यमपि । सांकाभाष्य, १४.

आनी कऱ्यांतल्या मळबाभाशेन तो वांटे जाल्ल्यावरी आनी वेगळो वेगळो कसो दिसुं येत? तो तसो दिसता जाल्यार सगुणूच मानचो पडलो ना? असलो हो सगुण देव मुजरत लटको संवसार कित्याक घडीत? ताका कोणाक फटौंचें आसा? निर्गुणपणाच्यो पोल्यो बडायो मारच्यो आसल्यार ताणें मायेचें ढोंग मातैल्यार जायत. परंत सगुण देवाक तसलें ढोंग मातौंचें कांयच कारण दिसना. तें फक्कत गिन्यानी मनशांनी ताका सवळो राखचेखातीर दसैलां. परंत तो सवळो उरना. ताचे भितर ओवळे-पणूय भल्लां. सांगचेलें इतलेंच कि संवसार आनी तांतूंतले आमी जीव खऱ्यानीच तर खरे आसात. ते खरे आसात म्हणपाचें आमच्या दोळ्यांक घणघणीत बरें दिसता आनी अणभवाक येता. गिन्यानी सांगतात म्हणून आमी आमकां दाटून लटके आनी पोले लेखपाचें कांयच कारण दिसना. तशे लेखले म्हणून आमकां भूक लागतकूच शीत जेविनासताना ती थारना. आमगेलें दुख उणें जायना. म्हण्टकूच तें लटकें कशें म्हणुं येत? आनी बळयांच लटकें म्हळचार तांतूंतसून कशें सुटुं येत? गिन्यान्यांली सांगणी आयकूंक सुरबूस लागता. परंत एद्या व्हडल्या संवसारांत ती खैंचेचकडेन अणभवाक येना. तेन्ना ती खरी कशी म्हणची? म्हजो जीव म्हण्टात तो म्हाका जाल्लो बेष्टो भ्रम आसून हांव खरेपणान देव आसा अशें तोंडान जायतें म्हळें म्हणून कित्याक उपकारता? देव आनी हांव एक कसो जायन? समुद्राच्या ल्हाराभाशेन हांव म्हण्टात तो देवाचो एक वांटो. ताचे-म्हजेभितर अंतर आसा.¶ तो म्हजेपरस कितलोसोच व्हडलो.† ल्हाराच्या आंगांत समुद्रांतलें कांय उदक आनी खारसाण आसली म्हणून ल्हार आनी समुद्र एक म्हळचार जाता? ल्हार केदें? समुद्र केदो? तरी आसताना, ल्हारान अजाणपणान आपुण समुद्र अशें म्हळें म्हणून तें फुटचें रावता? तें फुट्टकूच आसा-तशें ल्हार जावन वैर सरचें ना म्हणपाचो निर्वाळो कोणाच्यान दिंव येत? तें समुद्रांत सासणाचें विर्गळ्ळें आनी पर्थून-पर्थून ल्हार जावन फुटपाच्या दुखांतसून सुटलें वा ताका मोक्ष मेळ्ळो अशें कोणाच्यान म्हणुं येत? आमी जीव म्हण्टांत ते समुद्राच्या ल्हारांभाशेन. आमी देवाच्या समुद्राक कितलेय वळखल्यों आनी तो आनी आमी एक अशें कितलेंय म्हळें तरी भौन-भौन फुगून भौनभौन फुटल्याबगर आमी रांवचे नात. आमच्यो येरादारी केन्नाच सोंपच्यो नात. देवाचो समुद्र आससर तांतूंत आमी पेयतल्यों, विर्गळटल्यों आनी पर्थून वैर सरतल्यों. म्हण्टकूच आमचो मोक्ष खैं पावलो? देवाच्या समुद्रांत आमी घडीभर विर्गळ्ळयों म्हणून ताची तोखणाय कित्याक करची? बडाय कित्याक मारची? तांतूंत कसलीशी व्हडवीक?* ती बेष्टी मनाची

---

¶ अंशो नानाव्यपदेशात् । ब्रसू. २. ३. ४३.

† अधिकं तु भेदनिर्देशात् । ब्रसू. २. १. २२.

* न कारणलयात् कृतकृत्यता मग्नवदुत्थानात् । सांख्य. ३. ५४.

फटवण न्हय ? संवसार आनी आमी नांवारुपाक आयल्यांत ते देवाभितर सासणाचे विर्गळून काबार जांवक न्हय. तशी देवाची इत्साच आसु नज. तशें आसल्यार आमी नांवारूपाक येवपाची मांडणीच तो करचो नासलो. देखून, केन्नाच कोणाचो मोक्ष जांवचो ना हें जणएकल्यान घट बरें गांठीक मारून दवरचें. वोगीच आपणें आपणाक फटौचें न्हय. मरतकूच आमकां सर्ग ना, नर्क ना आनी संवसारांतसून सुटपूय ना. समुद्राच्या ल्हारांभाशेन भौनभौन जल्मून भौनभौन मरचें होच आमचो सासणाचो धर्म. गिन्यान्यांनी कितलेय उपाय सांगले तरी हो धर्म आमकां सुटना.

‘संवसारांतसून सुटपाचो उपाय दुसरे कांय गिन्यांनी आमकां सांगतात तो हो कि मनशान हांवपणाचो आनी म्हजेपणाचो अभिमान सोडचो, घरा-दाराची आनी बायले – भुरग्यांची ओड सोडची, वान्सा सोडची, सुखा-दुखासारक्यो बऱ्या-वायटाच्यो जुंवळ्यो सोडच्यो, बुद्द गदळूंक दिंवची न्हय आनी आपुण आनी देव एक म्हणपाची वळख धरची; म्हण्टकूच, तो सासणाचे उंच सुवातेर पावन थैंसून फाटीं पर्थना.§ जिवो आसासर ताणें सगळ्यो करण्यो करच्यो. परंत तांच्या फळाची वान्सा धरची न्हय आनी बेकार रांवचें न्हय.‡ ताणें आपणाली दरएकली करणी देवाक ओंपची. म्हण्टकूच, साळकाच्या पानाक जशें उदक लागना तशें करणेचें पातक आनी पुण्यताय ताका बादना.* तो संवसारांत आसासर ताच्या मनाक थंडाय मेळटा¶ आनी मरतकूच जल्म-मर्णाच्या बांदपांतसून सुटून दुख भोगनाशिल्ले सुवातेर पावता.† हो उपाय चलैतलो जाल्यार मनशान आदींपैलीं वान्सा आनी रूच मारून संवसारांत उबगल्ल्यावरी दीस काडूंक जायत. इतलो हो संवसार सामकोच उंवाळ्ळेलो आसा? ताची रूच मनशांनीं घेंवक फावना ? पाळण्यांतलो बाबुलो मुठी आंवळून अस्मानगिरयेच्या गिरबुज्यांक बब्बके

§ निर्मानमोहा जितसंगदोषा । अध्यात्मनित्या विनिवृत्तकामाः । द्वंद्वैर्विमुक्ताः सुखदुःखसंज्ञै । गच्छन्त्यमूढाः पदमव्ययं तत् । ५ । यद्गत्वा न निवर्तन्ते तद्धाम परमं मम । ६ । भगी. १५.

‡ कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन । मा कर्मफलहेतुर्भूर्मा ते संगोऽ-स्त्वकर्मणि । भगी. २. ४७.

* ब्रह्मण्याधाय कर्माणि संगं त्यक्त्वा करोति यः । लिप्यते न स पापेन पद्मपत्र-मिवांभसा ‘ । भगी. ५. १०. शुभाशुभफलैरेवं मोक्ष्यसे कर्मबंधनैः । भगी. ९. २८.

¶ विहाय कामान्यः सर्वान्पुमांश्चरति निःस्पृहः । निर्ममो निरहंकारः स शान्ति-मधिगच्छति । भगी. २. ७१.

† कर्मजं बुद्धियुक्ता हि फलं त्यक्त्वा मनीषिणः । जन्मबंधविनिर्मुक्ताः पदं गच्छन्त्यनामयम् । भगी. २. ५१.

मारता आसताना आवैन ताचें कौतुक करूंक फावना? पोरसांतली जाय-जूय लसलसून फुल्ल्या आसताना कोणेंच ती तोखणायेन नाखाकडेन व्हरूंक फावना? मळबांतलें नक्षत्र वज्रावरी लिकलिकता आसताना कोणेंच तें दोळेभर पळौंक फावना? कित्याक तर तो बाबुलो, ती जाय-जूय आनी तें नक्षत्र जल्मा आयले? संवसार रचतल्याची ही सगळी पिसाय म्हणची? हाची समाधान जायशी जाप मेळना. गिन्यान्यांनीं सांगिल्लो उपाय कानांक गोड-गोड साकर लागता खरो; परंत तशे तरेन चलतलो एकलोय मनीस संवसारांत खैंचेकडेन मेळत व्हय? आनी एकाद्रो केन्ना मेळ्ळोय जाल्यार खासा ताका आनी हेरां मनशांक ताचो कसलोच उपयोग आसा व्हय? ताका हांवपणाची तिखसाण ना. ताका व्हडविकेची वान्सा ना. ताका घरा-दाराचे उत्फरके नात. ताका फळाची ओड ना. तो कितें करूंक पावंतलो? ताच्या हातान कितें जातलें? तें जिवें मडेंच म्हणूंक जाय. ताणें हात-पांय हालैलेय जाल्यार कित्याक उपकारा पट्टा? असले मनीस संवसारांत चडकरून जल्मनात हें संवसाराचें मोटें भाग्य. ना जाल्यार, ताचें वाख जैंचे थैं खिळाइल्ल्यावरी जातलें आसलें. बारकायेन पळेल्यार, जो उपाय करूंक कोणाकूच तांकना आनी तांकलोय जाल्यार कित्याक उपकारा पडना तो सांगून कितें उपयोग? मनशांची तांक पळौन तांकां काम सांगूंक जाय आनी जांची देख घेंव येत असल्यांचींच चित्रां तांचे सामखार दवरूंक जायत. 'जाय-जाल्लें मेळून भुरकुटना, नाका-जाल्लें मेळून उबगना, आशिल्लें होगडावल्यार खेद करिना, नाशिल्लें मेळपाची वान्सा धरिना, मातयेचें तेफ, फातर आनी भांगर सारकें लेखता, निंदा आनी तोखणाय सारकी समजता, मान-अपमान सारको मानता, थंड-हून सारकें सोंसता, सुख-दुख सारकें भोगता.'* असल्या मनशाची देख धर्तरवैल्या मनशांक कित्याक उपकारता? थैं असले मनीस केन्नाच मेळचे पडल्यात? दुसऱ्या खैंच्याय गिन्यार वा नक्षत्रावळीर ते आसतीत जाल्यार सांगुं नज. धर्तरेवैले मनीस असल्यो देखी घेवन बशिल्ले जाल्यार, घरां-दारां बांदून रांवचे बदला केन्नाच रानांतल्या सावदांचे भकीक पट्टले आसले. मुयो आनी चांचड लेगीत तांकां वांचावन खातले आसले. म्हण्टकूच, तसल्यो देखी जायत कित्याक? ह्या देखींनीं संवसाराचें हित कुस्कुट जायना. उफाट्टें संवसारांत ढोंग मातूंक मांत तांचो जायतो उपयोग जाता. जायते नाड मनीस आपणांक बरें-वायट सगळें सारकें, आपली वान्सा मेली, आपली मनशा-मोड जाली, आपुण जल्मा-मर्णाच्या येरादारींतसून सुटल्यों म्हणपाचो फटिंचो बोवाळ करून, साधु-संताचो भेस घेवन, साद्या-भोळ्या लोकांक आपल्या नादाक

* यो न हृष्यति न द्वेष्टि न शोचति न कांक्षति । भगी. १२. १७. समः शत्रौ च मित्रे च तथा मनापमानयोः । शीतोष्णसुखदुःखेषु समः संगविवर्जितः । भगी. १२. १८. समदुःखसुखः स्वस्थः समलोष्टाश्मकांचनः । तुल्यप्रियाप्रियो धीरस्तुल्य निंदात्मसंस्तुतिः । भगी. १४. २४.

लावन फटैतात. ते मख्खपणान दोळे धांपून आपुण कांयच करिना म्हण्टात आनी आपलो नष्टो सुवराथ सादूंक दुसऱ्याचो जीव घेवन ताका देवान माल्लो वा देवालें इत्सेन तो मेलो अशें समजतात.* ते दुसऱ्याचो मुदगो नागौन आपलें-पेलें आपणाक सारकेंच म्हण्टात.¶ ते दुसऱ्यांच्या बायलांक सुतलायतात आनी इंद्रियां आपल्या जिनसांमजगत वावुरतात म्हण्टात.‡ ते तरेकतरा अळशिंकावण्यो करण्यो करून देवाच्या नांवाचो जागर करतात आनी पातकांचें ओजें ताच्या माथ्यार चडौन आपुण तांतूंतसून सुटले म्हण्टात.§ हे भाशेन मनाची फटवण करून ते मेळत ताका नाट्टात. हेरशिल्या नाडांपरस हे देवधर्मिष्ट नाड चड घातमारे आनी मोटे भयांकृत आसतात. हेरशिले नाड रोखडे धरूंक मेळून आळाबंदा हाडुं येतात. परंत देवधर्मिष्ट नाडांफुडें कोणाचोच उपाय चलना. ते कशेंच तरेन आपलीं पातकां उक्ताडा येंवक दिनात. ते सातां समुद्रांत बुडून सुके काष्टेन वैर सरतात. साळकाच्या पानांभाशेन तांकां पातकाचें उदक लागना खरें. तांकां लागून संवसारांतलें दुख जायतें चळचळटा. संवसारांत ते निखालुस नाशिल्ले जाल्यार तांतूंतलें निजाचें दुख जायतें ल्हव लागतलें आसलें. तें बरे भाशेन सोंसुं येतलें आसलें. तांतूतसून सुटपाचे उपाय सोदून काडपाचें चडशें कारण उरचें नासलें. परंत हे देवधर्मिष्ट नाड सगळो घात मारतात. ते तोंडान देवाचें स्तोत्र म्हणून ल्हवूच दुसऱ्याचो गळो कापतात. तेच चडकरून संवसार घाणयारो करून ताचो वीट हाट्टात. हे भाशेन, ज्या उपायान संवसारांत ढोंग मातून जो फक्कत दुखाक मूळ जाता तो कितलोय भांगराचो आसलो तरी कित्याक उपकारता? बारकायेन येवजिल्यार, गिन्यानी मनशांनीं आमकां कितलेंय सांगलें जाल्यार, वान्सा मारून हांवपण आनी म्हजेपण सोडचेलें काम मोटें कठीन आसा. तें केन्नाच कोणाच्यान जांव नज आनी जांवक फावना. संवसाराचो जल्मूच मुदलाक देवाचे वान्सेन जाला.‡ संवसाराची बी ती. तिका आमी वसवशी, पातकी आनी दुस्मान म्हणून मारची†

---

* नैव किंचित्करोमीति युक्तो मन्येत तत्त्ववित् । भगी. ५. ८. यस्य नाहंकृतो भावो बुद्धिर्यस्य न लिप्यते । हत्वापि स इमाँल्लोकान्न हन्ति न निबध्यते । भगी. १८. १७. मयैवैते निहताः पूर्वमेव । निमित्तमात्रं भव . . . । भगी. ११. ३३.

¶ आत्मौपम्येन सर्वत्र समं पश्यति . . . . . . । भगी. ६. ३२.

‡ इंद्रियाणींद्रियार्थेषु वर्तन्त इति धारयन् । भगी. ५. ९.

§ अपि चेत्सुदुराचारो भजते मामनन्यभाक् । साधुरेव स मन्तव्यः . . . . . . । भगी. ९. ३०. सर्वकर्माण्यपि सदा कुर्वाणो मद्व्यपाश्रयः । भगी. १८. ५६.

‡ आत्मैवेदमग्र आसीदेक एव सोऽकामयत जाया मे स्यादथ प्रजायेयाथ वित्तं मे स्यादथ कर्म कुर्वीयेत्येतावान् वै कामः । बृहदारण्यक. १. ४. १७.

† काम एष क्रोध एष रजोगुणसमुद्भवः । महाशनो महापाप्मा विद्ध्येनमिह वैरिणम् । ३७ । जहि शत्रुं महाबाहो कामरूपं दुरासदम् । ४३ । भगी. ३.

केली तरी ती कशी मरत ? जी देवाच्यान मारुं नज जाली ती मनशाच्यान कशी मारुं येत? संवसाराच्या त्रासांतसून सुटून दुख भोगनाशिल्ले सुवातेर वचपाची ओड धरची हीय वान्सेचीच भैण न्हय ? म्हण्टकूच वान्सा मार म्हणून सांगून कितें उपयोग ?

'संवसारांतल्या दुखांतसून सुटूंक आनीक कांय गिन्यानी आमकां एक उपाय सांगतात तो हो कि आमी संवसारवसल्यान फाट करून वांचपाची वान्सा सोडून दिवची आनी प्रायश्चित घेंवचेले बंदखणीभाशेन हो संवसार लेखचो.¶ बरें आसा. एकाच जल्मान आमी हे बंदखणींतसून सासणाचे सुटिल्ल्यों जाल्यार आमच्यान तांगेली म्हणणी खुशाल आयकुं येती. परंत समुद्रांतलें ल्हार आमकां वेगळीच शिकवण दिता. तें एका जल्मान आमी सुटचे नात म्हण्टा. हे भाशेन, सासणांचीं सासणां, जल्मा फाटल्यान जल्म घेवन, आमकां ते बंदखणींतूच दीस काडचे आसत जाल्यार, तिचेर आमी उबगल्यार, विटल्यार आनी फाट केल्यार उपकारता ? फाट केली म्हणून आमकां भोगचेलें दुख सुट्टा ? म्हण्टकूच तें धिरान कित्याक सोंसचें न्हय ? वा तें उणें करूंक कित्याक वावुरचें न्हय ? त्या ल्हाराकडसुनूच आमी इल्ली बुद्द कित्याक घेंवची न्हय ? त्या ल्हाराक दुसऱ्या ल्हारांची बखांदी बसता आनी एकाद्रचा तारवाच्या कण्यातळा ताचें आंग चिड्डता; तरी आसताना धिरान तें समुद्राचे वेळेमेरेन वचूंक वावरना ? आमीय ह्या संवसारांतली भोंवडी तशीच केल्यार वायटाक पडत ? संवसारांत दुख, त्रास, खेद, चिंता, हुस्को उपाट भल्ला; हात-पांय बडैल्याबगर पोट केन्नाच भरना आनी मनाक जाय जाल्लें चडकरून घडना; हें सगळें खरें; परंत बारकायेन पळेल्यार हांतूंत वायट कितें आसा? मनांत येवजिनाफुडें सटकरून आमचें काम जावन सगळचो इत्सा जेन्नाच्यो तेन्ना भागिल्ल्यो जाल्यार, आमचो वेळ कसो वेतलो आसलो? संवसार म्हण्टात तो सुखा-समाधानाचें आनी सस्ततायेचें पोरसूं जावन, तांतूंतसून दुदा-म्होंवाचे व्हाळ व्हांविल्ले आनी कसल्याच आडमेळच्याबगर जणएकल्याचें पोट भरिल्लें जाल्यार, तशेय तरेन संवसाराची उबगण येवन मनशां मरचीं नासलीं ? वा बळयांच जीव दिवचीं नासलीं ? वेळ सरून सरना म्हणून एकामेकांक दाटून तिडावन तीं झगडचीं नासलीं ? आनी एकामेकांक मारून मरचीं नासलीं ? हे भाशेन, आतांचेकूय तीं चड दुखांत पडचीं नासलीं ?‡ ताचे परस जे दशेंत तुर्ताक आमी आसात तीच बरी मानून आमगेलें दुख

¶ It is candid in confessing that a man must turn his back upon the world, and that the denial cf the will to live is the way of redemption... You cannot do better than accustom yourself to regard this world as a penitentiary, a sort of penal colony. Studies in Pessimism by Arthur Schopenhauer, London 1893, p. 27.

‡ Studies in Pessimism, p. 13.

तांकत तितलें ल्हव आनी उणें करूंक वावुल्ल्यार बरें जांवचें ना? आमी सगळेजाण एकाच तारवांत बसल्यांत. देखून एकामेकांकडेन झगडून-झुजून तें बाणयेर घालिनासताना, एकामेकांली कळाकूळ वळखून, एकामेकांल्या हिताकडेन ध्यान दिवन, एकामेकांक पालव दिल्यार बऱ्याक पडचें ना? आमचें दुख इल्लें तरी उणें जांवचें ना? दुख उणें जावप हेंच सुख. सुख म्हणून वेगळी वस्त ना.† आमगेलें दुख उणें जातकूच तितली आमच्या मनाक थंडाय मेळटली आनी जल्मा-मर्णाच्यो येरादारी काडूंक आमकां सोपें पट्टलें.

'संवसार कितलोय दुखान भरिल्लो आसलो आनी तांतूंतसून सुटूंक गिन्यानी मनशांनीं कितलेय उपाय सांगले तरी कोणाकूच तांतूंतसून सुटनशें दिसना ही जण-एकल्याची अणभवाची गजाल न्हय? मनीस दुखान एकसारको शेकता-भाजता आसताना आनी नाका हो जल्म अशें ताका जालां आसताना, संवसार सोडून वच्चें म्हळ्यार ताच्या जिवार येता हें आमी पळेनात? मर्णाचो निखटो उगडासूच जाल्यार ताच्या हड्डचांत मुसळांचे फार बसनात? मर्ण चुकौंक वा कांय काळ फुडें धुकलूंक तो न्हय न्हय ते उपाय करिना? तो शंबर वर्सांचो म्हातारो जावन गुवा-मुतांत लोळूंक लागलो, ताचे सकनळयेंत शिपीभर निवळ वचना जालो, ताच्या दोळयांक दिसना जालें तरी आसताना ताका मरचेंशें दिसना हें कितें? मनशाची गजाल आसूंच. वाटेवैलो गांयडोळ तो मिडो कोण? तागेली जीण म्हण्टात ती कांय दीस वा कांय घटका हेवशीन तेवशीन हुळहुळचेली. परंत ताकाय सटकरून मरचेंशें दिसना. मर्णाक तो थर्त भियेता. हुळहुळपांतूच सुख मानून गाडयाचें चाख घडघडनाफुडें वाटेवैलो कुशीक सरून जीव चिके वाटांवया अशें तो म्हण्टा.* हे भाशेन, तरेकतरा विपत्त काडून मनशांक तशेंच हेर जिवांक जायते काळ वांचनशें दिसता हें कोणाच्यानूच लटकें म्हणुं येत? म्हण्टकूच संवसारांतसून सुटपाचे उपाय गिन्यानी मनशांनी सांगचे आनी हेरांनीं वैल्याचारांक ते करचे ही मनाची फटवण न्हय? संवसारांतसून सुटचें हेंच जर जल्मा आइल्ल्याचें सार्थक तर मनशांनी मर्णाक कित्याक भियेंवचें, कलकलचें आनी रडचें तें समजना. मर्ण येता म्हळ्यार ताणीं वाजंत्रां वाजौन फोग कित्याक लांवचो न्हय? ताणीं माकर कित्याक वांटची न्हय? तें फाल्यांचें आजूच कित्याक येंवक दिवचें न्हय?

---

† Good is negative; in other words, happiness and satisfaction always imply some desire fulfilled, some state of Pain brought to an end. Studies in Pessimism, p. 11.

* दुखं प्राणपरित्यागः पुरुषाणां महामृधे । २ । समृद्धौवाऽसमृद्धौ शुभे वा यदि वाऽशुभे । ३ । सर्वस्वनिरतो जीव इतश्चापि सुखं मम । चिंतयामि महाप्राज्ञ तस्मादिच्छामि जीवितुम् । १७ । मभा. अनुशासन. ११७.

'मरच्या वेळार मनशाक आपली कूड, जोड-जाड, बायल-भुरगीं, घर-दार बी कांयच वांगडा व्हरूंक मेळना म्हणपाचें दिसपट्टें तो आपल्या दोळ्यांनीं पळेता. तरी आसताना, अखेरची घटका ये मेरेन, बऱ्या-वायट उपायांनी तो आपल्या घरा-दाराची एकसारकी भर करता, भाटा-बेसांची उस्तवारी पळेता आनी पेटेच्यो चावयो वाऱ्यार उडैनासताना जतनायेन बायल-भुरग्यांचे सुवादीन करता, हें एक अजाप न्हय? मरतकूच तांचो आनी आपलो संबंध तुटलो अशें ताका कशें दिसना? बारकायेन येवजिल्यार, मरच्या वेळार जें वांगडा येनाशें दिसता तें सासाणचें आपणाकूच मेळटलें अशें ताका भितल्लें मन सांगना मू? मरच्या वेळार जो संवसार सोडून तो वेतासो दिसता थैं पर्थून पावन आदल्या जल्मांतली राटावळ पर्थून घेवन बसतलो म्हणपाचें जाणपण ताका आसना मू? तशेंच जांवये. देखून, संवसार कितलोय दुखान भरिल्लो आसलो तरी मनशाक तांतूंतसून सुटनशें दिसना आनी तो तांतूंतसून केन्ना सुटना हेंच खरें.¶ गिन्यान्यांली सांगणी आयकून मरच्या वेळार ताणें तोंडान 'देव-देव' म्हळ्यारूय, ताका देवाभितर विर्गळून ना जांवचेंशें दिसना. तो देवाभितर सासणाचो विर्गळना. तो सर्गार पावना. तो नर्कांत पडना. तो नासो जायना. तो सदींच अखया. ताची कूड मोट्टा परंत तो मोडना.‡ संवसाराचेर ध्यान उरून,$ संवसार येवजून येवजून तो प्राण सोट्टा; देखून त्याच संवसारांत जल्म घेवन आदल्या वेव्हाराची पर्थून राटावळ करता.† तो चडकरून आदल्या जल्मांतल्या आवांठांत, त्याच कुटुंबांत वा आपणाक जाय थैं पर्थून जल्मता. तो ब्रह्मराक्षेस जायना व सावदां-सवण्यांचो आनी रुखा-रोंप्याचो जल्म घेना. मनीसपणाच्या उंच पांवड्यार पाविल्लो जीव दाटून सकैल्या उणाक पांवड्यार घालून घेत अशें दिसना. तो त्याच पांवड्यार रावत नाजाल्यार वैल्या पांवड्यार चडत. परंत मनीसपणापरस वैलो पांवडो धर्तरेर खैंच ना. म्हण्टकूच तोच पांवडो तो धरून रावता हांतूंत दुभाव ना. शेटीन भांग-राची पोरणी तोंडिची पाटली आटैली जाल्यार दुसरी नवी तोंडिची पाटली तोकरता;

---

¶ न मुमुक्षु र्न वै मुक्त इत्येषा परमार्थता । ब्रह्मबिन्दु. १०.

‡ न हन्यते हन्यमाने शरीरे । भगी. २. २०. न शरीराश्रितो जीवस्तस्मिन्नष्टे प्रणश्यति । मभा. शान्ति. १८७. २.

$ For where your treasure is, there will be your heart also. NT. Matthew. 6. 21.

† यं यंवाऽपि स्मरन् भावं त्यजत्यन्ते कलेवरम् । तं तमेवैति कौन्तेय सदा तद्भावभावितः । भगी. ८. ६. यथा क्रतुरस्मिल्लोके पुरुषो भवति तथेतः प्रेत्य भवति । छान्दोग्य. ३. १४. १. यच्चित्तस्तन्मयो भवति गुह्यमेतत्सनातनम् । मैत्रायणीय. ६. ३४.

ना जाल्यार त्यायपरस सुंदर बरी घिसमिसी पाटली करता.* भांगराचें तांबें, पितूळ, धूळ, माती आनी गोबर करून उडैना. ही सगळ्यांच्या अणभवाची गजाल आसा म्हण्टकूच मनशाचो जिवूच दाटून सकैल्या पांवड्यार कित्याक घालून घेत? तो आदल्या जल्मांतल्या आवांठांत आदल्याच कुटुंबांत जल्मा आयल्यार ताचें आदलें नातें तगना हें खरें. परंत ताचो आदलो मोग आनी माया तशींच उरून तीं ताका पर्थून अणभवूंक मेळटात हांतूंत इल्लोय दुभाव ना. जे बायलेचो तो घोव आसलो तिचो नातू वा पण्टू जावन वा हेर कसलेंय नातें घेवन तो तिचे मांडयेर लोळटा, वा ज्या भुरग्यांचो तो बापुय आसलो तांचो पुत वा नातू जावन वा हेर कसलेंय नातें घेवन तांचे हाण्डीर खेळटा, तो जाण्टो जावन वेव्हार करूंक लागता म्हणसर, ताच्या आदल्या जल्मांतले जोडिचो आनी घरा-दाराचो एकाद्रो विद्वाट लागुंये. तीं दुसऱ्यांनीं हातासुंये. तो मरूंक नाशिल्लोय जाल्यार तीं जायत्या कारणांनीं ताचेचकडेन उरतलीं आसलीं अशें खरे-पणानशीं म्हणुं नज. मनशाच्या सुवराथी सभावाक लागून एकालें घर-दार आनी म्हालम्हतो दुसऱ्याल्या हातांत पावता; ना जाल्यार, वारें-वावटळ, भुंय-कांप आनी बुट्टी येवन काबार जाता. परंत हीं दोनूय जोडूंक जाय जाल्ली बुद्द मात कोणाकूच नागौंक मेळना आनी नाशी करूंक येना. ती जाची ताचेकडेन उरता. हाचो अणभव आमकां जायते फावटीं येता. संवसारांत कांय मनशां भुरगेपणांतूच हेरांपरस चड बुदवंत, हुशार, शाणीं, विद्वान आनी कर्तृत्वी दिसतात. कांय निजाचींच कवि, चित्रिक, गणिती बी आसतात. तांकां इल्लें सांगल्यार जायतें समजता. तीं नाखटावैल्यान रावण चितारतात. तीं थोड्या वेळान अदिक शिकतात. हाचीं कारणां जीं कितें आसतीत तांतूंत ताणीं आदल्या जल्मांतसून वांगडा हाडिल्ली बुद्द हें सगळ्यांत व्हडलें कारण आसा हांतूंत दुभाव ना. तिच्या पालवान ते आनीक विद्या आनी गिन्यान जोडून अदिक विद्वान आनी गिन्यानी जातात.§ तिच्या बळग्यान ते होगडावल्लो म्हालम्हतो पर्थून जोट्टात आनी दिसानदीस चडैतात. 'बुद्द आशिल्ल्याक भांडवल नाका' म्हण्टात तें वोगीच न्हय. तिची व्हडवीक आनी बळगें ‡ मोटें. देखून तिका

---

* यथा पेशस्कारी पेशसो मात्रामुपादायान्यन्नवतरं कल्याणतरं रूपं तनुत एवमेवायमात्मेदँ्शरीरं निहत्याऽविद्यां गमयित्वान्यन्नवतरं कल्याणतरँ रूपं कुरुते । बृहदारण्यक. ४. ४. ४.

§ तत्र तं बुद्धिसंयोगं लभते पौर्वदेहिकम् । यतते च ततो भूयः संसिद्धौ कुरुनंदन । भगी. ६. ४३. जन्मान्तरसंचितात् साधनादपि जन्मान्तरे विद्योत्पत्ति दर्शयति । शामीभाष्य, ३. ४. ५१.

‡ अस्याश्च बुद्धेर्महत्वं स्वेतरसकलकार्यव्यापकत्वान्महैश्वर्याच्च मन्तव्यम् । कासांप्रभाष्य, २. १३.

'मोटेली' म्हण्टात. तिका मत, गिन्यान आनी शाणपण हींय नांवां आसात.¶ मनीस मरच्या वेळार ताका आपली पोरणी जड कूड वांगडा व्हरूंक मेळना. देखून तांतूंतलो सार घेवन, नवी जड कूड बांदीमेरेन तो एके ल्हव कुडींत बसता. तिका लिंगकूड म्हण्टात. ती बुद्दिचीच बांदिल्ली आसता. ही बुद्द म्हळ्यार पोरणे कुडींतलो सार. ह्या सारांत भायलीं आनी भितल्लीं धा इंद्रियां, मन, हांवपणाचो अभिमान, नाद, सुवाद, तेंकप, रूप आनी वास मेळून सतरा तत्वां आसतात.† ज़िवाचे बरे-वायट गुणूय त्या साराक दशिल्ले आसतात.§ जिवाक जाल्ल्या सगळ्या बऱ्या-वायट संस्कारांची ती कोठी आनी आधार म्हळ्यार जाता.‡ ती घेवन जीव भायर सरता तेन्ना बुद्दरूपी जाता.$ लिंगकुडींत तो आसा म्हणसर स्वतंत्र आसून ताच्यान जाय थैं वचुं येता ताच्यान कसलेच अडचणीबगर दोंगरांत रिगून भायर सरुं येता.* किर्णांवैल्यान नाचत नाचत सूर्याचेर आनी चंद्राचेर वचुं येता. एके नक्षत्रावळीवैल्यान दुसरे नक्षत्रावळीर धांव येता आनी एके दुदगंगेंतसून दुसरे दुदगंगेंत पेंव येता. परंत ताचें सगळें ध्यान-मन धर्तरेवैल्या माये-मोगाच्या मनशांचेर आनी मुदग्याचेर आशिल्ल्या कारणान ताका हेर खैंचेचकडेन वचनशें दिसना. तो सूर्य-चंद्राक आनी नक्षत्रांक भुरकुटना. तो बेगोबेग धर्तरेर जड कूड बांदचे तजविजेक लागता. ती बांदल्याबगर ताका धर्तरेवैली राटावळ करूंक मेळना. जड कूड बांदूंक ताका आदल्या नात्यांतल्या वा दुसऱ्या जाय जाल्ल्या कोणाय दंपत्याच्या रगता-मासांत रिगचें पट्टा. आवै-बापुय केल्याबगर ताका जड

---

¶ महान्बुद्धिरासुरीमतिःख्यातिर्ज्ञानंप्रज्ञेति पर्यायाः । सांकाभाष्य, २२.

† सप्तदशैकं लिंगम् । सांख्य. ३. ९. एकादशेंद्रियाणि पंच तन्मात्राणि बुद्धिश्चेति सप्तदश । अहंकारस्य बुद्धावेवान्तर्भावः । महतोऽहंकारोऽहंकारात्पंचतन्मात्राण्यु-भयमिंद्रियम् सांख्य १. ६१.

§ भावैरधिवासितं लिंगम् । सांकारिका, ४०. यैरधिवासित लिंगं संसरति एते चत्वारो भावाः सात्त्विकास्तामसाविपरीताः सात्त्विकमेतद्रूपंतामसमस्माद्विपर्य स्तमित्यत्र व्याख्याता एवमष्टौ धर्मोज्ञानंवैराग्यमैश्वर्यमधर्मोऽज्ञानमवैराग्यम नैश्वर्यमित्यष्टौ भावाः क्व वर्तन्ते दृष्टाः करणाश्रयिणो बुद्धिः करणं तदाश्रयिणः । सांकाभाष्य, ४३.

‡ तथाशेषसंस्काराधारत्वात् । सांख्य. २. ४२. बुद्धेरेवाखिलसंस्काराधारता । कासांप्रभाष्य, २. ४२.

$ स विज्ञानो भवति स विज्ञातमेवान्ववक्रामति । बृहदारण्यक. ४. ४. २.

* सूक्ष्मत्वात् कुत्रचिदसक्तं पर्वताद्विष्वप्रतिहतप्रसरं सरति गच्छति । सांकाभाष्य ४०.

कूड मेळना.|| तांगेल्या रगतांत रिगनाफुडें ताची स्वतंत्रताय होगडावन तो रोखडोच परतंत्र जाता. तांगेलें खाणजेवण, बुद्द, बळगें, रूप, रंग, सभावगुण आनी चलणुक हांचे बरे-वायट परिणाम ताचेर घट्टात. तांचेफुडें ताचें शाणपण चलना. आवैबापा-यच्या पिडे-रोगान, अजाणपणान, चुकीन आनी मस्तेन वा अपघातान कूड अर्दुकडी आसतानाच जायते फावटीं धगळटा आनी घळघळून पट्टा. ती धगळनासताना तगली जाल्यार, एकाद्री सोर्पा-सावदाचे जातची, सुळचा दांतांची, दोन तोंडांची, तीन दोक-ल्यांची अशी भयांकृत रुपाची* जल्मून रोखडीच मरता; आनी त्याखातीर जिवाक दुसरें दंपत्य सोदचें लागता. बापायचें रेत आवैच्या रेतापरस चड जाल्यार तो दाद-लोमनीस जाता आनी आवैचें रेत बापायच्या रेतापरस चड जाल्यार तो बायल-मनीस जाता. आवैचें आनी बापायचें रेत सारकें जाल्यार तो खोजो जाता. तीं भियेलीं-कांचवेलीं जाल्ल्यार तो कुड्डो, थोंटको-मोडको, पोंगो आनी गिड्डो जाता.‡ तीं गोरीं आसल्यार तो गोरो जाता. तीं सुंदर आसल्यार तो सुंदर जाता. तीं रोगयाळीं आसल्यार तो रोगयाळो जाता. तीं घटमूठ आसल्यार तो घटमूठ जाता. तीं अशक्त आसल्यार तो अशक्त जाता. तीं गिरेस्त आसल्यार तो गिरेस्तकाय भोगता. तीं दळिद्री आसल्यार तो उपासमार काट्टा. तीं मतिमंद आसल्यार ताची मत मंदावता आनी तीं बुदवंत आसल्यार तागेले निजाचे बुद्दीक धार चट्टा. हाचो अणभव आमकां दिसपट्टो येता. हे भाशेन, नवी कूड बांदूंक कितल्योय अडचणी आयल्यो तरी ती बांदल्याबगर जीव रावना आनी ज्या संवसाराक तो उबगता तांतूंत पर्थूनपर्थून बुच-कळ्ळयाबगर ताका सुख जायना. हाचेवैल्यान, संवसारांत भौनभौन जल्मून भौन भौन मरचें आनी सासणांच्या सासणांनीं तीच राटावळ चलौंची हो जिवाचो धर्म जालो ना ? ताका सासणाची जीण आसली जाल्यार ती हीच म्हणची पडना ? म्हण्टकूच, गिन्यानी मनशांनीं ताका संवसारांतसून सुटपाची, आधार नाशिल्ली पोली आस्त कित्याक दाखौंची? तशें करचे भाशेक, आसा तोच संवसार गोड करून रांवची युक्त ताका सांगल्यार वायटाक पडत ? संवसाराची घडणूक चडकरून जिवांनीं नँदचे खातीर जाल्या आसताना तांकां तांतूंतसून सुटून तो पाड घालची बुद्द दिवची हाचे-सारकें नष्टें पातक दुसरें कसलेंच नासतलें. तें देवाचे इत्सेआड आसून तें ताका

---

|| मातापितृजं स्थूलं प्रायश इतरन्न तथा । सांख्य. ३. ७.

* वियोनिविकृताकारा जायन्ते विकृतैर्मलैः । वाग्भट, शारीरस्थान, १. ६.

‡ पितूरेतोऽ तिरेकात्पुरुषो मातूरेतोऽ तिरेकात् स्त्री उभोयोर्बीजतुल्यत्वान्नपुंसको भवति । व्याकुलितमनसोरन्धाः खंजाः कुब्जा वामना भवन्ति । गर्भ. ३. अत एव च शुक्रस्य बाहुल्याज्जायते पुमान् । रक्तस्य स्त्री तयोः साम्ये क्लीबः शुक्रार्तवे पुनः । वाग्भट, शारीरस्थान, १. ५.

मानतशें दिसना. तो देवद्रोह. तो संवसारद्रोह. तो केन्नाच कोणें करचो न्हय संवसार जे तरेन बरे तरेन वसत तसलेंच शास्त्र जणएकल्यान शिकचें आनी दुसऱ्याक शिकौंचें. केन्नाच खैंचेकडेन घडना जाल्ल्यो गजाली सांगून वेळ होगडांवचे भाशेक मनशाकडेन जें बुद्दिचें भांडवल आसा ताचो ताका सारको बरो उपयोग करूंक शिकैल्यार संवसारांतल्या सगळ्या दुखांचें सुख करून, नर्काचो लेगीत तो सर्ग करून दाखौंचो ना ?

'संवसारांतलें दुख कातरून वचूंक वा ल्हव जांवक बुद्दिसारकें हेर सादन नाच म्हळ्यार जाता. फाटल्या कांय लक्ष वर्सांपरस बुद्दिच्या पालवान मनशाचें दुख आज जायतें उणें जालां. पैलीं तो उक्त्या वाऱ्यार नागडो-उगडो वा रुखांचीं पानां पांगरून थंडीन कुडकुट्टालो आनी रानांतलीं सावदां ताका असुदाय भकतालीं. परंत आतां तो घर-दार बांदून रावता, कापसाचीं आंगावलीं घालता आनी तिख्याच्या शस्त्रांनीं सावदांचो जीव घेता. तो तांदूळ-गोटो आनी तरेकतरा फळां पिकैता. तो पाळां-मुळांचो कडो घेवन पिडे-रोगांतसून बरो जाता. असोच तो आपली बुद्द एकसारकी पाजैत जाल्यार जायत्या सुखाक पावत. संवसारांतलें दुख कातरून उडौंचें ओखद संवसारांतूच भल्लां. परंत तें सोदून काडूंक जाय. दुखाक भियेवन हात-पांय गळसणायल्यार तें पेल्यान सरना. तें चड कांठ्यार बसता. देखून संवसारांत बारकायेन ध्यान घालून दुखाचें ओखद खैं मेळटा तें आमी रांगसून-धोंगसून पळौंक जाय. पोरसांत जायते फावटीं आमच्या पांयांसरीं पिकिल्लें गोड फळ आसून खोलये-तळा धांपिल्ल्या कारणान वा आमच्या न्हिदसुरेपणान तें आमकां दिसना आनी आमच्या तोंडांत पडना. तशीच गजाल ह्या ओखताची जाल्या. तें आमच्या हाता लागसार आसून आमच्या अजाणपणान आमकां मेळना. देखून तें अजाणपण आमी नाशें करूंक जाय. आमी आमची बुद्द पाजौंक जाय. आमी आमचे दोळे उगडूंक जाय. संवसार सांसपून पळौंक जाय आनी दरएकले वस्तिची चिकित्साय करून जी शिकवण मेळटा ती घट बरी ध्यानांत दवरूंक जाय. ती दुसऱ्याक शिकौंक जाय आनी ताची आपणें घेंवक जाय.* आपले बुद्दिचे साणीर ती घांसून पळौंक जाय आनी खरी दिसल्यार कपळांत धरूंक जाय. पटी-पुस्तकांतल्या गिन्यानारूच कुड्डेपणान आधारून रावल्यार उपकारना. भौच पुर्विल्ल्या जाण्टेल्यांकडसून मेळ्ळां म्हणून चुकिल्लेंय गिन्यान धड गिन्यानाभाशेन लेखूंक फावना. पाराथ्या पटी-पुस्तकांपरस भोंवतणच्या संवसारा-सारकें खरेल्या गिन्यानान उपाट भरिल्लें ताजें तट्टटीत पुस्तक दुसरें नाच म्हळ्यार जाता. तें वाचूंक दोळेच उगडूंक जायत. तें इतलें सोपें आसा कि 'श्रीगणेशा' नकळ जाल्ल्या गावड्याकूय तें घडघडीत बरें वाचूंक येत आनी विद्वान बामणाभाशेन ताका तांतूंतलो अर्थ समजत. तें वाचुनूच चकमकान उजो पेटौंची युक्त गावड्याच्या

* स्वाध्यायप्रवचनाभ्यां न प्रमदितव्यम् । तैत्तिरीय. १. ११. १.

ध्यानांत पैलीवैली आयलीना? संवसारांतल्यो सगळ्यो युक्ती मनशान अशेच तरेन सोदून काडल्यात. देखून होच उपाय ताणें फुडें चलौंचो. म्हण्टकूच तो आतांचेकूय जायतो फुडें सरतलो आनी सुखी जातलो. ह्या कामांत बामण, गावडो, जाण्टो, नेण्टो, तरणो, म्हातारो, गिरेस्त, दुबळो, बायल, दादलो मेळून सगळ्यांनीच वावरूंक जाय. सगळ्याकूच संवसारांत सासणाचे दीस काडचे आसात. देखून कोणेंच आंग चोरून फाटल्यान रांवक फावना आनी तसो कोणाकूच रांवक दिवक जायना. अशें आसताना कोणूय फाटीं रावल्यार ताणें आपलोच घात केल्यावरी जातलो. ताणें घट बरें ध्यानांत दवरचें कि आपणाक वावरूंक जाय तें दुसऱ्याच्या उपकाराक न्हय; तर आपलेंच दुख ल्हव करूंक. दुसऱ्याच्या वावराचीं फळां आपणाक आयतीं खांवक मेळटलीं म्हणपाच्या उबाऱ्यार तो आळसायेन दीस काडीत जाल्यार ताणें आपणाकूच फटैल्ल्यावरी जातलें. तो आपुणूच आपलो दुस्मान जातलो.‡ कामाक लायनाशिल्ले सुरयेभाशेन ताची बुद्द कलमेतली, ताचीं इंद्रियां मेंगेतलीं, ताची लिंगकूड दुबळेतली. तो संवसारांत सगळ्यांफाटीं उरतलो. भोंवतणी सुखाची रास ओतल्या आसतानाय तें भोगूंक ताका तांक जांवची ना. तो मंद आनी दुबळो जातलो. देखून जणएकल्यान आपल्या खासा हिताखातीर आनी सुखाखातीर आपली बुद्द आनी इंद्रियां एकसारकीं वावरांक लांवचीं. जणएकल्याच्या इल्ल्याइल्ल्या वावरान सगळ्यांचेंच मोटें व्हडलें काम जाता. मनशाक संवसाराची वळख अजून जायती जांवचेली आसा. रंवथ्याएदे धर्तरेचीच वळख ताका अजून धड जांवक ना. ती जाता म्हणसर कशींय लक्षांनी वर्सां धुकलतीत. धर्तरेचेर तो बरें करून ध्यान दीत जाल्यार, वारें, उदक, पावस वीज, उजवाड, वनस्पत, माती आनी हेर तरेकतरा जिनसांपासून तो आपलें जायतें हित सादीत. आतां वीज खैंचे खैं पडून लोकांचो जीव घेता आनी घरां-दारां जाळून उडैता. परंत तिका तो आळाबंदा हाडून जाय तेन्ना कामाक लायत आनी जाय तेन्ना चेपून दवरीत. आतां पावस अवतार आइल्ल्याभाशेन ओतून मुलखांचे मुलूख बुडैत आनी आजचे सारखी बुट्टी हाट्टा. परंत मनीस आपले बुद्दिचो उपयोग करीत जाल्यार असल्यो बुट्टचो ताच्यान चुकौं येतीत. आजची बुट्टी देवान आमच्या पातकांखातीर धाडल्या म्हण्टात तें खरें न्हय. तो असल्या गजालींत पडना. पावसाचीं कुपां आमचे सत्तेंत दवरपाची युक्त आमी जाणा जाल्ल्यों जाल्यार आजची बुट्टी केन्नाच येंवची नासली. ही युक्त सोदून काडली जाल्यार, आपणाक जाय तितलो पावस, जाय थैं आनी जाय तेन्नाच पडपाची मांडणी मनशाच्यान करुं येत. आनी केन्नाच खैंचेकडेन दुकळ पडना जांवची जतनाय ताच्यान घेंव येत. आपले बुद्दिचे तांकीन इल्लेशे सुवातेर थोडचा कष्टान ताच्यान जायतें पीक काडुं येत. वारें ताबींत दवरून वावटळिची आनी मोडांची बंदिस्ती करुं येत. भुंयकांप आडांव येत. पिडेरोगाची बी जाळून

‡ आत्मैव रिपुरात्मनः । भगी. ६. ५.

उडौं येत. म्हातारपणांत तरणेपण जोडुं येत. आडमर्ण चुकौं येत. आयुष्याची दोरी घट बरी वळून लांबौं येत. सवण्यांभाशेन मळबांत उडुं येत. पैशिल्या गिन्यांची आनी नक्षत्रावळिंची भोंवडी करुं येत. थैंचें गिन्यान जोडुं येत आनी धर्तरेर ताचो उपयोग करून घेंव येत. देखून ताणें आपले जिणेचो विव्हाट करिनासताना, धर्तरेची आनी भोंवतणच्या संवसाराची बारकायेन वळख घेंवची. जल्माफाटल्यान जल्म मेळटले म्हणून ताणें घाळ रांवचें न्हय आनी आळसायेन दीस होगडांवचे न्हयत. संवसारांतल्या सगळचा मनशांनीं कितलेय जल्म घेतले जाल्यार संवसाराचें गिन्यान जोडूंक तितलेय पुरो पडचे नात इतलो ताका अंतपार ना. त्याभायर, जल्म घेंवचें काम सोपें आसल्यारूय जाय तसली नवी कूड बांदचें काम चड कठीन म्हणपाचें ताणें ध्यानांत दवरचें. हें काम जायत्या वांटचान आवै-बापयाच्या हातांत आशिल्ल्या कारणान जिवाचें शाणपण थैं चलना. देखून एक फावट बांदून मेळिल्ले कुडिची ताणें बरीकरून जतनाय घेवन तिचो बरे तरेन लाव घेंवचो. मातये-चिन्याच्या घराची तो जितली जतनाय घेता त्यायपरस आपणाले कुडिची जतनाय ताणें चड घेंवची. ताणें त्याखातीर आपलें खाण-जेवण आनी हेर चलणूक नेमस्तपणान दवरची. ज्या खाणान हुशारी येता, बळगें चट्टा, आरोग्यताय वाट्टा, सुख आनी खोस भोगता, जें आंगाक लागता, जिवाक मानता तसलें सुवादीक आनी सुरबूस बरें खाण¶ खांवचें. जाणीं तकली घुंवळटा आनी बुद्द मंदावता असले जिनस ताणें पोटांत घालचे न्हयत. ताणें जागरणां करचीं न्हयत. ताणें भायलो छंद धरचो न्हय. संवसाराची वळख जोडून दुख कातरूंक वावुरचें हेंच जिणेचें सार्थक समजून त्याखातीर शंबर वर्सां वांचपाचो ताणें हावेस धरचो $ आनी कूड झिरझिरीत जावन तिका पोंग पडसर तिची कारस घेंवची. ती मोडूंक पावल्यार तिका भौनभौन धिगी लावन सरी करची. इतली जतनाय घेता आसतानाय ती केन्ना कोंसळत म्हणपाचें खरेपण ना. तिचे फाटीक हजारांनीं पिडा-रोग लागल्यात. तिचेर अपघात जायते येतात. तिचेर मर्णाची घुरी अगान्तुक पट्टा. हातांत घेतिल्लें काम सोंपलें वा अर्दुकडें उल्लें म्हणपाची येवजणी करूंक मर्ण बसना. आजूच हे घटकेक, ध्याना-मनांत नासताना, आपुण बसलां थैं मरचो ना म्हणपाचो निर्वाळो कोणाकूच दिवक येना. देखून मनशान एक खीण लेगीत होगडांवचो न्हय. इतलेंच न्हय, तर फाल्यांचें काम आज आनी सांजेचें काम सकाळीं करून उडौंचें‡.

---

¶ आयुःसत्त्वबलारोग्यसुखप्रीतिविवर्धनाः । रस्याः स्निग्धाः स्थिरा हृद्या आहाराः सात्त्विकप्रियाः । भगी. १७. ८.

$ कुर्वन्नेवेह कर्माणि ज़ीजीविषेच्छतँ समाः । ईश. १. १.

‡ श्वः कार्यमद्य कुर्वीत पूर्वाह्णें चापराह्णकम् । न हि प्रतीक्षते मृत्युः कृतमस्य न वा कृतम् । १५ । को हि जानाति कस्याद्य मृत्युकालो भविष्यति । १६ । मभा. शान्ति. १७५.

दुसऱ्या जल्माच्या म्हालवजार ह्या जल्मांतलें काम फुडल्या जल्माचेर केन्नाच धुकलचें न्हय. तापिल्ल्या तेलांत वडे काढून घेंवचे हाचेसारकें शाणपण ना.

'संवसाराचें गिन्यान जोडून दुखाचें ओखद सोदून काडूंक मनशान आपली कूड जशी शंबर वर्सां तगौन धरूंक जाय, तशीच वेळ आयल्यार, आंब्याच्या शिरपुटा-भाशेन ती कुटकरून मोडून उडौंक ताणें तयार जांवक जाय. जायते फावटीं, आपलें आनी धा-जाणांचें हक राखूंक, नष्टाचा-मस्त्यांक आळाबंदा हाडूंक, स्वतंत्रताय जोडूंक आनी व्हडविकेची करणी करूंक जीव दिवचो पट्टा. हींय कामां संवसारांतलें दुख ल्हव करपाचींच आसात. देखून, मर्णाक कोणें भियेंवक फावना. आपली कूड नवी-ताल, गोरी-पीठ आनी तरणी-करकरीत म्हणून केन्नाच अनमनूंक जायना. कूड मोडली तरी जीव मोडना.¶ ताका शस्त्रां शिंदिनात. ताका उजो जाळिना. ताका उदक भिजैना. ताका वाव सुकैना,* म्हणपाचें जणएकल्यान आपल्या काळजाच्या पटचार खोल बरें कोत्रांवक जाय. त्याभायर, एक कूड मोडली जाल्यार हजार कुडी आपणाच्यान बांदुं येतात§ हें ताणें ध्यानांत दवरूंक जाय.

'संवसाराचें गिन्यान जोडूंक वान्सेचें बळगें मोटें आसूंक जाय. ते ताणें केन्नाच दांबून धरूंक फावना. त्या बळग्याक लागुनूच ताणें आपली दशा जायती निवळायल्या म्हणपाचें ताणें विसरूंक जायना. ताणें सदींच मोटो हावेस धरून वावरूंक लागचें. मळबाक हात तेंकौंची वान्सा धरची. म्हण्टकूच तो घराच्या पाष्टाक तरी हात तेंकैल्याबगर रांवचो ना. ह्या जल्मांत आपली इत्सा तडीक गेली ना जाल्यार, फुडल्या वा ताचे फुडल्या जल्मांत ती तडीक वचत म्हणपाचें ताणें खरेपण धरचें. हेरांभाशेन आपणाक बुद्द आनी बळगें ना म्हणून ताणें रडूंक बसचें न्हय. संवसारांतल्या सगळ्यांत बळिष्ट आनी बुदवंत मनशासारको जावपाची तांक आपलेभितर आसा म्हणपाचें ताणें ध्यानांत दवरचें. आपुण दुबळो आनी निर्बुद्द म्हणपाचो घातमारो समज ताणें सोडून दिवचो. बुद्दिची आनी बळग्याची बी जणएकल्याच्या आंगांत भल्या. तिका आंकरी फुटौंक जणएकल्यान वावुरचें. तीं ताच्यान कितलींय वाडौं येतात. वैर चडप वा सकला पडप हें जणएकल्याच्या हातांत आसा. देखून ताणें सदींच वैर चडूंक वावुरचें.† वैर चट्टा आसताना पांय एकाद्रो लचकता, निसरूंक जाता, सकला पट्टा आनी कुलो धाडावता. परंत तितल्यान निर्शेवचें न्हय. ज्या नेटान सकला पट्टा ताच्या

---

¶ न हन्यते हन्यमाने शरीरे । भगी. २. २०.

* नैनं छिन्दन्ति शस्त्राणि नैनं दहति पावकः । न चैनं क्लेदयन्त्यापो न शोषयति मारुतः । भगी. २. २३.

§ तथा देहान्तरप्राप्तिर्धीर स्तत्र न मुह्यति । भगी. २. १३. तथा शरीराणि विहाय जीर्णान्यन्यानि संयाति नवानि देही । भगी. २.२२.

† उद्धरेदात्मनात्मानं नात्मानमवसादयेत् । भगी. ६. ५.

दुपेट नेटान वैर चडूंक लागचें. अशें करतकूच संवसारांत केन्नाच अपेस ना. मनशान शकून-अपशकून आनी बरे-वायट म्हुर्त केन्नाच मानचे न्हयत. ते पिशांचे भैरोजळोप म्हणून सोडून दिवचे. आधार नाशिल्ल्या कल्पनेंतल्या अपशकुनांनीं केन्नाच कलकलचें न्हय. भेरें खांकलें, शिबरें शिंकलें, बोडकें दिसलें, माजर आड आयलें, कावळ्यान कां-कां केलें असल्यो ह्जार पिसायो घेवन फुडें घाल्लें धेंप केन्नाच फाटीं काडचें न्हय. केन्नाय आनी खंचेयकडेन बरें काम करपाची वान्सा जायनाफुडें तोच सगळ्यांत भांगराचो म्हुर्त म्हणून रोखडेंच वावरूंक लागचें. लांवां-भुतांचेर विस्वास दवरून घाड्यां-भगतांच्या नादाक लागचें न्हय. भुतां म्हण्टात तीं सप्नांभाशेन कल्पनेच्यो बेठ्यो सांवळ्यो. राजवाबदला दिशिल्ले सोरोप. तांकां भियेवन संवसारांतल्या दुखांत भर घालची न्हय. कोणूच मेल्लो मनीस भूत ज़ावन जळपना आनी येत्या-वत्यांक भेष्टायना. ताका तांकत तितली बेगीन नवी कूड बांदून संवसाराच्यो राटावळी करच्यो आसतात. तो नसतींच खेतबागडीं करून वेळ फुकट होगडायना, म्हणपाचें ध्यानांत दवरचें.

'मनीस मरतकूच वायट दिसलें तरी ताचे खातीर अतितायेचें दुख घेवन बसचें न्हय. * तो सासणाचो मरूंक ना; पर्थून जल्मतलो म्हणपाचें खरेपण धरचें. † तो जिवो आसासर ताची पिडा कातरून उडौंक वा ल्हव करूंक तांकत तितलो उपाय करचो, दुडू मोडचो, धेय झरौंचो; परंत मरतकूच निखटचा मड्याखातीर कसलोच विद्वाट करचो न्हय. मडें न्हवऱ्याभाशेन शृंगारावचें न्हय. तशेंच, सामकें नागडें-उगडेंय व्हरचें न्हय. ताचे वांगडा वाजप वाजौंचें न्हय, कसलीच बडबड करची न्हय आनी तोंडार हात मारून बोबूय मारची न्हय. ताचे कुशीक खाणा-जेवणाच्यो भुतयो आनी फळावळ बांदची न्हय. ताचे वांगडा कोणें जीव दिवचो न्हय. तें बरेतरेन जाळटकूच ताचे संबंधाची आपली लागणूक सोंपली अशें समजुंचें. ताच्या गोबराचेर आनी हाडावळीचेर थडें वा समाध बांदची न्हय. ताचें बावलें उबारचें न्हय. ताच्या नांवान देवधर्म करचो न्हय. मेल्ल्याच्या नांवान दुडू मोडचे आसल्यार, जिवे आशिल्ल्यांक तांचो बरो उपयोग जायत अशी मांडणी करची. आळशी लोकांक वोगीच भुसकीं घालून दानां दिल्यार मेल्ल्यांच्या आत्म्यांक तीं कुस्कुट उपकारा पडनात.

'जणएकल्यान आपल्या घामा-कष्टाचे जोडीन पोट भरचें. दुसऱ्याच्या म्हालम्हत्याचेर आनी मुदग्याचेर केन्नाच दोळो दवरचो न्हय. ‡ तशें केल्यार संवसाराचें आनी त्याभरशीं आपलेंय दुख वाडटा. आपणापरस दुसरो चड गिरेस्त, चड बुदवंत आनी चड बळिष्ट आसा म्हणून केन्नाच खेद काडचो न्हय. ताचेच सारको आपुण

---

* गतासूनगताश्च नानुशोचन्ति पसूंण्डिताः । भगी. २. ११.

† ध्रुवं जन्ममृतस्य च । भगी. २. २७.

‡ मा गृधः कस्यचिद्धनम् । ईश. १. १.

मनीस आसां. जें ताच्यान जाता तें आपणाच्यान कित्याक जांव नज? अशें येवजून वावराक लागचें. आपले सामखार जायते जल्म पातळ्ळचात हें ताणें ध्यानांत दवरचें. ह्या जल्मांत ना जाल्यार फुडल्या जल्मांत आपुण व्हडविकेक पावतलों म्हणपाचें ताणें खरेपण धरचें आनी तांकत त्या उपायान बुद्द घांसूंक लागचें. दरएकल्या जल्मांत तीच आपले वांगडा आसता म्हणपाची ताणें घट बरी गांठ मारची.

'भीक केन्ना मागची न्हय आनी भीक कोणाक घालची न्हय. भीक मागून आनी भीक घालून संवसारांतलें बेकारपण, दळिद्र आनी दुख चड वाडटा. तरी आसताना, वाव्र करून पोट भरूंक जांकां कशेंच तरेन तांक ना, जे सामकेच अडचल्यात. असल्या अपंगूल, म्हाताऱ्या, रोगयाळचा आनी उबन्त पडिल्ल्या मनशांक तांकत तो पालव दिवचो ही जणएकल्याची लागणूक आसा* हें केन्नाच कोणें विसरचें न्हय. अशें करता आसताना, आपुण तांचेर उपकार करतां अशें निखालुस कोणें समजुंचें न्हय, संवसारांत तसली देख चलूंक दिल्यार आपणाकूच ती केन्नातरी उपकारा पडटली म्हणपाचें जणएकल्यान ध्यानांत दवरचें. ह्या जल्मांत ना जाल्यार फुडल्या जल्मांत आपणाकूय एकाद्री दुसऱ्याच्या पालवाची गरज लागुंये हें ताणें विसरचें न्हय.

'देवा-धर्माच्या नांवान बडबड करून तरेकतरा ढोंगां मातैतल्याक निखालुस दारांत घेंवचो न्हय. ताका धा-जाणांचो दुस्मान कसो लेखचो. हो ढोंगी म्हळ्यार संवसाराचें हड्डें पोखरूंक लागिल्लो कदीमकाळचो रोंटो. मनशाच्या भोळेपणाक लागून तो जायतो मातला. संवसाराच्या दुखांत तो मिचमीच घालता. ताच्या भगव्या-काळचा आंगावल्यांक भुलचें न्हय. ताच्यो नाडानाडिच्यो जाणवायो आनी गिन्यानां आयकुंची न्हयत. ताची पुजा करची न्हय. ताका पांयां पडचें न्हय. ताचे पांय वळचे न्हयत. ताचें ढोंग फोडून तांकत तितलो ताका निवळांवचो.

'कोणाच मनशाक केन्ना उणाक लेखचो न्हय. ताच्या रुपा-रंगाखातीर ताचेर भष्टकार घालचो न्हय. ताका बंदो करचो न्हय. तशें केल्यार आपल्याच मनीस-पणाक उणाकपणाचें खत लागता. आपले तांकीभाशेन ताका वैर उखलून आपले वांगडचो करचो; म्हण्टकूच, संवसाराचें दुख ल्हव जांवक ताचोय पालव मेळून दोगांयच्या बऱ्याक पडटलें. संवसारांत सगळ्यांक वांचपाचें हक आसून संवसारांचें दुख कातरच्या कामांत सगळ्यांचेच बुद्दिचो उपयोग जांवचेलो आसा. देखून कोणें कोणाच्या वावरांत आड येंवचें न्हय. कोणें कोणाक पिडचें न्हय. कोणें कोणाक चिड्डुंचो न्हय तशें केल्यार, त्या मनशाचो पालव होगडावन अखेरेक आपलेंय लुस्कान

---

* दातव्यमिति यद्दानं दीयतेऽनुपकारिणे । देशे काले च पात्रे च तद्दानं सात्त्विक स्मृतम् । २० । अदेशकाले यद्दानमपात्रेभ्यश्च दीयते । . . . .तत्तामसमुदाहृतम् । २२ । भगी. १७.

जाता म्हणपाचें जणएकल्यान ध्यानांत दवरचें. जणएकल्याक ताचे तांकीभाशेन वावरूंक सन्द दिवन तांकत तितलो पालव दिवचो हांतूंच धा-जाणांलें हित आसा.

'दुख, संकष्ट आनी अरिष्ट चुकौंक तांकत तितलें वावुरचें. कितेंय होगडावलें जाल्यार तें सोदून काडचो यत्न करचो. कोणेय नाडलो-नागैलो जाल्यार ताका फावो ती बुद्द शिकौंची. परंत इतलेंय करून लुस्कान भरून आयलें ना जाल्यार, मरसर खेद काडचो न्हय. * शेपटी तुटुनूच वाटावलों, जिवार हावळ आयली ना म्हणपाचो समज करून धिरान फुडल्या कामाक लागचें.

'निमाणें, संवसारांतलें दुख ल्हव जांवक एक भांगराचो उपाय आसा तो हो कि दुसऱ्यांनीं आपणाकडेन जशें चलचेंशें दिसता तशें आपणें तांचेकडेन चलचें. ¶ दुसऱ्यांनीं आपणाली माया करची, आपणाक मान दिवंचो, आपणाक उपकारा पडचें अशें दिसता; म्हण्टकूच आपणेंय तांची माया करची, तांकां मान दिवचो आनी उपकारा पडचें. दुसऱ्यांनीं आपणाक तिडांवचें न्हय, फटौंचें न्हय. नाडचें न्हय, नागौंचें न्हय अशें दिसता; म्हण्टकूच आपणेंय तांकां तशें करशें न्हय. दुसऱ्याची कळाकूळ वळखना जाल्यान संवसारांतलें दुख जायतें वाट्टा. जायते लोक आपलो सुवराथ सादूंक दुसऱ्याचें लुस्कान करतात. ते राक्षेस म्हळचार जातात. दुसरे कांय पाडाखे लोक कसलोच सुवराथ सादना जाल्यारूय कामा-गर्जेबगर दुसऱ्याचें पाड घालतात. ते राक्षेसां पाष्ट. तांकां नांवूच ना. $ संवसारांतलें दुख ल्हव जांवक ह्या दोंय तरांच्या लोकांक आळाबंदा हाडूंक जाय. धा-जाणांल्या हिताचे ते मोटे व्हडले दुस्मान. तांकां खर-निबर ख्यास्त भोगौंची मांडणी करूंक जाय. तांकां आपलेपणाच्या नात्यान केन्नाच चलौंक फावना. ते तसो आपुण जावनूय उपकारना. सोर्पा आड गरूड असलें नातें तांचेकडेन चलौंक जाय. ताणीं एका पोल्यार माल्ल्यार आपणें तांचे दोनूय पोले फडाफड फोडूंक जायत. हांतूंत संवसाराचें हित आसा. तांची पिडणूक सोंसून वोगी रावल्यार ते चड माततात आनी संवसाराचें दुख चड वाट्टा.

'दूतमाम आनी आत्म्यांनू, संवसारासंबंधाचो म्हजो अणभव आनी येवजण्यो हांवें तुमकां सांगल्यो. आजवेर पळेल्ल्या, वाचिल्ल्या, आयकल्ल्या आनी अणभविल्ल्या गिन्यानाचें सार ह्यांवें तुमच्या फुडचांत दवर्लें. म्हज्या आनी तुमच्या मनाची फटवण करूंक हांवें तुमकां नाका-जाल्ल्यो फटासी सांगूंक नात. म्हजी दरएकली म्हणणी

---

* शोकं न कुर्यान्नष्टस्य । शुक्रनीति, ३. १४२.

¶ And as ye would that men should do to you, do ye also to them likewise. NT. Luke, 6. 31.

$ तेऽमी मानवराक्षसाः परहितं स्वार्थाय निघ्नन्ति ये । ये निघ्नन्ति निरर्थकं परहितं ते के न जानीमहे । भर्तृहरि, नीति. ७४.

तुमी तुमचे बुद्दिचे साणीर घांसून पळयात आनी कसाक लागल्यार घेयात. हांव जाल्यार म्हज्या अणभवाभाशेन चलतलों. म्हाका सर्ग ना, नर्क ना आनी मोक्षूय ना. संवसारांतल्या दुखांक हांव भियेना आनी तांतूंतसून पळूंक सोदिना. हांव भौनभौन जल्मतलों आनी सासणाचो वांचतलों. हांव म्हजे माये-मोगाचे भुयेंत घट बरो सैमा येतलों. हांव संवसार बारकायेन पारखितलों. तांतूंतल्या दुखां वांगडा एकसारकी पौठ घांसतलों आनी तांकां जिखतलों. हांव सुखी जातलों आनी सगळयांक सुखी करतलों. आत्म्यांनू, म्हजी म्हणणी तुमकां मान्य आसत जाल्यार येयात म्हजे वांगडा. तुमचो भय फाटीं पडलो. * आतां तुमी कलकलुं नाकात. हो दूत तुमकां आतां दटांवचो ना. तो दूत तुमकां आतां भेष्टांवचो ना. इंद्रराज तुमकां आतां भुलसांवचो ना. यमराज तुमकां आतां तिडांवचो ना. तुमकां भ्रमांत कोण दवरचो ना. तुमची फटवण कोण करचो ना. तुमकां कोण नाडचो ना. तुमकां सर्ग ना, नर्क ना, मोक्ष ना आनी निमाण्या निर्णयाचो दिसूय ना. तुमी आतां हुस्क्यामेकळे जाले. आजचे बुट्टेच्या धर्मान तुमकां आनी म्हाका आयतीच लिंगकूड मेळ्ळ्या. हे कुडींत बसून आमच्यान जाय थैं वचुं येत. देखून, धर्तरेर वच्चे आदीं आमी सूर्याची आनी ताचे गिरावळिची भोंवडी करून मागीर दुदगंगेंत वचुंया आनी थैंसून वेगळया वेगळया ब्रह्माण्डांत रिगून संवसाराचो बोंबाडो बारकायेन पळौंया. थैंच्या जिवांची रीत-रवीस आमी ध्यानांत घेंवया आनी थैं कितेंय नवें गिन्यान मेळटा जाल्यार घेवन आमी धर्तरेर वचुंया.'

बामणाचें उलौप आयकून सगळया आत्म्यांक धीर आयलो. तांचो जीव सूड जालो. ताणीं एका ताळयान ताचो जयजयकार करून म्हळें, 'अगा भौ बऱ्या बामणा, तुजे असलो खऱ्याक खरें आनी फटीक फट म्हण्टलो आत्मो आमकां अजून मेळूंक नासलो. आजवेरचे गिन्यानी मनीस आमकां भ्रमाच्या पडुचाआड घुस्मटावन दवरताले. ते आमकां तरेकतरा गजाली सांगून भुरग्यांभाशेन खऱ्यो मानूंक सांगताले. ते आमकां भावरार्थी करताले. परंत तुवें आज जी फोडणिशी केली तिचेवैल्यान मरतकूच मनशाक सर्ग ना, नर्क ना, मोक्ष ना, आनी निर्णयाचो दीस ना म्हणपाची आमची खात्री जाली. गिन्यान्यांल्यो गजाली आयकून आमी चड ढोंगी जाताल्यों एकामेकांक फटैताल्यों, नाट्टाल्यों आनी पिट्टाल्यों. देवाधर्माच्या नांवान आमी एका मेकांक धोंसताल्यों. तरेकतरा पातकांच्यो राशी उबारून देवाक पांयां पट्टकूच आनी ताची मकलासी मागतकूच आमी सुट्टांत अशें समजताल्यों; परंत ही सगळी मनाची फटवण आसा म्हणपाचें आज आमकां खरेपणानशीं कळ्ळें. तुवें आमचे दोळे उगडले. तुवें आमकां फटिंच्या रानांतसून खरेपणाच्या मार्गार हाडले. तुवें आमकां काळोख-गुपाटांतसून घणघणीत उजवाडांत व्हेले. तुवें आमकां सासणाच्या मर्णांतसून सास

* अभयं वै प्राप्तोसि । बृहदारण्यक ४. २. ४.

णाचे जिणेंत पायले. आतां तुजेच वांगडा आमी येतल्यों. तुजेच वांगडा भोंवतल्यों. तुजेच सांगणें-म्हणणेन चलतल्यों. तुजीं गोड-म्होंवीं उतरां सगळ्या संवसाराक कळैतल्यों. आमी सुखी जातल्यों. सगळ्यांक सुखी करतल्यों. **ॐ आतां आमी बांगडा रांवया । वांगडा खांवया । वांगडा घट जांवया । तेजवंत जांवचेलें गिन्यान जोडुंया । एकामेकांलो द्वेस सोडुंया । एकामेकांक माये-मोगान ओडुंया । ॐ थंडाऽय, थंडाऽय, थंडाऽय ।' ***

अशें म्हणून सगळे आत्मे बामणावांगडा भुर्रकरून उडून गेले. त्या वेळार देवाच्या शिवासना लागशिलें दुतांचें भिरें तोंडां पासाक लावन अजापान पळौंक लागलें तितले म्हणसर शिवासनांतसून एक ताळो गाजलो तो असो :—'बामणाली म्हणणी खऱ्यानीच खरी. संवसाराच्या बऱ्या-वायटांत देव निखालुस हात घालिना. ताणें आजची बुट्टी हाडूंक ना. धर्तरेर ती सगळेच कडेन येंवक ना, आनी धर्तरेवैले सगळेच जीव आनी मनशां काबार जांवक नात. ‡ मनशां आपले कल्पने भाशेन देवाक चित्रायतात आनी बऱ्यो-वायट कल्पना ताका दसैतात. परंत तांच्या सुखा-दुखांत आनी पातका-पुण्यतायेंत देव केन्नाच सुडबुडना. ताणें तांचेखातीर सर्ग रचूंक ना आनी नर्क रचूंक ना. तो तांचो निर्णय करिना आनी तांकां ख्यास्तूय भोगैना. तो ते पांयां पडल्यार भुरकुटना आनी पांयां पडना जाल्यार तिडकना. तो तांकां आपणासरीं आपैना आनी आपणांत सासणाचे विर्गळूंक सांगना. संवसार किल्लून वाडपाची ताणें एकफावट मांडणी करून दवल्ल्या. तो सासणाचो तगुंकूच वैर सल्ला. ताचो उपयोग मनशांनीं आपल्या बऱ्याक करुं येत आनीं वायटाकूय करुं येत. सुख भोगुं येत आनी दुखूय भोगुं येत.'

रोखडेंच चोंयवशीन कापसासारकें धवें फुल्ल दाट धुवें पातळ्ळें आनी तांतूंत तें शिवासन आनी देवदुतांचें भिरें गुटलावन दिसनाशें जालें.

---

* ॐ सह नाववतु । सह नौ भुनक्तु । सह वीर्यं करवावहै । तेजस्विनावधीतमस्तु मा विद्विषावहै । ॐ शान्तिः शान्तिः शान्तिः ।

‡ It should be borne in mind that the Quran does not give any countenance to the story that the deluge covered the whole surface of the earth.' Translation of the Holy Quran By Maulana Muhammad Ali M. A. LL. B., Lahore, 1928, p. 226, note 4.

# मोगाचें लग्न

## दुसरो आंक

### देखाव १ — घराचें साल

[ घारूदाद हांतरपटचार लोडाक तेंकून बसला; तो खांवचीं पानां खाता आनी वणटिचेर पिचिपिची करून थुकता. लागसार फुलगें उबें आसा. बोंबबाब आनी शिवलो येतात. ]

**बोंबबाब :** (घारूदादाक) अखेरेक देवान आमकां भोव बरो वैज दाखोवन दिलो म्हळचार कामायता. ह्या वैजाफुडें व्हडले व्हडले धन्वंतरी लेगीत कुस्कूट उपकारा पडनात खैं.

**शिवलो :** खऱ्यानीच ह्याच्या दाव्या पांयाचे व्हाणेचीय सर हेरां वैजांक येवची ना. तांकां सगळचांक ह्याचे भोंवतणी उंवाळून उडोवचे.

**बोंबबाब :** अश्विनीकुमार म्हणून जे कोण म्हणटात तांतूंतलोच एकाद्रो हो कोण तरी अवतार घेवन ह्या संवसारांत जल्मला जाल्यार कोण जाणा. ताणें मेल्ल्या मनशांक जितीं केल्यांत खैं.

**शिवलो :** तो चिके कोल्ली आसा. केन्नाकेन्ना ताचें माथें घुंवळटा. त्या वेळार ताचे-कडेन उलैसारकी माणसुकी ना. कशेंय जाल्यार, एके पाखळेन तो उणो आसा-सो दिसता. फकाणां मात खूब मारूंक जायत ताका.

**बोंबबाब :** परंत ताचीं फकाणां पोलीं न्हयत; तांतूंत किते तरी नवें शिकचेलें आसता. केन्नाकेन्ना आमकां समजूंक कठीन असलीं उतरां ताच्या तोंडयां येतात.

**शिवलो :** तो उलोवंक लागतकूच बद्द सत्यनारायणाचें पुराण सांगिल्ल्यावरी उलैता.

**बोंबबाब :** तो मोठ्या नांवा-लोवकिकाचो वैज खैं. दिसपट्टे हजारांनी लोक ताचे-कडेन आइल्ले आसतात.

**घारूदाद :** हाडात तर ताका हांगा बेगीन.

**बोंबबाब :** बरें आसा. (वेता.)

**फुलगें :** (घारूदादाक) बाकिच्या वैजांनी दिवे लायले; आतां हो एक आनीक आयलो-सो दिसता. वाडिल्ल्या व्हांकलांक खरें गुण-दिणें ओखद म्हळचार

बरोसो, नवो-ताल, तरणो करकरीत, रुपेस्त-भागेस्त घोव. सगळें सांडून भोवन भोवन ते परिपाटकाचे कडे कित्याक ?

**घारूदाद :** (उबगून) आयलें तें मदींच तोंड घालूंक ?

**शिवलो :** (तिडकून) फुलू, मेलेंशें वोगें राव नज गो तुज्यान ? व्हडली म्हालाय आयली ही जाळवण्यो करूंक !

**फुलगें :** हांव तुमकां जाय तसलो सपूत दिवन सांगतां, खैंच्याच वैजाच्या ओखतान मोगाक गूण पडचीं आस्त ना. ताचो रोग ओखतांक रडना.

**घारूदाद :** म्हणटकूच तुजी म्हणणी कितें गो बाये ? हांव ताचें लग्न करिनां म्हणटां ? एदो मोटो खर्च केलो आनी न्हवरोलेगीत घरांत आयलो तो तुवें पळेलो ना ?

**फुलगें :** पळेलो ! पळेलो! सगळें सांडून त्या म्हातारखंडाच्या गळयांत भांगरासारके चलयेक बांदूंक तुमकां कशें मानता तेंच म्हाका समजना. सुब्रमणयाकडेन ताची सोरगत केल्यार कितें वायट आसली ?

**घारूदाद :** अगो पिश्या, वेंकटरमण म्हातारोय जालो जाल्यार ताची सर्त त्या सुब्रमणयाक येता गो ? सुब्रमणयाकडेन आसा कितें? ताची सगळी मिरास म्हणटात ती घराचें एक खोंपूट आनी घरभाटलें ! इतलेंच मू ?

**फुलगें :** पणून तो फिर्गी बरप खूब शिकला म्हणटात बाये. कितलींशीं वर्सां तो पणजे शिकूंक आसलो. त्याभायर हाल्लीं तो विस्किरावांचे कार्तोरींत वेता खैं. फिर्गी-फिदाल्कांक हात दिता खैं. कागदांचे मोटे मोटे पेळे खांकेक मारून सिगरां ओडीत बाजारांतसून वेता आसतना हांवें ताका जायते फावटीं पळेला. देवान बरें केल्यार, फाटींफुडें तोच विस्किरांव जावन माचिलांनी भोंवचोना-सो तुमकां दिसता ?

**घारूदाद :** अगो, जायतो शिकलो म्हणून कित्याक उपकारता ? माचिलांनी भोंवतलो वा माचिलां फाटल्यान धांवतलो तें कोणाच्यान सांगुं येत ? तुर्ताक दोळयांमुखार कितें दिष्टी पट्टा तें खरें. फुडलें कोणे पळेलां ? वेंकटरमणाकडेन बरी गांठ आसा ती जाणा व्हय तूं ?

**फुलगें :** गांठ आसलीय जाल्यार, तरण्या-धाकटया व्होंकलांक जाय-जाल्लें तरणेपण ताचेकडेन आसा व्हय?

**घारूदाद :** नासलें म्हणून ? तरणेपण कित्याक मिठाक घालचें आसा? आदीं मनशान अन्न-वस्त्र आनी भांगर-शिंगर पळोवंक जाय. तितल्याक वेंकटरमणागेर तूट पडूंक ना. तशी सुब्रमणयाची गजाल आसा गो ?

**फुलगें :** पणून कितलेंय जाल्यार, सुब्रमणी तुमचो भाचो न्हय ? मुजिच्या वेळार

काशयेक गेल्लो तेन्ना तुमीच मु ताका समजावन हाडलो चली दितां म्हणून ? आनी आतां कित्याक फाटीं सरतात ?

**घारूदाद :** अगो, तसोच समजायतात. म्हणून तें सगळेंच खरें मानल्यार जाता ?

**फुलगें :** असल्यानी बरें तर मु हें ? सुब्रमणी घोव-घोव म्हणून मोगाक आमी मेळत तेन्ना चाळैताल्यों आनी मोगा म्हणून भितल्ले भितर मुरगटून लजतालें. तें सगळें फुकट गेलें तर ?

**घारूदाद :** अगो पापया, ल्हानपणांत कोणाकूय तसोच घोव-घोव म्हणटात, म्हणून तो खऱ्यानीच घोव जाता गो ?

**फुलगें :** तुमी कितेंय म्हणात. वेंकटरमण न्हवरो सोदून काडीत पासून मोगाची सामकी वाट लागली हां. सामको सुकतडो लागलो ताका. हर्शीं तें आंगापांगान कशें आसलें तें जाणात मु तुमी ? आतां आनी ताची वाचा धल्ली. कितें जातलें कोण जाणा बाये. (हुस्केवन, उबिल्लीं मोवळां दोनूय हातांनी सारकीं करून) पणून सुब्रमणयाकडेन तुमी ताचें लग्न कित्याक करून दिनात ? एकाद्रो तांतूंतूच ताका गुणाव पडत-सो दिसना तुमकां ?

**घारूदाद :** (तिडकून) भोवन भोवन तें आपलेंच वाजंतर वाजैता ! आतां मात तूं सुब्रमणयाचें नांव काडशी जाल्यार पळे. घरांत तुका वावर-धंदो बी कांयच ना गो ?

**शिवलो :** (फुलग्याक धुकलून) ना गो तुका वावर-धंदो ? मोटें पातोळें हें. मेळत तांतूंत आपणालें तोंड घालता. चल थैंचें.

[ बोंबबाब बाबग्याक घेवन येता. माथ्याक मोटोसो रुमाल, आंगाक मिरयांचो चोगो, खांदार मूण असो बाबग्याचो पोशेंग ].

**बाबगो :** (मनांत) म्हाका हाणी वैज जाल्यार केलोच. आतां हें सवँग कशेय-भाशेन सोबोवन व्हरूंक जाय. ह्या वेळार, त्या मोट्ट्या वैजाच्या घरा जें कितें गिन्यान म्हाका मेळ्ळां तें सगळें उक्तें करून दाखोवचें पडलें. नाजाल्यार दशा वेतली.

**बोंबबाब :** (घारूदादाक) हो आयलो तो वैज.

**घारूदाद :** (बाबग्याक) बरें-गोंय. तुका पळोवन जिवांत जीव आइल्ल्याभाशेन जालो सायबा. बस गा असो.

**बाबगो :** (बसून, घारूदादाक बारकायेन तर्जून पळोवन) वाग्भट अशें सांगता आ-आ-आ . . . . . .

**घारूदाद :** कोण वाग्भट ?

**बाबगो :** अगा तो आमगेलो वाग्भट. कोलंभटालो भाव. आमगेलो पुर्विल्लो वैज म्हणटात तो तो. तो सांगता, 'मस्तकं उक्तं न दवर्यात्' म्हळचार 'माथें उगडें दवरचें न्हय'. देखून हांव तुका सांगतां, माथ्याक मात्सो रुमाल घाल पळोवंया बेगीन.

**घारूदाद :** परंत घरांत बसला थैं रुमाल गा कित्याक जाय माथ्याक ?

**बाबगो :** अगा घरांत सगळी सावळी मु ही ? हे सावळेन तुंज्या कपळाक थंडी बी चडली जाल्यार ?

**घारूदाद :** अशें, अशें ? (खुंटयेवैलो रुमाल काडून माथ्याक बांदता.)

**बाबगो :** आऽहा ! आतां कशी शिरी माल्ली ? (बळयांच पिशेपण पांगरून) हांव आयकतां, तुवें खैं लक्षांनी-कोटयांनी रोग बरे केल्यात. आनी........

**घारूदाद :** कितें ? कोणें ?

**बाबगो :** तुवें गा, तुवें !

**घारूदाद :** हांव वैज आसल्यार मु फुडें रोग बरे करीन ?

**बाबगो :** तूं वैज न्हय ?

**घारूदाद :** न्हय, हांव न्हय.

**बाबगो :** (बडी घेवन घारूदादाक धपके घालून) खऱ्यानीच तूं वैज न्हय ?

**घारूदाद :** (फाट सांसपून) आवै ! आवै ! आवै ! आवै !

**बाबगो :** बऱ्यान सांग तूं कोण तो ! अजून वैज न्हय ? हांव वैज जालां तो कसो म्हणून समजला तूं ? (बोंबबाबाकडेन बोट दाखोवन) ह्या हाकाच विचार. 'बडी वाजता चम चम, वैज जाता घम घम,' समजलो ? वैज म्हळचार खावची कामां न्हयत.

**घारूदाद :** (बोंबबाबाक) हें रे बाबा आनी कोण फकाण ? खैंचें नसांव घेवन आयले तुमी हांगा ?

**बोंबबाब :** हो वैज मात्सो तसोच आसा म्हणून आदींच तुमकां सांगूंक नासलें आमी?

**घारूदाद :** परंत म्हाका हें असलें उपकारना; हय.

**शिवलो :** तें तुमी मनार घेवं नाकात पळोवया. हो वैज चिके फकाणी आसा. उतरा-पावलाक ताका फकाणां मारूंक जायत.

**घारूदाद :** फकाणां ? असलीं मारांचीं फकाणां ?

**बाबगो :** (घारूदादाची फाट सांसपून) तुका बडैलो खरो; पणून कितलें वायट दिसता सांगूं ! मनांत कांय वायट धरुं नाका हां.

**घारूदाद :** कांय नज. कांय नज. तुका हांगा कित्याक आपैला तें जाणा व्हय तूं? म्हजी एक धूव आसा; तिका कसलो रोग जाला तोच समजना.

**बाबगो :** तुका गा तो कसो समजत? मागीर आमी वैंज म्हणटात ते कित्याक तर पणून तूं आसा मु जिवान बरो? हांव समजल्लों तुकाच बरें ना.

**घारूदाद :** नां गा सायबा; हांव बरो आसां.

**बाबगो :** आनी तूं बरो नासलोय जाल्यार बिशाद ना गा. तूं, तुजी बायल आनी तुज्या घरांतलो सगळो तांतीं-पिलो जरी ह्या वेळार वायटांत पडिल्लो जाल्यारूय त्या सगळ्यांक ओखतां दिवंक म्हापुरसाचे दयेन म्हाका खूब तांक आसा. तूं ही भगल समजुं नाका. हांव हें बोंबलेच्या देटांपासून उलैतां. मनशां सपसप वायटांत पडनात हाचेंच म्हाका अजाप दिसता. नाजाल्यार ओखतां दिवंक म्हाका निखालूस आळसाय ना. बरें तुमगेले वायटाकारणिचें नांव कितें गा?

**घारूदाद :** मोगा.

**बाबगो :** आऽहाहाहा! सुरबूस मु गा नांव हें! खैं गा आसा तें मोगा?

**घारूदाद :** (बोंबबाबाक) मोगाक हांगा घेवन येयात पळोवंया. (**बोंबबाब** वेता.)

**बाबगो :** (फुलग्याक पळोवन) ती तिटापै-कशी कोण उबी थैं?

**घारूदाद :** तें आमगेले कुळमिणिलें चेडूं.

**बाबगो :** बरें मात माडी कशेंशें ऊंच वाडलां हां! नांव कितें गा ताचें?

**शिवलो :** ताचें नांव फुलगें. म्हजी भैण ती फाटली.

**बाबगो :** तुजी भैण ती? फुलगें ताचें नांव? तरूच तो गांवभर सगळो घमघम सुटला! जैं थैं गांजील मूस घोंगेतात. हाच्याच वासान आसतले! कसलें जांवयें हें फूल?

**शिवलो :** अगा चिटवाळपणां नाकात. (फुलग्याक) फुलू, तूं भितर वच पळोवंया.

**बाबगो :** (फुलग्याक) कसलेंय जायना तूं फूल. हांव आपलो तुका दसवंतिचें फूल म्हणटलों. तें म्हजें चड वळखिचें फूल. केन्नापासून फुलूंक लागलें गो तूं? लावणी बी म्हळी मु गो तुवें?

**शवलो :** पुरो जालीं गा तुजीं फकाणां. उलोवचें कितें आनी उलोवचें न्हय कितें तेंच तुका समजना.

**बाबगो :** (शिवल्याच्या मणकटाक धरून) म्हाका एद्या व्हडल्या वैजाक उलोवंक समजना? पिशें-बी लागूंक ना मु तुका? चेडवां-कलंवतां, भावणी-हातलावणी

हांचेपरस आनीक दुसऱ्यो कसल्योच सुवादीक गजाली आसत मु ह्या संवसारांत? हांचे फुडें हेर सगळ्या राजकर्णाक लागलो उजो. जाणटो-नेणटो, दादलो-बायल, भुरगो-म्हातारो म्हणनासतना, जाय ताणें, जाय थैं, जाय तेन्ना ह्यो गजाली हुस्क्यामेकळचो करच्यो! तांतूंत व्हडवीक आसा; लोकीक आसा; पुण्यताय आसा; सगळें आसा!

**शिवलो :** ह्या वैंजाचें उलोवणेंच उफाट्टें.

**बाबगो :** (नाखार बोट धरून) उफाट्टें म्हणशी-जाल्यार बरें जावचें ना हां, हय. तूं जाणा कितें? तुवें पळेलां कितें? आमचे व्हडले व्हडले शाणेसुर्ते म्हाजन घराच्या बलकांवार, देवळाच्या सोंडयार, समरद्नेच्या पानार, वापोराच्य बांकार, व्हडयाचे साटयेर नाजाल्यार पनेळाचे आडयेर बसून चकाटां मारूंक लागतकूच गणेसपुजेक कसली गजाल काट्टात म्हणून समजला तूं? 'अमकें-तमकें रत्नें केन्ना न्हावंक लागलें, माणक्याची शेंस केन्ना घाली, केम्पाची हात-लावणी कोणें केली' असल्योच मु गजाली ते मोटचा घोंसार येवन करतात? (घारूदादाची तकली हालोवन) तूंच सांग गा मात्शें, हांव उलैता तें खरें कि लटकें?

**शिवलो :** तुजे फुडें बाबा कोण उलैत?

**बाबगो :** (फुलग्याक) बरें, म्हज्या दसवंतिच्या फुला, घुडघुडेक मात्शें घालशी व्हय तूं?

**शिवलो :** अगा, हांव घालतां. (फुलग्याक रागान पैस्स धुकलून) तूं चल थैंचें. तुजें काम कसलें हांगा?

**बाबगो :** (शिवल्याक धुकलून) ताका गा वोगीच तूं कित्याक धुकलता? तुवें घाल्ली घुडघुडी म्हाका नाका. ताणें आपल्या मोव हातांनी किसैल्ल्या पानाच्याचो सुवाद कसो आनी तुज्या तोंडक्या हातांनी किसैल्ल्या पानाच्याचो सुवाद कसो? नसतेंच गा कितें? (शिवल्याक लांब धुकलता.)

**शिवलो :** पळे हां, हांव वोगो रावचो ना.

**बाबगो :** कितें करतलो गा? अदीकशें उलैशी जाल्यार हांव जोर हाट्टलों हां तुका! हांव वैंज म्हणून नकळ तूं? म्हाका सगळ्यांनी भियेवंक जाय. हांव म्हणटां तें खरें म्हणूंक जाय. (मात्सो थारावन घारूदादाक) अगा, पणून तुमची वायटाकारीण खैं पावली? शी, तुमी कितलोसोच कळाव लायतात. वैंजाचो वेळ म्हळयार तुमकां मस्कऱ्यो-शो दिसतात. हांगा एका खिणाक एक असुर्पी पट्टा हां. तूं जाणा, हांवें केन्नाच्यान ओखतां-बी तयार करून दवल्ल्यांत तीं?

**घारूदाद :** ओखतां तयार दवल्ल्यांत? कितें म्हणटा? खैं आसात तीं?

**बाबगो :** खैं आसात? पिशेपणां जालीं. वैज आसा थैं ओखतां. 'शेट रिवणां आनी सांतली कुसमणां' म्हळ्यार उपकारता गा? (कपळाक हात लावन) आमची ओखतांची कोठी म्हणटात ती ही!

**घारूदाद :** बरें सायबा. (बोंबबाब आणि मोगा येतात; तांकां पळोवन) हें-हें आयलें म्हजें मोगा.

**बाबगो :** (मोगाक पळोवन) हीच ती वायटाकारीण ?

**घारूदाद :** हय सायबा. म्हजी नवांनवसांची एकलीच धूव ती. ती म्हाका होगडावत जाल्यार म्हजे दीस लागीं पावले म्हणचे.

**बाबगो :** (घारूदादाच्या तोंडार हात धरून) थू-थू-थुमेकाल. तशें आचारवाणें उलोवंचें न्हय. हांव एदो व्हडलो वैज लागीं आसून तुमकां कोणाकूच मरूंक दीन म्हणून समजला तूं? तूं कांय भियेवं नाका. म्हजें ओखत घेतल्याबगर तुजी धूव केन्नाच मरची ना. (मोगाच्या तोंडाकडेन बारकायेन पळोवन) हाच्या तोंडाची नुरा पळेल्यार हाचो रोग मोटोसो असाध्य दिसना. (मोगाक) अशें बस गो हांगा. (मोगा हांसत बसता.)

**घारूदाद :** पळे-पळे, हांसलें म्हजें मोगा.

**बाबगो :** हांसलें? भांगरापरस हळडुवें. वैजान आपल्या वायटाकाराक हांसैलो जाल्यार तो एक बरोच शकून म्हणचो. (मोगाक) कितें जाता गो तुका बाये? कसली पिडा भोगता?

**मोगा :** (तोंडाक आनी खाडकेक हात लावन कुरवांनी) आं, इं, ओं, आं, ऊं.

**बाबगो :** कितें म्हणटा?

**मोगा :** आं, ऊं, इं, ओं, आं.

**बाबगो :** कितें?

**मोगा :** आं, इं, ओं, ऊं.

**बाबगो :** (चाळोवन)-आं, इं, ओं, इं? हळद लागली हे भाशेक.

**घारूदाद :** पळेलो मु तुवें हो रोग? वाचाच मुदलीं धल्ली. कितें जालें आनी कात तेंच समजना. तेदूस न्हवऱ्यान घरांत पांय दवल्लो मात, चलयेची जीव ना वाचा ना जावन अखेर ही अशी अवस्ता जावन पडली.

**बाबगो :** कितें? हाचें लग्न जालां तर? आनी तेच दिसा हाची ही अवस्ता जाली?

**घारूदाद :** लग्न कपाळाचें. कोणूय न्हवरो जालो म्हणून, जाणा जावन असली वाचा धरिल्ली बायल करता?

**बाबगो :** पणून बायलेची वाचा धल्यार तांतूंत गा कितें जालें? म्हाका दिसता,

त्या न्हवऱ्याक ना अक्कल. बायलेची वाचा धल्ल्यार चड बरें हें त्या पापयाक समजना? बायलेन दीसरात झगडून सगळें घर माथ्यार घेवचें ही ताका खोस आसतली! देवा! म्हजे बायलेची वाचा धरिल्ली जाल्यार कितलें बरें जातलें आसलें! हांव तिका ओखदविसंद केन्नाच करचो नासलों.

**घारूदाद :** तें कशेंय आसूं. तूं एकफावट हाका वाचा फुट-शी कर.

**बाबगो :** कांय परवा ना. तूं भियेवं नाका. ह्या रोगापासून ताका चड पिडा भोगता खैं?

**घारूदाद :** हय सायबा.

**बाबगो :** तर भोव बरें. तिका खूब दुखी बादता खैं?

**घारूदाद :** खूब, खूब दुखी बादता.

**बाबगो :** तर साकरेपरस गोड. (मोगाक) तुजो हात मात्सो हेवशीन कर पळोवंया. मात्सी नाड धरुनी. (मोगा दावो हात फुडें करता) चे: चे:, तो खैंचो हात? उजवो हात फुडें कर उजवो. वाग्भट सांगता, बायलांच्या उजव्या हाताची आनी दादल्यांच्या दाव्या हाताची नाड पळोवंची. (नाड धरून घारूदादाक) ही बद्द बेबकी उडिल्ल्याभाशेन उट्टा. हाचेवैल्यान अशें दिसता कि तुजी धूव मोनी जाल्या.

**घारूदाद :** हय; म्हाकाय तो रोग तसोच दिसता. तुवें तो जिस्त पारखिलो.

**बाबगो :** पारखिलो म्हणचे गा? मागीर वैज कसलो तर? हांव तो कानां-दोळ्यांचो वैज न्हय हां. वाग्भटांत धन्वंतरी म्हणून जें उतर आसा तें आज म्हाका एकल्याकूच लागू जाता.

**घारूदाद :** खरेंच. परंत उपकार करून, हो रोग जावचें मूळ कितें तें तूं सांगशी व्हय?

**बाबगो :** तें भोवच सोपें. जीब धल्ली म्हणून मोनें जाल्लें.

**घारूदाद :** तें खरें. पणून जीब धरूंक मूळ कितें?

**बाबगो :** तूं संवसारांतल्या खैंच्याय वैजाकडेन गेलो जाल्यार तो तुका सांगतलो कि जिबेक कसलोय आडखळ जातकूच जीब धरता.

**घारूदाद :** परंत तो आडखळ कित्याक जाता?

**बाबगो :** तें हांव तुका कितें म्हणून सांगूं? तुका आदींच आमगेले वैजकेचें गिन्यान ना. तेन्ना, जायती कपाळफोडणी केली म्हणून तें तुज्या कपाळांत रिगचें पडलां? हो रोग म्हणटात तो असो आसा कि वाग्भटान ताचेर सातशीं शिळोक घडैल्यात आनी तांकां ताणें 'मौन-सपूतशती' अशें नांव दवल्लां. कितें त्या शिळोकांची

तोखणाय करतलो ? एका एका शिळोकाक लक्ष लक्ष असुर्पी फावो. आज वाग्भटा असलो वैंज संवसारांत कोण जालोच ना.

**घारूदाद** : तर तो मोटोच वैंज म्हणचो.

**बाबगो** : खऱ्यानीच मोटो. (उबो रावन माथ्यावैंर उजवो हात उबारून) हाचेय परस मोटो म्हळचार जाता. बरें आतां हांव तुका ह्या रोगाचो मात्सो समज घालतां. पणून तुका संवस्कुत्र भास येता व्हय ?

**घारूदाद** : ना सायबा. शास्त्राकूय येना.

**बाबगो** : (खोसयेत पावली मारून) कितें ! शास्त्राकूय येना ?

**घारूदाद** : ना सायबा.

**बाबगो** : (धादोशी जावन) अजाप म्हणचें, अजाप !

**आवेलं कोकमिस्त्रतं तन्मध्ये ज्याग्रमेवच**
**कोमिदं सुर्बुसं एवं बाबगो भुरकायते ।***

हांतूंतलें एकूय उतर तुका लागना ? मात्शें येवजून पळे. सुस्तुतांतलो न्हय गा शिळोक हो ! भोवच सोंपो. (बसता.)

**फुलगें** : ह्या वैंजांलो ताळो मात भोव बरो बाये. मोगाच्या लग्नाक हांकांच शिळोक म्हणूंक लावंक जाय.

**बाबगो** : (फुलग्याक) अजून तूं घुडघुडेक घालूंक गेलेंच ना ?

**शिवलो** : अगा, चल्लों; हांवूच चल्लों घुडघुडेक घालूंक. (वेता.)

**बाबगो** : (घारूदादाक) मागीर, समजलो तुका म्हज्या शिळोकाचो अर्थ ?

**घारूदाद** : ना सायबा, कांयच समजना.

**बाबगो** : तर तुका समज गा कसलो पट्टलो ? रोगाची फोडणिशी करतलो जाल्यार उतरापावलाक संवस्कुत्र उतरां लागतात. बरें, तुका तुजी जल्मभास तरी येता व्हय ?

**घारूदाद** : (अजापान) जल्मभास ? ती आनीक कसली ? जल्म जाता तेन्ना आमकां उलोवंक तरी येता गा ? नस्तींच पिशेपणां.

**बाबगो** : घात जालो तर. आतां संवस्कुत्र भाशेंतूच उलोवचें पडलें. बरें, म्हात्रभास हें उतर तरी तुवें केन्ना आयकलां ?

---

* संस्कृत, फिर्गी आनी कोंकणी उतरां भरसावन केल्लो हो अनुष्टुप् छंद आसा. हाचो अर्थ 'फोवांत सोय आनी गोड घालून केल्लें सुर्बूस खाण बाबगो भुरकायता' असो जाता. Avela फोव. Coco नाल्ल. Jagra गोड. Comida खाण.

**घारूदाद :** (अुगडास करून) हय वय. तें मात हांवें हालिंच्या वर्तमानाक जायते खेपो आयकलां. तेदुसा आमगेलो वैकुंठ बुलेत घेवन तेच भाशेसमंदान कसलोसो मजकूर वाचतालो आनी रेयपुब्लिकान ते भाशेच्यो गोंयभर साळो घालूंक जायत म्हणून कितेंशें उलैतालो. ती भास शिकल्यार, आमगेलें गोंय फाटल्यान आसा तें सड्डुचाभाशेन सर्र करून फुडें सरतलें खैं. मराठी मु गा ती भास? तिका मात्रभास कित्याक म्हणटात तर?

**बाबगो :** तितलेंय तुका येना मू? (कपाळार हात मारून) कर्माऽऽऽ अद्रुष्टा! खैंच्या शणैन गा तुका व-न-म शिकैल्लें? अगाऽऽपापया म्हात्रभास म्हळ्यार आपणाल्या आवैबापायली भास.

**घारूदाद :** तर म्हजी बा कशी उलै नासली ती भास? आनी म्हजो बाप्पाय उलै नासलो तो? आनी म्हाकाय उलोवंक येना ती? हांव खरेपणान सांगतां कोणाच गोंयकाराचो आवैबापूय ती भास उलैना. अशें आसतना, मराठी भाशेक मात्रभास म्हणटात तें कितें गा?

**बाबगो :** अगा, तुका तें समजना. अठ्ठावीस युगांचे आदीं, ब्रह्मदेवान पैलींच जेन्ना गोंय निर्माण केलें आनी तांतूंत पैलींच जेन्ना मनशां जन्माक घालीं तेन्ना तांगेली भास मराठी आसली. आतांचे आमी गोंयकार हे त्याच मनशांली पिळगी. देखून सगळचा गोंयकारांली म्हात्रभास मराठी.

**घारूदाद :** पणून म्हाका ती सारकी-शी समजना. त्याभायर हालीं-हालीं जाल्यार' भि.ार जळींमळीं इंग्लेज उतरां घालतात, देखून म्हाका ती निखालूस लागना. गोंयची खैंचीय मराठी बुलेत तूं वाचूंक घे. तांतूंतलीं इंग्लेज उतरां पळेतकूच, ती गोंयकारांखातीर नासून गोंयाभायल्या लोकांखातीर छापल्या अशेंच दिसता. तूं एदो व्हडलो गिन्यानी वैज खरो; परंत तुकाय तीं उतरां आनी भितल्लो मजकूर सारको-सो लागचो ना.

**बाबगो :** आर्रा! म्हाका लागचो ना म्हणटल्याची जीब तोडून काडीन! भाशेचें कसलेंय खतखतावणें म्हज्या पानार वाड; हांव भितर बुचकळी मारून वैर सरतलोंच. बरें तुका आतां समज तरी घालूं खैंचे भाशेन? तुका समजना संवस्कुत्र भास, तुका समजना म्हात्रभास, कर्माचो भोग!

**घारूदाद :** आमी उलैतांत तेच भाशेन समज घाल्यार जायना?

**बाबगो :** (नाख खळवटावन) हळद लागली तुमचे ते भाशेक. हेंगाडी भास खैंची. तिका भास हें उतर सोबता गा तरी? म्हाका जाल्यार, ते भाशेचो दोळे फोडून राग येता. पणून आसूंभँगू म्हणून हांव ती उलैतां. वांचून उरून हांव रेय-पुब्लिकाचो पिर्जेंत-बिर्जेंत जायन जायार ते भाशेक गोंयांतसून सामकी ना-

नपश्यात करून उडैतलों. मागीर रडात सगळे जाण तिच्या नांवान. तुका वायट दिसूं, बरें दिसूं. आमकां वैजांक जाल्यार ती भास निखालूस फावना गा. आमी म्हणटात तें संवस्कुत्र नाजाल्यार म्हात्रभाशेनूच उलोवंक जाय. तितलेंय घडना जाल्यार, उलैता आसतना मदींमदीं संवस्कुत्र उतरां अद्रूण घालूंक जायत. (बोंबबाबाक) तूंच सांग पळोवंया, हांव म्हणटां तें खरें वा लटकें ?

**बोंबबाब :** म्हणचे गा.

**बाबगो :** (बोंबबाबाची खाडकी धरून) अगा, 'आसनवाटिकेसून दीपकन्येक गेलो आनी थैंची जलशाक घेवन सुवर्णकाच्या रथार बसून स्त्रंखळापुराक गेलो' अशें म्हळचार बरें दिसता कि 'अस्नोडसून दिवचले गेलो आनी थैंचें नुस्तें घेवन सोनक्याची गाडी करून सांकळे गेलो' अशें म्हळचार बरें दिसता ?

**बोंबबाब :** (हांसून) तुजें तें पैलें उलोवपूच बरें दिसता म्हणपाचें भेडुोलेगीत सांगत.

**बाबगो :** आऽऽ ! कशें उलैलो ? पूण आसूं त्यो गजाली. (घारूदादाक) आतां तुजे धुवेच्या रोगाची फोडणिशी तुजे हेंगाडी भाशेंतूच करतां. कर्मांतूच आयलां तें ताका कोणाचो उपाय ? (शिवलो पेटैल्ली घुडघुडी हाडून बाबग्याच्या हातांत दिता.)

**बाबगो :** (घुडघुडी घारूदादाच्या हातांत दिवन) ओड गा.

**घारूदाद :** तूंच ओड गा आदीं.

**बाबगो :** ना गा; तूंच ओड गा.

**घारूदाद :** अगा, वैजाचो मान पैलो.

**बाबगो :** जालो गा मान. पेटै तूं आदीं.

**घारूदाद :** चे: गा. तूंच पेटै. (ताच्या हातांत घुडघुडी दिता.)

**बाबगो :** (नळी तोंडाकडेन धरून शिवल्याक) अगा, मात्शी फूक मार पळोवंया. (शिवलो फुकता. बाबगो दम मारता. चिलमांतलो पानाचो भग्ग करून पेट्टा. तितले म्हणसर बाबगो घुडघुडी मात्शी वैर उबारता आनी शिवल्याची एक मिशी हुलपायता.)

**शिवलो :** (मिशी पोशेत पैस पळून) ही गा घुडघुडी ओडची खैंची रीत ?

**बाबगो :** (तोंडांतसून आनां नाखांतसून धुवर काडून) कितें जालें गा तुजें ?

**शिवलो :** (मिशी जळिल्ली थैं बोट लावन) हें दिसना तुजें नांवरूप ? घुडघुडी ओडूंक तुका शिकैल्ली कोणें ?

**बाबगो :** कांय नज गा मिशी जळ्ळी म्हणून. हांव एदो व्हडलो वैज हांगा आसतना तूं भियेता कित्याक ? एक मिशी जळ्ळी जाल्यार धा मिशयो हांव तुज्या ओंठार

पिकैन. (पर्थून एक दम मारता आनी खांक-खांक करून जमनिचेर मदींच पच्च करून थुकता).

**घारूदाद :** अगा सवकास. हें गा कितें ? म्हजेर तुजो निथू उसळ्ळो न्हय गा. मदींच जमनिचेर पच्च करून थुकता तें कितें तूं ?

**बाबगो :** कांय नज. तूं एदोळपासून पानां खावन पिची-पिची करून वणटिचेर थुकता तें मात तुका दिसना आनी हांव मात्सो जमनीर थुकलों तें रोखडें तुज्या दोळ्यांत गेलें. वणटिचेर थुकल्यार जाता आनी जमनिचेर मात थुकचें न्हय ? समजता गा म्हाका सगळें. विडो खावन वणटिचेर थुकून त्यो आयत्योच रंगोवन काट्टलो म्हणटा तूं ?

**घारूदाद :** अगा पापया, थुकलो म्हणून वणटी रंगोवन जातात ? जमनीर थुकल्यार तांतूंत पांय भरतलो म्हणून हांव वणटिचेर थुकतां. तूं कोणायगेर गेलो जाल्यार, थैं तुका ही चाल दिष्टी पट्टलीच. हांवेंच ती नवी घाल्या-शी न्हय.

**बाबगो :** आनी हावेंय जाल्यार नवी चाल घाल्या ? घुडघुडी ओडून जळामळा पच्च करून दर्कलां उडोवची चाल, विटोबा कमरेचेर हात धरून उबो रावतपासून चलत आयल्या. ती कोणाच्यान मोडुं नज. मोडल्यार पातक आसा. देवान जो आमकां मनशांचो जल्म दिला आनी सोबीत बरें तोंड दिलां तें कित्याक म्हणून समजला तूं ? घर-दार, वांसरी-उश्टयावारो, रांदची कूड–पायखिळो म्हणनासतना, जैंथैं, मेळत ताणें, दोळे धांपून थुकचें. आमी तशे थुकल्यों नात जाल्यार आमगेलें मनीसपण कसलें ? रेड्या-बैलाक तोंड आसा; पणून तांकां थुकूंक येता जाल्यार पळे. तांचे पाश्ट आमी मनशांनी जावचें म्हणटा तूं ? (पच्च करून थुकून घुडघुडी कुशीक दवरता).

**घारूदाद :** बरें सायबा, तूं सांगता तेंच खरें. आतां मात्शी रोगाची फोडणिशी करशी व्हय ?

**बाबगो :** करशी म्हणचे ? म्हजें कामूच तें. अगा, ही जी आमच्या तोंडांत जीब आसा तिचे फाटल्यान आनीक एक जीब्र आसा; तिका पडजीब म्हणटात. ते जिबेचें तोंक मनशाचे उजवे कुशीक जें काळीज आसता ताका गच्च दशिल्लें आसता; म्हणून काळीज एकाद्रें हालून तें आपले सुवातेवैल्यान दुसरेकडेन धुकल्लें जाल्यार पडजिबूय आपले सुवातेवैली हालून मदींच खैंचेयकडेन शिरकता आनी मनशाची वाचा धरता. म्हाका दिसता, तुजे धुवेचीय अशीच गजाल जाल्या जावंये. तूं खरेंच सांग, न्हवरो घोड्यार बसून जेन्ना तुमगेर आयलं तेन्ना गर्नेल बी पेट्टाले व्हय ?

**घारूदाद :** पेट्टाले म्हणचे ?

**बाबगो :** देखुनूच तें. आदीं पैलीं बायलांचें काळीज फुकफुकें. तांतूंय ल्हान चलयांचें आनी पुरत्यान व्होंकलांचें काळीज चडूच फुकफुकें. गर्नेलाचो नाद कानांत पडनाफुडें तें कलकल्ल्या बगर रावता? तशेंच, तें मुळचे सुवातेवैलें धुकलून ताचे वांगडा पडजिबूय ताळयांत शिरकल्याबगर रावता?

**घारूदाद :** खरें गा खरें. आतां म्हज्या ध्यानांत आयलें. तशेंच जालें जावंये. परंत हांव म्हणटां, (आपणालें काळीज सांसपून) काळीज उजवे कुशीक आसता अशें जें तुवें म्हळें तें कितें? म्हजें काळीज हें दावे कुशीक धडधट्टा.

**बाबगो :** (आंग काडून आपणालें काळीज सांसपून) तें खरें गा. परंत-अं-अं-अं-अं काळीज दावे कुशीक आसता खरें. पणून वायटाकाराचें काळीज वैजाच्या उजव्या हाताक आसता न्हय? तूंच पळे, तूं एक वायटाकार आसा; तुजी नाड धरून हांव तुजे सामखार उबो रावतकूच तुजें काळीज म्हज्या उजव्या हाताक उरता न्हय? देखून उलैता आसतना, 'उजवे कुशीक काळीज आसता' अशेंच म्हणपाची आमची वैजांची चाल आसा.

**घारूदाद :** अशें, अशें. तर म्हाका मकलासी कर. बरें, आतां हाका वाचा फुटूंक ओखत कसलें करतलो म्हणटा तूं?

**बाबगो :** ओखत मारून व्हडलेंशें ना. ओंसभर लंवग्यो मिरसांगो बारीक बऱ्यो गंद कश्यो-शो वांटून सकाळ-सांज खावंक दिवच्यो. हाका पथीक जेवण म्हळचार शिताचें हुनहुनीत तर्ण अळणी पियेवचें. तोंडाक जाय जाल्यार आल्याच्यो फोडी मिरयांचे बुकयेंत लोळोवन खावंक दिवच्यो.

**घारूदाद :** (तोंडार हात धरून) बापाय गा म्हज्या! हो राक्षेसी उपाय जालो. म्हजें मोगा मुदलचेंच नाजूक. तें ह्या ओखतान रोखडो जीव साणटलें.

**बाबगो :** कांय सांडिना. म्हजे परस तूं अदीक जाणा? ओखतां म्हणटात तीं अशींच आसतात. आदीं कोडू मागीर गोड. ह्या रोगाक ज्यो हांवें मिरसांगो लावन दिल्यात त्यो कित्याक तें तूं जाणा?

**घारूदाद :** नकळ.

**बाबगो :** तर मनशान आपणाक समजना जाल्यार वोगीच कितेंय उलोवचें न्हय. किरांक उलोवंक येवंक मिरसांगो खावंक घालतात तें तूं नकळ?

**घारूदाद :** हय, मिरसांगो घालतात खऱ्यो. परंत त्यो उलोवंक येवंक जाय म्हणून घालतात?

**बाबगो :** हय वय. तूं जाणा कितें? तुजे धुवेक हो उपाय करून तूं पळे मात. तिका रोखडेंच उलोवंक येतलें.

**घारूदाद :** बरें सायबा.

**बाबगो :** आतां हांव चल्लों. मात्सो रावन समाचाराक येन. ओखत मात सांगलां ते भाशेन दी. (माथें खरपून आनी फुलग्याकडेन बोट करून) तुमगेले हे कुळमिणीक इल्लें ओखत दिवची म्हजी तजवीज आसली.

**फुलगें :** (आकांतून) हें आनी सायबांनू कितें ? म्हाका ओखद कित्याक ? हांव बरें घटमूट आसां.

**बाबगो :** देखुनूच ओखत घेवंक जाय. मनशाक चड आरोग्यताय आसूंक फावना. तुज्यो मात्शो शिरो मारुं व्हय हांव ? नाजाल्यार जळवो लायल्यार कश्यो ?

**फुलगें :** पणून म्हाका पिडा-रोग नासतना शिरो आनी जळवो कित्याक ?

**बाबगो :** असल्या ह्या जाणवायांनीच आमी मनशां चुकतांत. पिडा-रोग नासतनाच ओखद घेवंक जाय. घराक उजो लागतकूच बांय खण्ल्यार उपकारता ?

**फुलगें :** चलात थैंचे. म्हाका तुमच्यो शिरोय नाकात आनी जळवोय नाकात. दाटून सुखाचो जीव दुखांत कोण घालीत बाये ?

**बाबगो :** हेंच तें. म्हजे असलो धन्वंतरी आयतो घरांत पावला ताचें तुका कांयच ना. बरें, तूं फोंत तरी करून घेशी व्हय ?

**फुलगें :** (नाख खळवटावन) आंवंय आवंय !

**बाबगो :** बिबो तरी घालून घेशी ?

**फुलगें :** कितेंय उलोवं नाकात पळोवया.

**बाबगो :** तूं आयकना तर म्हाका ? पळोवं येत. हांव वैज आसां. केन्नाय येतलें तूं म्हज्या हातांत. (घारूदादाक) बरें गा. येतां तर हांव. बरें-गोंय.

**घारूदाद :** मात्सो राव गा.

**बाबगो :** आतां आनीक कित्याक ?

**घारूदाद :** तुजी बिदागी......

**बाबगो :** (दावो हात फुडें करून) जाली गा. कसली बिदागी ? ही आनी नवीच चाल तुवें खैंसून हाडली ? वाग्भट सांगता कि वैजान वायटाकाराकडसून दुड केन्नाच घेवंक जायनात.

**घारूदाद :** तें कशेंय आसूं. पणून तुवें हे घेवंकच जायत.

**बाबगो :** चेः चेः ! हांव ते केन्नाच घेवचो नां. नस्तीच चाल हांव घालचो नां बाकिच्या वैजांक कळत जाल्यार ते म्हाका सामको पिसटून खातले.

**घारूदाद :** कांय नज. तुजे आमचेर जायते उपकार जाले.

**बाबगो :** तूं ह्यो म्हज्यो भगली मारता.

**घारूदाद :** अगा, तुज्या जिवाच्यान भगली न्हयत.

**बाबगो :** तें कशेंय आसूं. पणून हांव घेवचो नां. हांव दुडवां खातीर वैजकी करिनां. देवान म्हाका खूब गिरेस्तकाय दिल्या.

**घारूदाद :** कोण ना म्हणटा? परंत......

**बाबगो :** (दुडू घेवन) भोवच जड लागतात गा हे.

**घारूदाद :** जावं गा जड.

**बाबगो :** पणून हांव दुडवांचो वैज न्हय हां. आसूं, भँगूं म्हणून घेतले.

**घारूदाद :** मोटे उपकार जाले.

**बाबगो :** बरें-गोंय. मात्सो रावन हांव येन.

**घारूदाद :** बरें-गोंयं.



# आबे फारीय

गोंयचो अज्रंवर पुत **आबे फारीय** हाणें संवसारांतलें पैलें किर्ण पळेल्यार, पावणे-दोनशांवैर वर्सां जालीं. इतल्या ह्या काळांत, निखटचा गोंयां न्हय, निखटचा हिंदुस्तानांत न्हय, तर सगळ्या संवसारांत हातांच्या बोटांचेर मेजीसारके जे भोव थोडे शास्त्रिक सोदपी जाले आनी जांणी संवसाराच्या गिन्यानांत आनी सुखांत भर घाली, तांतूंत फारीयाचो पांवडो जायतो वैर लागता. संवसारांत नवें कांयच ना म्हणटात. सगळें पोरणेंच पोरणें खैं. लटकें न्हय. पणसाचो पांख आनी खोबऱ्याचें तेल हे नवे जिनस न्हयत. पणस आनी माड लागूंक लागले तेन्नाच्यान लोक तांकां वळखतात. परंत पांखाक तेल लायतकूच तो वेता म्हणपाचो अणभव जाणें पैलोवैलो घेतलो आनी लोकांक कळैलो, ताचे सोदपी बुद्दिची तोखणाय केल्याबगर रावं नज. असले सोदपी संवसारांत जायते जाल्यात आनी जातात. पणून त्या सगळ्यांकूच शास्त्रिक सोदपी हें अुतर लागना.. तेल लायतकूच पांख गेलो खरो. परंत तो कित्याक वचचो? अुदक लायल्यार कित्याक वचचो न्हय? हाची चिकित्साय कोण करूंक बसना. देखून, त्या सोदाक शास्त्रिक म्हत्व येना आनी ताचो दुसऱ्या कसल्याच कामांत अुपयोग जावंक पावना. हाचे वैल्यान, निखटचा सोदापरस शास्त्रिक सोदाचें म्हत्व चड मोटें म्हणून सांगूंक नाका. आबे फारीयान भुलविद्येच्या मळार अशेच तरेचो शास्त्रिक सोद करून तिका शास्त्राच्या पांवड्यार चडैली. देखून, ते विद्येचो तो पैलोवैलो म्हालगडो शास्त्रिक सोदपी म्हणून संवसारभर ताची किर्त गाजता.

भुलविद्या धर्तरेवैल्या चारूय खंडांत जायत्या काळापासून चलत आयल्या. घटोत्कचाली माया म्हणटात ती हेच विद्येचें अेक आंग. भगवद्गीतेच्या अिकराव्या अध्यायांत, अर्जुनाक श्रीकृष्णाच्या आंगांत तरेकतरा रुपां आनी देखाव दिसून, ताच्या आंगार चरचरीत कांटो फुल्लो तो हे विद्येचोच परिणाम. क्रिस्त स्वाम्यान जायत्या जाणांच्या आंगांतलीं पिशीं काडलीं, पांच भाकऱ्यो आनी दोन धोडयारे वांटून पांच हजार मनशांची भूक थारायली, वायटाकारांची पिडा निवळायली आनी समुद्राच्या अुदकावैल्यान तो पांयांनीं चल्लो हे सगळे हे विद्येचेच गुण. हांकां लोक चमत्कार म्हणटात. पणून ते कशे आनी कित्याक जातात म्हणपाची येजवणी करूंक कोणूच बसना. फारीयान ती केली आनी भुलविद्येच्या शास्त्राची बुनेद माल्ली. देखून ताची तोखणाय करची तितली थोडी. आमकां आल्बुकेर्क-गाम आनी शिवाजी-संभाजी सारक्या रगतां गळैतल्या मनशांच्यो जिणो तोंडपाठ येतात; परंत गळूंक लागिल्लीं

रगतां थांबैतल्या आनी पिडे-रोगांचीं चवनां पेखैतल्या फारीयासारक्या गुणेस्त संतांक आमी विसरतांत, हो अेक भुलविद्येचोच चमत्कार म्हणूंक जाय. जाचे विद्येची आनी गुणांची तोखणाय लोकिकवंत फ्रांसेज नवलकाणयांकार आलशांद्र द्युमा हाणें 'मोन्ति क्रिस्त जुंव्यावैल्या कोन्दि'चे नवलकाणयेंत अज्रंवर करून दवल्ल्या, जाणें भुलविद्येचो शास्त्रिक सोद आपणांले भाशेंत करून तिका व्हडवीक हाडली म्हणून, फ्रांसेज लोक जाचो मोटो अभिमान धरतात आनी रोम शारांत तो कांय काळ शिकूंक आसलो इतले खातीर, इतालियान लोक जाका आपलो देसभाव समजून गर्वान फुगतात, त्या फारीयाक आमी कोंकण्यांनीं विसरचें हें अेक अजाप न्हय ?

फारीय भायर पडल्यार १२१ वर्सां जालीं. परंत आमी ताचें नांवूय केन्ना आयकून नकळं आसल्यों. तो आमगेल्या खासा रगता-मासाचो कि भायलो परको तेंय आमी नेणं आसल्यों. तो कोंकणांत जल्मल्लो कि आफ्रिकेंत जल्मल्लो हाचीय खबर आमकां धड नासली. केदो काळोख-गुपाट हो आमगेल्या राज्यांत! परंत दिसानदीस तो अुणो जावच्यो कुर्वो आतां दिसूंक लागल्यात हें आमचें भाग्य समजूंक जाय. स· वर्सां फाटीं, गोंयां बारदेस म्हालांत, कांदोळे जो अेक नामनेचो अुत्साव जालो तो ह्या भाग्याचे तांबोशे भाशेन म्हळ्यार जाता. त्या अुत्सावांत फारीयाचे तेजवंत जिणेसंबंधान दोगां-तिगांचीं अुलौपां जातकूच, ज्या घरांत तो जल्मल्लो त्या घराचे वण्टींत, तागेल्या जल्माचे यादस्तेचो अेक कास्मिरी पाशाण, सभेच्या यजमानान बसैलो. पाशाणाचेर पुर्तुगेज भाशेंत बरप घालां ताचो अर्थ असो:—'जाणें शास्त्रिक भुलविद्या जल्मा घाली आनी जाका संवसारभर **आबे फारीय** ह्या नांवान वळखतात तो **पाद्रि जुजे कुस्तोदिय दे फारीय** १७५६ वर्सा मायाचे ३१ वेर हांगा जल्मल्लो.'[1] गोंयच्या सरकारानूय फारीयालें रीण थोडें-भोव फारीग करची मांडणी केल्या. ताणें कोलवाळच्या आनी कांदोळेच्या पुर्तुगेज साळांक **आबे फारीय** हें नांव जोडलां. पणजे ताचें एक तांब्याचें बावलेंय अुबें करची तजवीज चल्ल्या खैं. कशेंय जाल्यार बऱ्याचीं चिन्नां दिसतात. तें बावलें पळौन कोंकण्या भुरग्यांक नवेनवे सोद करपाचो फुरफुरो येवं आनी आमगेले भुंयेचें नांव चड व्हड जावं.

फ्रांस आनी इतालिय हांचेसारकीं बळिष्ट आनी नामनेचीं राष्ट्रां आपलो आपलो म्हणून ज्या मनशाचो अेदो अभिमान धरतात आनी बडवाचार गातात तो मनीस कशे तरेचो आसलो म्हणपाचें समजून घेवची अुमळशीक जणअेकल्या कोंकण्याक जातलीच. देखून, फारीयाची होलमल्या तितली जीण सकला दिल्या.

---

१ "Local onde nasceu aos 31 de Maio de 1756 o genial creador do hipnotismo cientifico, Pe. Jose Custodio de Faria conhecide no mundo culto por Abade Faria."

आबे फारीय जातीन बामण. तागेल्या हिंदु पूर्वजांत अनंतशणै म्हणून एक नांवा-लोकिकाचो कर्तत्वी मनीस जावन गेलो खैं. फारीयाच्या बापायचें नांव कायतान वितोरीन आनी आवैचें नांव रोज मारीय दे सौज. कायतानबाब गांवान कोलवाळचो. ताच्या मनांत पाद्रि जावपाचें आसून ताणें तो अभ्यास थोडो-भोव केल्लो. परंत फुडें तो बेत सोडून दिवन तो लग्न जालो आनी कांदोळे मावाडचा वचून रावलो. तो घर-जांवै जालोसो दिसता. परंत मावाडचाच्या सुखावांगडा जें दुख आनी अपमान सोंसचो लागता तो ताका सुटलो ना. बायल ताका बद्द विकतो घेतिल्ल्यावरी समजताली आनी आडवर फुगैताली. ती आपल्याच वाद्याची आनी मोटी बडायांची आसली. तिचें ताचें जमना जालें. तरी आसताना, तांणीं कांय वर्सां एकामेकांल्या वांगडांत काडलीं आनी तांतूंतूच आबे फारीयाचो जल्म जालो. तो सुमार णव वर्सांचो जातकूच, म्हळ्यार १७६५त, कायतानबाबान बायलेकडेन लग्नमोड केली आनी पुताक घेवन, कोलवाळे तो आपल्या गांवा-घरा वचून रावलो. रोखडोच ताणें पाद्रिचो लोब घालो. ताचे बायलेकूय पच्छताप जावन, ती धाकटचा गोंयां 'सांत मोनीक' मठांत संन्याशीण जावन रावली.

कोलवाळे कांय वर्सां काट्टकूच, कायतानबाबाक थैंची अुबगण आयली. ताका व्हडविकेचो हावेस मोटो. आयल्ल्या दिसा इगर्जेंत मिसां सांगून आनी लोकांक कुमसार करून ताच्यान सस्त बसुं नज जालें. आपल्या हावेसाक फावोशी सुवात गोंयां ना अशेंय ताका दिसलें. त्याभायर, आपलो पुत बरपाक्षरी जावन व्हडविकेक चडूंक जाय हाचेय ताका अुत्फरके लागिल्ले. म्हणटकूच ताणें पुर्तुगाला वचचें येवजिलें आनी १७७१ वर्सा फेब्रेराचे २१ वेर पुताक घेवन तो 'सां जुजे' नांवाच्या तारवार चडलो. नोवेंब्राचे २३ वेर तो लिज्बोवा पावलो.

गोंय सोडच्या वेळार भुरगो फारीय सुमार पंद्रा वर्सांचो आसलो. ते-वेळचे चालीभाशेन, पुर्तुगेज भाशेवांगडा थोडीशी लातीं भास आनी तत्वविद्या तो शिकिल्लो. तो पर्थून गोंयां केन्नाच पावलो ना.

लिज्बोवा पावनाफुडें, थैंचे फिर्गी-फिदाल्ग आनी मोटे लोक हांचेकडेन कायतानबाबाची वळख-देख जाली. तांतूंत तिराच्या आर्सेभिस्माकडेन जाल्यार ताची दाट अिष्टागत जमली. आर्सेभिस्माले सांगणेन ताणें हिंदुस्तानांतल्या क्रिस्तांव धर्मासंबंधान एक निबंध बरैलो आनी पुताकडसून ताची तालीक करून घेतली. ताचें सुंदर अक्षर पळोन, आर्सेभिस्माक मोटी तोखणाय दिसली. त्या वेळार दों जुजे हो पुर्तुगालचो राजा आसलो. ताच्या कानामेरेन ती तोखणाय पावली आनी ताणें फारीयाच्या शिकपाक जायतो पालव दिलो खैं.

लिज्बोवा कांय दीस रावन, १७७२ वर्सा, कायतानबाब पुताक घेवन रोमां गेलो. थैं ताणें थोडचाच काळांत 'देवविद्येचो शास्त्री' ही पदवी जोडली. १७७७ त

तो लिज्बोवा पर्थलो. शास्त्र्याची पदवी घेवन येतकूच, लिज्बोवा ताचो मान जायतो वाडलो. सरकारी दिवाणांतूय ताची वग आनी भीड वाडली. त्या वेळार दों जुजे निक्तोच भायर पडून, ताची धूव दोना मारीय राज्यार बशिल्ली. तिणें कायतानबाबाक आपलो खाशेलो कुमसारकार नेमलो आनी राजकर्णाचे गजालींत ती ताची बुद्द घेवंक लागली.

बापुय लिज्बोवा गेला आसतानाय, भुरगो फारीय रोमां रावन शिकूंक लागलो. तो थैंचे 'प्रोपागान्द फीद' नांवाचे कोलेजींत शिकतालो. थैंच तागेलें खरेलें शिकप जावन ताची बुद्द फुलूंक लागली. ते-वेळचें सगळें गिन्यान ताणें आपलेंशें केलें. तत्व-विद्या आनी अितिहास हांतूंत तो पाटांगडो जालो. ताची चलणुकूय देख घे-सारखी भोव बरी आसली, म्हणपाचें ते कोलेजींतल्या रजिस्तावैल्यान समजता. रोमां तो सात-आठ वर्सां अुल्लो. १७८०त ताका 'देवविद्येचो आनी तत्वविद्येचो शास्त्री' ही पदवी मेळ्ळी. ती मेळूंक ताणें लातीं भाशेंत अेक निबंध बरैलो. ताचें नांव 'देवाचें आसप, ताचें अेकलेपण आनी ताची सासाय हाचे संबंधाचे सिद्धान्त' अशें आसलें. ताणें हो निबंध राणी दोना मारीय हिका ओंपलो.

रोमां शिकून जातकूच, फारीय पुर्तुगाला गेलो. थैंच्या दिवाणांत ताचो रोखडोच रीग जालो. लिज्बोवच्या पंडितांत आनी शास्त्र्यांत तागेले बुद्दिचें तेज फांकारूंक लागलें आनी पुर्तुगालच्या पाद्रींभितर ताचो मान आनी पांवडो जायतो चडलो.

पुर्तुगाला आसताना, तागेले जिणेसंबंधाच्यो जायत्यो खबरी गोंयां पावल्यो. तांतूंतली अेक जाल्यार कौतुकाची दिसता. लिज्बोवच्या राजम्हालाच्या कपेलांत ताचें पैलेंवैलें अुलौप जावचें आसलें. तें आयकूंक पुर्तुगालचे म्हाल-मुखेल पंडित मोटे अथ्रेकणेन थैं जमिल्ले. परंत धा-जाणांचे सभेंत अुलौंचो प्रसंग फारीयाक त्या आदीं केन्नाच येवंक नासलो. तांतूंय दिवाणांतल्या फिर्गी-फिदाल्गां सामखार अुलौप करचें काम चड कठीन. फारीय अुलौंक अुबो रावलो तेन्ना काचाबूल जावन, ताच्या तोंडांतल्यान अुतर सुटना जालें. ताचो बापुय थैं लागसारूच आडोसाक आसलो. तो मोटो धिरिष्ट, सटकरून युक्त सुचता तसलो आनी कसोय वेळ आयल्यार बाडगना-जाल्लो आसलो. ताणें ल्हवूच पुताक आयकूंक ये-शें कोंकणी भाशेंत म्हळें, 'कातर रे भाजी!' हुशार फारीय तितल्यान शिटकवलो. बापायच्या अुतरांनीं ताका धीर चडलो. आपले सामखार बशिल्ले लोक रुपान गोरे-धवे आनी वळकांडचां मिशयांचे आसले जाल्यारूय, कवडां धांकिल्ले तायखिळ्याचे बावके भाजये भाशेन साप बाबत कुळां आसात म्हणपाचें ताच्या ध्यानांत आयलें आनी तो मोटया फुरफुऱ्यान अुलौंक लागलो. तागेल्या अुलौपान आयकतल्यांक अितली खोस जाली कि ताचो लोकीक पुर्तुगालभर घणघणलो.

हे भाशेन, त्या बापाय-पुताक पुर्तुगाला निजाच्या पुर्तुगेजांभाशेन मान-भौमान मेळूंक लागलो. पणून तितल्यान ते धादोशी नासले. तांकां भौनभौन गोंयचो अुगडास जातालो आनी थैंच्या आपल्या देसभावांची हीण दशा येवजून मोटी खन्त जाताली. ह्याच सुमाराक, गोंयचे पुर्तुगेज अधिकारी थैंचे दुबळे प्रजेक जी पिडापीड भोगैताले ती सोंसना जावन, कांय क्रिस्तांव बामण १७८० पासून १७८५ मेरेन गोंय सोडून पुर्तुगाला वचून राविल्ले. पुर्तुगेजांच्या कारभाराक ते सामके अुबगल्ले. 'सोरोप म्हणचो न्हय धाकलो आनी फिर्गी म्हणचो न्हय आपलो' अशे तरेचो तांकां फिर्गी अधिकाऱ्यांचो वीट आयल्लो. ते खैंच्या वेळार कसो घात मारतीत तो समजनासलो. देखून, पुर्तुगेजांली सत्ताच मोंयांतसून हुमटून अुडौन, थैं लोकांलें राज्य थापचें, असो तांचो नित्शय जाल्लो. पुर्तुगाला पावतकूच, फारीय बापाय-पुताक मेळून तांणीं पुर्तुगेजांची सत्ता निखळावंक अेक गुमानीत कट रचलो. ताका '१७८७ तलो कट' म्हणटात.थोडयाच काळांत तो इतलो मातलो कि निखटया गोंयांतूच न्हय, तर सगळया हिंदुस्तानांत जैं जैं गोंयकार आसले थैं थैं तो पावलो. त्या वेळार, शिंदे, होळकार, गायकवाड, भौंसुले, पेशवे बी देशी संस्थानांच्या सैन्यांत आनी दिवाणांत गोंयच्या हिंदु बामणांभाशेन जायते गोंयकार क्रिस्तांव मोटयामोटया अधिकारार आसले. जिवबादादा, लखबादादा, बाळोबा तातो, जगोबा बापू, शिवबा नाना, सदाशिव मल्हार, धोंडबा दादा, यशवंत भाव्, देवबा मुकुंद, यशवंत शिवाजी बी हिंदु विरांचीं नांवां आयकनाफुडें जशे आमी अभिमानान फुगतांत, तशेच, सेनापति मानवेल नोरोञ्ज, सेनापति ज्योआकीं लुइस आंतोन व्हास, तेनेन्तकोर्नेल जुजे आंतोन पिन्त, माजोर फ्रांसिस्क कायतान पिन्त, कपित जुजे ज्योआकीं पिन्त, [२]आल्फेर आंतोन फिलिप गोमिस, तेनेन्त विसेन्त फिलिप फ्रीयस, कपित कोज्म दामियांव नोरोञ्ज बी क्रिस्तांव विरांचीं नांवां आयकून आमी फुरफुरतांत. पुर्तुगाला रचिल्लो कट सगळें अुत्तर हिंदुस्तान तशेंच मंगळूर, कोची, त्रावणकोरमेरेन पावलो. थैं पुर्तुगेजांल्या जुलमाक लागून जायते हिंदू तशेच क्रिस्तांव गोंयकार पाविल्ले. तांकां पुर्तुगेज ह्या अुतराची सामकी घाण येताली. कटकारांनीं आपलें बळगें वाडचेखातीर म्हैसूरच्या टिपु सुलतानाकडेनूय संदन बांदिल्लें खैं. परंत बेत तडीक वच्चे आदींच कट भायर फुटलो आनी पुर्तुगेज़ सरकारान कटकारांक सोदून काडून, तांकां आनी तांचे भरशीं कटांत नाशिल्ल्या हेर जायत्या लोकांक कडकडीत ख्यास्त भोगैली. कांयजाणांक बंदखणींत घाले. कांयजाणांक म्हसमी-तिमोराक धाडले आनी जायत्याजाणांक वळवळावन जिवानशीं

२. हे तिनूय पिन्त गांवान कांदोळेचे आसून पेशव्यांच्या सैन्यांत आसले. The Origin of Bombay by J. Gerson da Cunha, Bombay 1900, JBBRAS., extra number, p. 204.

माल्ले. जीव घेवचे आदीं तांकां घोडयांचे शेंपडेवशीन बांदून, शारांतसून भरभरीत ओडीत व्हरून, तांचे हात-पांय कातल्ले आनी गोळाक लावन् घुस्मटावन माल्ले. मागीर, पुर्तुगेजांच्या नांवाचो लोकांक धडधडो भरचेखातीर, साष्ट, बारदेस आनी तीसवाडी ह्या तीन म्हालांतल्या चवांठयांनीं तांच्या प्रेतांचीं पोस्तां करून अुमकळायलीं !

कटाची खबर पुर्तुगाला १७८८ च्या जुलांत फुटली आनी थैं आशिल्ल्या गोंय-कारांचेर हावळ आयली. कायतानबाबाक सरकारान बंदखणींत अुडैलो. ताचो पुतूय बंदखणींत पट्टलो आसलो. परंत त्या आदींच दोन-तीन म्हैने, तो दुसऱ्या कांय गोंयकारांसैत फ्रांसाक गेल्लो. तो पर्थून पुर्तुगाला पावलो ना. तो फ्रांसाक पावलो त्याच सुमाराक, थैंच्या राजाकडेन राजकर्णी संदन करचे खातीर टिपु सुलतानाचे तीन वकील पाविल्ले खैं. १७८८ च्या आगोस्ताचे तिसरेर लुअी राजाचें आनी तांचें अुलौप जाल्लें खैं. तांकां मेळौन घेवन, गोंयच्या पुर्तुगेजांआड संदन बांदचेखातीर फारीय मुजरत फ्रांसाक गेल्लो अशें कांय पुर्तुगेज बरप्यांलें मत्त आसा.

फारीय फ्रांसा पावलो त्याच सुमाराक थैंचें राजकर्ण भयांक्रत भोंवऱ्यांत घुस्पूंक लागिल्लें. लोकांक राजाची आनी राजवडकेचे पिडणुकेची अुबगण आयल्ली. अमेरिकेंत निक्तेंच अुदेल्लें लोकतंत्री राज्य तांगेल्या दोळयांर घुंवतालें आनी फ्रांसांतूय तसलें राज्य अुबारच्यो काडाओडी तांकां लागिल्ल्यो. राज्याच्या कारभारांत वैलो आनी सकैलो, मोटेलो आनी बारकिलो, धवेटो आनी कांबळकार असले भेद आसचे न्हयत. सगळ्यांचो सारको पांवडो लेखचो, सगळयांक सारकी मेकळीक आसची आनी सगळेकडेन सारकें भावबंदपण नंदचें असली अुमळशीक तांकां लागिल्ली. तांकां राजाचें आडबारें नाका आसलें. १७८९ वर्सा, मायाचे ५ वेर हो नवो राजकर्णी भोंवरो नेटान घुंवंक लागलो. तांतूंत फ्रांसाचो राजा आनी राणी, मोटेले आनी बारकिले, तरणे आनी म्हातारे अेके फावटीन घुस्पले आनी काबार जाले. राजाची गोमटी मारून जे राष्ट्रसभेन लोकतंत्री राज्याच्या कारभाराच्यो दोरयो आपल्या हातांत घेतिल्ल्यो, तिचे जाळवणदार स्वतंत्रतायेच्या नांवान लोकांचेर तरेकतरा जुलूम करूंक लागले. ते राक्षेसांयपरस चड क्रूर जाले. तांणीं माणसुकी सोडली. तांणीं जेजु क्रिस्ताचो धर्म पांयांतळा चिड्डून अुडैलो. तांणीं ‘ नोत्र दाम ’ कातेद्रालांतली आंकवार मोरी पैस भिरकटायली आनी तिचे सुवातेचेर ‘ न्यायबुद्दि ’ची म्हुर्त पुजेक लायली. तांणीं अिगर्जो भष्टायल्यो. तांणीं मठ नागैले. तेन्ना लोक खुबळ्ळे. तांकां लोकतंत्री राज्याचो वीट आयलो. ते कायदे मानिना जाले आनी मेळत थैं धोंस, धुमशेणां, धुडबुसां, हाणामारी, रणखेंवां आनी गठ्ठाणां जावंक लागलीं. फ्रांसभर भयांक्रत यादवी मातली. राष्ट्रसभा ना करून अुडौंक लोक वावरूंक लागले. तांतूंत पारिसच्या तरण्या-धाकटया अुमेदिच्या गडयांनीं फुडाकार घेतलो. तांणीं आपणालो

अेक वांगड घडलो. तांतूंत धवेट्या वर्गाचे हजारांनी भुरगे आसले. तांणीं १७९४ वर्सा नोवेंब्राचे ९ वेर, राष्ट्रसभेच्या 'जाकोबिन' नांवाच्या कुडाचेर घुरी घालून तो साप मोडून अुडैलो आनी कांय जुलमी मुखेल्यांक सणसणीत ख्यास्त भोगैली. तेन्ना लोकांचो किंवाटो वचून जीव चिके सूड जालो. फ्रांसांत जरी लोकसत्ता थापिल्ली, तरी राजसत्तेचे बरें-मागते जायते आसले. तेय त्या गडयांच्या वांगडांत वचून मेळ्ळे. आमचो फारीय ह्याच वांगडांतलो गडो जाल्लो. तो निजाचो न्याय-नितिचो आनी अुजू चलणुकेचो मनीस. ताका लोकसत्तेचें राज्य मनापासून जाय आसलें. लोकांली स्वतंत्रताय, सारकेपण आनी भावबंदपण हीं तीनूय ताचे रुचिचीं. परंत तांच्या नांवान चलिल्लो अच्छेव आनी रक्तखेव ताका नाका आसलो. देखून, तो जरी फ्रांसांत परको आसलो, तरी मुजरत थैंचो नागरिक जावन, तांचें सुख-दुख तेंच आपलें सुख-दुख हे नदरेन पोटतिडकेन वावुरतालो. ताणें आपलो पाद्रिचो लोब कडेक दवरून, हातांत तरवार घेतली आनी तो शूर बामण गडो 'शापादपि शरादपि' म्हणटात ते भाशेन, राष्ट्रसभेच्या सैन्याकडेन झुजूंक तयार जालो. हें झुज १७९५ वर्सा वैतुंब्राचे ५ वेर जालें. राष्ट्रसभेच्या सैन्याचो सेनापति बार्रास नांवाचो सरदार आसून, संवसारांत फुडाराक गाजिल्ल्या नापोलियांव बोनापार्तीक ताणें आपल्या हातातळा घेतिल्लो. दोनूय सैन्यांचें भयांकृत झुज लागलें. बोनापार्तीन तरण्या-धाकट्या गडयांच्या सैन्याचेर आपलो नाळखानो पेटौन, एका देड वराभितर तांची दाना-धिस्पट केली. हे भाशेन, त्या गडयांक जरी अपेस आयलें, तरी राष्ट्रसभेक तांचो कडकडीत भय लागल्याबगर रावलो ना. तिणें रोखडीच सगळ्या राजकर्णी कैद्यांक मकलाशी करून तांकां सोडून दिले आनी मोवाळपणान कारभार करचें थारायलें. परंत ती चड काळ तगली ना. वैलें झुज जाल्या उप्रांत तीन सप्तकांनीं, म्हळचार वैतुंब्राचे २६ वेर, तिणें आपली दाली फापुडली. हे सभेक फ्रांसेज भाशेंत 'कोंव्हांसिआं' हें नांव आसा. तिच्या कारभाराक 'धडधड्या कलकल्यांचो कारभार' म्हणटात. तिची सुवात 'दिरेक्तुआर' नांवाचे नवे सभेन घेतली आनी लोकतंत्री राज्याच्या कारभाराचें नवें पान अुगडलें. हे भाशेन, फारीयान फ्रांसांत पांय दवरीतपासून सात वर्सांनीं सस्ततायेचें पालंव लागलें. परंत तांतूंत घटाय नासली. १८१५ त बोनापार्तीक 'सांत हेलेन' जुंव्यार बंदींत घाली मेरेन, थैं खरेपणाची थंडाय नंदूंक पावली ना.

फारीय फ्रांसा पावंचे आदीं दोन-तीन वर्सां, थैंचें मळब भुलविद्येच्या नादान घुमघुमतालें आनी तें घुमघुमप, धडधड्या-कलकल्यांचो रक्तखेवी कारभार चल्ला आसतानाय, थारूंक नासलें. भुलविद्येची पैली जघांट थैं फ्रेद्रिक आंतोन मेस्मेर नांवाच्या एका जर्मन वैजान वाजैली. तो थैं १७७९ वर्साच्या सुमाराक येवन राविल्लो आनी आपणाले 'चुंबकी व्हाळा'चे (Fluido magnetico) प्रयोग करून दाखैतालो.

ह्या व्हाळाचो सोद ताणें १७६६ त लायल्लो. ताचें सार-अशें कि सगळ्या संवसारांत अेके तरेचो चड पातळ व्हाळ व्हांवता. ताच्या आंगांत चुंबकासारकी ओड आसा. तो अुदका-वाऱ्याभाशेन ल्हारां येवन हालता. त्या ल्हारांनीं सूर्य, चंद्र, गिरे आनी नक्षत्रां हांचो अेकामेकांचेर आनी धर्तरेचेर परिणाम जाता. तसोच अेका जिवाचे कुडिचो परिणाम दुसऱ्या जिवाचे कुडिचेर जाता. मेस्मेरान ताका 'जिवाची चुंबकी ओड' (magnetismo animal) हें नांव दवल्लें. हे ओडीन वायटाकारांच्यो पिडा बऱ्यो करुं येतात अशें तो सांगतालो. पैलींपैलीं तो वायटाकारांच्या आंगाक चुंबक लायतालो. व्हियेनाचो जेजुअीत जोतिशी पाद्रि हेल हाचे देखीन ताणें चुंबक लागीं केल्लो. परंत फुडें तो सोडून दिलो. फ्रांसांत वेतकूच, 'चुंबकी व्हाळा'च्या बळग्यान मनशाचे सगळे पिडा-रोग कातरून अुडौचो अेक अुपाय आपणाक होलमला, म्हणपाचें ताणें कळीत केलें. तो लोखणाची अेक लांब सळी हातांत घेवन वायटाकारांच्या आंगाक, चडकरून रोग जाल्ले सुवातेर, लायतालो. जायते फावटीं तो वायटाकाराच्या दोळ्यांकडेन अेकसारकी करा करून पळेतालो; नाजाल्यार, ताचे कुशींचेर आनी बोंबलेसकला बिर्णाचेर आपलो हात ओट्टालो. हें तो वरांचीं वरां करतालो. केन्ना-केन्ना, वायटाकाराच्या माथ्याकडसून पांयांमेरेन वैरसून सकैल आनी सकैलसून वैर, फुडल्यान आनी फाटल्यान, तो आपले हात ओट्टालो. कांय वेळान वायटाकाराच्या आंगांत चुंबकी व्हाळ भरिल्ल्यावरी ताका दिसतालो. हो अुपाय करून घेवचेखातीर दिसानदीस मेस्मेराभोंवतणी दादल्या-बायलांची मोटी तांडी जांवक लागली आनी त्या सगळ्यांकडेन अेके फावटीन ध्यान दिवंक पुरो पडना जावन, ताणें लांकडाचो अेक मोटो तोप घडलो, तांतूंत अुदकान भरिल्ले शिंशे दाळ्ळे आनी वैर मोटचा बुराखांचे चाळणीसारकें अेक धांकण घालें. त्या बुराखांतसून लोखणाच्यो जायत्यो बागैल्ल्यो सळयो भायैर सोडिल्ल्यो. तोपा भोंवतणी तो तिसांवैर वायटाकारांक बसैतालो. दोरयेच्या अेका वेंटाळ्यान तांचें आंग रेवडायतालो आनी अेकाचो आखांडो दुसऱ्याचे चिमटेंत, दुसऱ्याचो आखांडो तिसऱ्याचे चिमटेंत, हे भाशेन सगळ्यांचे आखांडे अेकामेकांक धरूंक लावन, तोपांतली अेक अेक सळी तांच्या हातांत दितालो. मागीर तांतूंतल्या कोणाय अेकल्याकडेन तो अेकसारकी नदर लावन पळेतालो. हे भाशेन, तांगेल्या आंगांत एके फावटीन 'चुंबकी व्हाळ' रिगून कोण खांकताले, कोण थुकताले, कोण आंगपांग वळटाले, कोण दोळे गिरगिरायताले, कोण हुयेली मारताले, कोण हांसताले, कोण रडटाले. सांखळे दत्तवाडये देवळांत, सांजसकाळ आरथिच्यो घांटी वाजतकूच, पिशांची जी गत जाता, तशीच तांची जाताली म्हळचार जाता. कांय दिसांनीं अेक तोप पुरो जायना जावन, मेस्मेरान चार तोप घडले आनी अेका रुखाक हात लावन, तांतूंत 'चुंबकी व्हाळ' भल्लो. ताच्या खांदयांक जायत्यो दोरयो बांदिल्ल्यो. तांणीं हजारांनीं वायटाकार आपलें आंग रेवडायताले आनी वैलेभाशेन

कुदताले. अशीं पांच वर्सां गेलीं. दिसानदीस मेस्मेराचीं धुडबुसां लोकांक आनी सरकाराक मानना जालीं. ते ताका ढोंगी म्हणूंक लागले. निमाणें, तागेले विद्येचो ठाव घेंवक, १७८४ त, फ्रांसेज सरकारान विद्वान मनशांचें एक कोमिसांव नेमलें. ताणें बारकायेन चौकशी करून आपणालें मत्त दिलें कि 'चुंबकी व्हाळ' म्हणटात ती फटास. तकलेच्या भ्रमान, तशेंच अेकामेकांक अेकामेकांलें आंग लागून आनी अेकामेकांले देखादेखीन तसले भोवस्ताळे जावंक पावतात. परंत तांणीं मनशाचें लुस्कान जाता. देखून ते मना करचे.[३] म्हणटकूच त्याच वर्सा, मेस्मेराक फ्रांसांतसून मांद्री कवळची लागली आनी तो जर्मनींत वचून रावलो. पणून तागेले विद्येचो नाद फ्रांसेज लोकांक लागिल्लो. तो सटकरून वचना जालो. ताचे फाटल्यान ताचो गडो प्युयझेग्युर नांवाचो फ्रांसेज सोदपी 'चुंबकी व्हाळा'चे प्रयोग करूंक लागलो. ते करता आसताना, ताका अगान्तुक 'अडेचे न्हिदेंतले करणे' चो सोद लागलो. चुंबकी अुपायान मनशाक अडेची न्हीद हाट्टकूच, तो तरेकतरा करणी करता आनी तरेकतरा अुलैता अशें त्या सोदाचें सार आसलें. मेस्मेराभाशेन तो रुखाच्या खांदयांक आनी ताळयांक दोरयो बांदून, वायटाकारांक त्यो धरूंक लायतालो आनी कुदैतालो. निमाणें तांकां न्हीद लागताली. १८११ त ताणें ह्या अुपायासंबंधान अेक पुस्तक बरैलें. तांतूंत ते न्हिदेक 'le somnambulisme provoque par l'acte magnetique' अशें नांव दिलां. मेस्मेराचो दुसरो अेक फ्रांसेज गडो देलेव्झी नांवाचो निजशास्त्री आसलो. ताणें १८१३ त चुंबकी ओडिचो अितिहास बरैलो. मेस्मेराच्या नांवावैल्यान भुलविद्येक **मेस्मेरिज्म** हें नांव पडलें. परंत भुलविद्येचो खरेलो शास्त्रिक सोद मेस्मेराक आनी तागेल्या गडयांक लागूंक नासलो. तो आबे फारीयान पैलोवैलो लायलो.

१८१५ वर्सामेरेन नापोलियांवाच्या झुजांक लागून फ्रांसांत जरी सस्तताय नासली तरी सरस्पतीदेवीच्या पोटतिडकेच्या भक्तांभाशेन तिगेल्या वेगळयावेगळ्या मळ्यांत फारीय दिसरात वावुरतालो. ताणें फ्रांसांत चलिल्ले भुलविद्येचे प्रयोग पळौन, तांची बारकायेन चिकित्साय केली आनी तोय खासा ते करून दाखौंक लागलो. १८११ वर्सा ताका मार्सेयचे आकादेमींत तत्वविद्या शिकौची सुवात मेळ्ळी. हो मान आदीं अेवरोप्यांबादत हेरांक मेळनासलो. थैं आसताना, थैंच्या वैजांच्या मेळ्यांत वांगडी जावपाचो भौमान ताका मेळ्ळो. १८१२ त मार्सेयांतल्यान निमचे आकादेमींत ताची नेमणूक जाली. थैं कांय म्हैने शिकौन जातकूच, तो जागो सोडून १८१३ त

३ Animal magnetism by A. Binet and C. Fere London 1887 pp. 3-24. Practical Hypnotism edited by Comte C. de Saint Germain, London, pp. 23-27.

तो पारिसा रावंक आयलो आनी थैं भुलविद्येचीं अुलौपां आनी प्रयोग करूंक लागलो. कांय म्हैनेमेरेन ते प्रयोग दिसपट्टे जाताले. ते पळौंक जणअेकल्याक पांच फ्रांकांची तिकेट पट्टाली. तरी आसताना ताचे भोंवतणीं लोकांची चिर्गट जाताली. ताचे प्रयोग पळौंक नाशिल्लो अेकलोय मनीस फ्रांसांत अुरूंक नासलो. थैंच्या दरअेकल्या वर्तमानपत्रांत ताचो आनी ताच्या प्रयोगांचो मजकूर येतालो. १८१४ त ताणें धा-जाणांच्या अुपयोगाखातीर भुलविद्येच्या शास्त्राची अेक संस्था अुगडली. तेन्ना शास्त्रिक सोदांत वावुरतले जायते विद्वान लोक ताचे भोंवतणीं जमा जाले.[४] संवसारांत गाजिल्ले भुलविद्येंतले पंडित सेनापति नुआझे, बारांव द्यु पोते, दोतोर आलशांद्र बेर्त्रां, रिचर्ड शेनेव्ही आनी हेर जायतेजाण ताचेकडेन भुलविद्या शिकताले. सेनापति नुआझेन ताच्या प्रयोगांच्यो जायत्यो खबरी बरौन दवल्ल्यात.

फारीय आपले विद्येक **घणघणीत अुजवाडाची न्हीद** म्हळ्यार गिन्यानाची न्हीद म्हणटालो. फ्रांसेज भाशेंत ताणें तिका Sommeil lucide हें नांव दिलां. अिंद्रियांक जें गिन्यान जागेपणांत जायना तें गिन्यान तांकां हे न्हिदेंत जाता म्हणपाचें तो आपल्या प्रयोगांनी सिद्ध करून दाखैतालो. ताणें पांच हजारांवैर मनशांक असली न्हीद लागशी केल्ली. हे घणघणीत न्हिदेंत आसताना, तो तांकां बांयचें निखटें अुदक निंबाच्या रोसाभाशेन लागशें करतालो आनी पैशिल्या गांवां आशिल्ले अिष्ट तांचे सामखार तांकां दिसशे करतालो. १८१९ त ताणें **घणघणीत न्हिदेचें कारण** (De la Cause du Sommeil lucide) नांवाचें अेक पुस्तक अुजवाडा हाडलें. तांतूंत ताणें सिद्ध केलें कि ती न्हीद लागूंक चुंबकी व्हाळाची वा प्रयोग करतल्याचे अित्सेची गरज ना. ती त्या त्या मनशाचे खासा-सुलुसेचेर आधारून आसा. नामनेचो रसायणी आनी धातुशास्त्रांतलो पंडित रिचर्ड शेनेव्ही हो जायतीं वर्सां पारिसा आसून फारियाकडसून भुलविद्या शिकिल्लो.[५] १८२९ त अिंग्लंडा

४ Hypnotism and Suggestion by Bernard Hollander, M. D., London 1910, p. 163.

५. He (the Abbe' Faria) maintained that the phenomena of the trance were to be attributed neither to a fluid nor to the will of the operator, but to self-suggestion on the part of the patient.' Mesmerism and Christian Science by Frank Podmore, 1909, p. 92, note 1.

'In 1814 he (the Abbe' Faria) showed by experiments that no unknown force was necessary for the production of the phenomena, that the cause of the sleep was in the person who was sent to sleep, and that all was subjective.' Hypnotism and Suggestion by Bernard Hollander, M. D., p. 182.

वचून, फारियाचो गडो ह्या नात्यान, ताणें भुलविद्येसंबंधान अेक निबंध वाचलो तांतूंत ताणें फोडणिशी केली कि ते विद्येक 'जिवाची चुंबकी ओड' हें नांव फावना. तो कोणाय मनशाकडेन अेक अुतरूय अुलैनासताना, तागेले खासा भावनेन तागेलो हात वा पांय जैंचे थैं धरिल्ल्यावरी करतालो, खैंच्याय अिंद्रियांत कळ ये-शी करतालो वा आशिल्ली कळ वचशी करतालो.[६] ह्यो करण्यो खरेपणानशीं प्रयोग करतल्याच्या बळग्यान घडनात. त्यो त्या त्या मनशाच्या मनाचे भावनेन घट्टात. 'जशी जाची भावना तसो तो जाता' अशें जें श्रीकृष्णान भगवद्गीतेंत म्हळां[७] तें अिल्लेंय लटकें न्हय. 'मन मनशाक बांदून घालता आनी मेकळें करता' हेंच खरें.[८] पेजेची पितळी तोंडा-कडेन धल्ल्या आसताना, पाष्टाचे कडणेवैलें पालिचें बिब भितर दिसून, निवळाभरशीं ती आपल्या पोटांत गेली म्हणपाच्या समजान, कोणाअेकल्याच्या आंगार खरोच विखार फुटलो आनी तो मरचेकडेन पावलों खैं. त्या वेळार, अेका हुशार वैजान ताका ओंकचें ओखद दिवन, ताचे ओंकींत अेक मेल्ली पाल अुडैली; तेन्ना पोटांतली पाल ओंकून पडली म्हणपाच्या समजान, तो आदलेभाशेन बरो जालो आनी ताच्या आंगावैलो विखार गेलो, म्हणपाची खबर जायत्या जाणांनीं आयकल्या जातली. ती खरी जावंये. राजवाक सोरोप समजून मनीस आंग काट्टा आनी जोर येवन मरता हें लटकें न्हय. आपुण मरतलों असो वायटाकाराचो समज जायत जाल्यार ताका ओखद पारना आनी तो खऱ्यानीच मरता. तशेंच, आपुण बरो जातलों असो समज जायत जाल्यार तो निखट्या अुदकान बरो जाता, म्हणपाचो जायत्या वैजांक अणभव आसा. हाचेवैल्यान मनशाच्या मनाचेर सगळें आधारून आसा हांतूंत दुभाव ना. ताच्या मनाक जशी सुलूस मेळत तशी ताची भावना जावन, तशे तशे परिणाम घट्टात, हो गडगंज सिद्धांत फारियान अुक्ताडा हाडलो, हांतूंतूच तागेल्या शास्त्रिक सोदाचें म्हत्व आसा. हो सिद्धान्त केन्नाच लटको जाय-सो ना. मेस्मेराक आनी तागेल्या गडयांक तो समजूंक नासलो. ते कुड्डयांभाशेन भुलविद्येच्या आंगणांत वावुरताले. फारीय दोळे

'Faria termed it a lucid slumber. He rightly observed that the cause of somnambulism rests in the subject himself.' Animal Magnetism by A. Binet rnd C. Féré London 1887, p. 32. 'He (Faria) well understood that the cause of somnambulism lies in the subject himself.' Practical Hypnotism edited by Comte C. de Saint-Germain, London p. 49.

६ Mesmerism and Christian Science by Frank Podmore, pp. 124-125.

७ यो यच्छ्रद्धः स एव सः । भगी. १७. ३.

८ मन एव मनष्याणां कारणं बंधमोक्षयोः ।

आशिल्ल्या मनशाभाशेन वावुरतालो. देखून, ताणें आपणाले विद्येक **घणघणीत अुजवाडाची न्हीद** हें फावोशेंच नांव दिलें. फारीया फाटल्यान भुलविद्येच्या शास्त्रांत जे जे कोण वावुल्ले तांणीं फारियाचोच सिद्धांत अुखलून धल्ला आनी ताका त्या शास्त्रांत सगळ्यांत वैलो पाट आनी पैलें तिकलेचो मान दिला. दोतोर स्यूरब्ले, जुवांव आंतुनीस, दोतोर श्रोक, दोतोर व्हीर आनी दुसरे जायते पंडित ताका भुलविद्येचो शास्त्रिक सोद लायतलो म्हालगडो म्हणटात.

फारियाची घणघणीत अुजवाडाची न्हीद हॉशिले न्हिदेभाशेन न्हय. हे न्हिदेंत जागेपण आनी न्हीद मेळून दोनूय अवस्तांचो कांय वांटो आसता. भायलीं अिंद्रियां न्हिदिल्लीं दिसतात त्याच वेळार भितल्लीं अिंद्रियां जागीं जावन वावरूंक लागतात. देखीक, दोळ्यांच्यो भायल्यो मलप्यो धांपिल्ल्यो आसल्यो तरी भितल्ली नदर अुक्ती आसता. हे भाशेन, भितल्लीं अिंद्रियां तटमटीत जागीं जावन वावरूंक लागचीं हें हे न्हिदेचें मुखेल लक्षण आनी मोटेलो गुण.[९] मँचेस्टरचो अिंग्लेज सुरजांव जेम्स ब्रेड हाणें १८४१ त हे न्हिदेक **हिप्नोतीज्म** हें नांव दिलें. 'हिप्नोस' ह्या ग्रेग अुतरा-वैल्यान ताणें तें घडलें. ताचो अर्थ 'न्हिदावो' हाचेपरस अदीक जायना. अिंग्लेज भास फ्रांसेज भाशेपरस सगळ्या संवसारांत चड पातळ्ळ्या आनी मातल्या देखून हिप्नोतीज्म हें अुतर लोकांल्या तोंडार चड बसलां आनी अदीक संवकळेचें जालां. परंत फारियाची sommeil lucide हाची सर ताका केन्नाच येवची ना. ही घणघणीत न्हीद सादे न्हिदेपरस वेगळी आशिल्ल्या कारणान, तिच्या धर्मान तरेकतरा पिडा आनी रोग बरे करुं येतात. रोगयाळें आंग चिरपांत आनी भंगिल्ले दांत काडपांत जाल्यार ती भारीच अुपकारा पट्टा. ह्या दोनूय कामांत वायटाकाराक शस्त्रांची दुखी बादना जावंक ताका भेरावचो पट्टा आनी त्याखातीर १८४७ वर्साच्या सुमाराक सोद लागिल्ल्या क्लोरोफोर्मासारक्या वायांचो अुपयोग करपाची चाल पडली. परंत वायटाकाराचें काळीज अशक्त आसत जाल्यार, ह्यो वायो चडकरून घातमाऱ्यो जातात. काळीज अशक्त कि घट आसा हें जायते फावटीं खासा वायटाकाराक आनी वैजाकूय खबर नासता. देखून, असल्या वायांपरस घणघणीत न्हिदेचो अुपयोग केल्यार हजार वांटचांनीं बरो हांतूंत दुभाव ना. हे न्हिदेंत आसताना, वायटाकाराक शस्त्रांची दुखी बादना आनी ताच्या काळजाचेर कसलोच वायट परिणाम जावंक पावना.[१०] हालींच्या वर्तमानाक अेवरोपांतले आनी अमेरिकेंतले जायते सुरजांव

---

९ Magnetism and Magic by Baron Du Potet de Sennevoy, translated by A. H. E. Lee, London, pp. 24-25

१० Practical Hypnotism edited by Comte C. de Saint-Germain Pref. p. 18. Text p. 242.

वायटाकाराचें आंग शस्त्रान चिरचे आदीं हे न्हिदेचो अुपयोग करतात. हर्शिली न्हीद आनी हीं न्हीद सारकीच आशिल्ली जाल्यार, वायटाकाराक रातचे पारा सुस्त न्हीद लागतकूच ताचेर शस्त्र चलौं येतालें. परंत ती न्हीद अुपकारा पडना. शस्त्र लागना-फुडें वायटाकार जागो जावन हुयेल मारूंक लागता आनी ताचें रोगयाळें आंग चिरूंक मेळना. देखून, निखटचा 'न्हिदाव्या' परस फारियाची 'घणघणीत अुजवाडाची न्हीद' हें अुतर अर्थान अुपाट भरिल्लें आसा हांतूंत दुभाव ना. दोतोर ब्रेडान हे न्हिदेक नांव जरी वेगळें दवल्लें तरी फारियाचेंच मत्त ताणें अुखलून धल्लां. फारीया कडसून आपणाक तें कळ्ळें अशें मात ताणें कबूल करूंक ना. ताका मेस्मेराची 'चुंबकी व्हाळा' ची कल्पना मान्य ना. तो आपणालो 'न्हिदावो' खासा त्या त्या कुळाचेरूच आधारून आसा अशें म्हणटा. [११] तो आपणाल्या कुळाक कसलेय वस्तीकडेन अेकसारके दोळे लावन पळौंक सांगतालो. कांय वेळान कुळाच्या दोळयांतसून दुखां गळटालीं, मान आडवी पट्टाली, तोंड चिके आंवुळटालें आनी ताका सुस्त न्हीद लागताली. हे भाशेन कूळ गळीत जाता आसताना, ताका जशी सुलूस मेळत तशी ताची भावना जावन ताच्या मनाक तरेकतरा विकार जावं येताले, आंगपांग भेरेवं येतालें आनी जैंचे थैं, धरुं येतालें असो ब्रेडाक अणभव आयल्लो.[१२] कुळाक 'न्हिदावो' हाडपाची तागेली रीत फारियाचे रितीपरस चडशी वेगळी नासली. भगवद्‌गीतेंत योगाची येसाय मारता आसताना, 'मन अेके सुवातेर थारावचें, चित्त आनी अिंद्रियां हांच्यो करण्यो आंवळून धरच्यो, तशेंच धा दिशांनीं हेवशीन-तेवशीन पळेनासताना नाखाचे तेमकेर अेकसारकी नदर थारावची' अशें जें भगवंतान म्हळां[१३] तेंच 'घणघणीत अुजवाडाची न्हीद' हाडूंक फारीय आनी ब्रेड आपणाल्या कुळांक करूंक लायताले हांतूंत दुभाव ना. फारीय आपल्या कुळाक अेका ओल्तेराचेर बसौन दोळे धांपूंक

---

११ 'He (Braid) showed that the theoretic fluid was not required to explain hypnotic phenomena......He rather considered them to be due to a subjective state.' Animal Magnetism by Binet and Féré, p. 68.

'Braid and the later Nancy School were really anticipated by the Abbé Faria, already mentioned, who came to Paris from India., Hypnotism and Suggestion by Bernard Hollander, M. D. p. 182.

१२ Animal Magnetism by Binet and Féré, pp, 69, 70-72.

१३ तत्रैकाग्रं मनः कृत्वा यतचित्तेंद्रियक्रियः । भगी. ६. १२.
संप्रेक्ष्य नासिकाग्रं स्वं दिशश्चानवलोकयन् । भगी. ६. १३.

सांगतालो आनी कांय वेळान, हुकूम केल्ल्याभाशेन, मोट्या ताळयान म्हणटालो, 'न्हीद.' मागीर ताका रोखडीच न्हीद लागताली.[१४] हे न्हिदेच्या अुपायान, कसलेंच ओखद-विर्संद करिनासताना, फारियान जायत्या वायटाकारांक पिडेंतसून बरे केले. ताच्या घरांत वायटाकारांची सदींच दाटी जाताली खैं. अेका वायटाकाराच्या फोपसाक चवन पडिल्लें आनी तांतूंतसून तो बरो जावपाची आस्त सगळ्या वैजांनीं सोडिल्ली. फारियान ताका 'घणघणीत न्हिदे' च्या अुपायान तीन सप्तकांभितर बरो केलो खैं.

भुलविद्येचें शास्त्र तुर्ताक फ्रांसांत जायतें तरतरता. थैं ह्या शास्त्राचे दोन पंगड आसात. अेक नान्सी शारांतलो आनी दुसरो पारिस शारांतलो. ह्या दुसऱ्या पंगडाक 'सालपेत्रियेर' ओस्पितालाच्या नांवानूय वळखतात. नान्सी पंगडाचे म्हालगडे दोतोर लियेबोल्त आनी दोतोर बर्नहिम. हो पंगड १८६६ च्या सुमाराक वैर सल्लो. सालपेत्रियेर पंगडाचो म्हालगडो दोतोर शारको. हो १८७८ च्या सुमाराक वैर सल्लो. ह्या दोनूय पंगडांच्या मत्तांत अंतर जायतें. परंत त्या दोगांकूय मेस्मेराच्या नांवान चलिल्लें मत्त निखालूस मान्य ना. ते ताका कुस्कुटासमान लेखतात. फारियाचेंच मत्त अुखलून धरून दोतोर लियेबोल्त म्हणटालो कि 'घण-घणीत न्हिदे' ची अवस्ता निखटचा कुळाचेर आधारून आसा. ताचें मन अेके सुवातेर थारतकूच ती येता. ती येवंक दुसऱ्या मनशाच्या आंगांतलो 'चुंबकी व्हाळ' ताच्या आंगांत सोडपाची गरज ना. ह्याखातीर कुळाक तो आपल्या दोळ्यांकडेन वा बोटांच्या तोंकांकडेन अेकसारकी नदर लावन पळौंक सांगतालो आनी सुलूस दितालो कि 'तुका लकणी येता, तूं झेमेता, तुज्यान दोळे अुगडुं नजत, तूं आतां सुस्त बरो न्हीद.' हे भाशेन कुळाक कांय वेळान न्हीद लागतकूच वा तो सामको गळीत जातकूच, तो म्हणटालो, 'तूं आतां बरो जातलो. तुका खाल्लें-जेविल्लें जिरतलें. तुका थंड बरी न्हीद लागतली. तुजी खांक मना जातली. तुज्या शिरंत्रांनीं रगत खेळटलें. तुज्या जिवाक घटाय येतली. तूं सडसडीत भायर-भितर भोंवतलो.' हे भाशेन 'घण-घणीत न्हिदें' त कुळाचें मन अेके सुवातेर थारिल्लें आसताना ताका सुलूस मेळटकूच, तिचो भोव बरो परिणाम ताचे प्रकृतिचेर जावन, ताची पिडा ल्हवुल्हवु बरी जावंक पावताली.[१५] दोतोर बर्नहिम जाल्यार फारियाचेच तरेन, हुकूम केल्ल्याभाशेन

---

१४ Hypnotism and Suggestion by Bernard Hollander, M.D., p. 53. Animal Magnetism by Binet and Fere, p. 32.

१५ Hypnotism and Suggestion by Bernard Hollander, pp. 187, 189. Practical Hypnotism by Comte C. de Saint-Germain, pp. 46, 47.

मोटच्या ताळच्यान, आपल्या कुळाक सुलूस दितालो. ही तरा नवी आसा अशें कांय जाण म्हणटात; परंत मुदलाक ती फारियानूच घोळणुकेंत हाडिल्ली. [१६]

फारीय होच भुलविद्येचो खरेलो शास्त्रिक सोदपी अशें जरी आज सगळ्या विद्वानांलें मत्त आसा आनी त्याखातीर ताची तोखणाय जाता, तरी तो जिवो आसताना, तागेल्या मत्ताखातीर ताका जायती पिडणूक भोगची पडली. आनी तांतूंत अजाप ना. लोकांनीं मळिल्ली सदींची अस्कडी वाट सोडून जो कोण धिटायेन नवो मार्ग दाखौंक फुडें सरता, ताची ह्या संवसारांत विटंबणा जाता म्हणपाचो अणभव सगळ्यांक आसा. संतासारक्या फारियाची अशीच अवस्ता जाली. ताची निंदा जाली. ताच्यो भिकार-भासो जाल्यो. ताचेर बगलांठां आयलीं. देवधर्म आनी लोक मेळून दोगांयनीं ताका पिसटून फापसून खालो. कातोलिक धर्माचे मुखेल अधिकारी ताचे फाटीक लागले. भुलविद्या हें अेक फितीस आसून तें क्रिस्तांव धर्माआड आसा असो तांचो समज आसलो. ते ताका फितीसकार म्हणटाले. तो निजाचोंच देवधर्मिष्ट आसून पातकाक जरी सोरपाक कसो-सो भियेतालो तरी ते ताका सैतानावरी लेखूंक लागले. तो त्या वेळार पारिसा आसलो म्हणून सुटलो. तो गोंयां आशिल्लो जाल्यार 'व्हडल्या घरा' च्या तोंडांत अचळय पडून 'पवित्र अिंकिजिसांवा' चे जाळवणदार ताका पाखंडी लेखून, खाऱ्याभाशेन अुज्यांत हुलपायतले आसले! मेस्मेर, प्युयझेग्युर आनी देलेव्झी, हांगेल्या मत्तापासून फारियालें मत्त जायतें वेगळें देखून, तांगेल्या पंगडाचे लोकूय ताचो दुस्वास, द्वेस आनी दुस्मानकी करूंक लागले. ताच्या उजळ लोकिकाक काळें खत लावचेखातीर जायतेजाण ताचे आड तरेकसरा कुभांडां रचूंक लागले. तो जे प्रयोग करता ते खरे न्हयत; तीं सगळीं तडुकां आसात म्हणपाचें दाखौन दिवंक, कांयजाणांनीं नाटकांतल्या अेका खेळगड्याक फुडें काडलो आनी फारीयाकडसून ताका 'घणघणीत न्हिदे' चो प्रयोग करून घेवंक लायलो. परंत ती न्हीद लागचे आदींच ताणें न्हिदेचें बेष्टें सवंग करून फारियाक फटैलो. हे भाशेन लोकांत ताचें हांशें जालें. ह्या संबंधान बर्नार्ड हॉलण्डर नांवाचो विद्वान ग्रंथकार म्हणटा कि 'फारीय हो पूर्ण प्रामाणिक मनीस आसून, जायतेकाळ ताका अेकल्याकूच भुलविद्येचें खरेलें रूप कळ्ळां आसताना, लोक

---

१६ 'This method is, however, not so new as is claimed by some, for it is only a variation, or rather a more detailed application of the process employed by the Abbé Faria.' Hypnotism and Suggestion by Bernard Hollander, p. 53.

ताका नाड फटकिरो म्हणूंक लागले.'[१७] तेन्नाच्यान पारीसभर ताचीं फकाणां जावंक लागलीं. तो ढोंगी आनी तड्की म्हणपाची हुयेल सगळेकडेन जाली. लोक ताका बाबगो-वैंज म्हणूंक लागले. ताचीं विद्रूप चित्रां रंगौन बाजारांत विकूंक लागले. वर्तमानपत्रांनीं ताच्यो बचेऱ्यो जावंक लागल्यो. ताची भगल मारूंक एका नाटक्यान 'चुंबकी पिसाय' नांवांचो एक फकाणी खेळ बरैलो आनी १८१६ त पारिसच्या एका नाटकघरांत ताचो प्रयोग जालो. तो पळौन लोक पोट फुटसरे हांसले आनी फारियाची मस्करी करूंक लागले. हे भाशेन, ताणें जोडिल्ल्या अुंच लोंकिकाक कांय काळ गिराण लागलें. ताका आपले प्रयोग थांबौचे पडले. जाणें ह्या आदीं आपले विद्येन हजारांनीं मनशांक अजापान तोंडांत बोटां घालूंक लायल्लीं आनी शेंकड्यांनीं वायटाकार बरे केल्ले ताची खरेली योग्यताय लोक विसल्ले. ताका दुडू मेळना जाले. तो अडचणींत पडलो. तांतूंत ताचें म्हातारपण लागिल्लें. तरी आसताना ताणें धीर सोडलो ना. वैर सांगिल्ले भाशेन, ताणें 'घणघणीत उजवाडाचे न्हिदे' संबंधान एक पुस्तक बरौन, लोकांक तिचें खरेलें रूप दाखौचें आनी तांच्या मनांतले दुभाव कातरून अुडौचे, अशें येवजिलें. त्या पुस्तकाचीं चार खंडां जावपाचीं आसलीं. ताचें पैलें खंड बरौन ताणें छापखान्यांत छापुंकूय दिलें. परंत तें तयार जाता आसतानाच, १८१९ वर्सा, सेतेंब्राचे २० वेर तो भायर पडलो. त्या वेळार तो ६३ वर्सांचो आसलो. तो मरतकूच फ्रांसेज लोकांचे दोळे अुगडले आनी ताची योग्यताय तांकां समजूंक लागली. ताच्या मर्णाची खबर आनी मर्णलेख पारिसांतल्या चडकरून सगळ्या वर्तमानपत्रांत आयले. Moniteur Universal नांवाच्या पत्रांत म्हळां कि 'फारियाची बुद्द विशाळ आसून ताका जायत्यो भासो येताल्यो. आतांची ग्रेग भास जाल्यार ताची वावराडी जावन ताच्या हांड्यांत अुदक घालताली. लातीं भाशेचें अेक व्याकर्ण ताणें बरैल्लें.' रोखडेंच फारियाच्या पुस्तकाचें पैलें खंड छापून अुजवाडा आयलें. ताच्या पैल्याच पानार फुडलो मजकूर आसा:—

'De la cause du sommeil lucide ou Etude de la Nature de

---

१७ 'Shortly afterwards the Abbé was suspected of fraud, simply because he was tricked by an actor who had been persuaded to feign sleep while pretending to submit honestly to the process of hypnotising. Thus **Faria, a thoroughly honourable man,** was set down as a swindler, in spite of the fact that for a long time he alone, almost, held the true view of these phenomena.' Hypnotism and Suggestion by Bernard Hollander, M. D., p. 182.

l'Homme par l'Abbé de Faria, Brahmine, Docteur en Theologie et en Philosophie, Membre de la Société Medicale de Marseille, ex-Professeur de Philosophie, a l' Universite de France, etc., 1819. (घणघणीत अुजवाडाचे न्हिदेचें कारण वा मनशाच्या निजाच्या गुणाचो अभ्यास. बरपी आबे द फारीय, ब्राह्मण. देवविद्या आनी तत्वविद्या हांचो शास्त्री. मार्सेयच्या वैजके-मंडळाचो वांगडी. फ्रांसाच्या विद्यापीठांतलो तत्वविद्येचो शणै आनी हेर पदवेकार. १८१९.) हें पुस्तक भायर सरनाफुडें तांतूंतले सोद वाचून, फ्रांसेज विद्वानांनी फारियाची तोखणाय केली. संवसारांत वेगळचा वेगळचा मुलखांत जीं शास्त्रिक पुस्तकां जाल्यांत तांतूंतूच ते हें पुस्तक लेखूंक लागले. १८२०त फ्रांसेज दोतोर हांरी द क्युव्हिये हाणें ' Archives du Magnetisme animal ' हांतूंत ताचेर आपणालें मत्त दिलें. तेन्ना 'चुंबकी पिसाये' च्या फकाणी खेळान आनी खेळगडचाच्या संवगान फारियाच्या नांवा-लोकिकाचेर जो पड्डो पडिल्लो तो पेल्यान अुबलो आनी लोक अेका ताळचान ताचे विद्येचें कौतुक करूंक लागले. जायते काळ ह्या पुस्तकाची दुसरी फावट भायर सरूंक नासली. भुलविद्येचे बरपी आपल्या पुस्तकांत फारियाच्या सोदाचे आधार दिताले; परंत तितल्यान ताणें केल्ले फोडणि-शेची समजणी सारकी बरी जाय नासली. १९०६ त पारिसा ताची दुसरी फावट अुजवाडा आयली. तांतूंत गोंयचे विद्वान पंडित दोतोर दालगाद हाणीं सोद करून बरैल्ली बारकायेची प्रस्तावना घाल्या.

फारियान आपल्या पुस्तकाचेर आपल्या नांवावांगडा आपली जात ब्राह्मण म्हणून दिल्या आनी ती सगळचा पदव्यांच्या माथ्यार घाल्या. हाचेवैल्यान, हेर अुंच-अुंच पदव्यांपरस ताका बामणपणाचो केदो मोटो अभिमान आसलो तो अुक्तो दिसता. तागेल्या जाणटेल्यांनीं क्रिस्तांव धर्म घेवन जायतीं वर्सां जाल्लीं. तरी आसताना, ताचो बामणपणाचो अभिमान अिल्लोय सुटूंक नासलो हें ध्यानांत धरीसारकें आसा. त्या अभिमानाक तो गाराभाशेन चिकटून रावलो, देखून तागेले कर्तुत्वदशेची बडाय आज आमकां मारूंक मेळटा आनी आमकां गर्व चट्टा. ताणें आपल्या पुस्तकार आपली जात दिवंक नाशिल्ली जाल्यार, येवरोपांतले लोक ताका खरेपणानशीं आपले भितल्लोच अेकलो समजतले आसले आनी तागेल्या म्हत्वाच्या शास्त्रिक सोदाचें येस गोंयाक आनी हिंदुस्तानाक मेळचे बदला येवरोपाक मेळटलें आसलें. ही आमगेले भुंयेची मोटी व्हडली लुस्कानकी जातली आसली. ताणें आपली जात दिल्ल्या कारणान, ताका हिंदी म्हळ्याबगर येवरोपी विद्वानांक दुसरो मार्ग अुल्लो ना. अेका येवरोपी ग्रंथकारान जाल्यार, ताका सणसणीत हिंदू हें अुतर लायलां ! [१८] आमगेल्या हिंदू

१८ 'Faria, the **Hindoo** Miracle-worker.' Practical Hypnotism by Comte C. de Saint-Germain, Table of contents, p. 6.

